# श्रीरामकृष्ण अमृतवाणी

महेंद्रनाथ गुप्त
(म)

खंड-१
भाग-३





अणकार:
माणिकराव राम नायक गावणेकार

# श्रीरामकृष्ण अमृतवाणी

## खंड–1 : भाग–3

महेंद्रनाथ गुप्त
(म)

अणकार
**माणिकराव राम नायक गावणेकार**

आधार
**सुरेश जयवंत बोरकार**

**माणिकपद्म प्रकाशन**
बांदोडा, फोंडें–गोंय

श्रीरामकृष्ण
अमृतवाणी
(खंड-1 : भाग-3)

बरोवपी :
श्री महेंद्रनाथ गुप्त

अणकार :
माणिकराव राम नायक गावणेकार



पयली उजवाडावणी : 2019

उजवाडावपी :
माणिकपद्म प्रकाशन
बांदोडा, फोंडें-गोंय

छापपी :
श्रीअत्री प्रिंटर्स
कोल्हापूर

मोल : ₹ 50/-

परमपुज्य

**स. रवींद्रबाब केळेकारांक**

अर्पण

# FOREWORD

The teachings of Sri Ramakrishna Paramahamsa are said to be the condensed teaching of all our scriptures given in a simple language. They flow through the conversations of the great saint with his disciples. The anectodes and illustrations he uses makes even a man of meagre intellect to comprehend easily the highest truths. They were first brought out in a book form, after Sri Ramakrishna left his mortal frame by Sri Mahendra Nath Gupta(shortly M) who himself was present during the conversations.

When the book was published for the first time, Swami Vivekananda said to M in a letter, "....I cannot express in adequate terms how I have enjoyed it. I am really in a transport when I read these words. Strange, isn't it? Our teacher and Lord was so original, and each one of us will have to be original or nothing....."

Holy Mother, Sri Sarada Devi, the divine consort of Sri Ramakrishna also wrote to him, "...It was the Master who left these words in your keeping. Now, he is bringing them out according to the needs of the time....."

It is said that whoever comes in contact with these teachings will get attracted to the book and if he continues, experience of the spiritual bliss will be the result. He who hears these words, he is hearing the words of Lord Himself. He who holds this book is verily holding the feet of the Lord.

The teachings first brought out in Bengali have gone through translations to different languages---both Indian and Foreign. The present book is a translation of the same to Konkani language. On reading the book first time in Marathi and English, Shri Manikrao Ram Naik Gaunekar was very much inspired by it. He felt that the people of Konkan should not be deprived of such a great teaching

which will make even a fool to understand the highest truths. He has worked untiringly over the years to get the book translated into the Konkani, local language of Goa.

It is through divine will of Sri Ramakrishna Paramahamsa that this book is getting published. May the Lord bless the author with all that is good and beneficial.

**Swami Hridananda**
Secretary
Ramakrishna Mission, Goa

# मनोगत

जाणटेल्यांची म्हण आसा : देवळांत नंदादीप लावपाची जर शक्त नासत तर त्या दिव्याची वात सारल्यार लेगीत इल्लें पुण्य मेळटा. हांवें कोंकणींत स्वताचें अशें कांयच बरोवंक ना, पूण कांय अणकार केल्यात. कोंकणी आवयच्या देवळांत ही अणकाररुपी वात सारपाक मेळटा हें म्हजें भाग्यच समजतां.

म्हजे इश्ट सर्गेस्त रवींद्रबाब केळेकारांनी म्हाका एक मंत्र दिल्लो –

जिणेंत अशें एक काम करपाक घे जें तुका जल्मभर पावतलें. आनी हांवें Gospel of Shri Ramkrishna हो एक मोलादीक ग्रंथ कोंकणींत करपाचो थारायलो.

हांव खूब खेपो श्री. रविंद्रबाबागेर वतालों. ते म्हणटाले, आपल्याक तो कोंकणींत करपाचो आसा. तांका बंगाली येताली. हांव तांगेर वतालों तेन्ना तांका ते विशीं विचारतालों. एक दीस ते विशीं हांवें तांकां विचारलें. तांणी म्हणलें, ''आतां कोंकणींत अणकारीत करप म्हजे कडल्यान जावचें ना.'' तेन्ना हांवें उमेदीन सांगलें, ''हांव करतां तें अणकारीत.'' तांका आनंद जालो. ते रोखडेच उठले. भितर वचून आलमारींतलें मराठींत अणकारीत केल्लें, 'श्रीरामकृष्ण वचनामृत' म्हजे कडे दिलें आनी सांगलें, ''संदर्भ म्हूण तुका हाचो उपेग जातलो.''

हांवें सांगलें, 'हांव अणकार करपाक रोखडोच सुरू करतां. तुवें प्रस्तावना बरोवंक जाय.'' तांणी म्हणलें ''बरे भशेन. पूण कोणा कडच्यानय निवळावन घे.'' हांव घरा कडेन आयलों. श्रीरामकृष्णांच्या फोटवाक पांयां पडलों. आनी म्हणलें, ''तुजी कृपा आसची.'' ते राती म्हाका एक दिश्टावो जालो. सपनांत एक स्वच्छ आवाज आयकूंक आयलो, ''तूं बरय म्हजी कृपा आसा.''

हांव जेन्ना जेन्ना रविंद्रबाबागेर वतालों तेन्ना तेन्ना म्हजें बरप खंय पावलां तें ते विचारताले. हांवें एक दीस रवींद्रबाबाक सांगलें, ''तीनशें पानां बरोवन जाल्यांत. प्रस्तावना बरय.'' तांणी म्हणलें, ''पुराय पुस्तक बरोवन जावं दी. मागीर बरयतां. कोण निवळायता तुजें लिखाण?'' हांवें सांगलें, ''सुरेशबाब बोरकार''. तांणी म्हणलें, 'कडक मास्तर तो, तुजें लिखाण बरे रितीन निवळायतलों.''

आयज पुस्तक बरोवन जालां. हें पुस्तक बरोवपा फाटल्यान तांचीच प्रेरणा आसा. तांणी म्हणिल्लें, ''हें पुस्तक कोंकणीत येवंकच जाय, प्रत्येकान हें वाचूंक जाय. मागीर

ईश्वर खंय आसा तें लोकांक बरें कळटलें.'' श्रीरामकृष्ण ह्या पुस्तकांत सांगतात, संवसारी मनीस लेगीत ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवंक शकता. ते अशेंय सांगतात, ईश्वराचो साक्षात्कार जेन्ना जाता तेन्ना साक्षात्कारी मनीस मनशांत ईश्वर पळयता आनी मनशांत जो ईश्वर पळयता तोच खरो साक्षात्कारी मनीस.

हें पुस्तक महेंद्र गुप्तान मूळ बंगालींत बरयलां. हो पयल्या खंडाचो तिसरो भाग, हांवें कोंकणी अणकार इंग्लीश अणकारा वयल्यान केला. मराठींत जो अणकार आसा ताचोय हांवें पालव घेतला.

श्री. सुरेशबाब बोरकारान सामक्या निसुवार्थीपणान म्हजें हें पुस्तक निवळावपाचें काम केलां. म्हणुनूच अशे इश्ट मेळप हें भाग्य. हे खातीर हांव ताच्या रिणांत सदांच उरतलों.

ह्या पुस्तकाचें टंकलेखन कुमारी प्रशिला नायकान केलां. मुद्दाम वास्को सावन येवन केन्ना केन्ना बरोवनय घेतालें. ताचे उपकार मानीत तितले थोडे. ताचो हांव खूब उपकारी आसां. श्री. बोरकारान तपासून परत टंक लेखन करपा वेळार ताचो कॉम्प्युटर मोडलो. तो सारको कसोच जायना जालो. सगलेंच परत टंकलेखन करचें पडलें. तें काम श्री. सुशांत नायकान हातांत घेतलें. टंक लेखन करून दिलें. इतलेंच न्हय पुस्तकाच्या आकारान करपाचें काम लेगीत तांणीच मोटच्या कश्टान केल्ले खातीर हांव तांचो खूब उपकारी आसां. तशेंच रश्मी तनावडेकार, श्रीमती सावंत हांणी कांय भाग टंकलेखन केला. तशेंच कु. शैलजा देवुस्कर हांचोय हांव उपकारी आसां. तेच भशेन रिया ग्राफीक्स हांचोय हांव उपकारी आसा.

म्हजी घरकान्न सौ. पद्मजा गावणेकारान मदीं मदीं अचूक कोंकणी उतर सांगपाक खूब पालव दिला. तशेंच म्हगेलीं सगलीं घरचीं, तेच प्रमाण म्हजी नात सौरभी बुडकुले आनी नातू अमोल बुडकुले आनी म्हजो जांवय श्री. सुशांत कामत हांणी म्हजें लिखाण मदीं मदीं बरोवन घेतलां. म्हणून हांव तांचो सगल्यांचो उपकारी आसां. तेच प्रमाण श्री. सोममनाथ कामत धाकणकार हांणी पुस्तक बारकायेन वाचून सुचोवण्यो केल्यो. हांव तांचोय उपकारी आसां.

सर्गेस्त रवींद्रबाब केळेकार हे कोंकणीचे एक व्हड उदगाते, ते कोंकणीचे 'प्राण' आशिल्ले. शणै गोंयबाबां फाटल्यान तांणीच कोंकणीची घुडी फुडें व्हरपाक फुडाकार घेतलो. तांचे प्रेरणेनूच हांवें हें पुस्तक बरयलां. देखून हांव हें पुस्तक तांकांच अर्पण करतां.

**माणिकराव राम नायक गावणेकार**

# प्रस्तावना

श्रीसमर्थ रामदास स्वामींच्या 'करूणाष्टकें'त अशें आयलांः

*सदा सर्वदा योग तूझा घडावा।।26।।*

रामदास स्वामी परमात्म्या कडेन आपलो योग घडून येवचो म्हणून प्रार्थना करतात. अशी प्रार्थना दर एक भक्त करता. योग घडून येवप म्हणल्यार परमात्म्यांत एकरूप जावप. अशें घडून येतलें जाल्यार परमात्मो दिसचो पडटलो. तो कसो दिसतलो?

श्रीसमर्थ रामदास स्वामींच्या 'श्रीमनाचे श्लोकां'त अशें आयलांः

*गुरूवीण तो सर्वथाही न दिसे।।179।।*

गुरू बगर तो केन्नाच कसोच दिसचो ना. आनी तो दिसले बगर ताच्यांत एकरूप जावंक जमचें ना.

अध्यात्माचें हें इतलें सादें आनी सरळ सारतत्व आसा. पूण हें सारतत्व सादें आनी सरळ आसुनूय मन हजार प्रश्न तयार करता. त्या प्रश्नांच्यो जापो मेळपाची गरज आसता.

गुरू, संत-महात्मे संवसारांत तेच खातीर येतात. अनादी काळा पसून ते येत आसात अशें म्हणटात. फकत हिंदुस्तानांतूच न्हय, हेर कडेनूय बी ते आयल्यात. पूण हिंदुस्तानांत ते चड प्रमाणांत आयल्यात. म्हणून हांगासरल्या लोकांचो अध्यात्मा वटेन कल चड आसा.

अशे संत-महात्मे ज्या वाठारांनी येतात ते वाठार धन्य. श्री गुरू अर्जुन देव हे शिखांचे पांचवे गुरू आपल्या गुरूक लेखून उद्‌गार काडटातः

*धंनु सु देसु जहाँ तूं वसिआ*

अशे वाठार धन्य आनी अश्या संत-महात्म्यांच्या संपर्कांत आयिल्ले लोकूय बी

धन्य. तांच्या जिवनाचें सार्थक जालें.

अध्यात्माची भूक लागिल्ल्यांक, मुमुक्षूंक, साधकांक ह्या संवसारांत रावनूय कशे तरेन परमात्म्या कडेन एकवट सादप आनी तो सादपाचे वाटेर मनाची जी खडेगांठ आडखळ आसा ती कशी पयस करप हें ते तांकां सांगतात. होंवयो, श्लोक, अभंग, दोहे, गझल, पदां अश्या काव्याच्या माध्यमान वा प्रवचनां, सत्संग, संवाद अश्या गद्याच्या माध्यमांतल्यान ते विसकटावणी करून सांगतात. मनाक लागून सगूण, निर्गूण, साकार, निराकार, द्वैत, अद्वैत, अशे कितलेशेच प्रश्न निर्माण जातात आनी ह्या सगल्या काथ्यांतल्यान खऱ्या मुमुक्षूक वाट काडपाक जमना. तेन्ना अश्या संत--महात्म्यांच्या संपर्कांत तो येतकच ताका ती मेळूंक पावता. आनी ताची चाल, मात्तूय कसल्या दुबावाचें सांवट नासतना एकेच दिकेन मेकळेपणान चलता.

अशे तरेचो म्हापुरूस बंगालांत 1836 वर्सा जल्माक आयलो आनी मुखार श्रीरामकृष्ण ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो. कांय विभुती जल्मताच दैवी गूण घेवन येतात. श्रीरामकृष्णांचेंय तशेंच जालें. जल्मताच परमात्म्याची ओड तांकां स्वस्थ बसूंक दिना जाली. दक्षिणेश्वरच्या कालीमातेच्या देवळांत पुजारी म्हणून रावतकच ती कालीमाता हेंच आपलें आराध्य दैवत अशें मानून तिचे सांगणेन ते आपलीं कामां करूंक लागले. तिका 'आई' म्हणून उलो मारून आपली तळमळ ते तिचे कडेन उकती करताले. आनी ही 'आई'य बी तांकां फावो तो आधार दिवन तांचें अध्यात्मीक उत्थान जावपा खातीर गरजे पुरतो संवसारीक वावर चलपाक फावो तो पालव दिताली.

परमात्म्या कडेन भक्ताचें नातें कितल्याच तरांचें आशिल्लें पळोवंक मेळटा. तमाम भक्तांचें धनी आनी दास अशें नातें आसा. श्रीराम आनी हनुमान हांचे मदीं हें अशें नातें. श्रीकृष्ण आनी राधा हांचे मदीं मोगी आनी मोगिका अशें नातें. श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांचे मदीं इश्टांचें नातें. परमात्मो आनी जेजू क्रिस्त हांचे मदीं बापूय आनी पूत अशें नातें जाल्यार परमात्मो आनी श्रीरामकृष्ण हांचे मदीं आवय आनी पूत अशें नातें.

कसल्याय स्वरूपाचें नातें आसलें जाल्यारूय गुरूची गरज लागताच लागता. सगल्या संत-महात्म्यांनी ही गजाल खूब मोटो भर दिवन सांगल्या.

कबीर साहिबांची वाणी आसाः

*गुरु गोबिंद दोऊ खडे, का के लागौं पाँय।*
*बलिहारी गुरु आपने, जिन गोबिंद दियो बताय।।*

अशें म्हणटात, शिश्य तयार आसता तेन्ना गुरू आपूण जावन ताचे सरीं पावता.

अशीच गजाल श्रीरामकृष्णां संबंदान घडली. तांची पणटी तेल वात घालून तयार आसली. ती पेटोवंक फकत दुसरे पेट्टे पणटेची गरज आसली. ती तांकां श्रीमत तोतापुरींच्या रुपान मेळ्ळी. परमहंस तोतापुरी 1865 वर्साचे सुरवातीक दक्षिणेश्वरा आयले. तोतापुरी कडेन वळख जातकच तांचे कडल्यान संन्यासाश्रमाची दिक्षा घेवची काय ना तें विचारपाक ते आपले 'आई'कडेन गेले आनी 'आई'न तांकां तशी परवानगी दिली. ते मोट्या आनंदान तोतापुरी कडेन आयले आनी दिक्षा घेवपाची आपली तयारी आसा म्हणपाचें तांकां सांगलें.

पुरातन काळा पसून चलत आयिल्ले परंपरे प्रमाण गुरून तांकां कौपीन, काषायवस्त्र आनी श्रीरामकृष्ण हें नाम दिलें. उपरांत उपदेशा खातीर ते गुरू मुखार एकाग्र चित्तान बसले.

तांकां समाधी अवस्था प्राप्त करून दिवपाक तोतापुरी तरेकवार पद्धतींनी धडपडटाले. पूण ध्यान करूंक बसले म्हणटकच 'आई'ची मूर्त तांच्या दोळ्यां मुखार येताली आनी मन कशेच तरेन निर्विकल्प जायनासलें.

अशें एक सारकें तीन दीस जातकच तोतापुरींनी एक कंवचेचो कुडको घेवन तो तांच्या दोनूय भुंवयांचे मदीं तोपून तांकां सांगलें, 'हांगा मन एकाग्र कर.'

उपरांत कसलोच विकल्प मनांत उरूंक नाशिल्ल्यान तांकां समाधी लागली. समाधींत आसतना तीन दीस गेले तरी श्रीरामकृष्ण समाधींतल्यान उठनात तें पळोवन तोतापुरींक अजाप जालें. जें साध्य करून घेवपा खातीर आपल्याक चाळीस वर्सां लागलीं तें श्रीरामकृष्णांक कांय न्हय करून तीन दिसां भितर मेळिल्लें पळोवन तांकां खूब आनंद जालो. श्रीरामकृष्ण निर्विकल्प समाधी जोडून म्हणल्यार परब्रह्मांतले सहजसमाधी अवस्थेंत पावल्यात म्हणपाचें तांकां कळून आयलें. आपले शक्तीन तांणी श्रीरामकृष्णांची समाधी देंवयली. श्रीरामकृष्ण आतां परमहंस जाल्ले.

श्रीरामकृष्ण आतां अध्यात्मीक ज्ञानान परिपूर्ण जाल्ले. तें ज्ञान आतां दुसऱ्यांक वांटपा खातीर ते तयार जाले.

शास्त्रांतलें आनी संतवचनांतलें सत्य मनबुद्दीच्या पेल्यानचें आसता. तें फकत सिद्ध पुरुशूच विसकटावन सांगूंक शकतात.

हीच गजाल श्रीरामकृष्णां कडल्यान घडली.

आनी हीच गजाल आमकां 'अमृतवचनां'त वाचूंक मेळटा.

श्री. महेंद्रनाथ गुप्त हे गृहस्थी शिक्षक तांचे म्हऱ्यांत 1882 ह्या वर्सा फेब्रुवारी म्हयन्यांत पावले. तेन्नाच्यान श्रीरामकृष्ण साधक, मुमुक्षू, पंडीत, नास्तीक, गिरेस्त, दुबळे, साधू, गृहस्थी अश्या सगल्या थरांतल्या लोकां कडेन जी भासाभास करताले,

अध्यात्मांतलीं गुह्यां आनी सत्यां जे तरेन ते दाखले दिवन, गितां म्हणून, दृश्टांत सांगून आनी अदीं मदीं तांकां येताले ते समाधी वरवीं सहजपणान, प्रत्यक्षपणान, स्वता देख जावन दाखयताले तें सगळें तांच्या 24 एप्रील 1886 ह्या दिसा मेरेन आनी उपरांत मे 1887 मेरेन जाल्ल्या शिष्यां मदलो संवाद तांणी दीसपटयेच्या रुपान बरोवन दवरलो.

मूळ बंगाली भाशेंत 'श्री श्री रामकृष्ण कथामृत' ह्या नांवान ती दीसपटी ग्रंथरुपान उजवाडाक आयली. तातूंत स्वता महेंद्रनाथ गुप्त 'म' ह्या नांवान तिसरो पुरुशी जावन अध्यात्माचो हो विशय आमचे मुखार हाडटात. हो सुमार देड हजार पानी ग्रंथ स्वामी निखलानंदांनी इंग्लीशींत The Gospel of Shri Ramakrishna ह्या नांवान अनुवादीत करून संवसारा मुखार हाडलो.

ताचेंच हें कोंकणी रूप.

भौ. माणिकराव गावणेकारांनी आपल्या जाणटेपणांत मोटे कश्ट घेवन हो ग्रंथ कोंकणींत अनुवादीत केला. कोंकणी वाचकांक हें अध्यात्मधन ह्या ग्रंथा वरवीं उपलब्ध जालां.

भौ. माणिकरावांनी हो येदो व्हड वावर केल्ले खातीर अध्यात्माची भूक लागिल्ले म्हजे सारके तांचे रिणी आसात.

**सुरेश जयवंत बोरकार**
परवरी-गोंय

टीप : गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी-गोंय हे संस्थेन 2007 वर्सा उजवाडायिल्ले 'कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम' हे पुस्तिकेंत दिल्ल्या नेमां प्रमाण ह्या ग्रंथांतलें शुद्धलेखन आसा.

# मांडावळ

# अध्याय : ब्यात्तर

## ब्रह्मज्ञान, धर्मोपदेश

**डिसेंबर 29, 1883. शेनवार.** उमास. जगन्मातेची पुजा करपा खातीर बरो दीस. दनपारच्या एका वराचेर कालीघाटाच्या देवळांत काली दर्शन घेवपा खातीर श्रीरामकृष्ण गाडयेंत बसले. वाटेर वतना अधराच्या घरा कडेन रावपाचें थारायलें. अधरय तांचे बराबर कालीच्या दर्शनाक येवपाचो आशिल्लो.

मचे कुडीचे उत्तरे कडेन गाडी उबी रावली. म श्रीरामकृष्णां कडेन गेलो आनी ताणें म्हणले, ''महाराज, हांवूय येवं तुमचे बराबर?''

**श्रीरामकृष्ण**: तें कित्याक?

**म**: कलकत्ताक एक खेपो घरा वचून येतलों आशिल्लों.

श्रीरामकृष्णांनी एक खीण विचार केलो आनी म्हणलें, ''घरा वचूंक जाय? कित्याक? हांगा तूं सामको बरो आसा.'' मक थोडो वेळ घरच्यांक मेळपाचें आशिल्लें. पूण श्रीरामकृष्णांक तें मान्य नाशिल्लें.

**डिसेंबर 30, 1883. आयतार.** दनपारचीं तीन जाल्लीं. म एका झाडा सकयल एकटोच भोंवतालो. इतल्यान एका भक्तान येवन सांगलें, मक श्रीरामकृष्णांनी आफयला म्हूण. म श्रीरामकृष्णांचे कुडींत गेलो आनी थंय खूब भक्त आशिल्ले ते ताणें पळयले. मन तांकां नमस्कार केलो.

राम, केदार आनी हेर कलकत्ता सावन आयिल्ले. रामान तांचे बराबर एक वेदान्ती साधू हाडिल्लो. फाटीं एक खेपो रामचंद्र दत्ताची बाग पळोवपाक गेल्ले. दक्षिणेश्वरा कडेन तांणी साधूक हाड म्हणून सांगिल्लें.

श्रीरामकृष्णां बराबर तो साधू त्या ल्हान पलंगाचेर बशिल्लो. ते आनंदान हिंदींत उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** हें सगलें तुमकां कशें कितें दिसता?

**साधू:** हें सगलें सपन कशें दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** ब्रह्म सत्य आनी जग मिथ्या. अशेंच न्हय? बरें. पूण महाराज, ब्रह्माचें स्वरूप कशें आसा?

**साधू:** शब्दच ब्रह्म. ॐ अनाहत शब्द.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण शब्दान दाखयिल्ली कितें तरी वस्तू आसूंक जाय. अशेंच न्हय?

**साधू:** दाखयिल्ली वस्तूय तोच आनी दर्शकय तोच.

हीं उतरां आयकले बराबर श्रीरामकृष्ण समाधी मग्न जाले. थीर जाले. साधू आनी हेर भक्त अजापीत जावन तांची ती समाधी अवस्था पळोवंक लागले. केदारान साधूक म्हणलें, ‘‘महाराज, तांचे कडेन पळयात. हाका समाधी म्हणटात.’’ त्या साधून समाधी विशीं वाचिल्लें. पूण प्रत्यक्ष समाधी केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली. कांय वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण ल्हव ल्हव भानार येवन जगन्माते कडेन उलोवंक लागले, ‘‘आई, म्हाका बरे स्थितींत दवर. बेशुद्ध करूं नाका. ह्या साधू बराबर सच्चिदानंदाच्यो गजाली करपाक जाय. आई, सच्चिदानंदाच्यो गजाली करून आनंद घेवंक जाय.’’

साधू अजापीत जावन हें सगलें पळयतालो आनी ते उलयताले तें आयकतालो. ‘‘काडून उडयात तो तुमचो ‘हांव तोच’. आमी आतां ‘हांव’ आनी ‘तूं’ दवरुया आनी आनंद घेवया.’’ श्रीरामकृष्णांनी ताका सांगलें.

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण पंचवटींत भोंवपाक लागले. तांचे बराबर राम, केदार, म आनी हेर भक्त आशिल्ले.

## केदाराक उपदेश
## संवसार त्यागच

**श्रीरामकृष्ण:** (केदाराक हांसत) कसो आसा साधू?

**केदार:** सुकें ज्ञान. रान्नीचेर निकतेंच आदन दवरलां. अजून तांदूळ घालूंक नात.

**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें आसा. पूण तांणी सर्वस्वाचो त्याग केला. जाणें संवसाराचो त्याग केला ताणें बरीच प्रगती केल्या. साधू प्रवर्तकाच्या वर्गांतलो आसा. परमेश्वर मेळ्ळे बगर कांयच लाव जावंक शकना. मनीस जेन्ना देवाच्या नावान उन्मत जाता तेन्ना मागीर ताका आनीक कांयच आवडना आनी मागीर –

मना, हे मुल्यवान श्यामा मातेक
नाजूकपणान काळजांत दवर.
फकत तुवें आनी हांवेंच तिका पळोवचें
आनीक तिसरो कोणूच आमचे मदीं नाका.

श्रीरामकृष्णांच्या भावनांक पोशक अशें एक गीत केदार गावंक लागलेः

हांव म्हजें काळीज कशें उकतें करूं, सखे?
म्हाका उलोवंक मनाय आसा
म्हजी व्यथा जाणा जावंक
लागींचो कोण नाशिल्ल्यान
हांव आतां मरूंक तेंकल्यां...

श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत परत आयले. चार जाल्लीं. कालीमातेचें मंदीर उगडलें. श्रीरामकृष्ण साधूक घेवन कालीच्या देवळांत वचपाक भायर सरले. बराबर म आशिल्लो. कालीच्या देवळांत भितर सरतकूच श्रीरामकृष्ण मोट्या भक्तीभावान मातेक न्हिदून पांयां पडले. साधूय हात जोडून माथें बागोवन मातेक परत परत पांयां पडलो.

**श्रीरामकृष्णः** काली विशीं तुमकां कितें दिसता?

**साधूः** (भक्तीन) काली सगल्यांत श्रेश्ठ आसा.

**श्रीरामकृष्णः** काली आनी ब्रह्म एकूच आसात. अभिन्न आसात. अशेंच न्हय?

**साधूः** जों मेरेन मन भायल्या जगा विशीं चिंत्ता, तों मेरेन कालीक मानुंकूच जाय. जों मेरेन मनीस भायलें जग पळयता, अणभवता आनी बरें वायट हाचो विवेक करता तों मेरेन ताणें बऱ्याचो स्विकार करूंक जाय आनी वायट न्हयकायरूंक जाय. सगलीं नांवां आनी रुपां फटीचीं हें खरें, पूण जों मेरेन मन भायलें जग अणभवता तों मेरेन साधकान अस्तुरे पसून पयस रावूंक जाय. जों मेरेन मनीस मार्गाचेर साधक म्हूण वावुरता तों मेरेन ताका बरें वायट लागता नाजाल्यार तो मार्गा पसून भ्रश्ट जातलो.

साधू बराबर अशें उलोवप करीत करीत श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत परत आयले.

**श्रीरामकृष्णः** (मक) कालीमतेक साधू पांयां पडलो तें तुवें पळयलें?

**म**: हय. पळयलें महाराज.

**डिसेंबर 31, 1883. सोमार.** दनपारचीं चार जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण म, राखाल, लाटू, हरीश आनी हेर भक्तां वांगडा कुडींत बशिल्ले.

मक आनी बलरामाक लेखून श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''हलधारीन ज्ञानाचो मार्ग पत्करला. रातदीस उपनिषदां, अध्यात्म रामायण, वेदान्ताचेर पुस्तकां वाचता. ईश्वराच्या साकार रुपा विशीं उलयल्यारूच नाक मुड्डितालो. एक खेपो हांवें भिकाऱ्याच्या पानांतलें थोडें उश्टें खालें. तें पळोवन हलधारीन म्हाका म्हणलें, 'तुज्या भुरग्यांचीं लग्नां कशीं करतलो?' हांवें म्हणलें 'फटिंगा, म्हाका केन्ना भुरगीं जाय? उजो लाय तुजे गीतेचे आनी वेदान्ताचे पोपटपंचीक.' पळय तरी! हांगा म्हणटा, 'जग मिथ्या' आनी परत विष्णूमंदिरांत नाक वयर करून ध्यान करता.''

तिनसांज जाल्ली. बलराम आनी हेर भक्त कलकत्ताक परत गेले. श्रीरामकृष्ण कुडींतूच जगन्मातेचें ध्यान करपांत मग्न जाले. थोड्या वेळा उपरांत देवळांतल्यान सांजेच्या आरतींचो गोड आवाज आयकूंक आयलो. कांय वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण भावतन्मय जावन मधूर कोमल आवाजांत जगन्माते बराबर उलोवंक लागले. तांगेलें उलोवप आयकून मचें काळीज हाल्लें. म लागींच जमनीर बशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण परत परत म्हणटाले, हरी ॐ, हरी ॐ, हरी ॐ. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''आई, ब्रह्मज्ञानान म्हाका बेशुद्ध करूं नाका. आई म्हाका ब्रह्मज्ञान नाका. म्हाका आनंदांत रावूंक जाय. म्हाका विलास करूंक जाय.'' परत तांणी म्हणलें, ''म्हाका वेदान्त कळना आनी आई म्हाका तो कळपाचीय इत्सा ना. आनी आई, तू मेळ्ळे उपरांत वेद आनी वेदान्त , खंयचे खंय सकयल पडून रावतात.'' मागीर तांणी म्हणलें, ''कृष्णा, हांव तुका म्हणटलों, 'खा. म्हज्या पुता खा. हें घे म्हज्या पुता!' 'आरे कृष्णा, हांव तुका म्हणटलों, म्हज्या पुता, तुवें म्हजे खातीर हो देह धारण केला.' ''

# अध्याय त्र्यात्तर

## दक्षिणेश्वराक

**जानेवारी 2, 1884. बुधवार.** श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत दक्षिणेश्वराक रावताले. तांचे बराबर राखाल, लाटू, हरीश, रामलाल आनी म देवळाचे बागेंत रावताले. दनपारच्या तीन वरांचेर श्रीरामकृष्ण एका तांत्रीक भक्ता बराबर तागेले कुडीचे अस्तंते कडले पडवेर उलयत बशिल्ले अशें मक दिसलें. तांत्रीक भक्तान भगवीं वस्त्रां घाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी मक तांचे लागीं बस म्हूण सांगलें. चड करून तांत्रीक भक्तां बराबर उलयतां उलयतां मकूय कितें सांगपाचें-उपदेश दिवपाचो तांचो हेतू आसूं येतालो. महीम चक्रवर्तीन त्या तांत्रीक भक्ताक श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक धाडिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (तांत्रीक भक्ताक) मनशाचे कवटेंतल्यान सोरो पियेवप हें तांत्रीक साधनेचें एक अंग जावन आसा. ह्या सोऱ्याक, करण म्हणटात अशें न्हय?

**तांत्रीक:** हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण म्हाका सोऱ्याक स्पर्श लेगीत करूंक जमना.

**तांत्रीक:** तुमचो स्वयंस्फूर्त आपसूक ईश्वरी आनंद. जो असो सभावीक आनंद भोगता ताका आनीक कित्याचीच गरज लागना.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हाका जप तप आवडना. पूण सदांच देवाचें स्मरण मनन चलता. म्हाका सांगात, ते जेन्ना शटचक्रां विशीं उलयतात तेन्ना ते कितें सांगूंक सोदतात?

**तांत्रीक:** तीं सगलीं चक्रां म्हणल्यार वेगळीं वेगळीं तिर्थस्थळां कशीं. प्रत्येक चक्रांत शिव प्रकृती आसता. तीं ह्या शारिरीक दोळ्यांनी दिसनात. शरीर कापून तीं भायर काडपाक येनात.

म थंडपणान तांगेलें उलोवप आयकतालो. ताचे कडेन पळोवन श्रीरामकृष्णांनी

तांत्रीक भक्ताक विचारलें, 'गुरू कडच्यान बीज मंत्र घेनासतना मनशाच्यान सिद्ध जावं येता?'

**तांत्रीक:** हय. तो सिद्ध जावं येता. ताचो विश्वास आसत जाल्यार – गुरूच्या शब्दाचेर विश्वास आसल्यार.

श्रीरामकृष्ण मक पळयताले आनी ताका खुणायत म्हणटाले 'विश्वास'.

तांत्रीक भक्तान निरोप घेतले उपरांत ब्राह्मसमाजाचे गोपाळ सेन आयले. श्रीरामकृष्ण तांचे कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (गोपाळाक) कोणा विशीं, खंयच्याय मता वा पंथा विशीं दुस्वास बाळगुचो न्हय. निराकारवादी, साकारवादी, आडवाद नासतना सगलेच फकत देवा कडेन वतात. ज्ञानी, योगी, भक्त सगले एकय आडवाद नासतना सगलेच फकत ताकाच सोदीत आसतात. ज्ञानमार्गी लोक ताका म्हणटात, ब्रह्म. योगी ताका म्हणटात 'आत्मन' वा 'परमात्मन'. भक्त ताका म्हणटात 'भगवान'. अशेंय म्हणटात, 'नित्य प्रभू आनी ताचो नित्य दास.'

**जयगोपाळ:** सगलेच मार्ग खरे आसात हें कशें समजुपाचें?

**श्रीरामकृष्ण:** एका मार्गान बरे तरेन वचत जाल्यार देव मेळूंक शकता. मागीर हेर मार्गां संबंदान सगलें जाणा जावंक येता. एक खेपो खंयच्याय मार्गान माळयेर पावलो की मागीर लांकडी सोपणांनी सकयल देंवूं येता. फातराच्या सोपणांनी देंवूं येता वा कोंड्याच्या आधारान देंवूं येता वा एका राजवाच्या पालवान देंवूं येता. देवाची कृपा जाल्यार, भक्त सगलें जाणा जावंक शकता. एक खेपो देवाचो साक्षात्कार जायत तर ताचे विशीं भक्ताक सगलें कळटलें. कशेंय करून धनयाची भेट घेवंक जायच. ताची वळख घेवन ताचे कडेन उलोवंक जाय. मागीर तोच सांगतलो ताचीं कितलीं घरां आसात, ताचीं कितलीं भाटां आनी सरकारी कागदपत्रां आसात तें.

## ईश्वरदर्शनाचो उपाय

**जयगोपाळ:** आपल्याचेर ईश्वराची कृपा कशी जाता?

**श्रीरामकृष्ण:** सदांच देवाचें नामगूण संकिर्तन करूंक जाय. आनी विशयांचे चिंतन करपाचें जाता तितलें सोडून दिवंक जाय. पीक बरें येवचें म्हूण तुमी खूब कश्ट घेवन शेतांत उदक हाडटात. पूण मदीं गळटी लागली जाल्यार उदक मदले मदीं दुसरे कडेन वता. मागीर पाट खणून उदक हाडपाचे श्रम फुकट वतात.

चित्तशुद्धी जाल्यार, जगांतल्या भोगांच्या वस्तूं विशीं आसक्ती ना जायत जाल्यार, ईश्वरा खातीर व्याकूळताय दिसतली. तेन्नाच मागीर तुमची प्रार्थना ईश्वरा कडेन पावतली. टेलेग्राफची सरी मर्दी तुटली वा कितेंय दोश आसत तर तातूंतल्यान संदेश पावपाचो ना.

हांव ईश्वरा खातीर व्याकूळ जावन एकांतांत एकटोच रडटालों. देवा, तूं खंय आसा? अशें म्हणीत रडटालों. रडटां रडटां जगाचें भान ना जावन हांव बेशुद्ध जावन पडटालों. मन महावायूंत वतालें.

योग कसो प्राप्त करून घेवप? जगांतल्या भोग वस्तूं विशीं आसक्ती सामकी ना जावन वतकच तो मेळटलो. मन नितळ आनी दोश विरयत आसूंक जाय. टेलेग्राफचे बरे सरये भशेन. खंयचीच कामना बाळगूंक जायना. जांच्या मनांत कामना आसता तांचे भक्तीक सकाम भक्ती म्हणटात. ती भक्ती सुवार्थी आसता. निश्काम भक्ती ही फकत भक्ती खातिरूच भक्ती आसता. तिका हेतू विरयत भक्ती म्हणटात. फकत मोगा खातीर मोग. तुमी मोग करात वा करूं नाकात. हांव तुमचेर मोग करीत रावतलों. हाका म्हणटात हेतू विरयत भक्ती.

मुखेल गजाल म्हणल्यार ईश्वराचेर मोग करूंक जाय. खूब मोग केल्यार ताचें दर्शन जाता. पतिव्रते विशीं घोवाची ओड, भुरग्याची आवय विशीं ओड, संवसारी मनशाची संवसारांतल्या विशयां विशीं ओड, ह्यो तिनूय ओडी एकठांय करून ईश्वरा कडेन लायत जाल्यार ईश्वराचें दर्शन जाता.

जयगोपाळ संवसारी मनीस म्हणुनूच काय श्रीरामकृष्ण तांकां योग्य असो उपदेश दिताले?

## ज्ञान आनी विचार हांचे मार्ग
## भक्तीयोग आनी ब्रह्मज्ञान

रातचीं आठ वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत बशिल्ले. तांचे बराबर राखाल आनी म आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांच्या सांगातांत मचो आयज एकविसावो दीस. श्रीरामकृष्णांनी मक तर्क विचार करपाक मनाय केल्ली.

**श्रीरामकृष्णः** (राखालाक) चड तर्कटपणां करप, खूब तर्कविचार करप, बरें न्हय. पयलीं ईश्वर, मागीर जग. पयलीं ईश्वराचो लाव. ताचो लाव जातकूच मागीर ताच्या

जगा विशीं सगली खबर कळटली.

(मक आनी राखालाक) यदू मल्लीका कडेन वळख करून घेतकच ताचीं घरां कितलीं, ताचीं भाटां कितलीं, ताचो सरकारी वेव्हार, सगलें कितें जाणा जावंक जातलें. म्हणून तर नारदान वाल्मिकीक मरा, मरा, म्हणपाक सांगलें. म म्हणचे ईश्वर आनी 'रा' म्हणजे जग. पयलीं ईश्वर मागीर जग.

## कृष्णकिशोरा बराबर
## 'मरा' मंत्रा विशीं उलोवप

कृष्णकिशोरान म्हणिल्लें, 'मरा' 'मरा' हो क्षुब्ध मंत्र आसा. रुशीन दिला म्हणून 'म' म्हणजे ईश्वर आनी 'रा' म्हणजे जगत. देखुनूच पयलीं वाल्मिकी भशेन सगल्याचो त्याग करून निर्जन सुवातेर व्याकूळतायेन काळजा सावन रडत, रडत ईश्वराक आळोवंक जाय. पयलीं गरज ईश्वर दर्शनाची. ते उपरांत तर्क–विचार–शास्त्रा विशीं, जगा संबंदीं.

## श्रीरामकृष्णांचें रस्त्यांत क्रंदन
## 'आई म्हजे तर्कबुद्दीक आडाय'

**श्रीरामकृष्ण**: (मक) म्हणुनूच तुका सांगतां, आनीक चड तर्क विचार करूं नाका. हांव सुरूच्या रुखा सावन आयलां. तुका हें सांगपा खातिरूच, चड तर्कटपणां करतकच अध्यात्मीक जिणेचें लुकसाण जाता. निमणें तूं हाजरा सारको जातलो. हांव रातचो एकटोच रस्त्यांत रडत रडत भोंवतालों आनी म्हणटालों, 'आई, म्हजे तर्क करपाचे इत्शेचेर वज्राघात कर.' म्हाका सांग तूं हाचे फुडें तर्क विचार करचो ना म्हूण.

**म**: हय महाराज. जशी तुमची आज्ञा. हाचे फुडें केन्नाच तर्क विचार करचों ना.

**श्रीरामकृष्ण**: भक्तीनूच सगलें कितें मेळूंक शकता. जांकां ब्रह्मज्ञान जाय ते जर भक्तीच्या मार्गान वचत तर तांकां ब्रह्मज्ञानय मेळटलें. ईश्वराची दया जातकच कितें ज्ञानाचो उणाव जातलो? आमचे कडेन थंय कामारपुकूराक धान्य मेजतात. मेजतां मेजतां एक रास सोंपता थंय आसा, इतले म्हणसर एकटो दुसरी रास मेजप्याच्या मुखार धुकलता. आईय बी अशीच ज्ञानाची रास फुडें धुकलून दिता. भक्तांक ज्ञानाच्यो राशींच्यो राशी दिता.

## पद्मलोचनांची श्रीरामकृष्णां वयली भक्ती
## श्रीरामकृष्णांची साधना करपाच्या वेळा वयली प्रार्थना

ईश्वराचो लाव जाले उपरांत पंडीत म्हणचे अर्थ नाशिल्ली वस्तू, कोयर अशें दिसूंक लागता. पद्मलोचन केदो पंडीत! ताणें म्हाका म्हणिल्लें, 'तुमचे बराबर खारव्यांच्या घरा सभेक गेलों तर कितें जाता? तुमचे बराबर जाती भायल्यांच्या घरा वचून जेवतलों लेगीत हांव.'

भक्तीनूच सगलें कितें मेळूंक शकता. ईश्वराचेर जर प्रेम करूंक जायत तर कित्याचोच उणाव जावचो ना. एक खेपो कार्तिक आनी गणेश जगन्माता पार्वती लागीं बशिल्ले. पार्वती मातेच्या गळ्यांत रत्नांची माळ आशिल्ली. तिणें तांकां म्हणलें, 'जो ब्रह्मांडाक पयलीं प्रदक्षणा घालून येता ताका हांव ही माळ घालतलीं.' कार्तिक एक खीण लेगीत वगडायनासतना रोखडोच तागेल्या मोरार बसून प्रदक्षणा घालपाक गेलो. गणेशान शांतपणान सवकासायेन पार्वती मातेक प्रदक्षणा घालून तो तिका पांयां पडलो. गणेशाक खबर आशिल्लें, जगज्जननी पार्वती मातेचे भितरूच सगलें ब्रह्मांड आसा. माता खुशालभरीत जाली. आनी तिणें ताच्या गळ्या भोंवतणीं हार घालो. कांय वेळान कार्तिक येवन पळयत जाल्यार भाव ती माळ आपल्या गळ्यांत घालून बशिल्लो आसा.

आईक हांवें रडत रडत सांगिल्लें, आई, वेदवेदान्ता मदीं कितें आसा तें म्हाका समजावन दी. पुराणांत, तंत्रांत कितें आसा तें म्हाका समजावन सांग. तिणें एका फाटल्यान एक सगलें म्हाका समजावन दिलें.

आईन म्हाका सगलें समजावन सांगलें, कितें कितें ते सगलें दाखोवन दिलें.

## साधना करपा वेळा वयली
## श्रीरामकृष्णांचीं दर्शनां

**श्रीरामकृष्ण:** एक दीस दाखयलें, चोंय कडेन शिव आनी शक्ती. सगले कडेन शिव-शक्तीचो संबंद - मनीस, जीव, जंतू, जनावरां, रूख, वाली सगल्यां भितर शिव आनी शक्ती. पुरूश आनी प्रकृती, दोगांयचो संबंद.

आनीक एक दीस दाखयलें, मनशांच्या मुंडक्यांची रास - दोंगरा येदी. आनीक कांयच ना. हांव तिचे मदीं एकटो बशिल्लों.

आनीक एक दीस दाखयलें, व्हडलो दर्या, हांव मिठाची बावली जावन तो मेजपाक वतां. हें करता आसतना गुरू कृपेन हांव फातर जावन गेलों. एक तारूं हांवें पळयलें. रोखडोच ताचेर चडलों. ताचो मुखेली गुरू, म्हाका विश्वास आसा, तूं सच्चिदानंदाक सदांच आळयता आसतलो. सच्चिदानंद हे गुरू आसात. तूं आळयता न्हय?

**म:** हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** त्या तारवाचो मुखेली गुरू आशिल्लो. अशें दिसलें की 'हांव' आनी 'तूं' वेगवेगळे. परत हांवें दर्यांत उडी मारली आनी हांव नुस्तें जालों. सच्चिदानंद दर्यांत आनंदान पेंवतां अशें म्हाका दिसलें.

ह्यो सगल्यो गुपीत गजाली. तर्क विचारान कश्यो समजतल्यो? ईश्वर स्वताच जेन्ना दाखयता तेन्नाच सगलें कळटा. सगलें मेळटा.

कित्याचोच उणाव पडना आनी ज्ञानाचोय उणाव उरना.

# अध्याय चवद्यात्तर

## वेगळे वेगळे भाव

**जानेवारी 4, 1884. शुक्रार**. श्रीरामकृष्ण आपले कुडींत बशिल्ले. म अजुनूय महाराजां वांगडा रावतालो, अध्यात्मीक अभ्यासाक आपलो वेळ दितालो. दिसाचो बरोच वेळ तो प्रार्थनेक आनी ध्यानाक दितालो, बेल झाडाचे सकयल, जंय महाराजांनी खूब तपस्या केल्ली आनी कितलींच अजापीत ईश्वरी दर्शनां पळयिल्लीं.

**श्रीरामकृष्ण**: (मक) आनिआनीक तर्क करूं नाका. निमाणे कडेन तर्क साधकाक फकत आडखळ हाडटा. ईश्वरा कडेन प्रार्थना करतना आपणें आपलो असो भाव दवरचो पडटा - इश्टभाव वा दासभाव वा पुत्रभाव वा वीरभाव.

हांव बाळकभाव दवरतां. म्हाका दर एक अस्तुरी म्हणल्यार म्हजी आवय. दैवी माया, साधकांतलो हो भाव पळोवन, सामके लजेन ताच्या मार्गांतल्यान कुशीक सरता.

वीरभाव सामको कठीण. वैशणवां मदले शाक्त आनी बौल तो धरतात, पूण त्या भावांत आपली अध्यात्मीक जीण शुद्ध राखप भोवच कठीण. आपल्याच्यान दुसरे भाव आपणावंक येतात - अशा भावांत जातूंत साधक शांतपणान ईश्वराचें ध्यान करता, तो करतो म्हणून ताचो सेवक म्हणून, इश्ट म्हणून, आवयचें वात्सल्य म्हणून, वा दांपत्य प्रेम म्हणून. दांपत्य भावांत, अस्तुरेचो आपल्या घोवा विशीं आशिल्लो भाव, हातूंत सगलें आयलें - शांतपण, सेवा, इश्टागत आनी आवयचें वात्सल्य (मक) तुज्या मनाक हातूंतलो खंयचो भावता?

**म**: म्हाका सगले आवडटात.

**श्रीरामकृष्ण**: जेन्ना आपूण पूर्णतायेक पावतां तेन्ना ह्या सगल्या भावांनी आपूण सुखावता. ते अवस्थेंत वासनेचो कुस्कुटाचो लेगीत अंश आसना. वैशणवांचे पवित्र ग्रंथ चंडीदास आनी मडवळण हांचे संबंदीं सांगतात. तांचें प्रेम पुरायपणान वासने विरयत आशिल्लें.

ते अवस्थेंत भक्त आपले कडेन एक अस्तुरी म्हणून पळयता. तो आपल्याक दादलो म्हणून समजना. सनातन गोस्वामीन मीराबाय कडेन, ती अस्तुरी म्हणून पळोवचें न्हयकारलें. मीराबायन ताका सांगलें, वृंदावनांत दादलो म्हणटात तो एकलोच, कृष्ण आनी हेर सगले ताच्यो सेविका. मीराबायन विचारलें, 'सनातनान आपूण दादलो म्हूण सांगप बरोबर?'

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) ब्राह्मसमाजांत ते फकत भाशणां दितात? वा ते ध्यानूय करतात? तांच्या देवळांत ते पुजा करतात तिका ते 'उपासना' म्हणटात अशें म्हाका दिसता.

एका वेळार केशवाक क्रिस्तांव धर्मा विशीं आनी तांच्या मता विशीं जायतें दिसतालें. त्या वेळार, आनी ताचेय आदीं, ते देवेंद्रनाथ टागोराचे संघटनेंत आशिल्ले.

**म:** केशवबाबू आदीं पसून हांगा आयिल्ले जाल्यार समाजीक सुधारणांनी ते इतले घुसपून उरपाचे न्हय. जाती-संस्था, विधवांचें लग्न, आंतरजातीय लग्न, बायलांचें शिक्षण, आनी अशे तरेच्या समाजीक वावरांत ते आपल्याक इतले घुसपून घेवचे नाशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** केशव आतां कालीक मानतात, ती चेतनशक्ती आनी जाणीवणी, मूळ शक्ती म्हणून. ते भायर, ते मातेचें पवित्र नाम जपतात आनी तिचें वैभव गायतात. ब्राह्मसमाज फुडारांत समाजीक सुधारणा संघटण म्हणून वाडटलो अशें तुका दिसता?

**म:** हे भुंयेची माती वेगळी. फकत जें सत्य तेंच हांगा तिगता.

**श्रीरामकृष्ण:** खरें. तशेंच तें. फकत सनातन धर्म, रुशींनी सांगिल्लो शाश्वत धर्मूच तिगतलो. पूण ब्राह्मसमाजा सारके कांय संप्रदाय उरतले. ईश्वरी इत्शे प्रमाण सगलें जाता आनी ना जाता.

ते आदीं सांजचे कलकत्ताच्या जायत्या भक्तांनी महाराजांक भेट दिल्ली आनी तांणी जायतीं पदां म्हणिल्लीं. एका पदांत अशें आशिल्लें. 'ए माते, तांबड्या खेळण्यांनी तुवें आमकां फुसलायल्यात. आमी जेन्ना तीं मोखून उडयतले आनी ताळो फुटसर तुजे खातीर रडटले तेन्ना तूं आमचे सरीं धांवन येतलीच.'

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तांबड्या खेळण्यां विशीं कितलें सुंदर ते गायले!

**म:** हय महाराज. तुमी एकदां केशवांक तांबड्या खेळण्यां विशीं सांगिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण** : हय. हांवें तांकां चिदाकाशा विशींय सांगिल्लें. अंतस्थ जाणीवणी, आनी जायत्यो दुसऱ्यो गजाली. वा! कितले आमी सुखी आसले! आमी एकठांय गायताले आनी नाचताले.

# अध्याय पंच्यात्तर

## दक्षिणेश्वरांत राखाल आनी हेर भक्तां बराबर

**जानेवारी 5, 1884. शेनवार.** मचो श्रीरामकृष्णां सांगातान तेविसावो दीस. म दनपारचें जेवण एक वराचेर सोंपोवन नबतखान्यांत विसव घेतालो. इतल्यांत तीन चार फावटी ताका उलो मारिल्लो आयकले उपरांत ताणें येवन पळयलें तेन्ना ताणें ताचे कुडीचे उत्तरे कडल्यान श्रीरामकृष्ण उलो मारताले ते पळयले.

म तांच्या पांयां पडलो. म बराबर कुडीचे दक्षिणे कडले पडवेर येवन श्रीरामकृष्ण ताचे कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण**: तूं ध्यान कशें करता तें म्हाका सांगशी? हांव बेल झाडा सकयल ध्यान करतालों तेन्ना त्या वेळार म्हाका तरातरांचीं दर्शनां जातालीं. तीं सामकीं स्पश्टपणान दिसतालीं. एक दीस दिसलें - मुखार रुपया, एक शाल, मिठायेन भरिल्लें एक ताट आनी दोन अस्तुऱ्यो. तें पळोवन हांवें मनाक विचारलें, 'हातूंतलें कितें जाय तुका?' म्हाका दिसलें, मिठाय म्हणचे घाण. एके अस्तुरेच्या नाकांत व्हडली नथ आशिल्ली. तांचे भितर आनी भायर कितें आसा, सगलें दिसपाक लागलें - आंतकड्यो, मलमूत्र, हाडां, मांस, रगत. म्हज्या मनाक तातूंतलें कितेंच जाय अशें दिसलें ना. पयशे, शाल, मिठाय वा अस्तुऱ्यो. मन भगवंताच्या पांयां कडेनूच थीर रावलें.

ल्हान तागडेक दोन कांटे आसतात. एक वयर आनी एक सकयल. मन म्हणचे सकयलो कांटो. ईश्वर म्हणचे वयलो कांटो. त्या वयल्या कांट्या वयल्यान (ईश्वरा वयल्यान) सकयलो कांटो (मन) हालता काय कितें हाचो म्हाका सदांच भंय दिसतालो. फुडें म्हाका अशेंय दिसलें, एकटो कोण तरी हातांत त्रिशूळ घेवन म्हजे म्हऱ्यांत बसला आनी म्हाका भंय दाखयता. सकयलो कांटो वयल्या कांट्या सावन पयस गेलो जाल्यार हो त्रिशूळ म्हज्या आंगांत खुपशितलो म्हूण. कामिनी-कांचनाचो त्याग

केले बगर अध्यात्मीक प्रगती शक्य ना. हांवें तीन गजालींचो त्याग केल्लो. जमीन, बायल आनी संपत. एक खेपो रजिस्ट्री कचेरेंत जमनीची नोंद करपाक गेल्लों. जमीन आशिल्ली–कुलदेवतेच्या–रघुवीराच्या नांवान. कचेरींतल्या बाबून म्हाका सय करपाक सांगली. हांवें सय केली ना. कित्याक म्हजी जमीन अशी म्हजी जाणिवूच नाशिल्ली. केशव सेनाचो गुरू म्हणून म्हजो खूब भोवमान जालो थंय. तांणी म्हाका आंबे दिले, पूण हांव ते घरा हाडूंक शकलों ना. कित्याक तर संन्याश्यान तशें करपाचें नासता.

त्यागा बगर ईश्वराचो लाव कसो जातलो? समजा, एकाद्री वस्तू दुसरे एके वस्तूचेर दवरली तर पयली वस्तू पयस केले बगर ती दुसरी वस्तू कशी मेळटली? खंयचेय वासने बगर ईश्वराक आळोवंक जाय. पूण सकाम भक्ती निश्ठेन करतां करतां ती ल्हव ल्हव निश्काम जावन वता. ध्रुवान राज्या खातीर तपश्चर्या केली, पूण निमणें ताका भगवंताचो लाव जालो. ताणें म्हणलें, 'कांचेचे मणी सोदपाक गेल्लों थंय भांगर मेळ्ळें तर कित्याक म्हणून सोडपाचें?'

## दया, दान आनी हेर आनी श्रीरामकृष्ण चैतन्यदेवाचें दान

सत्वगूण प्राप्त केले उपरांतूच ईश्वराचो लाव जावं येता. दान आनी हेर कर्मां संवसारी लोक चड करून सकाम भावनेनूच करतात. हें बरोबर न्हय. हींच कामां निश्काम भावनेन केल्यार बरीं, पूण कामना सोडून काम करप खूब कठीण.

जेन्ना देवाचें दर्शन जातलें तेन्ना ताचे कडेन अशी प्रार्थना करतले? 'देवा, म्हज्या हातांतल्यान कांय रस्ते, तलाव, घाट, दवाखाने, इस्पितळां जावं दी, असो म्हाका वर दी'. ताचें दर्शन जातकूच ह्यो सगल्यो वासना फाटल्यान उरतात.

मागीर कितें दया, दान गरिबां खातीर करपाचें ना? हांव तीं करचीं न्हय अशें म्हणिना. मनशा कडेन जर पयशे आसत तर दुख्ख, दळिद्र दिसल्यार ताणें ते दिवचे. अशा प्रसंगार ज्ञानी मनीस म्हणटा, 'गरिबांक कितेंय दियात.'

पूण भितर मात ताका खबर आसता, हांव कितें करूंक शकतलों. ईश्वरूच करतो. हांव कांयच न्हय.

म्हापुरूश जिवांच्या दुख्खांनी व्याकूळ जावन तांकां भगवंताचो मार्ग दाखयतात. शंकराचार्यांनी लोकांक उपदेश करपा खातीर अहं दवरिल्लो. अन्नदाना परस ज्ञानदान, भक्तीदान कितलेंशेंच व्हडलें, श्रेश्ठ. चैतन्यदेवांनी म्हणुनूच सकयल्या जातीच्या

लोकांक लेगीत भक्ती वांटली. देहाक सूख दुख्ख चुकच ना. तें कोणाक चुकोवंक येना. हांगा ह्या जगांत आयल्यात आंबे खावपा खातीर (ईश्वराच्या लावा खातीर). ती कामना पुरी करात. आंबे खावन वचात. ज्ञान भक्तीची आमकां गरज. ईश्वरूच सत्य वस्तू आनी हेर सगली माया.

## स्वाधीन इत्सा आसा काय? श्रीरामकृष्णांचो सिद्धांत

ईश्वरूच सगलें कितें करता. हाचेर तुमी म्हणटले, मनीस मागीर पातक करतलो पूण तें खरें न्हय. जर मनशाक खर जाणीव जायत, ईश्वरूच करतो, हांव अकरतो तर ताचें पावल वांकडें पडप शक्यच ना.

'इंग्लीशमॅन' लोक जांका स्वाधीन इत्सा म्हणटात तो स्वाधीन इत्शेचो बोधय ईश्वरानूच मनशाक दिवन दवरला. जांकां ईश्वराचो लाव जावंक ना अश्या लोकांच्या मनांत जर ईश्वरान हो स्वाधीनपणाचो बोध दवरूंक नाशिल्लो तर तांचीं पातकां वाडटलीं आशिल्लीं. म्हज्या पातकांक हांवच जापसालदार आसां असो बोध जर ईश्वरान मनशाक दिवंक नाशिल्लो तर पातकांक हाचेय परस चड ऊत येतलो आशिल्लो.

जांकां ईश्वराचो लाव जाला तांकां खबर आसता, स्वाधीन इत्सा फकत दिसपाकूच आसता. खरें म्हणचे ईश्वर यंत्री आसा आनी मनीस यंत्र आसा. मनीस गाडी आसा आनी ईश्वर तिचो चालक आसा.

दनपारचीं चार वरां जाल्लीं. पचंवटींतले कुडींत राखाल आनी हेर भक्त मचें भजन किर्तन आयकताले. गीत आयकतां आयकतां राखाल अध्यात्मीक भावांत मग्न जालो. कांय वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण पंचवटींत आयले. बराबर बाबूराम आनी हरीश आशिल्ले. हेरूय भक्त आयले.

**राखालः** आयज हांणी (मनी) खूब बरें भजन केलें. आमकां सगल्यांक खूब आनंद दिलो.

श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदांत गीत म्हणूंक लागलेः

इश्टांनो, म्हाका कितली थाकाय मेळ्ळी!
तुमी कृष्णाचें नांव गायतात तें आयकून

(भक्तांक लेखून) श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''गितां गायतले तीं सदांच हीं असलीं भक्तीची गितां गायत रावात. तांणी फुडें सांगलें, ईश्वराची भक्ती करपाची आनी भक्तांच्या सांगातांत रावपाचें. आनीक कितें आसा? हेंच सगलें.

## राधा आनी यशोदा हांचो संवाद

कृष्ण मथुरेक गेले उपरांत यशोदा राधे कडेन आयली. राधा ध्यानस्थ आशिल्ली. मागीर तिणें यशोदेक म्हणलें, 'हांव आद्यशक्ती. तूं एक वर माग.' यशोदेन म्हणलें, 'वर आनीक कसलो मागूं? इतलोच वर दी, जे वरवीं हांव तनान मनान आनी वाणीन भगवंताची सेवा करतलीं, ह्या दोळ्यांनी सदांच ताच्या भक्तांचें दर्शन जातलें, म्हजें मन ताचें ध्यान चिंतन करीत रावतलें आनी ही जीब ताचें नांव घेतली आनी ताचे गूण गायतली. दुसरें आनीक कितें मागपाचें?'

पूण ईश्वरा भितर जे सामके प्रतिश्ठीत जाल्यात तांचे भक्त नासल्यार लेगीत जांकां भायर भितर ईश्वराचो प्रत्यय आयला आनी येत आसा तांकां भक्तांच्या सांगाताची गरज नासता. केन्ना केन्नाय तांकां भक्तांचो सांगात आवडना. शिपयांनी भरिल्ले वणटीक रंग सफेदी करिनात. चुनो तिका दसना.''

पंचवटींत येतकच श्रीरामकृष्ण म कडेन उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण**: तुजो बायकी आवाज. तूं हीं असलीं गितां गावपाची संवय करशी?

सखे, तें वन
कितलें पयस आसा जंय म्हजो कृष्ण रावता?

(मक, बाबूरामाक पळयत) पळयात. म्हजेच लोक परकी जाल्यात. रामलाल आनी हेर नात्यांतले परके कशे दिसतात आनी परके आमचे जाल्यात. हेंच पळय न्हय, हांव बाबूरामाक म्हणटां, वच आनी तोंड धुवन यो. भक्तच आतां नात्यांतले जाल्यात.

## श्रीरामकृष्णांची पंचवटींत साधना : 1857–58
## चितशक्ती आनी विलास

**श्रीरामकृष्णः** (पंचवटी कडेन पळयत) हांव पंचवटींत बसतालों. सामको पिसो जाल्लों. काळांतरान ती अवस्था सोंपली. काळच–शिवच–ब्रह्म. जी काळा वांगडा रमता तीच काली–तीच आद्यशक्ती. जें अढळ आसा ताका लेगीत काली हालयता. अशें म्हणीत श्रीरामकृष्ण गावंक लागलेः

म्हजें मन अजापान थटाकलां,
मातेचें गूढ येवजून,
तिचें फकत नामूच
काळाचो, खासा मरणाचो भंय विसरायता,
तिच्या पांया पोंदा महा–काळ पडला…

मागीर तांणी मक म्हणलें, ''आयज शेनवार. कालीच्या देवळांत वच आयज.'' ओंवळी कडेन पावतकच श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, चिदात्मो आनी चितशक्ती. चिदात्मो पुरूश आनी चितशक्ती प्रकृती. चिदात्मो श्रीकृष्ण आनी चितशक्ती राधा. भक्त म्हणचे ह्या चितशक्तीचींच वेगवेगळीं रुपां. तांणी स्वताक चितशक्ती जी राधा तिची सखी वा दाशी मानचें. होच सगल्या गजालींचो आपरोस.

तिनसांज जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण काली मंदिरांत गेले. म थंय जगन्मातेचें चिंतन करीत आशिल्ल्याचें पळोवन श्रीरामकृष्ण प्रसन्न जाले.

## भक्तां खातीर जगन्माते लागीं क्रंदन
## भक्तांक आशिर्वाद

देवळांतल्यो आरती सोंपल्यो. श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत परत येवन पलंगाचेर बसून जगन्मातेचें चिंतन करताले. म जमनीर बशिल्लो. कुडींत आनीक कोणूच नाशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण समाधींत मग्न आशिल्ले. ल्हव ल्हव समाधींतल्यान ते भानार आयले. तांचें मन जगन्मातेच्या ईश्वरी चैतन्यान भरून गेल्लें. त्याच भावावेशांत श्रीरामकृष्ण

जगन्माते कडेन उलयताले. ल्हान भुरगें तागेले आवय कडेन हट्ट धरून उलयता तशें ते उलयताले. तांणी काकूळटेन म्हणलें, "तुवें तुगेलें तें रूप म्हाका कित्याक दाखोवंक ना? तें भुवनमोहक रूप. तुका ते खातीर इतलें सांगलें! पूण तुवें म्हजें आयकलें ना. तूं तुगेले इत्शे प्रमाण करता." अशा स्वरांत ते जगन्माते कडेन उलयताले तें आयकून कळवळो येतालो.

श्रीरामकृष्णांनी मातेक फुडें सांगलें, "आई, विश्वास जाय. उज्याक घाल ते तर्कविचार. वीज पडूं त्या तर्कविचारांचेर. विश्वास जाय – गुरूवाक्याचेर विश्वास जाय – भुरग्या भशेन. आवय भुरग्याक सांगता 'थंय भूत रावता.' आनी भुरग्याची खात्री जाता, थंय भूत आसा म्हूण. आवय भुरग्याक सांगता 'थंय हावको आसा' आनी भुरग्याची खात्री जाता. एकाद्र्या मनशा कडेन बोट दाखोवन आवय म्हणटा, 'हो तुजो व्हडलो भाव – दादा.' भुरगें ताचेर सामकें एकशेंपंचवीस टक्के विश्वास दवरता तो दादा म्हूण. विश्वास जाय.

पूण आई हांव तांकां दोश कित्याक दिवं? ते कितें करतले? तर्क विचारांतल्यान एक खेपो वचपाची गरज आसा. पळयलें न्हय! त्या दिसा हांवें तांकां ते विशीं इतलें सांगलें पूण कांयच उपेग जालो ना."

श्रीरामकृष्ण कळवळ्यान, गदगद स्वरांत भक्तां खातीर जगन्माते लागीं रडत रडत प्रार्थना करताले. "आई, जे जे, तुजे लागीं येतात तांच्यो सगल्यो मनांतल्यो इत्सा पूर्ण कर. पूण तांकां एकदमच सगलो त्याग करपाक लावं नाका! आई, तुका जाय तेंच निमणें कर. आई, तांकां जर संवसारांत दवरशी तर मदीं मदीं तांकां दर्शन दी. ना जाल्यार तांणी कशें जगपाचें? मदीं मदीं तुवें तांकां जर दर्शन दिलें ना तर तांकां उमेद कशी येतली, आई? निमणें तुका कशें आवडटा तशेंच करचें."

श्रीरामकृष्ण अजून लेगीत ईश्वरी आनंदी अवस्थेंत आशिल्ले. अचकीत तांणी मक म्हणलें, "पळय तुवें तर्कविचार केला. पुरो जालें आतां. आनीक नाका. उतर दी. आनीक आनीक तर्कविचार करचो ना म्हूण."

**म** : (हात जोडून) हय महाराज. हांव करचों ना.

**श्रीरामकृष्ण**: तुका चलो जाला हें आयकून हांवें तुका धपकायल्लो. आतां घरा वच आनी राव. घरा असो वाग की घरच्यांक अशें दिसतलें, तूं तांचोच आसा. पूण तूं स्वता मात भितरले भितर जाणा जा, तूं तांचो न्हय आनी ते तुजे न्हय.

म ओग्गी बसून रावलो. श्रीरामकृष्ण परत सांगूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** आतां तूं उडपाक शिकला. पूण बापाय कडेन मोगाचे संबंद दवर. तुज्यान बापायक साश्टांग नमस्कार घालूंक जाता न्हय?

**म:** (हात जोडून) हय महाराज. म्हज्यान जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका आनीक कितें सांगपाचें? तुका सगलें खबर आसाच. सगलें समजलें न्हय?

म कांयच उलयनासतना ओग्गी बसून रावलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका सगलें समजलें न्हय?

**म :** हय महाराज. थोडें थोडें समजलें.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. तुका खूब समजलां. राखाल हांगा रावता हे खातीर ताचे वडील खोशी आसात.

म हात जोडून ओग्गी बसून आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** तुज्या मनांत जें आसा तशें जातलें.

## भक्तां वांगडा संकिर्तनानंद
## जगन्माता आनी जननी
## नरलिला कित्याक?

श्रीरामकृष्ण आतां सभावीक अवस्थेंत आशिल्ले. राखाल आनी रामलाल कुडींत. श्रीरामकृष्णांनी रामलालाक गीत म्हणपाक सांगलें. रामलाल गीत म्हणूंक लागलोः

झुजामळ उजवाडान भरून उडोवपी कोण ही कामिनी?
काळ्यांत काळ्या मोडाच्या कुपा परस चकचकता कूड तिची काळी.
आनी तिच्या दांतांतल्यान विजेचीं दिपकावणीं केणां फुट्टात!
मध्यानरातच्या काळखा वरी कोण ही भयांकृत अस्तुरी?
झुजामळार नाचता ती ही कोण अस्तुरी?...

**श्रीरामकृष्ण:** जगन्माता आनी जननी (जन्म दिवपी आवय) जी सर्वव्यापी आसून जगदरुपान आनी चैतन्यरुपान आसा, तीच जगन्माता. जननी म्हणचे ह्या शरिराक जल्म दिवपी आवय. हांव 'मा' (जगन्माता) हें उतर उलयतां उलयतांच समाधीमग्न जातालों. 'मा' म्हणटां म्हणटां जगाचे मातेक स्वता कडेन ओडून हाडटालों कसो.

खारवी जाळें उडयतात आनी कांय वेळा उपरांत तें जाळें ओडून घेतात. जाळें ओडले उपरांत भितर व्हडलें नुस्तें मेळटा. जगन्मातेचे बाबतींत म्हजेंय तशेंच जातालें.

## गौरी पंडीत
## काली आनी गौरांग एक

गौरी पंडितान एक खेपो म्हणिल्लें, काली आनी गौरांग जेन्ना एक अशें दिसता तेन्नाच खरें खरें ज्ञान जालें अशें समजुपाचें. जें ब्रह्म तीच शक्ती - काली. तीच मनीसरूप घेता आनी गौरांग जाता. श्रीरामकृष्णांनी रामलालाक परत गीत म्हणपाक सांगलें. हें खेपो गौरांगा विशीं म्हणपाक सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण**: (मक) नित्य आनी लिला ईश्वरी सत्याचीं दोन आंगां. ईश्वर ताच्या भक्तां खातीर मनीसरुपांत ह्या जगांत लिला करता. ईश्वराक मनीसरुपांत पळोवंक मेळ्ळ्यारूच भक्तांक ताचेर मोग करूंक जमता. तरूच तांच्यांनी ताचेर भावा भशेन, भयणी भशेन, आवय भशेन, बापाय भशेन, भुरग्या भशेन मोग करूं येता.

भक्तांच्या मोगा खातीर ईश्वर मनीसरूप घेता आनी धतरिचेर येवन लिला करता.

# अध्याय : शात्तर

## दक्षिणेश्वराक राखाल, लाटू, म,
## महिमाचरण आनी हेर भक्तां वांगडा

### श्रीरामकृष्णांच्या हाताक दुखापत

**फेब्रुवारी 2, 1884. शेनवार.** दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण राखाल, महिमाचरण, हाजरा आनी हेर भक्तां वांगडा उलयताले. तेन्ना म कुडींत येवन तांकां पांयां पडलो. येतना ताणें कापटी, पेड आनी लुगट अशें सामान श्रीरामकृष्णांच्या हाताक दुखापत जाल्ल्यान पट्टी बांदपाक हाडिल्लें.

एक दीस सुरूच्या झाडा कडेन गेल्ले आसतना श्रीरामकृष्ण वंये कडेन पडले आनी तांच्या दाव्या हाताचें हाड सरकलें आनी तांकां बरीच दुखापत जाली. त्या वेळार ते ईश्वरी आनंदांत आशिल्ले आनी तांचे बराबर आनीक कोणूच नाशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण**: (मक) कितें? तुका कितें जालें? आतां तूं बरो आसा न्हय?

**म**: हय महाराज. आतां हांव बरों आसा.

**श्रीरामकृष्ण** : (महिमाक)बरें. हांव मशीन आनी ईश्वर तें चलोवपी. मागीर हें म्हाका कशें जालें?

श्रीरामकृष्ण पलंगाचेर बशिल्ले. महिमाचरण तांगेले तिर्थयात्रेच्यो गजाली सांगताले. श्रीरामकृष्ण आयकताले. महिमाचरणांनी ही यात्रा बारा वर्सां पयलीं केल्ली आनी कितलींशींच तिर्थस्थळां पळयिल्लीं

**महिमाचरण**: काशीक सिकरोलचे एके बागेंत म्हजी एका ब्रह्मचाऱ्या कडेन वळख जाली. ताणी सांगलें, हे बागेंत ते वीस वर्सां रावतात. पूण कोणाची बाग हें तांकां खबर ना. ताणी म्हाका कचेरींत नोकरी करता काय म्हूण विचारलें. हांवें तांकां ना म्हूण सांगतकूच ताणी म्हाका विचारलें, 'मागीर तुमी कितें परिव्राजक आसात?' नर्मदेचे देगेर एका साधूक पळयलो. मनांतल्या मनांत तो गायत्रीचो जप करतालो. त्या जपान ताचें शरीर रोमांचीत जातालें आनी ॐकाराचें आनी गायत्री मंत्राचें उच्चारण

मोट्यान करताले तेन्ना जे लागी आसताले ते भारावन वताले. आनी तांचें शरीर रोमांचीत जातालें.

श्रीरामकृष्णांचो बाळक सभाव. भूक लागिल्ल्यान तांणी मक विचारलें, ''म्हजे खातीर तुवें कितें हाडलां?'' राखाला कडेन पळयत पळयत ते समाधी मग्न जाले.

ल्हव ल्हव ते भानार आयले आनी सरसमान अवस्थेंत आयले.

मनाक परत देह भानार येवपा खातीर तांणी म्हणलें, ''हांव जिलबी खातां. हांव थोडें उदक पियेतां.''

भुरग्या भशेन रडत तांणी जगन्मातेक म्हणलें, ''ए ब्रह्ममयी आई, म्हाका तुवें अशें कित्याक केलें? म्हजो हात खूब दुखता.'' (भक्तांक) ''म्हजो हात बरो जातलो न्हय?'' ल्हान भुरग्याची समजूत काडची तशें सगल्या जाणांनी तांकां म्हणलें, ''खात्रेन! तुमी सामके बेगीन बरे जातले.''

**श्रीरामकृष्ण:** (राखालाक) जरी म्हजी जतनाय घेवपाक तूं हांगा आयला तरीपूण तुजो दोश ना. कित्याक तूं जरी त्या वेळार म्हजे बराबर आशिल्लो तरी तूं वंये मेरेन वच्चो नाशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण परत अध्यात्मीक भावदशेंत गेले. ते स्थितींत ते म्हणटाले, ''ॐ ॐ ॐ आई, हांव हें कितें म्हणटां? म्हाका ब्रह्मज्ञान दिवन बेहोश करूं नाका. आई म्हाका ब्रह्मज्ञान दिवं नाका. हांव तुजें बाळक. म्हाका रोखडो हुसको जाता आनी भंय दिसता. म्हाका आई जाय. ब्रह्मज्ञानाक म्हजे कोटी कोटी नमस्कार. जांकां तें जाय, तांकां तें दी. ए आनंदमयी, आनंदमयी.''

श्रीरामकृष्ण मोट्यान आनंदमयी, आनंदमयी म्हणून रडटाले आनी म्हणटाले:

> माते हांचीच म्हज्या काळजाक खूब खंत भोगता,
> तूं म्हजी आवय आसून लेगीत आनी हांव सामको जागो आसून लेगीत
> म्हज्या घरांत चोरी घडटा

श्रीरामकृष्ण परत जगन्मातेक म्हणटाले, ''म्हजें कितें चुकलें आई? हांव कितें केन्ना करतां? आई, तूंच तर सगलें कितें करता. हांव यंत्र. तूं यंत्री. (राखालाक मातशे हांसून) पळय आं! तूं मात पडूं नाका. तिडक धरूं नाका. आनी फटोवन घेवं नाका.'' परत जगन्मातेक ते म्हणटाले, ''आई, म्हाका लागलें म्हणून कितें हांव रडटां? ते खातीर न्हयच.''

## ईश्वराक कशें आळोवचें?
## व्याकूळतायेन

श्रीरामकृष्ण एका भुरग्या भशेन परत हांसताले आनी उलयताले. भुरगें जशें बरें नासल्यार लेगीत दुखणें विसरता आनी हांसता, तेच तरेन ते महिमाचरण आनी हेर भक्तां कडेन उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण**: (भक्तांक) सच्चिदानंदाचो लाव जालो ना तर कांयच अर्थ ना. विवेक वैराग्या सारकी दुसरी गजाल ना. संवसारा आधीन मनशाची भक्ती खिणयाळी. तापिल्ल्या तव्याचेर उदकाचो थेंबो कशी. एक वेळ फूल पळोवन तो घडये म्हणटलो, 'वा! वा! कितें ईश्वराची करणी ही.'

ईश्वरा खातीर व्याकूळताय जाय. चलो जेन्ना स्वताच्या वांट्या खातीर चडच त्रास दिवंक लागता तेन्ना आवय-बापूय आपापसांत उलोवणीं करून तो वयांत आयिल्लो नासलो तरी ताचो वांटो ताका दिवन उडयतात. तुमचे लागीं व्याकूळताय आसल्यार तुमचें म्हणणें ईश्वर आयकतलो. ताणें जे अर्थी जल्म दिला ते अर्थी ताचेर आमचो हक्क आसाच आसा. ताचे कडेन आमच्यांनी आमचो वांटो मागूंक जाताच. तो आमचो बापूय. आमची आवय. आमची मागणी आमच्यांनी ताचेर घालूं येता. आमच्यांनी ताका म्हणूं येता, 'म्हाका दर्शन दी. नाजाल्यार सुरयेन हांव म्हजो गळो कापून उडयतलों.'

जगन्मातेक कशें आळोवचें हें श्रीरामकृष्ण भक्तांक शिकयताले.

**श्रीरामकृष्ण**: हांव आई लागीं अशी प्रार्थना करतालों, 'आई आनंदमयी, म्हाका दर्शन दी. तुका दिवचेंच पडटलें.' केन्ना केन्नाय म्हणटालों, 'ए दीनानाथा, ए जगन्नाथा, तूं जगाचो नाथ न्हय? मागीर हांव तुज्या जगाच्या भायर तर ना न्हय? हांव ज्ञानहीण. साधनाहीण. भक्तीहीण. म्हाका कांयच कळना. तुवें म्हजेर कृपा करुंकूच जाय आनी दर्शन दिवंकूच जाय.

ईश्वराक कशें आळोवचें हे सामकें करूण स्वरांत श्रीरामकृष्ण भक्तांक शिकयताले. तांचो तो करूण स्वर आयकून भक्तांचें काळीज सदगतीत जालें. महिमाचरणांच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवंक लागलीं. तांचे कडेन पळोवन श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें:

ए मना! होराय काळजा थावन तुजे श्यामा मातेक
तुका दर्शन दिले बगर ती रावतली कशी?
श्यामा पयस रावतली कशी?

## ईश्वराक मुखत्यारपद दिवप

शिवपूर सावन जायते भक्त आयिल्ले. ते इतल्या पयसुल्ल्यान आयिल्ल्यान, इतले कश्ट घेवन, श्रीरामकृष्णांक तांचे कडेन उलयले बगर रावूं नजं जालें. अध्यात्मीक जिणे संबंदान कांय म्हत्वाच्यो, गरजेच्यो गजाली तांणी भक्तांक सांगल्यो.

**श्रीरामकृष्णः** ईश्वरूच सत्य, बाकी सगलें अनित्य. बाग आनी ताचो धनी. ईश्वर आनी ताचें ऐश्वर्य. लोक बागच पळयतात. धनयाक कितले जाण सोदतात?

**भक्तः** महाराज, ताका उपाय कितें?

**श्रीरामकृष्णः** जांकां वेळ आसा तांणी ध्यान आनी पुजा करुंकूच जाय. पूण जांकां हें सामकें शक्यच ना तांणी दिसांतल्यान दोनदां देवाक सामकें काळजांतल्यान पांयां पडुंकूच जाय. तो सगल्यांच्याच काळजांत आसा. ताका कळटा, संवसारी मनशाक खूब कामां करचीं पडटात. तुमकां ईश्वराक आळोवपाक वेळ ना. देखून तुमी ताका मुखत्यारपद दियात. ताचेर सगलो भार सोंपयात. पूण लक्षांत दवरात, देवाचो लाव जालो ना, ताचें दर्शन जालें ना तर सगलेंच व्यर्थ आसा.

**दुसरो भक्तः** तुमकां पळोवप आनी ईश्वराक पळोवप हें एकूच.

**श्रीरामकृष्णः** असलें परत केन्ना उलोवंक नाकात. गंगेचीं ल्हारां आसतात. ल्हारांची काय गंगा नासता. हांव व्हडलो मनीस. हांव अमको. हो सगलो अहंकार गेले बगर तो मेळपाचो ना. भक्तीच्या दुकांनी हांवरुपी उंचवटो विरगळावन सपाट जमीन करून उडयात.

## व्याकूळताय आनी ईश्वरलाव

**भक्तः** ताणें आमकां ह्या संवसारांत कित्याक दवरल्यात?

**श्रीरामकृष्णः** ताची सृश्टी चलची म्हणून आमकां दवरल्यात. ताची इत्सा, ताची माया. कामिनी-कांचनान ताणें सगल्यांक भुलयल्यात.

**भक्तः** ताणें आमकां कित्याक भुलयल्यात? ताची इत्सा अशी कित्याक?

**श्रीरामकृष्ण**: ताणें जर ईश्वरी आनंद एक फावट दिलो तर मागीर कोणूच संवसार करचो ना. सृश्टीच चलपाची ना.

तांदळाच्या गुदांवांनी मोट्या मोट्या साकांनी तांदूळ सांठोवन दवरतात. तांचे लागींच एका सुपांत पसरकार फोव चिरमुल्यो दवरतात. हें ते हुंदरांक पयस दवरपाक करतात. हे फोव चिरमुल्यो गोड लागतात म्हणून हुंदीर रातभर तेंच चाबत बसतात. ते तांदळाचो सोद घेनात. पूण पळयात, एक शेर तांदळाच्यो चवदा शेर चिरमुल्यो जातात. कामिनी-कांचनाच्या सुखा परस ईश्वराचो आनंद कितले तरी पटींनी चड. ईश्वराच्या रुपाचें चिंतन केल्यार रंभा-तिल्लोत्तमाचें रूप लेगीत चितेचो गोबरसो दिसतलो.

**भक्त**: भगवंताचो लाव जावचो म्हूण आमकां व्याकूळताय कित्याक दिसना?

**श्रीरामकृष्ण**: भोग सोंपले बगर व्याकूळताय उत्पन्न जायना. कामिनी-कांचनाचो वांटो जितलो भोगपाचो आसा तितलो सोंपले बगर जगाचे आईची याद जायना. भुरगें जेन्ना खेळांत मग्न आसता तेन्ना ताका आवयची गरज लागना. खेळ सोंपले उपरांत तें म्हणटा, 'आई, म्हाका आई कडेन वचूंक जाय.' हृदयाचो चलो पारव्या सांगातान खेळटालो. ताका यो, यो, करून आफयतालों. खेळून खेळून पुरो जातकच ताणें रोखडेंच रडपाक सुरू केलें. मागीर एका मनशान ताचे कडेन वचून म्हणलें, 'चल हांव तुका तुजे आई कडेन घेवन वतां. चल.' तो सरळ ताचे हांडीर वचून बसलो आनी गेलो.

जे नित्य सिद्ध आसतात तांकां संवसारांत भितर सरचें पडना. तांची भोगाची वासना जल्मा सावन न्हिंविल्ली आसता.

## नाम महात्म्य

पांच वरां जालीं. दोतोर मधुसूदन आयिल्ले. ते श्रीरामकृष्णांच्या हाताक बेंडेज बांदपाची तयारी करताले. श्रीरामकृष्णांनी भुरग्या भशेन हांसत तांकां म्हणलें, "तुमी, ह्या लोकांतले आनी परलोकांतले, दोन लोकांचे मधुसूदन आसात."

**मधुसूदन**: (हांसत) हांव फकत म्हज्या नांवा सकयल काम करतां.

**श्रीरामकृष्ण**: (हांसत) अशें कित्याक म्हणटात? नाम कितें सादी गजाल आसा? ईश्वर आनी ताचें नांव हातूंत भेद ना. सत्यभामा एका दाल्यांत श्रीकृष्ण आनी दुसऱ्या दाल्यांत भांगर, हिरे, माणकां घालून श्रीकृष्णाचें वजन करताली. पूण तें जमलें ना. रुक्मिणीन जेन्ना तुळशीचें पान आनी कृष्णाचें नांव बरोवन दाल्यांत दवरलें तेन्ना रोखडीच तागडी श्रीकृष्णाच्या वजना बराबर जाली.

दोतोर श्रीरामकृष्णांच्या हाताक बेंडेज बांदपाक तयार जाले. तांणी जमनीर हांथरूण

घालें आनी श्रीरामकृष्ण हांसत हांसत ताचेर न्हिदले. तांणी गिताच्या सुरांत म्हण
'राधाची ही निमणी दशा' पूण वृंदा म्हणटा, 'कोणाक खबर कितें जावपाचें आसा तें
भक्त मंडळी श्रीरामकृष्णांच्या चोंय वटांनी बशिल्ली. श्रीरामकृष्णांनी गीत म्हण
सगल्यो गोपी तळ्याचे देगेर बसल्यात.

श्रीरामकृष्ण हांसले. भक्तय सगले जाण हांसले. बेंडेज बांदून जाले उपरा
श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "म्हजो तुमच्या कलकत्ताच्या दोतोरांचेर तितलोसो विश्वास ना
शंभूक जेन्ना वात जालो आनी तो भ्रमांत बडबडूंक लागलो तेन्ना दोतोर सर्वाधिकारां
म्हणलें, 'अं. हं. तें कांयच न्हय, तो वखदाचो परिणाम.' आनी कांय वेळा उपरां
शंभू संवसाराक अंतरलो."

## महिमाचरणांक उपदेश

तिनसांज जाल्ली. देवळांतल्यो सांजेच्यो आरती जाल्यो. थोड्या मिणटां उपरांत अधर कलकत्ताक सावन श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक आयिल्लो. महिमाचरण, राखाल आनी म कुडींत आशिल्ले.

**अधर:** कशे आसात तुमी?

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) हें पळय न्हय. म्हजो हात कसो दुखता पळय! (हांसत) कसो आसा हें आनी वेगळें सांगपाची गरज ना.

अधर जमनीर हेर भक्तां मदीं बसलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका म्हणलें, "तू मातसो हाचे वयल्यान हात भोंवडाय पळोवया." अधर ल्हान पलंगाचेर बसून श्रीरामकृष्णांचे पांय चेपूंक लागलो. श्रीरामकृष्ण महिमाचरणां कडेन उलोवंक लागले.

## मुखेल गजाल अहेतूक भक्ती
## स्वस्वरुपाक जाणून घेयात

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) ईश्वराची हेतू विरयत भक्ती. ती जर तुका करपाक जमली तर खूब जालें. भगवन, म्हाका मुक्ती, मान, पयसो, रोग बरो जावप, हातूंतलें कांयच नाका. फकत म्हाका तूं जाय. हाचें नांव हेतू विरयत भक्ती. गिरेस्ता कडेन कितलेशेच लोक येत आसतात. वेगवेगळ्यो इत्सा मनांत धरून येतात. पूण कांयच मागपाचें ना. फकत ताचे विशीं प्रेम दिसता म्हूण मेळपाक आयलां असो जर कोण

भासत तर त्या गिरेस्ताकय ताचे विशीं ओड दिसतली. प्रह्लादाची अशी निसुवार्थ भक्ती आशिल्ली. भगवंताचेर शुद्ध निश्काम प्रेम.

महिमाचरण ओगीच रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** आतां तुमच्या मनाक भावता तशें थोडें सांगतां. वेदान्ताच्या मतान मनशान स्वस्वरूप वळखूंक जाय. पूण अहंचो, 'हांव'चो त्याग केले बगर हें जावपाचें ना. अहं हो एकाद्रे बडये भशेन आसा – उदकांत पडिल्ले बडयेन उदकाचे दोन वांटे जाल्ले भशेन दिसतात. ह्या 'अहं' खातीर 'हांव' वेगळो आनी 'तूं' वेगळो अशें दिसता. समाधींत हो 'अहं' ना जातकूच स्वताच्या बोधांत ब्रह्मबोध जाता – ब्रह्मच स्वताचो अंतरात्मो आसा असो प्रत्यय येता.

हांव महिमाचरण चक्रवर्ती. हांव विद्वान. ह्या 'हांव'चो (अविद्यामय हांव) त्याग करूंक जाय, पूण विद्यामय 'हांव' आसल्यार दोश ना. ताणें लुकसाण जायना. शंकराचार्यान लोकोपदेशा खातीर विद्यामय 'हांव' राखून दवरिल्लो.

अस्तुर्‍यां विशीं खूब जतनाय जर घेतली ना तर ब्रह्मज्ञान जावपाचें ना. म्हणुनूच संवसारांत रावून तें मेळप कठीण. तुमी कितलेय हुशार आसले तरी काजळ आशिल्ले कुडींत रावतकच आंगाक काळें लागतलेंच. तरणाट्या अस्तुर्‍यां वांगडा रावतकच निश्काम मनशांत लेगीत कामवासना जागृत जाता. पूण ज्ञानाचो आलाशिरो घेतिल्ल्या संवसारी मनशान मदीं मदीं आपले बायले वांगडा रमपांत तितलोसो दोश ना. खंयचेय सैमीक प्रवृती भशेनूच संवसारी मनशान कामवासनेची प्रवृत्ती भागोवपाक कांयच हरकत ना. हय. मदीं मदीं मिठाय खावपाक कांयच हरकत ना. (महिमाचरण हांसतात.) संवसारी मनशाक तितलीशी आडखळ ना.

## संन्याश्याचे कठीण नेम
## आनी श्रीरामकृष्ण

पूण संन्याश्याचे नदरेन मात तें खूब हानीकारक. संन्याश्यान अस्तुरेचें चित्र लेगीत पळोवंक जायना. संन्याश्यान अस्तुरेचो उपभोग घेवप म्हणल्यार थुकिल्ली थुकी परत गिळप. संन्याश्यान अस्तुरे लागीं बसूंक जायना. आनी तिचे कडेन उलोवंक जायना. मागीर ती अस्तुरी कितलीय भक्तिमान आसूं आनी संन्याशी कितलोय जितेंद्रीय आसूं.

संन्याश्यान कामिनी आनी कांचन ह्या दोनांचोय त्याग करूंक जाय.

ताणें जशें अस्तुरेचें चित्र लेगीत पळोवंक जायना तसोच कांचनाक – भांगराक

स्पर्श करूंक जायना. म्हणचेच पयशाक लेगीत आफडूंक जायना. पयशे स्वता कडे बाळगप हें संन्याश्याक मारक. कित्याक, पयशे आसतकूच पयशाचो हिशोब, चिंता, पयशांचो अहंकार, पयशाक लागून उर्मटपण, राग हेंय मनशा लागीं येता. सूर्य बरो रखरखत आसता पूण रोखडेंच कूप येवन ताका लिपोवन उडयता. म्हूण तर एका मारवाड्यान हृदया लागीं म्हजे खातीर पयशांची ठेव दवरपाची गजाल काडली तेन्ना हांवें खरपणान न्हयकार दिलो. हांवें सांगलें, नाका. म्हाका तें मात लेगीत मान्य ना. म्हजे लागीं पयसो दवरलो जाल्यार मागीर खात्रेन कुपां आयले बगर रावचीं नात.

संन्याशा खातीर हे इतले कठीण नेम किते खातीर? ताच्या स्वताच्या कल्याणा खातीर तर आसाच, पूण लोकांक धडो मेळचो म्हूण लेगीत ताची गरज आसा. संन्याशी स्वता जरी निर्लिप्त, जितेंद्रीय आसलो तरी लोकांक देख म्हूण ताणें हे प्रमाण कामिनी-कांचनाचो त्याग करुंकूच जाय.

संन्याश्या भितर शंबर टक्के त्याग पळोवनूच लोकांक त्याग करपाचें धाडस जातले न्हय? तरूच न्हय ते कामिनी-कांचनाचो त्याग करपाचो प्रयत्न करतले? असल्या त्यागाची देख संन्याशी घालून दिवचो ना तर मागीर आनीक कोण घालून दितलो?

### जनक आनी हेरांचो
### ईश्वर लाव जाले उपरांत संवसार

ईश्वराचो लाव करून घेतले उपरांत संवसारांत रावूं येता. तें म्हणचे दुदा पसून लोणी काडून तें मागीर उदकांत दवरपा सारकें आसा. जनक ब्रह्मज्ञान प्राप्त करून घेतले उपरांत संवसारांत राविल्लो.

जनक दोन तरसादी चलयतालो. एक ज्ञानाची आनी दुसरी कर्माची. संन्याशी कर्म त्याग करता म्हूण तो एकच तरसाद चलयता. जनका सारको ज्ञानी, गृहस्थी झाडाक लागिल्लीं आनी तळाक पडिल्लीं अशीं दोनय फळां खावंक शकता. तो साधू सेवा, अतिथी सत्कार हीं सगलीं कामां करूंक शकता. हांवें जगन्मातेक म्हणलें, 'आई, हांव सुको साधू जावंक सोदिना.'

ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत अन्न खावपा विशीं भेद करपाची गरज ना. पयलीं काळांतले ब्रह्मज्ञानी रुशी ब्रह्मानंदा उपरांत सगलें कितें खाताले. - धुकराचें मांस लेगीत.

### चार आश्रम
### योगतत्व आनी श्रीरामकृष्ण

(महिमाचरणांक) सर्वसाधारणपणान योग दोन तरांचे आसतात. एक कर्मयोग

आनी दुसरो मनयोग. कर्मा वरवीं परमेश्वरा कडेन युक्त जावप हो कर्मयोग आनी मना वरवीं परमेश्वरा कडेन युक्त जावप हो मनयोग.

ब्रह्मचर्य, गृहस्थी, वानप्रस्थ आनी संन्यास अश्यो जिणेच्यो चार अवस्था आसात. तातूंतल्या पयल्या तीन अवस्थांनी कर्म करपाचें लागता. संन्याश्याक दंड, कमंडलू, भिक्षापात्र घेवचें पडटा. संन्याशी सदांच कर्म करता पूण तातूंत ताचें मन आसक्त नासता. कर्म करीत आसा अशी जाणीव ताचे भितर नासता. कांय कांय संन्याशी थोडेभोव सदांच कर्म करतात. लोकांक देख दिवपा खातीर. जर गृहस्थी वा हेर आश्रमी निश्काम भावनेन कर्म करूंक लागले तर ताचो त्या कर्मांतल्यान ईश्वरा कडेन योग जाता.

शुकदेवा सारकी परमहंस अवस्था जाल्यार पुजा, जप, तर्पण, संध्या आनी हेर सगलीं कर्मां गळून पडटात. ते अवस्थेंत फकत मना वरवीं भगवंता कडेन योग जाता. केन्ना केन्नाय भायलीं कर्मां करपाची इत्सा जाल्यार तो तीं करता - लोक कल्याणा खातीर. पूण ताचें ईश्वराचें स्मरण चिंतन सदांच आसता.

## महिमाचरणांचो शास्त्रपाठ
## श्रीरामकृष्णांची समाधी

रातचीं आठ जाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी महिमाचरणांक शास्त्रांत आसात ते श्लोक बी वाचून दाखोवपाक सांगलें. महिमाचरणांनी उत्तरगीतेंतले सुरवेक आशिल्ले परब्रह्म संबंदींचे श्लोक वाचून दाखयले.

तें ब्रह्म एकूच, एकसंघ, शुद्ध आनी मळबा पालतडी.
आरंभ आनी अंतूय नाशिल्लें.
मनान वा ज्ञानान जाणा जावंक पावना अशें.

निमणें तांणी तिसऱ्या अध्यायांतलो सातवो श्लोक म्हणलोः

द्विज लोक अग्नीची पुजा करतात,
मुनी तांच्या काळजांत ताचें ध्यान करतात,
अल्प बुद्दी लोक प्रतिमाच देवता म्हूण पुजतात,

आनी समदर्शी महायोगी ताका सगल्यां भितर पळयतात.

हीं उतरां आयकले बराबर श्रीरामकृष्ण एकदम उबे रावले आनी समाधीमग्न जाले. हाताक कापटी आनी पट्टी बांदिल्ली. सगले भक्त स्तब्ध – ती समदर्शी योग्याची अवस्था पळयत रावले.

बऱ्याच वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण भानार आयले आनी तांगेल्या जाग्यार बसले. महिमाचरणांक मागीर तांणी ईश्वरी भक्ती विशीं श्लोक म्हणपाक सांगलें.

महिमाचरण नारद पंचरात्रांतले श्लोक म्हणूंक लागलेः

मोगान देवाची पुजा केली जाल्यार तपाची कसली गरज?
मोगान देवाची पुजा केली ना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?
भायर भितर देव दिसता जाल्यार तपाची कसली गरज?
भायर भितर देव दिसना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?

ए ब्रह्मन! ए म्हज्या पुता! आनिआनीक तप करूं नाका
शंकरा कडेन धांव, जो आसा स्वर्गीय सागर ज्ञानाचो,
घे ताचे कडल्यान देवाचो मोग, भक्तांनी तुस्तिल्लो शुद्ध मोग.
संवसाराक बांदपी तुज्यो सांखळ्यो, जो तोडटलो.

**श्रीरामकृष्ण**: आहाहा!, आहाहा!

**पिंड आनी ब्रह्मांड, तूंच**
**चिदानंद; नाहं, नाहं**

हे श्लोक आयकतां आयकतां श्रीरामकृष्ण परत भावाविश्ट ईश्वरी आनंदांत मग्न जावपाचे आशिल्ले. पूण मोट्या कश्टान तांणी स्वताक सांवरलें. महिमाचरण यतिपंचक म्हणूंक लागले:

हांव आसां ती जगन्माता जिचे भितर सजीव आनी निर्जीव
विश्व मायेरुपान दिसता जादवांत दिसता तशें
विश्व लिकलिकता तिच्या मनाचो खेळ कशें
हांव आसां ती चैतन्याची कोठी

जें आसा विश्वाचें तत्व
सत-चित-आनंद

जेन्ना श्रीरामकृष्णांनी ‘हांव आसां ती चैतन्याची कोठी’ हीं उतरां आयकलीं तेन्ना
ाणी हांसत म्हणलें, “जें आसा पिंडीं तेंच आसा ब्रह्मांडीं.”
मागीर महिमाचरणान निर्वाणांतले स श्लोक वाचून दाखयलेः

ॐ. न्हय हांव मन, बुद्द, अहंकार, न्हय म्हणून चित्त,
न्हय श्रवण न्हय वाणी न्हय हांव इन्द्रीय वास घेवपाचें, ना पळोवपाचें
न्हय हांव मळब, धर्तरी, उजो, उदक; न्हय हांव हवा
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

हांव प्राण न्हय, न्हय हांव पंच प्राण
न्हय हांव कुडीचीं सात तत्वां, न्हय हांव पांच कोश
न्हय हांव हात, पांय, जीब, न्हय हांव काम इंद्रीय, न्हय गुद इंद्रीयः
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

ना म्हाका नावड; ना म्हाका आवड, ना लोभ, ना भ्रम;
ना म्हाका अहंकाराची वा अभिमानाची जाण, धर्माचीय ना मोक्षाची ना.
मनाची इत्साय ना, नाय इत्सा कितें मेळोवपाची
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

न्हय हांव न्याय, न्हय हांव अन्याय! न्हंय हांव सूख, न्हय हांव दुख्ख
न्हय हांव मंत्र, न्हय तिर्थस्थान, न्हय वेद, न्हय त्याग
न्हय हांव खाणकृती, न्हय हांव खावपी, न्हय हांव अन्न
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

नाच म्हाका मरण, नाच म्हाका भंय; लागना म्हाका खंयचीच जात
ना म्हाका बापूय, ना आवय; जल्म लेगीत म्हाका ना;
ना म्हाका इश्ट, ना म्हाका वांगडी ना म्हाका शिश्य, ना म्हाका गुरू
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

ना म्हाका रूप ना मिजास; आसां हांव सगले कडेन व्यापून
सगले कडेन म्हजें अस्तित्व; तरीपूण हांव आसां इंद्रियांचे पलतडीं
न्हय हांव मुक्ती, न्हय हांव ज्ञानवस्तः
हांव शुद्ध ज्ञान आनी आनंदः हांव शिव! हांव शिव!

महिमाचरण जेन्ना जेन्ना शिव चिदानंदरूप शिवोहं शिवोहं म्हणटाले तेन्ना तेन्न श्रीरामकृष्ण हांसत हांसत रोखडेच म्हणटाले, हांव न्हय, हांव न्हय, तूंच, तूंच, तूं चिदानंद. महिमाचरणांनी जिवनमुक्त गीतेंतल्यान थोडेंशें वाचून शटचक्र वर्णन श्रीरामकृष्णांक वाचून दाखयलें. महिमाचरणांनी म्हणलें, ''हांवें काशीक एका योग्याचे योगा अवस्थेंत मरण पळयलें.''

**महिमाचरणः** रामगीतेंत बऱ्यो बऱ्यो गजाली आसात.

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) तुमी सारके रामगीता करतात तेन्ना तुमी सामके वेदान्ती आसूंक जाय. तसलीं कितलीं तरी पुस्तकां साधू लोक म्हाका वाचून दाखयताले.

महिमाचरणांनी ॐचें वर्णन म्हणून दाखयलें:

ॐचो ध्वनी सतत पडटा अशी तेलाची धार, सतत वाजपी घांट

महिमाचरणांनी मागीर समाधीचीं लक्षणां वाचून दाखयलीं:

''जो मनीस समाधींत मग्न असता ताका वयलो वाठार आत्म्यान भरिल्लो दिसता, ताका सामको सकयल्लो वाठार आत्म्यान भरिल्लो दिसता. ताका मदलो वाठार आत्म्यान भरिल्लो दिसता. ताका सगलो वाठार आत्म्यान भरिल्लो दिसता.''

अधरान आनी महिमाचरणांनी श्रीरामकृष्णांक प्रमाण केलो आनी ते गेले.

# अध्याय : सत्त्यात्तर

## उन्मादावस्था, सरळपण
## आनी सत्यवचन

**फेब्रुवारी 3, 1884. आयतार.** दनपारच्या जेवणा उपरांत, श्रीरामकृष्ण तांगेल्या ल्हान पलंगाचेर बसून आशिल्ले. कलकत्ताक सावन राम, सुरेंद्र आनी हेर भक्त आयिल्ले. श्रीरामकृष्णांच्या दुखवल्ल्या हाता खातीर तांकां चिंता दिसताली. म लागींच बशिल्लो. श्रीरामकृष्णांच्या हाताक पट्टी बांदिल्ली. ते भक्तां कडेन उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) जगन्मातेन मनाचे अशे अवस्थेंत म्हाका दवरला, म्हज्यान कांयच लिपोवन दवरूं नजं. भुरग्या भशेन अवस्था जाल्या म्हजी. राखालाक तें कळना. कोणाकय दिसत आनी कोणाकूय कळत म्हूण राखाल म्हज्या आंगार कपडो घालून म्हजो मोडिल्लो हात धांपून दवरतालो. दोतोर मधूक कडेक व्हरून हाताच्या दुखण्या विशीं ताका सांगतालो. पूण हांवें आड्डून मोट्यान म्हणलें, 'ए मधुसूदन, तुमी खंय आसात? येयात आनी पळयात म्हजो हात मोडला.'

मथूरबाबू आनी तांची बायल जे कुडींत न्हिदतालीं, तेच कुडींत हांव न्हिदतालों. ते सामके आपल्या भुरग्या भशेन म्हजी जतनाय घेताले. त्या वेळार हांव ईश्वरी उन्माद अवस्थेंत आसतालों. मथूरबाबू म्हाका विचारताले, 'बाबा, तुमकां आमचें उलोवप आयकूंक येता?' हांव म्हणटालों, 'हय.'

एक खेपे मथूरचे बायलेक तांचे वागणुके संबंदान दुबाव आयलो. तिणें तांकां सांगलें, तुमी खंयय वतले तेन्ना श्रीरामकृष्ण तुमचे बराबर येतले. एक दीस मथूर एका जाग्यार गेले. म्हाका सकयल बसोवन अर्दवरा उपरांत येवन तांणी म्हाका म्हणलें, 'चलात, बाबा, गाडयेंत बसात. चलात, वचुया.' तांचे बायलेन ते विशीं विचारलें तेन्ना हांवें सगलें जशाचें तशें सांगलें. हांवें तिका सागलें, 'पळय, आमी एका घरा

कडेन गेले. तांणी म्हाका सकयल बसयलो आनी ते स्वता वयर गेले. अर्दवरा उपरांत परत येवन तांणी म्हाका म्हणलें, ‘चलात, बाबा चलात.’ मथूरबाबूची बायल कितें समजुपाची तें समजली.

मथूरबाबूच्या भाटाचो एक भागिदार थंयच्या झाडांचीं फळां आनी भाजी आनी हेर वस्तू गाडयेंतल्यान चोरून व्हरतालो. हेर भागिदारांनी म्हाका विचारलें तेन्ना हांवें खरें खरें सांगून उडयलें.

# अध्याय : अठ्ठ्यात्तर

## दक्षिणेश्वराक राखाल, म,
## मणिलाल आनी हेर भक्तां वांगडा
## मणि मल्लीकांक उपदेश

**फेब्रुवरी 24, 1884. आयतार** श्रीरामकृष्ण दनपारच्या जेवणा उपरांत मातशे विसव घेताले. जमनीचेर मणि मल्लीक बशिल्ले. श्रीरामकृष्णांच्या हाताक अजून लेगीत पट्टी बांदिल्ली आशिल्ली. म येवन तांकां पांयां पडलो. आनी तो जमनीर मणि मल्लीका लागीं बसलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं कसो आयलो?

**म:** आलाम बाजारा मेरेन गाडयेन आयलों. थंय सावन मागीर चलत आयलों.

**मणिलाल:** आवयस! कितलो घाम आयला हांकां.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) म्हूण तर दिसता, हे सगले म्हजे तकलेंतले खेळ न्हय. नाजाल्यार हे सगले इंग्लीशमॅन लोक कित्याक इतले त्रास घेवन हांगा येतले आशिल्ले?

श्रीरामकृष्ण स्वताचे भलायके विशीं आनी मोडिल्ल्या हाता विशीं तांचे कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** ह्या हाता खातीर हांव मदीं मदीं उतावीळ जातालों. हाका दाखय, ताका दाखय आनी प्रत्येकाक विचारतालों, हांव बरों जातलों काय ना? हांव अशें करतां म्हणून राखाल म्हजेर रागार जाता. ताका म्हजी अवस्था कळना. मदीं मदीं हांव म्हजे भितर म्हणटां, तो हांगच्यान वच्चो. म्हणून परत हांव आईक म्हणटां, 'आई खंय वतलो तो? ताणें खंय वचपाचें ह्या जगाच्या जंवजाळांत हुलपून घेवपाक?'

म्हजो हो ल्हान भुरग्या भशेन भिवकुरो आनी उतावीळ सभाव काय आयचो न्हय. मथूरबाबूक हांव हात दाखोवन नाडी पळोवपाक सांगतालों आनी विचारतालों, म्हाका कितें रोग बी जाला काय म्हूण.

पूण मागीर म्हजो देवाचेर विश्वास कसलो तर? एक खेपो गाड्यान कामारपुकूराक वतालों. एका जाग्यार कांय लोक डाकूं भशेन हातांत दांडे घेवन गाड्या म्हऱ्यांत

आयले. हांव देवाचीं नांवां घेवपाक लागलों. केन्ना राम, राम म्हणटालों तर केन्ना दुर्गा दुर्गा म्हणटालों. तर केन्ना ओम तत सत म्हणटालों. म्हणलें, हें नाजाल्यार तें लागू पडटलेंच. (मक) हांव इतलो उतावीळ कित्याक जातां सांगशी?

**म:** महाराज, तुमचें मन सदांच समाधीमग्न आसता. भक्तां खातीर म्हणून तुमी तुमचें थोडेंशें मन शरिरा कडेन दवरलां. तुमचें शरीर उरचें म्हूण तुमी मदीं मदीं उतावीळ जातात.

**श्रीरामकृष्ण:** हें खरें आसा. थोडेंशें मन शरिरा कडेन आसा. मनाक ईश्वराची भक्ती आनी भक्तांचो सांगात भोगूंक जाय.

मणि मल्लीकान श्रीरामकृष्णांक कलकत्तांत भरिल्ल्या प्रदर्शना विशीं सांगलें. यशोदेन कृष्णाक मांडयेर घेतला अशी एक सुंदर मूर्त प्रदर्शनांत आसा अशें तांणी सांगलें. मुर्तीचें वर्णन आयकून श्रीरामकृष्णांचे दोळे भरून आयले. वात्सल्य रसाची प्रतिमाच अशे यशोदे विशीं आयकून श्रीरामकृष्णांत ईश्वरी चैतन्याचें उद्दिपन जालें आनी ते खातीर तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवूंक लागलीं.

**मणिलाल:** तुमकां बरें दिसना म्हूण. नाजाल्यार मळार भरिल्लें प्रदर्शन तुमच्यांनी पळोवंक येतालें.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक आनी हेर भक्तांक) हांव गेलों तरी सगलें काय हांव पळोवंक पावचों ना. एक कितेंय पळोवनूच बेहोश जावन वतलों. आनीक कांय पळोवंक जावचें ना. प्राणीसंग्रहालय पळोवपाक म्हाका एक खेपो घेवन गेल्ले. थंय शींव पळयले बराबर हांव समाधीमग्न जालों. देवीचें वाहन पळोवन साक्षात देवीचें उद्दिपन जालें. मागीर बाकीचे प्राणी कोण पळयतलो? शींव पळोवन परत आयलों म्हूण यदू मल्लीक एक खेपो म्हणटात, म्हाका घेवन प्रदर्शनाक व्हरतां म्हूण आनी परत म्हणटात, नाका.

मल्लीक खूब वर्सां सावन ब्राह्मसमाजाचे अनुयायी आसात. पिराय 65 जायत. श्रीरामकृष्णांनी तांकां तांच्या मनाक जुळटा असो उपदेश केलो.

## पयलींची जीण

## जयनारायण पंडिताची भेट – गौरी पंडीत

**श्रीरामकृष्ण:** पंडीत जयनारायण खूब उदार मताचो आशिल्लो. एक खेपो ताका हांव मेळिल्लों आनी ताचो सभाव म्हाका आवडिल्लो. पूण ताच्या चल्यांनी व्हडले बूट घाल्ले. आपूण काशीक वतलों आनी थंयच रावतलों अशें तो म्हणटालो. म्हणिल्ले प्रमाण निमणें ताणें तशेंच केलें. तो काशीक वचून रावलो आनी ताणें थंयच देह दवरलो.

पिराय जाले उपरांत संवसारांतल्यान निवृत्त जावन ईश्वर चिंतन करप बरें. तुमकां

कितें दिसता?

**मणिलालः** खरें आसा महाराज. संवसारांतली चिंता आनी त्रास म्हज्यान सोसूं नजं.

**श्रीरामकृष्णः** गौरी पंडीत ताचे बायलेक फुलां ओंपून पुजा करतालो. सगल्यो अस्तुऱ्यो जगन्मातेचीं रुपां आसतात. (मणिलालाक) तुमची ती गजाल हांकां सांगात पळोवया.

**मणिलालः** (हांसत) एक खेपो कांय जाण व्हड्यान गंगेंतल्यान पलतडीं वताले. तांचे भितर एक पंडीत आशिल्लो. तो तागेल्या पांडित्याच्यो फुशारक्यो मारतालो. हांवें खूब शास्त्रां वाचल्यांत. वेद, वेदान्त, शडदर्शन वाचल्यांत अशें तागेलें स्वताच व्हडपण गायतालो. मदींच ताणें प्रवाश्याक विचारलें, 'वेदान्त खबर आसा?' त्या प्रवाश्यान जाप दिली, 'ना महाराज.' 'सांख्य, पातंजली खबर आसा?' त्या प्रवाश्यान जाप दिवन सांगलें 'ना'. 'खंयचेंच तत्वज्ञान वाचूंक ना?' 'ना महाराज.' पंडीत खूब गर्वान उलयत रावलो. तो प्रवाशी बावडो ओगीच बसून रावलो. इतल्यांत व्हड वादळ आयलें. व्हडें बुडपाक लागलें. त्या प्रवाश्यान पंडिताक विचारलें, 'महाराज तुमकां पेंवपाक येता?' पंडितान म्हणलें, 'ना.' प्रवाश्यान जाप दिली. 'म्हाका सांख्य, पातंजली कांय कळना, पूण म्हाका पेंवपाक येता.'

## ईश्वरूच वस्तू, हेर सगलें अवस्तू
## मोखीचेर लक्ष दियात

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) तरातरांचीं शास्त्रां समजून कितें उपेग? ही संवसाराची न्हंय कशी हुपपाची? हें जाणा जावन घेवपाची गरज आसा. ईश्वरूच वस्तू, हेर सगलें अवस्तू.

अर्जुन जेन्ना पक्ष्याच्या दोळ्याचेर नेम धरूंक सोदतालो तेन्ना द्रोणाचार्यान ताका विचारलें, 'तुका कितें दिसता? हे राजा दिसतात तुका?' अर्जुनान जाप दिली, 'ना महाराज.' 'हांव दिसतां?' 'ना.' 'तुका झाड दिसता?' 'ना.' 'झाडा वयलो पक्षी दिसता?' 'ना.' 'मागीर तुका कितें दिसता?' 'म्हाका फकत पक्ष्याचो दोळो दिसता.' जाका पक्ष्याचो फकत दोळोच दिसता तोच नेम धरूंक पावता. फकत ईश्वरूच वस्तू, हेर सगलें अवस्तू अशें जाका दिसता तोच हुशार. हेर सगलें जाणा जावन घेवपाची म्हाका गरज कितें? हनुमान म्हणटालो, 'म्हाका चंद्रिमाच्यो कळा, नखेत्रां कांयच खबर ना. हांव फकत रामाचें चिंतन करतां.'

(मक) हांगा वापरपा खातीर कांय पंखे विकते हाड. (मणिलालाक) हें पळयात, तुमी एक खेपो हाच्या वडिलांक मेळून येयात. भक्तांक पळोवन तुमकां उर्बा मेळटली

## मणिलालाक आनी हेरांक उपदेश

श्रीरामकृष्ण स्वताच्या जाग्यार बशिल्ले. मणिलाल आनी हेर जमनीर बशिल्ले आनी श्रीरामकृष्णांचें मधूर वचनामृत आयकताले.

**श्रीरामकृष्ण**: (मक) हो हात मोडला तेन्ना सावन म्हजी अवस्था खूब बदल्ल्या. आतां ईश्वराची नरलिलाच आवडूंक लागल्या:

नित्य आनी लिला. नित्य तोच अखंड सच्चिदानंद. लिला तरेतरेची - ईश्वरलिला देवलिला, नरलिला आनी जगतलिला

वैशणवचरण म्हणटाले, नरलिलेचेर विश्वास बसतलो तेन्नाच पूर्ण ज्ञान जातलें. त्या वेळार हांव तांचें म्हणणें मानिनाशिल्लों. आतां दिसता, तें खरें आसा. वैशणवचरणांक कोमल भाव, प्रेमळ भाव दाखोवपी मनशांचीं चित्रां आवडटात. (मणिलालाक) ईश्वरूच मनीस जावन लिला करीत आसा. तोच मणि मल्लीक जाला. शिखांची शिकवणूक आसा - तूंच सच्चिदानंद आसा.

मदीं मदीं केन्नाय मनशाक स्वताच्या स्वरुपाची (सच्चिदानंद) जाणीव जाता आनी तो अजापीत जावन मंत्रमुग्ध जाता. अशा वेळार तो आनंदाच्या दर्यांत पेंवता. एकाद्रो आवडटो नात्यांतलो अचकीत दिसचो तशी ताची गत जाता. मक ते गाडयेंतल्यान येतना बाबूरामाक पळोवन जशें जालें तशें. तुमी तर अशिल्लेच ते गाडयेंत. शिवाक ज्या वेळार स्वस्वरुप दिसता, त्या वेळार हांव कितें आसां?

हांव कितें आसां अशें म्हणीत ते आनंदात नाचूंक लागले.

अध्यात्म रामायणांत हेंच सांगलां. नारद म्हणटा, रामा, जितले दादले आसात ते सगले तूं आसात आनी सीताच सगल्यो अस्तुऱ्यो जाल्यात.

रामलिलेंत अभिनय करपी पात्रांक पळोवन म्हाका दिसलें, नारायणानूच ह्या सगल्या मनशांचीं रुपां घेतल्यांत. असली आनी नकली. म्हाका दोनय सारकींच दिसलीं.

लोक कुमारी पुजा कित्याक करतात? सगल्यो अस्तुऱ्यो म्हणचे जगन्मातेचें एक रुपूच आसात पूण शुद्ध मनाच्या कुमारिकां भितर जगन्मातेचो प्रकाश चड आसता.

(मक) बरो ना जातकच हांव असो अधीर कित्याक जातां? कित्याक जगदंबेन म्हाका बाळकाचे अवस्थेंत दवरला? बाळकाचो सगलो भार आवयचेर. वावराडेचो भुरगो धनयाच्या भुरग्या कडेन झगडलो जाल्यार म्हणटा, 'हांव म्हजे आईक सांगतलों.' म्हणून राधाबाजारांत म्हाका फोटो काडपाक घेवन गेल्ले त्या दिसा इश्ट राजेंद्राच्या

वरा वचपाचें थारायिल्लें. केशव सेन बी येतले अशें आयकल्लें. तांकां कितें सांगचें तें हांवें मनांत थारायिल्लें. राधाबाजाराक वचून सगलें विसरलों तेन्ना हांवें म्हणलें, 'आई, तूंच उलयतली. हांव कितें उलयतलों?'

म्हजो ज्ञानी मनशाचो स्वभाव न्हय. ज्ञानी स्वताक व्हड समजता. ज्ञानी म्हणटा, 'कितें? म्हाका आनी रोग? तें कशें शक्य आसा?' कुंवरसिंगान म्हाका म्हणलें, 'तुमी अजून देहाची चिंता करतात.' पूण म्हजो सभाव असो आसा. सगलें कितें आईच जाणा, राजेंद्र इश्टाच्या घरा तीच कितें तें उलयतली. तिचेंच उलोवप परिणामकारक. सरस्वतीच्या ज्ञानाच्या किरणान हजार पंडीत थक्क जावन वतात.

आईन म्हाका भक्ताचे अवस्थेंत – विज्ञानाचे अवस्थेंत दवरला. देखुनूच राखाल आनी हेरां बराबर फकाणां करीत आसतां. आईन म्हाका ज्ञानाचे अवस्थेंत दवरिल्लो जाल्यार हें शक्य नाशिल्लें.

हे अवस्थेंत म्हाका दिसता, आईच सगलें कितें जाल्या. सगले कडेन म्हाका तीच दिसता. कालीच्या देवळांत म्हाका दिसता, आईच सगलें कितें जाल्या – दुश्ट मनीस लेगीत ती जाल्या. सामक्रो भागवत पंडिताचो भाव लेगीत तीच जाल्या.

एक खेपो रामलालाचे आवयक हांव रागान तापोवपाचों आशिल्लों. पूण तापोवंक जमलें ना. दिसलें, ती लेगीत आईचेंच एक रूप आसा. कुमारिकां भितर म्हाका जगन्माता दिसता. म्हूण हांव तांची पुजा करतां. म्हजी बायल (शारदादेवी) म्हजे पांय चेपता पूण ते उपरांत हांव तिका पांयां पडटां.

तुमी लोक म्हज्या पांयांक हात लावन पांयां पडटात. पूण हृदू अशिल्लो जाल्यार पांयांक हात लावपाची कोणाची छाती जावची नाशिल्ली. तो कोणाकूच पांयांक हात लावंक दिवचो नाशिल्लो.

सगल्यां भितर म्हाका ईश्वर दिसंता. अशे अवस्थेंत आईन म्हाका दवरिल्ल्यान तुमी म्हाका नमस्कार केल्यार म्हाका तुमकां परत नमस्कार करचो पडटा. पळयात, दुश्ट लोकांक लेगीत वळखुपाची माणसुकी ना. तुळशीचें पान सुकिल्लें आसूं वा ल्हान आसूं. देवपुजेक उपेग पडटा.

# अध्याय : एकुणअंयशीं

## दक्षिणेश्वराक नरेंद्र आनी हेर भक्तां वांगडा

**मार्च 2, 1884. आयतार.** श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले आनी भजन आयकताले. ब्राह्मसमाजाचे त्रैलोक्य संन्याल गायताले. श्रीरामकृष्णांचो हात मोडिल्लो. तो अजून बरो जावंक नाशिल्लो. तांची प्रकृती अजून बरी जावंक नाशिल्ली. बरेच दीस जाले हात बांदिल्लो आशिल्लो. भक्तां भितर नरेंद्र, सुरेंद्र आनी म जमनीर बशिल्ले.

नरेंद्राचे वडील कलकत्ताच्या हायकोर्टांतले वकील आशिल्ले. ते अकस्मात संवसाराक अंतरले. ते संवसाराक सोडून गेल्ल्यान तांचे फाटल्यान तांगेल्या घराब्याची ते बरे तरेन वेवस्था करूंक पावले नात. ते खातीर घरच्या लोकांची परिस्थिती खुबूच वायट जाली. इतलेंच न्हय, त्या लोकांक मदीं मदीं उपासय घडटाले. ह्यो सगल्यो चिंता जाल्ल्यान नरेंद्र खूब उद्विग्न जाल्लो. त्रैलोक्यान जगन्मातेचें गीत गायलें:

ए माते, तुज्या मोगाळ कुसव्यांत हांव लिपतां,
हांव तुजें मुखामळ नियाळटां आनी रडटां, "माते! माते!"
आनंदसागरांत हांव बुडटां आनी योगनिद्रेंत
जाण वगडायतां, नियाळटां दोळे धांपनासतनां
तुजें मुखामळ, थंयच्यान ते काडूंक हांव शक्तीहीन जालां;
ए माते, हांव ह्या संवसारांत भयाभीत जालां,
म्हजो जीव कडकडटा आनी भंयान आड्डता.
तुज्या मोगाळ कुसव्यांत, मोगाळ माते, म्हाका दवर;
म्हाका गुठलाय तुज्या मोगाच्या पालवान

आयकतां आयकतां श्रीरामकृष्णांच्या दोळ्यांतल्यान मोगाचीं दुकां व्हांवूंक लागलीं. ांणी म्हणलें, 'आहा! आहा!'

त्रैलोक्य परत गावंक लागलेः

भगवंता, म्हजे लजेचो संहारक! तूं सोडून आनीक कोण
मान वांचयत तुज्या भक्ताचो?
तूं म्हज्या आत्म्याचो शासक, म्हजे जिणेचो पालव,
आनी हांव तुजो दास सदांकाळचो

ते मुखार गावंक लागलेः

आलाशिरो घेवन तुज्या पांयां कडेन तुजो
हांवें कुशीक काडून उडयला अभिमान जातीकातीचो
आनी लजेक आनी भंयाक केल्या फाट.
जिणेच्या मार्गा वयलो हांव तिर्थयात्री एकोडो,
हांव आतां खंय वतलों
देवा तुजे खातीर म्हाका दुशण दितात तें सोंसतां हांव;
खेपतात म्हाका तीख उतरांनी
तुज्या प्रेमा खातीर म्हाका दुस्वासतात
इश्ट तशेच भायले म्हाका सतायतात.

तूं म्हज्या नांवाचो राखणदार
भगवन! तुका जाय जाल्यार तूं तार वा मार,
तुज्या दासाच्या मानाचेरूच
भगवन, तुजी इभ्रत आसा.
तूं म्हज्या आत्म्याचो शासक
म्हज्या काळजांतलो प्रेमाचो झगझग
तुजे इत्शेक येता तशें म्हजें कर.

परत ते गांवक लागलेः

भगवन, तुवें म्हाका घरा भायर काडला आनी
तुज्या मोगाचो तुवें म्हाका केला बंदी.
ए प्राणप्रिया, तुज्या पांयां कडेन म्हाका आतां सदांच राखण दी.
दीस रात तुज्या प्रेमाच्या अमृताचें म्हाका जेवण दी.
ह्या प्रेमदासाक, वांचय तुज्या दासाक.

श्रीरामकृष्ण परत मोगाचीं दुकां गळोवंक लागले. ते स्वताच रामप्रसादाच्या गिताचे कांय चरण गावंक लागले:

व्हडपण आनी अपमान, कोडू आनी गोड सगलें तुजेंच
हें जग तुज्या खेळा बगर आनीक कांयच न्हय
मागीर ए आनंदमयी, मदींच असो रसभंग तूं कित्याक करता?

त्रैलोक्यांक लेखून श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''वा. वा. तुमची गितां सामकीं काळजाक भिडपी. तीं गितां खरीं खरीं गितां. जो दर्याचेर गेला तोच दर्याचें उदक हाडून दाखोवंक पावता.''

त्रैलोक्य परत गांवक लागले:

प्रभो, नाचपी तूंच, आनी गावपीय बी तूंच.
आनी ताळयो मारपीय तूंच, ताल संगिताचे धरून
पूण मनीस फकत पळोवपी, मुर्खा भशेन तो म्हणटा तों हांवूच.

तरी तुजे वांगडा वचत तर तो देव जाता;
जरी मनीस म्हणचे खामसुत्री बावली,
तूंच ह्या यंत्राचो चालक, रथाचो रथी
पूण मनीस दुख्खाच्या वज्यान खचून वता, आपूण मेकळो अशें धरून.

तूं सगल्यांचें मूळ, आमच्या आत्म्यांचो आत्मो;
तूं आमच्या काळजांचो गुरू; तुजे अशीम कृपेन
तूं निचांतल्या नीच पातक्याक मोटो संत करता:

गायन सोंपलें. श्रीरामकृष्ण उलोवंक लागले.

**ीरामकृष्ण**: (भक्तांक) ईश्वरूच धनी, ईश्वरूच सेवक ही भावना पूर्ण ज्ञानाचें ाक्षण जावन आसा. पयलीं नेति, नेति असो सदसत विवेक करून मागीर ईश्वरूच ात्य आनी बाकी सगलें मिथ्या असो बोध जाता. ते उपरांत ताकाच कळटा, ईश्वरूच ागलें कितें जाला. विश्व, माया, जीव, जगत सगलें कितें जाला. पयलीं न्हयकार, ागीर स्विकार हेंच पुराणाचें मत आसा. जशें गर, बियो आनी कट्टें मेळून बेलाचें ऋळ जाता. बियो आनी कट्टें भायर उडयतकूच हातांत गरच येता. पूण बेला फळाचें वजन समजुपाचें आसत तर बियो आनी कट्टें वेगळावन जावपाचें ना. तेच प्रमाण जीव जगत फाटल्यान दवरून पयलीं सच्चिदानंद प्राप्त करून घेवंक जाय. ते उपरांत, सच्चिदानंदाचो लाव जाले उपरांत तुका कळून येता, सच्चिदानंद स्वताच जीव जगत सगलें कितें जाला. ज्या द्रव्याचो गर, त्याच द्रव्याच्यो बियो, कट्टें जालां. जशें ताकाचेंच लोणी आनी लोणयाचेंच ताक. दोनूय एकाच द्रव्याचीं.

कोणय म्हणटलो सच्चिदानंद इतलो घट-टणक कसो जालो? ही धर्तरी स्पर्श केल्यार खरेंच सामकी घट्ट लागता. रगत आनी वीर्य हे पातळ पदार्थ, पूण तांचे पसुनूच मनशा सारको व्हडलो जीव तयार जाता. ईश्वराक सगलें कितें शक्य आसा. पयलीं एक खेपो अखंड सच्चिदानंद मेरेन पावात आनी मागीर सकयल येवन ह्या विश्वा कडेन पळयात. मागीर तुमकां कळटलें. ताचेंच हें प्रगट रूप. ईश्वरूच सगलें कितें जाला. ह्या जगाक ईश्वरा पसून वेगळें अस्तित्व नाच.

## जग ईश्वरा पसून वेगळें न्हय.
## योगी आनी भक्त हातूंतलो फरक

सगलीं तत्वां निमाणीं आकाश तत्वांत विलीन जातात. परत सृश्टी उत्पन्न जाता तेन्ना आकाशांतल्यान महत आनी अहंकार अशे रितीन सगली सृश्टी उत्पन्न जाता. संकोच आनी विकास ही ताची पद्धत देवाचो भक्त मानता. भक्त अखंड सच्चिदानंदय स्विकारता आनी जीव जगतय मानता. पूण योग्याचो मार्ग वेगळो. तो परमात्म्या मेरेन पावतकच मागीर थंयच्यान परत येना. त्या परमात्म्या कडेन एक जावन वता. जो सगल्यां भितर ईश्वर पळयना, थोड्यांच मदी ईश्वर पळयता, एकेच वस्तू भितर ईश्वर पळयता, तो अपूर्ण जाणकार. आनी ताका अशें दिसता, ईश्वर त्या वस्तू मदींच आसा, आनीक खंयच ना.

भक्त तीन तरांचे आसतात. सगल्यांत कनिश्ठ प्रतीचो भक्त म्हणटा, 'ईश्व थंय वयर आसा, आनी तो वयर मळबा कडेन बोट दाखयता. मध्यम प्रतीचो भक्त म्हणटा, 'ईश्वर काळजांत अतर्यामीं नियंत्याच्या रुपान आसा.' पूण उच्च प्रतीचे भक्त म्हणटा, 'ईश्वरूच सगलें कितें जाला. जें कितें दिसता, तीं सगलीं ताचींच कितलींशींच रुपां.' नरेंद्र म्हजीं फकांडां करतालो आनी म्हणटालो, 'देव सगलें किते जाला. मागीर ईश्वरूच तांबयो आनी ईश्वरूच पंचपात्र.' (हांसतात.)

ईश्वराच्या दर्शनान दुबाव ना जातात. कर्म त्याग जाता. विराट शिव. ईश्वराचे दर्शन जातकच सगले दुबाव ना जावन वतात. ईश्वरा विशीं आयकप वेगळें आनी ताका प्रत्यक्ष पळोवप दुसरेंच. फकत आयकून शंबर टक्के विश्वास जावप शक्य ना. ताका प्रत्यक्ष पळयतकच पुरायेन विश्वास बसता

ईश्वराचें दर्शन जाले उपरांत पुजा आनी हेर कर्मांचो त्याग आपसूक जाता. म्हजी देवळांतली पुजा अशेच तरेन उरली. हांव कालीच्या देवळांत पुजा करतालों. एक दीस अचकीत दिसलें, सगलें कितें चैतन्यमय जालां. पडगो, पळी, वेदी, दाराची चौकट - सगलें कितें चैतन्यमय जालां. मनीस, जीव, जंतू सगलें चैतन्यमय. त्या वेळार सामको पिसो कसो हांव चोंय वटेन फुलां शिंपडूंक लागलों. जें दिसलें ताची पुजा करपाक लागलों.

एक दीस पुजा करता तेन्ना शिवाच्या माथ्यार बेल घालो. तेन्ना म्हाका प्रत्यक्ष अणभव आयलो, हें विराट विश्वच शिव आसा - सगलें विश्व हीच शिवाची मूर्त. मागीर म्हजें मुर्ती रुपान शिवाची पुजा करप बंद जालें. आनी एक दीस फुलां काडटा आसतना म्हाका प्रत्ययाक आयलें, फुलांचें एकेक झाड म्हणचे फुलांचो एकेक तुरो आसा.

## काव्य आनी ईश्वर दर्शन
## हातूंतलो फरक

**त्रैलोक्य:** वा! वा! ईश्वराची ही सृश्टी रचना कितली सुंदर आसा!
**श्रीरामकृष्ण:** ना आं! तशें न्हय. कशें कोणें तरी लख्ख करून दाखोवन दिलें. विचार करून, गणीत करून म्हाका तशें दिसलें अशें न्हय. म्हाका दाखोवन दिलां, एकेक फुलां झाड म्हणचे फुलांचो एकेक तुरो कसो - विश्वरुपी विराट शिवमूर्त सजयता. त्या दिसा पसून म्हजें फुलां काडप बंद जालें. मनशा कडेन हांव हेच नदरेन पळयतां.

न्ना हांव मनशाक पळयतां, तेन्ना म्हाका ईश्वरूच स्वता धर्तरीचेर चलता भोंवता अशें दिसता. ल्हारांचेर उफेवपी उशें कसो. तें हे वटेनच्यान ते वटेनच्यान हालत धोलत आसता. ल्हारां बराबर केन्ना वयर वता जाल्यार केन्ना सकयल येता.

खरेंच शरीर खिणयाळें. ईश्वरच सत्य. शरीर आतां आसा. मागीर ना. कांय वर्सां पयलीं म्हाका पोटाचें दुखणें जावन खूब त्रास जाल्लो. त्या वेळार हृदू म्हणलें, 'दुखणें बरें कर म्हूण आईक (जगदंबेक) सांग न्हय.' दुखण्या विशीं आईक सांगपाक म्हाका लज दिसली. हांवें तिका सांगलें, 'आई, एशियाटीक सोसायटीच्या वस्तूसंग्रहालयांत मनशाच्या हाडांचो सांगाडो पळयिल्लो. हाडां सरयेन बांदून मनशाची आकृती उबी केल्ली. आई, तशेंच हें म्हजें शरिरूय मातशें उबें दवर म्हणचे म्हाका तुजें नामगूण संकिर्तन करूंक जमतलें. ही जगपाची इत्सा कित्याक? रावणाक मारले उपरांत रामान आनी लक्ष्मणान लंकेंत प्रवेश केलो. रावणाच्या घरांत भितर सरतकच तांकां दिसलें, निकशा, रावणाची म्हातारी आवय पळून वता. लक्ष्मण अजापीत जालो. आनी ताणें रामाक म्हणलें, 'रामा, तिचीं सगलीं भुरगीं मेलीं. तरी लेगीत जिणेची तिका इतली ओड कशी? तेन्ना रामान निकशेक म्हऱ्यांत आफोवन म्हणलें, 'तूं भियेवं नाका. आमी तुका कांयच करपाचे नात. फकत हें सांग, तूं पळून कित्याक वता?' निकशेन जाप दिली. 'रामा, हांव तुजे पसून भंयान पळून वचूंक ना. पूण हांव जिती आशिल्ली म्हणुनूच न्हय तुजी इतली लिला पळोवंक मेळ्ळी. आनीक जर वांचन तर आनिकूय कितल्योश्योच लिला पळोवंक पावतलीं. म्हणून जिवी रावपाची इत्सा आसा. देखून हांव जिवी रावंक सोदतां.' वासना आसले बगर शरीर उरपाचें ना. (हांसत) म्हज्यो एक दोन इत्सा आशिल्ल्यो. हांवें आईक म्हणिल्लें – 'आई, जांणी कामिनी–कांचनाचो त्याग केला अश्या लोकांचो सांगात भोगपाची इत्सा आसा. म्हणून अश्या लोकांक मेळपा खातीर, जाय थंय वचपा खातीर थोडें बळ दी.' पूण वचपाचें, चलपाचें बळगें तिणें म्हाका दिलें ना.

**त्रैलोक्य**: (हांसत) सगल्यो इत्सा भागल्यात?

**श्रीरामकृष्ण**: ना. थोड्यो अजून उरल्यात. (सगले हांसतात.) शरीर खरेंच खिणयाळें. हात मोडलो तेन्ना आईक म्हणलें, 'आई, म्हजो हात खुबूच दुखता'. रोखडेंच तिणें म्हाका दाखयलें. गाडी आनी ती चलोवपी. हे वटेन ते वटेन कांय स्क्रू सदळ जाल्ले. चलोवपी जसो चलयतालो तशी ती चलताली. गाडयेक स्वताची अशी शक्त ना. मागीर शरिराची इतली जतनाय हांव कित्याक घेतां? ईश्वराचो आनंद भोगूंक मेळचो, ताचें नांव घेवंक मेळचें, ताचे गूण गावंक मेळचे, ताच्या ज्ञानी लोकांक, भक्तांक मेळपा खातीर जाय तशें भोंवंक मेळचें म्हणून.

## नरेंद्राचें दुख्ख, शरिराचीं सूख-दुख्खां

नरेंद्र जमनीर श्रीरामकृष्णांचे मुखार बशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (त्रैलोक्यांक आनी हेर भक्तांक लेखून) देह म्हणलो कीं सूख-दुख्ख आयलेंच. देहाक सूख-दुख्ख आसतलेंच. नरेंद्राचेंच पळयात न्हय. वडील भायर पडले, घरचे लोक खूब कश्टांत आसात. तांकां कांयच मार्ग मेळना कसो जाला. तातूंत ईश्वर मनशाक केन्ना सुखांत दवरता तर केन्ना दुख्खांत.

**त्रैलोक्य:** हय महाराज. ईश्वर नरेंद्राचेर कृपा करतलोच.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पूण केन्ना? काशीक अन्नपूर्णेच्या देवळांत कोण उपाशीं उरना हें खरें. पूण कोणा कोणाक सामकें सांजवेळ मेरेन ताटकळत रावचें पडटा.

एके खेपो हृदयान शंभू मल्लीका कडेन पयशे मागले. शंभू मल्लीक इंग्लीश मताचे. तांणी हृदयाक म्हणलें, 'तुमकां पयशे कित्याक म्हणून दिवपाचे? कश्ट करून तुमच्यांनी पोट भरूं येता. तुमी थोडे भोव मेळयतातूय. कोणूय गरीब आसात तर ती गजाल वेगळी. कुड्डे, थोंटे, अपंगूळ असल्या लोकांक दिल्यार सार्थकीं लागतले. ताचेर हृदयान म्हणलें, 'महाराज, कृपा करात आनी असलें कांय म्हणूं नाकात. तुमच्या पयशांची म्हाका गरज ना. ईश्वर करूं आनी म्हाका कुड्डो, पांगळो वा सामको दळिद्री बी जावपाचें पडूं नाका. तुमी दिवपाचीय गरज ना आनी म्हाका घेवपाचीय गरज ना.'

## नरेंद्र आनी नास्तीक मत
## ईश्वराचें कार्य आनी भीशमदेव

ईश्वर नरेंद्राचेर अजून कित्याक दया करिना म्हणून रागार जाल्ले वरी श्रीरामकृष्ण म्हणटाले. ते मदीं मदीं नरेंद्रा कडेन मायेस्त नदरेन पळयताले.

**नरेंद्र:** सध्याक हांव नास्तिकांचे विचार वाचतां.

**श्रीरामकृष्ण:** दोन सिद्धांत आसात. ईश्वराचें अस्तित्व मानपी आनी ताचें आस्तित्व न्हयकारपी, मागीर तूं पयलें कित्याक घेना?

**सुरेंद्र:** ईश्वर न्यायी आसा. ताणें भक्तां कडेन पळोवंकूच जाय.

**श्रीरामकृष्ण:** धर्मशास्त्रांत अशें सांगलां, फाटल्या जल्मांत जांणी दान केलां तांकांच ह्या जल्मांत धन मेळटा. पूण खरें सांगूं? हें जग ताची माया आसा. मायेच्या जगांत कितल्योश्योच गोंदळांत उडोवपी गजाली आसतात. मनशाक त्यो कळनात.

ईश्वराचें कार्य समजुपाक खरेंच कठीण. भीशमदेव शरशय्येर न्हिदिल्ले. पांडव तांकां मेळपाक आयले. बराबर कृष्ण आशिल्लो. तांकां दिसलें, भीशमदेव रडटात. पांडवांनी कृष्णाक म्हणलें, 'कृष्णा, केदें व्हडलें अजाप हें! पितामह आठ वसूं भितरलो एक वसू. हांचे सारको ज्ञानी सोदून मेळपाचो ना. मायेची भूल पडिल्ल्यान मरणा वेळार रडटात.' कृष्णान म्हणलें, 'भीश्म ते खातीर रडनात. ते विशीं तांकांच विचारात पळोवया.' रडपाचें कारण विचारतकच भीशमान जाप दिली. 'कृष्णा, ईश्वराच्या कार्या विशीं कांयच समजूं शकलों ना. साक्षात नारायण सदांच पांडवांच्या सांगाताक आसतना, पांडवांच्या संकश्टांक अंत नाशिल्लो. ह्या विचारान म्हाका रडूंक येता.' हाचो जेन्ना विचार करतां तेन्ना पट्टा, ईश्वराचें कार्य समजप खूब कठीण.

### एकमात्र शुद्ध आत्मोच
### अचल–सुमेरू पर्वता भशेन

म्हाका देवान दाखोवन दिलां, जांकां वेदान्तांत शुद्ध आत्मो म्हणला तो परमात्मोच कितें तो सुमेरू पर्वता भशेन अचल, निर्लिप्त आसा आनी सूख–दुख्खाच्या पलतडीं आसा. ताचे मायेच्या जगांत खूब गोंदळ आसा. हाचे उपरांत तें घडटलें वा हाचे पसून तें जातलें म्हणपाची माणसुकी ना.

**सुरेंद्र**: (हांसत) फाटल्या जल्मांत दान केल्यार जर ह्या जल्मांत धन मेळटा तर मागीर आमी सगले आतां दान करुया.

**श्रीरामकृष्ण**: जांचे कडेन पयशे आसात तांणी गरिबांक आनी गरजेवंतांक दान करचें. (त्रैलोक्यांक) जयगोपाळ सेना लागीं पयसो आसा. तांणी दान करचें. तो करिना, हें ताका सोबना. जायते जाण पयशे आसून लेगीत हिमटे आसतात. तांच्या पयशांचो तांचे फाटल्यान कोण उपभोग घेतलो हाचो पत्तो नासता.

त्या दिसा जयगोपाळ आयिल्लो. गाडयेन येतना गाडयेचे दिवे फुटले. घोडो थड्यांतल्यान परत हाडिल्ले वरी, आनी गाडी चलोवपी दिसतालो आतांच मेडिकल कॉलेजीच्या इस्पितळांतल्यान धाडिल्ले वरी. आनी म्हजे खातीर घेवन आयला कुसकीं दोन दाळमां. (सगले हांसतात.)

**सुरेंद्र**: जयगोपाळबाबू ब्राह्मसमाजाचे. म्हाका कळ्ळां, आतां केशवबाबूच्या ब्राह्मसमाजांत नांव घेवपा सारकींय मनशां नात. विजय गोस्वामी, शिवनाथ हांणी आनी कितल्याच जाणांनी केशवा पसून फुटून साधारण ब्राह्मसमाज नांवाचो वेगळो समाज काडला.

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) गोविंद अधिकारी खंय तागेले नाटक मंडळींत बरे
दवरिनाशिल्लो. नफ्यांतलो वांटो दिवचो पडत म्हूण. (सगले हांसतात.) केशवाच
एका शिश्याक त्या दिसा पळयलो. केशवाचें नाटक आशिल्लें. हांवें पळयलें, केशवा
तो शिश्य, भुरगें हांडीर घेवन नाचतालो. परत आयकलें, तो शिश्य खंय लेक्चर द
आसता. ताणें स्वताकूच लेक्चरां दिल्यार चड बरें.

त्रैलोक्य गांवक लागलेः

आनंदमयी जाणिवेच्या त्या दर्यांत प्रेमाचीं परमानंदी ल्हारां उसळटात;
दैवी अत्यानंद ! ईश्वरी आनंदाचो खेळ!
आ! कितलीं चित्ताकर्शक
ईश्वरी गोडायेचीं अजापीत ल्हारां, सदांच नवीं आनी सदांच भुलोवणीं,
उसळटात वयर, सदांच हवेंत
सदांच ताजीं रुपां
आनी परतींय एकदां त्या व्हड एकवटांत विरगळटात सगलीं,
काळाच्यो आनी अवकाशाच्यो वणटी विरगळटना आनी नाच्च जातना.
तेन्ना नाच, ए मना!
आनंदांत नाच, हात वयर करून, हरीचें पवित्र नांव गायतना.

श्रीरामकृष्णांनी त्रैलोक्यांक मागीर दुसरें गीत म्हणपाक सांगलें जें सुरू जाता

आई, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो कर

त्रैलोक्य गावंक लागलेः

ए आई, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो कर!
ज्ञानाची आनी तर्कवितर्काची म्हाका कसली गरज?
तुज्या प्रेमाच्या सोऱ्यान म्हाका बेबदो कर;
ए तूं जी भक्तांची काळजां चोरता,
तुज्या प्रेम सागरांत म्हाका खोल बुडय!
हांगा ह्या संवसारांत, तुज्या ह्या पिश्यांघरांत,
कोण हांसतात, कोण रडटात, कोण आनंदान नाचतात;
जेजू, बुद्ध, मोसेज, गौरांग,
तुज्या प्रेमाच्या सोऱ्यान सगले बेबदे जाल्यात
ए आई, केन्ना जातलों हांव सुभागी
तांचो जोडून वांगड आनंदमयी?

# अध्याय : अंयशीं

## दक्षिणेश्वराक मणिलाल आनी हेर भक्त
## गृहस्थी आनी संन्याश्यां खातीर ज्ञान

**मार्च 9, 1884. आयतार.** श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत दक्षिणेश्वराक तांच्या कितल्याश्याच भक्तां वांगडा बशिल्ले. ते भक्तमंडळींत मणि मल्लीक, महेंद्र, कविराज, बलराम, म, भवनाथ, राखाल, लाटू आनी हरीश आशिल्ले.

श्रीरामकृष्णांच्या हाताक अजून बँडेज बांदिल्ली आशिल्ली. हात दुखता आसतना लेगीत ते सदांच समाधींत आसताले वा भक्तांक उपदेश करताले.

मणि मल्लीकांनी आनी भवनाथान प्रदर्शना विशीं सांगलें. हें प्रदर्शन एशियाटीक वस्तूसंग्रहालया लागीं भरिल्लें. तांणी सांगलें, कितल्याश्याच महाराजांनी मोलादीक वस्तू प्रदर्शनांत धाडल्यात. तातूंत भांगराचे पलंग आनी हेर वस्तू आसात. तें पळोवपा सारकें आसा.

## श्रीरामकृष्ण आनी धन ऐश्वर्य

**श्रीरामकृष्णः** (भक्तांक हांसत) हय. प्रदर्शनाक वचून खूब फायदो जाता. महाराजांनी धाडिल्ल्यो भांगराच्यो आनी हेर वस्तू पळोवन तुका कळटा, ह्यो वस्तू म्हणचे फकत कोयर-सामको तुच्छ. हो व्हडलो लाव म्हणपाक येता. हांव जेन्ना कलकत्ताक हृदया बराबर वतालों तेन्ना गव्हर्नराचो बंगलो दाखोवन हृदय म्हणटालो, 'तो पळय गव्हर्नराचो बंगलो. केदे व्हडले खांबे आसात पळय.' आईन म्हाका दाखोवन दिलें, त्यो सगल्यो मातयेच्योच विटो एकार एक दवरिल्ल्यो.

भगवान आनी भगवानूच सत्य. ताचें ऐश्वर्य हें दोन दिसांचे. जादुगार आनी ताचो जादू. जादू पळोवन सगले चकीत जातात. पूण सगलें मिथ्या. जादुगारूच सत्य.

धनी आनी ताची बाग. लोक ताची फकत बागूच पळयतात. बागेक पळोवन ताच्या धनयाचो सोद घेवंक जाय.
**मणि मल्लीक:** (श्रीरामकृष्णांक) आनी केदो व्हडलो लायटीचो दिवो लायला थंय. तो पळोवन दिसता, जाणें हो लायटीचो दिवो तयार केला तो केदो व्हडलो आसतलो.
**श्रीरामकृष्ण:** (मणि मल्लीकांक) आनीक एक मात आसा, तोच हें सगलें कितें जाला आनी हें जो म्हणटा तोय तोच. तो सच्चिदानंद ईश्वर, माया, जीव, जगत जाला.

वस्तूसंग्रलया विशीं उलोवप सुरू जालें.

## साधूसंग

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) हांवें एक खेपो वस्तूसंग्रहालयाक भेट दिल्ली. थंय हांवें एक प्राणी पाशाण पळयलो. एक आख्खें जनावरूच फातर जाल्लें तांणी म्हाका दाखयलें. पळयात, संगतीचो कितें प्रभाव आसता तो. सदांच साधूचे संगतींत रावतकच मनीस साधू जावन वता.
**मणि मल्लीक:** (हांसत) तुमी एक खेपो जरी प्रर्शनाक वचत तर आमकां 10-15 वर्सां उपदेश मेळटलो.
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तें कशें कितें म्हणटात? दृश्टांता विशीं म्हणटात?
**बलराम:** ना. तुमी वचूं नये. हांगां थंय भोंवत रावल्यार हात बरो जावचो ना.
**श्रीरामकृष्ण:** म्हाका दोन चित्रां मेळ्ळयार बरीं जातलीं. योगी धुनी पेटोवन बसला अशें एक चित्र जाय आनी दुसरें चित्र जाय, योगी गांजो घालून चिलीम ओडटा आनी ती ओडटा आसतना ती एकदम पेट्टा अशें चित्र.

असल्या चित्रांनी म्हजी अध्यात्मीक चेतना जागी जाता. कृत्रीम फळां पळोवन खऱ्या फळांचो विचार येता तशें. कामिनी आनी कांचन हीं योगांतलीं विघ्नां आसात. मन शुद्ध जातकूच योग सादता. मनाचें केंद्र दोनय भुंवयां मदीं आसता (आज्ञाचक्रांत), पूण ताची नदर बोंबली, जनन इंद्रियां आनी हेर इंद्रियांचेर आसता. म्हणचे कामिनी--कांचनाचेर आसता. पूण अध्यात्मीक साधना करतकूच तेंच मन ऊर्ध्वदृश्टी जाता.

खंयची अध्यात्मीक साधना करतकूच ऊर्ध्वदृश्टी जाता? सदांच साधूसंग करतकूच हें सगलें कळटा. पयलींचे रुशी एक तर निर्जन जाग्यार वा साधूंच्या सांगातांत रावताले. म्हूण ते सहजतायेन कामिनी-कांचनाचो त्याग करून नेटान ईश्वरा कडेन

मन लायताले. तांकां कोणाचोच भंय दिसनाशिल्लो. कोणेंय तांची निंदा केल्यार ताची ते पर्वा करिनाशिल्ले.

त्याग करपाचो आसल्यार ईश्वरा कडेन इत्साशक्ती खातीर प्रार्थना करूंक जाय. जें मिथ्या आसा अशी जाणीव जाता तिचो रोखडोच त्याग करूंक जाय. रुशीं कडेन असली इत्साशक्त आशिल्ली. तिच्या बळाचेर तांणी इंद्रियांचेर जैत मेळयलें.

कांसव जर हात पांय भितर ओडून घेत तर ताचे चार कुडके केले तरी तो ते भायर काडचो ना. संवसारी मनीस ढोंगी आसता. तो सरळ नासता. तो ईश्वराचेर प्रेम करता अशें सांगता. पूण विशया कडेन ताची जितली ओड आसता, कामिनी-कांचनाचेर ताचें जितलें प्रेम आसता ताचो इल्लो वांटो लेगीत तो ईश्वराक दिना. तरीय तोंडान म्हणीत आसता, 'ईश्वराचेर म्हजें प्रेम आसा.' (मणि मल्लीकांक) ढोंगीपण सोडून दियात.

**मणि**: मनशाचे बाबतींत काय ईश्वराचे बाबतींत?

**श्रीरामकृष्ण**: सगल्यांचेच बाबतींत. मनशाचे बाबतींत करूंक जायना आनी ईश्वराचे बाबतिंतूय करूंक जायना. ढोंगीपण करुंकूच जायना.

भवनाथ कितलो सरळ आसा. लग्न जातकच म्हजे कडेन आयलो आनी म्हाका विचारूंक लागलो. 'बायले विशीं म्हाका इतलो मोग कित्याक काय दिसता?' वा! तो सामको सरळ आसा.

बायले विशीं मनशाक मोग दिसप हें सभावीक न्हय? हो तर जगन्मातेचो सगल्या जगाक भूल घालपी मायेचो प्रभाव. बायले विशीं अशें दिसता की इतले लागींचो आनी मोग करपी जगांत आनीक कोणूच ना. जगता आसतना आनी मरता आसतना हे जिणेंत आनी फुडले जिणेंत बायल सामकी ताचीच.

हे बायले खातीर मनशाक कसलीं कसलीं दुख्खां भोगचीं पडटात? तरीपूण ताका दिसता, इतलो लागींचो नात्यांतलो आनीक कोणूच ना. म्हणून घोवाची दुर्दशा पळयात. वीस रुपया म्हयन्याक पगार. तीन भुरगीं जाल्यांत तांकां. जेवंक खावंक घालपाची तांक ना. पावसांत पाखें गळटा, पूण सारकें करपाची ऐपत ना. भुरग्यांक नवीं पुस्तकां हाडून दिवपाची ऐपत ना. भुरग्यांची मुंज करपाक जमना. हाचे मुखार, ताचे मुखार आठ आण्यां खातीर तोंड फाफुडचें पडटा.

विद्यारुपिणी - अध्यात्मीक वृत्तीची बायलूच खरी खरी सहधर्मिणी. घोवाक ईश्वरा कडेन व्हरपाक ती खूब पालव दिता. एक दोन भुरगीं जाले उपरांत दोगांय जाणां भाव भयणी सारकीं रावतात. दोगांय ईश्वराचीं भक्त. ईश्वराचीं दास आनी ईश्वराचीं भक्त. तीच तांची सदांची आनंदाची सुवात. तीं जाणात, ईश्वरूच फकत

तांचो आसा - अनंत काळाचो तांचो आसा - सदांकाळ तांचो आसा. सुखांत आनी दुख्खांत तीं केन्नाच ताका विसरनात. जशें पाडवांचें.

## संवसारासक्ती
## आनी भक्ती

संवसारी लोकांची ईश्वरा विशीं ओड खिणयाळी आसता. तापिल्ल्या तव्यार उदकाचो थेंबो पडटकच चर्र जाता आनी सुकून वता तसलो प्रकार. संवसारी लोकांचें भोगा कडेन मन आसता. म्हणुनूच तांकां ईश्वरा विशीं तितलो मोग, तितलिशी व्याकूळताय दिसना.

एकादस तीन तरांनी करूं येता. पयली निर्जला एकादस - उदका विणें - हातूंत उदकाचो घोंट लेगीत घेवपाचो नासता. पूर्ण त्यागी संन्याशी-फकिरांचें अशेंच आसता. ते सगल्या तरांच्या भोगांचो पुरायेन त्याग करतात. दुसरे तरेचे एकादशीक दूद-मिठाय चलता. संवसारी भक्ताचें अशेंच आसता. तो घरांत भोगाच्यो वस्तू बाळगिता. एकादशीचो तिसरो प्रकार म्हणचे उपासाक पुरयो, श्रीखंड आनी हेर जिनस खावप आनी तेय पोटभर खावप. परत दोन पुरयो दुदांत भिजोवन दवरप-मागीर खावपा खातीर.

मनीस साधना करता. पूण मन कामिनी-कांचनांत घुटमळत आसता. मन भोगा कडेन लागिल्लें आसता. देखुनूच ताची साधना सारकी जायना. ती साधना फळाक येना. हाजरा हांगा खूब जप बीप करतालो. पूण थंय गांवांत घरा, बायल, भुरगीं, जमीन आशिल्ली. तेच बराबर अध्यात्मीक साधना करता आसतनाच दलालाचो धंदोय करतालो. असले लोक तांगेलें उतर पाळिनात. आतां तो म्हणटा नुस्तें खावपाचें सोडलां म्हणून आनी दुसऱ्याच खिणाक तो सोपूत मोडटा.

पयशां खातीर मनीस कितें करिना? ब्राह्मणाक, साधूक वजें लेगीत व्हरूंक लायतलो.

म्हजे कुडींत मिठाय पेड्ड्यार जावन वताली. तरीपूण हांव ह्या संवसारी लोकांक दिवंक शकनाशिल्लों. दुसऱ्यां कडच्यान हांव घाण उदक घेतां. पूण ह्या असल्या लोकांच्या तांबयाक लेगीत आफुडपाचों ना.

गिरेस्त मनीस दिसतकच हाजरा ताका म्हऱ्यांत आफयतालो. मागीर ताका व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली सांगतालो आनी ताका म्हणटालो, 'हें पळय, राखाल आनी हेर

ागले तरणाटे भुरगे आसात न्हय ते जप साधना बी कांयच करिनात. ते फकत हांसत ाजा करीत हेडत आसतात.'

कोण दोंगराचे धोलींत रावता जायत, आंगाक भस्म लावन उपास तपास करता आसत, खूब देहदंड सोंसता आसत, पूण ताचें मन जर विशया कडेन, कामिनी-कांचना कडेन आसलें तर त्या मनशाचो हांव धिक्कार करतलों. उरफाटें कामिनी-कांचनांत मन ना, पूण खाता, पियेता, भोंवता असो मनीस, हांव म्हणीन धन्य जावं. (मणि मल्लीकां कडेन बोट दाखोवन) हांच्या घरा साधूचें एकूय चित्र ना. साधूचें चित्र आसतकच ईश्वरी भाव जागृत जाता.

**मणिलाल**: आसा तर. एके कुडींत एक क्रिस्तांव भक्त अस्तुरेचें चित्र आसा. ती बाई प्रार्थना करता अशें चित्र आसा तें. आनीक एक चित्र आसा तातूंत अशें आसा, एकटो विश्वासरुपी पर्वताक धरून आसा. सकयल अथांग दर्या पातळिल्लो आसा. विश्वास नासलो जाल्यार तो सामको खोल दर्यांत पडटलो.

आनीक एक चित्र आसा. कांय आंकवारी न्हवरो येतलो म्हूण दिव्यांत तेल भरून जागत बसल्यात. एक आंकवारी लागींच न्हिदल्या. न्हवरो येतलो तेन्ना तो तिका दिसपाचो ना म्हूण त्या चित्रांत ईश्वराकूच न्हवरो म्हूण मानला.

**श्रीरामकृष्ण**: (हांसत) खूब सुंदर.

**मणिलाल**: आनिकूय चित्रां आसात. एक विश्वासाचो रूख. दुसरें आसा पाप पुण्याचें.

**श्रीरामकृष्ण**: (भवनाथाक) सुंदर चित्रां आसात. एक दीस तूं हांच्या घरा वचून तीं पळोवन यो.

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ ओग्गी बसले आनी परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण**: मदीं मदीं हे सगले विचार मनांत येतात तेन्ना ते सगले विचार, कल्पना म्हाका आवडनात. अध्यात्मीक जिणेचे सुरवातीक मनशाक पातकां विशीं विचार करचो पडटा. पातकां पसून मुक्त कशें जावपाचें हाचोय विचार करचो पडटा. पूण ताचे कृपेन काळजांत भक्ती आनी प्रेम उत्पन्न जातकच मागीर पाप पुण्य ह्या सगल्यांचोच विसर पडटा. मागीर तो शास्त्रां आनी नेम कुशीक दवरता. पस्तावणी आनी प्रायश्चित्त आनी हेर विचार मागीर ताच्या मनांत येनात.

खूब वळणां आशिल्ले न्हंयेंतल्यान एका जाग्यार वचपाचें म्हणल्यार कितलेशेच त्रास पडटात आनी कितलोसोच वेळ लागता. पूण तोच जर व्हडलो हुंवार आयलो आनी चोंय वटेन उदकूच उदक जालें तर बोटीन सरळ थोड्याच वेळा भितर येवजिल्ल्या

जाग्यार पावूं येता. जमनिरूच त्या वेळार उदक पातळिल्लें आसता.

अध्यात्मीक जिणेंत पयलीं खूब वळणां घेवचीं पडटात. खूब त्रास घेवचे पडटात. पूण जेन्ना खर प्रेम, भक्ती काळजांत जागृत जाता तेन्ना सगलें कितें सोंपें जाता. शेतांत लुंवणी जातकच मागीर तातूंतल्यान कशेंय आनी खंयच्यानूय वचूं येता. पूण शेत लुंवचे पयलीं, ल्हान ल्हान बांदां वयल्यान वळणां घेत वच्चें पडटालें. आतां खंयच्यानूय वच. शेतांत कांय भाताचे खूंट आसत तर पांयांनी बूट घालून गेल्यार कांयच त्रास जावपाचे नात. तशेंच विवेक, वैराग्य, गुरूच्या वचनांचेर विश्वास जर आसत तर मागीर कांयच त्रास जावचो ना.

## श्रीरामकृष्ण आनी ध्यानयोग
## शिवयोग–विष्णूयोग
## निराकार ध्यान आनी साकार ध्यान

**मणिलालः** (श्रीरामकृष्णांक) ध्यानाचे नेम कितें? ध्यान खंय करूंक जाय?

**श्रीरामकृष्णः** काळीज सामकी उत्तम सुवात आसा. काळजांत ध्यान जावं येता. वा सहस्त्रारांत जावं येता. हेच नेम ध्याना खातीर शास्त्रांत दिल्यात. पूण तुमकां जंय आवडटा थंय तुमच्यांनी ध्यान करूं येता. सगल्योच सुवातो ब्रह्ममय आसात. अशी एक तरी सुवात आसा जंय ब्रह्म ना? बळी मुखार नारायणान दोन पावलांनी स्वर्ग, धरतरी आनी पाताळ व्यापून उडयलें – मागीर देवान व्यापून उडोवंक ना अशी एक तरी सुवात आसा? घाणयारी सुवात गंगे इतलीच पवित्र आसा. अशें म्हणटात की समस्त सृश्टीच ताची विराट मूर्त आसा.

ध्यान दोन तरांचे आसा – निराकार ध्यान आनी साकार ध्यान. पूण निराकार ध्यान खुबूच कठीण. ह्या ध्यानांत तुमी जें कितें पळयतात वा आयकतात तें सगलें पुसून उडोवंक जाय. तें फकत स्वस्वरुपाचें चिंतन करता. ताच्या स्वस्वरुपाचें चिंतन करीत शिव नाच करता. हांव कितें आसां? हांव कितें आसां? अशे उदगार काडीत तो नाचता. हाका म्हणटात शिवयोग. ह्या ध्यानाच्या वेळार कपला कडेन नदर दवरची पडटा. वेदां प्रमाण नेति, नेति, करीत जगाक न्हयकारीत स्वस्वरुपाचें चिंतन करपाचें.

ध्यानाचो आनीक एक प्रकार आसा. हाका म्हणटात विष्णूयोग. हातूंत दोळे नाकाच्या तोंकार थिरावप. नदर अर्दवट भायर आनी अर्दवट भितर दवरूंक जाय. साकार ध्यान अशें करपाचें आसता. शिव केन्ना केन्नाय साकार चिंतन करीत नाचता.

– राम, राम म्हणीत नाचता.

श्रीरामकृष्णांनी मागीर ॐकाराचें स्वरूप, ब्रह्मज्ञान कशें आसता आनी ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत मनाची अवस्था कशी आसता तें यथासांग समजावन सांगलें.

## अनाहत ध्वनी आनी परमपद

**श्रीरामकृष्णः** (भक्तांक) नाद ॐ ब्रह्म आसा. रुशीमुनी नाद ब्रह्माचो साक्षात्कार जावचो म्हूण तपश्चर्या करताले. तातूंत पूर्णताय जाले उपरांत मात ह्या परम शब्दाचो नाद बोंबलेंतल्यान आपसूक येता. अनाहत नाद. कांय रुशींच्या मतान फकत हो नाद आयकून कितें उपेग? पयसुल्ल्यान तुमकां दर्याचो गाज अयकूंक येता. त्या आवाजाक धरून गेल्यार दर्या लागीं पावूं येता. जर दर्याचो गाज आसा तर थंय दर्या आसुंकूच जाय. अनाहत ॐनादाक धरून गेल्यार ब्रह्मा लागीं पावूं येता. ॐ हो शब्द ताची कुरू जावन आसा. तोच ब्रह्म. हाका वेदांत परमपद म्हणलां. पूण जों मेरेन अहं आसा तों मेरेन असलें दर्शन जावप शक्य ना. जंय हांवूय ना तूंय ना, एकूय ना, खूब जाणूय नात, थंयच ब्रह्माचें दर्शन जाता.

## जिवाम्याची आनी परमात्म्याची योग–समाधी

कल्पना करात, सूर्य आसा आनी धा कळशे आसात. प्रत्येक कळशांत सुर्याचें पडबिंब दिसता. सुरवातीक दिसता, एक सूर्यबिंब आनी धा पडबिंब सूर्य. तातूंतले णव कळशे फोडून उडयले, तर उरतलें एक सूर्यबिंब आनी एक पडबिंब सूर्य. एकेक कळसो म्हणचे एकेक जीव कसो. खरो सूर्य मेळूं येता. जिवात्म्याच्यान परमात्म्या लागीं पावूं येता. जीव (जिवात्मो) जर साधना करीत तर ताका परमात्म्याचें दर्शन जावं येता. निमणो कळसो फोडून उडयल्यार कितें उरता तें तोंडान सांगूंक येना.

जीव पयलीं अज्ञान अवस्थेंत आसता. त्या वेळार ताका ईश्वराची जाणीव नासता. ताका जाणीव आसता भोंवतणच्या वस्तूंची. ताका चोंय वटेन खूब वस्तू दिसतात. ज्या वेळार ताका ज्ञान जाता त्या वेळार ताका कळटा, ईश्वर सगल्या जिवांनी आसा.

समजा, एका मनशाच्या पांयांत कांटो रोमलो तर तो आनीक एक कांटो घेवन त्या कांट्यान पांयांतलो कांटो काडटा. म्हणचेच ज्ञान कांट्यान अज्ञानाचो कांटो काडून उडयता. पूण विज्ञानाचो लाव जातकच अज्ञान आनी ज्ञान हे दोनूय कांटे भायर उडोवन दिता. मागीर रातदीस ईश्वरा लागीं उलयता – फकत दर्शन न्हय. तर लागिंच्यान ईश्वरा कडेन उलयता.

जाणें दूद उतर फकत आयकलां तो अज्ञानी. जाणें दूद पळयलां ताका ज्ञान जालां. पूण जो दूद पियेला आनी धश्टपुश्ट जाला ताका विज्ञान प्राप्त जालां.

अशे रितीन श्रीरामकृष्णांनी स्वताच्याच मनाची अवस्था भक्तांक समजावन सांगली. ते खरेंच विज्ञानी आशिल्ले.

## श्रीरामकृष्णांची अवस्था
## स्वताच्याच मुखान स्वताचेच
## अवस्थेचें वर्णन

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) ज्ञानी साधू आनी विज्ञानी साधू हांचे भितर फरक आसा. ज्ञानी मनशांची बसपाची तरा वेगळी आसता. तो आपल्या मिशयांक पीळ दीत बसता. कोणूय आयलो जाल्यार विचारता, 'तुमकां कोणांक प्रश्न विचारपाचो आसा?'

पूण जे ईश्वराक सदांच पळयतात आनी ताचे कडेन मायेन उलयतात अश्या लोकांचो सभाव वेगळो आसता. ते केन्ना अचेतन आसतात. केन्ना पिश्यां भशेन वागतात, तर केन्ना भुरग्यां भशेन तर केन्ना उन्मत्त कशे वागतात.

जेन्ना ते समाधींत मग्न आसतात तेन्ना तांकां भायल्या जगाचें भान नासता आनी ते अचेतन कशे दिसतात. तांकां सगलें कितें ब्रह्ममय दिसता. देखून ते पिश्यां भशेन वागतात. पवित्र, अपवित्र हाची तांकां जाणीव नासता. शुद्धतायेच्या वयल्याचाराचे ते नेम पाळिनात. तांकां सगलेंच ब्रह्ममय दिसता. तांकां हळशीक अशें कांयच दिसना. शीत आनी रांदिल्लें अन्न कांय दिसांनी हळशिकावणें जावन वचना?

केन्नाय ते पिशे कशे वागतात. लोक तांची चलणूक पळोवन तांकां पिशे समजतात. तर केन्नाय ते भुरग्यां भशेन वागतात. – कसलेंच बंधन, लज ना. दुस्वास ना. संकोच ना. कांयच ना. ईश्वर दर्शन जाले उपरांत अशी अवस्था जाता. लोहचुंबकाच्या पर्वता कुशींतल्यान एकाद्रें तारूं वता तेन्ना त्या तारवाचे स्क्रू, खिळे, सामके सदळ जावन

खळून पडटात. ईश्वर दर्शना उपरांत काम, क्रोध आनी हेर विकार उरच नात.

एक खेपो काली मंदिराचेर वीज पडली. त्या वेळार हांवें पळयलें, स्क्रूचीं पोंतां गामकीं सपाट जावन गेल्लीं.

जाका ईश्वर दर्शन जालां ताचे कडल्यान भुरग्यांबाळांक जल्म दिवप हें सृश्टीचें काम जावप शक्य ना. धान्य पेरतकच रोपां वाडटात. पूण धान्य उकडून रोयल्यार आंकूर फुटपाचे नात. जांकां ईश्वर दर्शन जालां तांचो 'हांव' फकत नांवां पुरतोच उरता. त्या 'हांव' वरवीं कसलेंच वायट काम जावपाचें ना. तो 'हांव' फकत नांवाचोच आसता. जशें माडाच्या चुडटांची खूण–माडाचें चुडीत पडलां–आतां फकत खूण उरल्या.

## ईश्वरदर्शना उपरांतचो हांव
## श्रीरामकृष्ण आनी केशव चंद्र सेन

(भक्तांक) हांवें केशव सेनाक म्हणलें, 'अहं'चो त्याग करात – हांव करतो, हांव लोकांक उपदेश करतां अशें जाका लागून दिसता त्या 'अहं'चो त्याग करात.' तेन्ना केशवान म्हणलें, 'महाराज, तशें केल्यार संप्रदाय (ब्राह्मसमाज) तिगपाचो ना.' हांवें म्हणलें, ह्या दुश्ट 'हांव' चो त्याग करात. ईश्वराचो दास हांव, ईश्वराचो भक्त हांव, 'ह्या 'हांव'चो त्याग करपाक नाका. जों मेरेन दुश्ट 'हांव' अहंकार आसा तों मेरेन ईश्वरी 'हांव' उरूं नजं. एक मनीस जर कोठी सांबाळटा आसत तर घराच्या धनयाक ताची चिंता नासता'

## मनीसलिला आनी
## अवतार गूढ

(भक्तांक) पळयात ह्या हाताक दुखापत जायत सावन म्हजो सभाव बदलत आसा. आनी खंयच्याय प्राण्या परस मनशांत ईश्वराचो उजवाड चड आसा हें आतां म्हाका देव दाखोवन दिंता. तो म्हाका सांगता, 'हांव मनशां मदीं रावतां. तूं मनशांच्या सांगतांत रावन आनंद घे.'

मनशां मदीं, शुद्ध काळजाच्या भक्तां मदीं, ताचो उजवाड आनीक चड आसता. देखुनूच नरेंद्र, राखाल आनी हेर भक्त असल्या तरणाट्यां खातीर हांव चड व्याकूळ जातां.

तळ्याचे धडेक ल्हान ल्हान बिळां आसतात. नुस्तीं, कुल्ल्यो, तातूंत एकठांय येतात. ते भशेन मनशां भितर ईश्वरी तत्व चड एकठांय जाल्लें आसता.

अशें म्हणटात, शालीग्रामा परस मनीस व्हड आसा. मनीस स्वताच नारायण आसा. नरनारायण.

प्रतिमेंत जर ईश्वर स्वताच प्रगट जावं येता तर मनशांत कित्याक जावं नजं? ईश्वर नरलिला करपा खातीर मनशाच्या रुपान अवतार घेता. देखीक राम, कृष्ण आनी चैतन्य महाप्रभू. ईश्वराच्या अवतारांचें चिंतन करतकच मनीस ईश्वराचेंच चिंतन करता.

ब्राह्मसमाजांतले एक भक्त श्रीभगवानदास आयले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भगवानदासांक) रुशींचो धर्म हो सनातन धर्म आसा. अनंत काळा सावन तो आसा आनी अनंत काळा मेरेन उरतलो. ह्या सनातन धर्मांत निराकार, साकार सगल्या तरांच्यो पुजा आसात. ज्ञानमार्ग, भक्तीमार्ग आनी हेर सगलेच मार्ग आसात. बाकीचे, हालींसराक उत्पन्न जाल्ले पंथ, संप्रदाय कांय दीस उरतले आनी मागीर ना जावन वतले.

# अध्याय : एक्यांयशीं

## श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक
## राखाल, राम, अधर, म,
## महिमा आनी हेर भक्तां वांगडा

### विज्ञानाची अवस्था

**मार्च 23, 1884. आयतार.** भगवान श्रीरामकृष्ण दनपारच्या जेवणा उपरांत राखाल, राम आनी हेर भक्तां वांगडा तांगेले कुडींत बशिल्ले. तांकां अजून बरें दिसनाशिल्लें. हाताक अजून लेगीत पट्टी बांदिल्ली आशिल्ली.

श्रीरामकृष्णांक बरें दिसनाशिल्लें तरी लेगीत तांणी आनंदाचो बाजार भरयलो आनी त्या बाजाराचो मुखेली तेच आसात अशें दिसतालें. तांच्या दर्शना खातीर भक्तांची सदांच खेट जाताली. ईश्वरा विशीं उलोवप सतत चलतालें. कुडींत आनंद भरून गेल्लो. केन्ना श्रीरामकृष्ण ईश्वराचें नामगूण संकिर्तन करताले तर केन्ना समाधीमग्न जाताले. भक्तगण चकीत जावन, समाधींत वचप, म्हणटा म्हणसर भानार येवप, असो हो सुवाळो पळयताले.

**राम**: आरे! मित्राचे चलये कडेन नरेंद्राच्या लग्नाचीं उलोवणीं चल्ल्यांत. नरेंद्राक खूब हुंडो दिवपाक व्हंकलकार तयार आसात.

**श्रीरामकृष्ण**: (हांसत) हां, नरेंद्र समाजाचो एकाद्रो फुडारी बी जावं येता. तो ज्या क्षेत्रांत वतलो त्या क्षेत्रांत नांव काडले बगर रावचो ना.

श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्रा विशीं चड उलोवपाक आधार दिलो ना.

**श्रीरामकृष्ण**: (रामाक) दुखणें जातकच हांव इतलो अस्वस्थ कित्याक जातां, हें तुमी सांगशात? एक खेपो हाका विचारतां, कसो बरो जातलों? एक खेपो ताका विचारतां, हांव कसो बरो जातलों? – सारकें हें अशें चल्लां. समजलें न्हय? एक तर सगल्यांचेरूच विश्वास दवरूंक जाय. नाजाल्यार कोणाचेरूच ना. तो ईश्वरूच दोतोर, वैज जाल्लो आसा. देखून सगल्यांचेरूच विश्वास दवरूंक जाय. पूण तांकां मनीस म्हणून मानल्यार तांचेर विश्वास दवरप शक्य ना.

## शंभू मल्लीक आनी
## हलधारी हांचीं दुखणीं

शंभू खूब भ्रमिश्ट जाल्ले. दोतोर सर्वाधिकारीन येवन तपासून म्हणलें, 'हें सगळें खर वखद दिल्ल्यान जालां.' हलधारीन नाडी तपासपाक सांगलें. दोतोरान म्हणलें, 'तुमचे दोळे पळोवया, आरेच्या! तुमची प्लिहा सुजल्या.' हलधारीन म्हणलें, 'तांका तसलें कांयच जावंक ना, पूण दोतोर मधू वखदां बरीं दिता.'
**रामः** स्वता वखदांत कांयच फायदो नासता. तें फकत सैमाक बरोच पालव दिता.
**श्रीरामकृष्णः** वखदान फायदो जायना तर मागीर अफून मलावरोध कसो जाता?

## केशव चंद्र सेनां विशीं उलोवप
## श्रीरामकृष्णां विशीं
## पत्रिकेंत छापून येवप

राम केशवाच्या देहत्यागा विशीं उलयताले.
**रामः** तुमी सामकें बरोबर म्हणिल्लें. तुमी सांगिल्लें. बऱ्याच जातिवंत गुलाबाचे रोंपे आसात तर माळी तांचीं मुळां उकतीं करून दवरता. अशें केल्ल्यान दंव मुळांचेर पडटा आनी रोंपे बरे घसघशीत वाडटात. साधूचीं उतरां खरीं जातात म्हणपाचीं.
**श्रीरामकृष्णः** तांचे विशीं म्हाका कांयच खबर ना. हांव काय इतलो हिशोब करून उलोवंक ना. तुमी ताका म्हत्व दितात.
**राम :** ब्राह्म लोकांनी तुमचे विशीं कितें तरी छापलां.
**श्रीरामकृष्णः** म्हजे विशीं छापलां. हें कितें? म्हजे विशीं तांणी आतां कित्याक बरोवचें? हांव खातां, पियेतां आनी मजा करतां. म्हाका आनीक कांयच खबर ना. केशव सेनांक हांवें फाटीं विचारिल्लें, 'तुमी म्हजे विशीं कित्याक बरयल्लें?' तांणी सांगलें, 'तशें करतकूच हांगा खूब लोक येतले.'

## लोकोपदेश ईश्वराचे
## शक्तीनूच जावंक शकता
## हनुमान सिंगाची कुस्ती

**श्रीरामकृष्णः** (रामाक आनी हेर भक्तांक) मनीस तागेले शक्तीन लोकांक उपदेश करूंक शकना. ईश्वराचे शक्ती बगर अविद्या जिखूंक येवपाची ना. हनुमान सिंग

ानी एक पंजाबी मुसलमान ह्या दोगांची एक खेपो कुस्ती जाली. मुसलमान खूब ळिश्ट आशिल्लो. कुस्तीच्या दिसा आनी पंदरा दीस पयलींय ताणें खूब मांस, तूप ी खाल्लें. सगल्यांक दिसलें, होच जिखतलो. हनुमान सिंगाच्या आंगार म्हेळे कपडे. कुस्ती जावचे कांय दीस पयलीं तो कमी कमी खावंक लागलो. आनी मारुतीचो जप करूंक लागलो. ज्या दिसा कुस्ती जाली त्या दिसा ताणें सामको उपासूच केल्लो. सगल्यांक दिसलें, हो खात्रेन हारतलो. पूण तोच जिखलो. जाणें पंदरा दीस खूब खाल्लें तो हारलो.

छापून आनी जायरातबाजी करून कितें जातलें? जो लोकांक उपदेश दितलो ताका ताची ती शक्ती ईश्वरा कडल्यानूच मेळटा. त्यागी व्यक्ती सोडून हेर कोणूच लोकांक उपदेश दिवंक शकना. हांव सगल्या मुर्खांचो राजा आसां. (सगले जाण हांसतात.)

## श्रीरामकृष्णांचें भुरगेपण
## कामारपुकूराक लाहांच्या घरा केल्लो
## शास्त्रपाठ आयकप

**एक भक्तः** तर तुमच्या मुखांतल्यान वेदान्तवाद आनी कितलेंशेंच भायर येता तें कशें?

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) पूण भुरगेपणांत कामारपुकूराक लाहांच्या घरा साधू जें वाचताले तें म्हाका समजतालें. थोडेंशें हांगाचें थंयचें कळनाशिल्लें इतलेंच. एकाद्रो पंडीत येवन जर संस्कृत उलोवंक लागलो तर म्हाका कळटा. पूण म्हाका स्वता संस्कृतांत उलोवंक येना.

## पांडित्य कितें जिणेचो हेत?
## अडाणी आनी ईश्वराची कृपा

ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवप होच जिणेचो हेतू आसा. निशाणीचेर बाण मारतना अर्जुनान म्हणलें, 'म्हाका आनीक कांयच दिसना. फकत त्या शेवण्याचो दोळोच दिसता. राजाय दिसना, झाडांय दिसनात. इतलेंच न्हय शेवणें लेगीत दिसना.'

ईश्वराचो साक्षात्कार जालो म्हणचे म्हाका पुरो. संस्कृत म्हाका आयली ना म्हणून कितें जालें? ईश्वराची कृपा ताच्या सगल्या भुरग्यांचेर, पंडीत आनी अडाणी हांचेर सारकीच पडटा. ताचे खातीर जे व्याकूळ जातात, तांचेर ताची कृपा जाता.

तो मागीर कोणूय आनी कसोय आसूं. बापायचें प्रेम तागेल्या सगल्याच भुरग्यां सारकेंच आसता.

समजा, एका बापायक पांच भुरगीं आसात. तातूंतलो एकटो तागेल्या बापाय बाबा म्हणून उलो मारता तर एकटो बा म्हणून उलो मारता. तर एकटो पापा म्हण उलो मारता. पुरायेन बाबा हें उतर उच्चार करूंक येना, जो भुरगो 'बाबा' म्हण ताचेर, जे 'पा' म्हणटात तांचे परस चड प्रेम आसता काय? बापायक खबर आसत हीं भुरगीं खूब ल्हान आसात. तांकां बाबा हें उतर सारकें म्हणूंक जमना.

## श्रीरामकृष्णांच्या मनाचो नरलिले कडेन कल

हो हात मोडला तेन्ना सावन म्हज्या मनाची अवस्था बदलत आसा. नरलिले कडेन मनाचो व्हड कल वचत आसा. ईश्वरूच स्वता मनीसरुपांत खेळत आसा मातयेचे प्रतिमेंत जर ईश्वराची पुजा जावं येता तर मनशाच्या रुपांत जावं नजं? एक वेपाऱ्याचें तारूं लंके लागीं बुडलें. तो पेंवत पेंवत लंकेचे देगेर येवन पडलो. लंकेचे बिभीशण राज्य करतालो. तो राक्षसांचो राजा आशिल्लो. बिभीशणाचे आज्ञे प्रमाण त्या मनशाक बिभीशणा लागीं घेवन आयले. ताका पळोवन बिभीशणाक खूब आनंद जालो आनी ताणें म्हणलें, 'आहाहा! ही म्हज्या रामा सारकी मूर्त आसा' तेंच नररूप अशें म्हणून त्या मनशाक वस्त्रां, अळंकार दिवन, ताची ताणें पुजा केली. ही गजाल जेन्ना हांवें आयकली तेन्ना म्हाका कितलो आनंद जालो हें म्हज्यान सांगपाक जायना.

## पयलींची जीण. वैशणवचरण फुलाईश्याम बाजाराच्या कर्ताभजा संप्रदायांतल्या लोकांची गजाल

वैशणवचरणांनी म्हाका म्हणलें, 'जांचें जांचेर प्रेम आसा, तांकां इश्टदेवता म्हणून मानल्यार भगवंता कडेन बेगीन मन लागता. कामारपुकूरा लागींच आशिल्ल्या श्याम बाजाराच्या कांय संप्रदायांतल्यो बायलो आनी दादले एकमेकांक म्हणटात. 'तुजें कोणाचेर प्रेम आसा?' 'अमक्याचेर वा अमकेचेर' तर मागीर ताका वा तिकाच तुगेली इश्टदेवता समज.' हांवें जेन्ना हें आयकलें तेन्ना हांवें म्हणलें, 'हो म्हजो मार्ग न्हय.

हजो मातृभाव-सगल्या अस्तुऱ्यांक हांव म्हजी माता समजतां.' म्हाका अशें कळ्ळें, । लोक व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली उलयतात आनी हेवटेच्यान व्याभिचार करतात. ।ातूंतल्या बायलांनी म्हाका विचारलें, 'आमकां मुक्ती मेळटली?' हांवें म्हणलें, मेळटली. एकट्याच मनशाचेर भगवान म्हणून निश्ठा दवरली जाल्यार. पांच जाणां कडेन संबंद दवरलो जाल्यार मुक्ती मेळपाची ना.'

ाम: केदारबाबू खंय कर्ताभजाच्या जाग्यार गेल्लो.

## श्रीरामकृष्णांचे पितृदेव

**श्रीरामकृष्ण:** ते तरातरांच्या फुलांतलें म्होंव एकठांय करतात. (रामाक, नित्यागोपाळाक आनी हेर भक्तांक)

जर भक्ताचो शंबर टक्के विश्वास बसत की ईश्वरूच ताची ईश्टदेवता तर मागीर ताका ईश्वराचो लाव जातलो आनी ताका ताचें दर्शनूय जावं येता. पयलींच्या लोकांचो खूब विश्वास आशिल्लो. हलधारीच्या बापायचो विश्वास केदो व्हडलो! एक खेपो तो तागेले धुवेच्या घरा वतालो. वाटेंत वतना बेलाचीं सुंदर फुलां आनी पानां पळोवन ताणें तीं देवपुजे खातीर काडलीं आनी दोन तीन कोस फाटल्यान परतून तो तागेल्या घरा गेलो. एक खेपो जात्रेंत रामलिला नाटक चलतालें. कैकयी रामाक वनवासाक वचपाक सांगता असो प्रसंग आसलो. हलधारीचो बापूय जात्रेतलें रामलिला नाटक पळोवपाक गेल्लो. हो प्रसंग पळयतकच तो एकदम उबो रावलो आनी जो नट कैकयी जाल्लो ताचे म्हऱ्यांत वचून मोट्यान आड्‌डलो, 'आगे कपल फुटके'अशें म्हणून दिवटेन ताचें तोंड हुलपावपाक गेलो. तो खूब धर्मीक मनीस आशिल्लो. न्हावन जाले उपरांत उदकांत उबो रावून देवीचें चिंतन करतालो आनी देवीचें स्तोत्र म्हणटालो. 'हांव तुजें ध्यान करतां. तूं रक्तवर्णाची चारमुखां आशिल्ली,' आनी तें म्हणटा आसतना ताच्या गाला वयल्यान दुकां व्हांवतालीं.

म्हजे बाबा ज्या वेळार पांयांत खडावो घालून आमच्या गांवांतल्या रस्त्या वयल्यान वताले त्या वेळार तेवटेनच्या दुकानांतले दुकानदार आदरान उठून उबे रावताले. म्हणटाले - ते पळयात ते येतात.

ते ज्या वेळार हालदार तळ्यांत न्हाताले त्या वेळार तांचें न्हाण जाय मेरेन उदकांत देंवपाक सगले कांचवेताले. तळ्यांत देंवचे पयलीं लोक विचारताले, 'ते न्हावन गेले न्हय?'

म्हजो बापूय 'रघुवीर' 'रघुवीर' म्हणटाले. तेन्ना तांची छाती किरमिजी रंगा जावन वताली.

म्हजेंय तशेंच जातालें. वृंदावनांत आसतना सांजेच्या वेळार गायो चरून जातक घरा कडेन येतात त्यो पळोवन हांव ईश्वरी भावांत वतालों. आनी म्हजें शरीर साम तांबडें जावन वतालें. त्या वेळा वयलो लोकांचो खूब खर विश्वास आसतालो. अ आयकतात की परमेश्वर कालीचें रूप घेवन नाचता आनी साधक हातान ताळ वाजयता. असले प्रकार घडटाले अशें म्हणटात.

## पंचवटींतलो हठयोगी

पंचवटींतले एके खोंपींत एक हठयोगी रावतालो. अरियादाहच्या कृष्णकिशोरांच चलो आनी रामप्रसन्न आनी कितलेशेच जाण ह्या हठयोग्याचे भक्त आशिल्ले. त्य हठयोग्याक दुदा खातीर आनी अफू खातीर म्हयन्याक पंचवीस रुपया लागताले म्हणून रामप्रसन्नान श्रीरामकृष्णांक सांगिल्लें, 'तुमचे कडेन खूब भक्त येतात. तांक मातशें सांगात म्हणचे त्या हठयोग्या खातीर थोडे पयशे मेळटले.' श्रीरामकृष्णांनी कांय भक्तांक म्हणलें, 'पंचवटींत एक हठयोगी आयला. वचून येयात आनी पळयात तो मनीस कसो आसा तो?'

## ठाकूरदादा आनी महिमाचरण हांकां उपदेश

ठाकूरदादा आपल्या इश्टा सयत थंय आयलो. ताणें श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो. ताचें वय 27-28 आसतलें. तो वराहनगराक रावतालो. एका ब्राह्मण पंडिताचो पूत आशिल्लो. उपजिविके खातीर पुराणांतल्यो कथा कथन करतालो. एका वेळार ताका वैराग्य आयिल्लें. आनी कांय दीस तो घर सोडून गेल्लोय बी. अजुनूय तो घराच साधना करतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं कितें पांयांनी आयला? खंय रावता?

**ठाकुरदादा:** हय महाराज. हांव पांयांनीच आयलां घरा कडच्यान. हांव वराहनगरांत रावतां.

**श्रीरामकृष्ण:** हांगा कितें काम आशिल्लें?

ाकुरदादा: ना महाराज. कांयच काम नाशिल्लें. तुमच्या दर्शना खातिरूच आयलां. ांव देवाची भक्ती करतां. ताका आळयतां. पूण मदीं मदीं चिंतेन इतलो घामाघूम कत्याक जातां? दोनचार दीस बरे आनंदांत वतात. परत मागीर अस्वस्थ कित्याक ातां?

## कारागीर मंत्राचेर विश्वास
## हरीभक्ती. ज्ञानाचीं दोन लक्षणां

**श्रीरामकृष्ण:** आयलें लक्षांत. खंय तरी कितें तरी चुकता. अजून मेळ बसना. कारागिरान चक्राचे दांत सारके बसयले नात जाल्यार यंत्र सारकें चलना. तुजे बाबतींत खंय तरी कसली तरी आडखळ आसा.

**ठाकुरदादा:** हय महाराज. हांवें दिक्षा घेतल्या.

**श्रीरामकृष्ण:** मंत्राचेर विश्वास आसा?

ठाकूरदादाच्या इश्टान सांगलें, ठाकूरदादा खूब गायता, म्हूण श्रीरामकृष्णांनी ताका गावपाक सांगलें.

ठाकूरदादा गावंक लागलो:

हांव योगी जातलों आनी प्रेमदोंगराचे धोलींत रावतलों,
हांव योगांत मग्न जातलों आनंदाच्या स्रोता सरीं
हांव म्हजी ज्ञानाची भूख भागयतलों सत्याच्या फळान,
हांव ईश्वरचरण पुजतलों अलिप्तपणाच्या फुलान.

हांव म्हज्या काळजाची तान भागोवंक बांय सोदचों ना,
पूण हांव काडटलों शांतिकायेचें उदक म्हज्या काळजाच्या वाडग्यांत
तुज्या सुभागी कमल चरणाचें वैभवी म्होंव पियेवन
हांव हांसतलों आनी नाचतलों आनी रडटलों आनी गायतलों
आनंदाच्या तेमकार.

**श्रीरामकृष्ण:** वा! वा! कितलें सुंदर गीत! आनंदाचो झरो, तत्वज्ञानरुपी फळ, हांसतलों, रडटलों, गायतलों. तुजें गीत म्हाका खुबूच गोड लागता. तूं हुसको

कित्याक करता?

पळय, संवसारांत सूख आनी दुख्ख चुकोवंक येनात. मदीं मदीं मनशाक चिंता आनी त्रास आसाच. काजळाचे कुडींत रावतकच आंगाक थोडें तरी काळें लागतलेंच.

**ठाकुरदादा:** बरोबर आसा महाराज. हांवें आतां कशें वागचें तें म्हाका सांगात.

**श्रीरामकृष्ण:** ताळयो वाजोवन सकाळ सांज हरीचें नाम घेत राव. म्हजो हात मातसो बरो जावं दी मागीर तूं परत एक खेपो यो.

महिमाचरणांनी येवन श्रीरामकृष्णांक नमस्कार केलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) वा! वा! हाणें एक खूब सुंदर गीत म्हणलें. परत गाय पळोवया तें गीत.

ठाकूरदादान तें गीत परत गायलें. गीत सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी महिमाचरणांक म्हणलें, "तुमी तो श्लोक म्हणात पळोवया. हरीभक्ती विशींचो तो श्लोक."

महिमाचरण नारदपंचरात्रांतलो तो श्लोक गावंक लागलेः

मोगान देवाची पुजा केली जाल्यार तपाची कसली गरज?
मोगान देवाची पुजा केली ना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?
भायर भितर देव दिसता जाल्यार तपाची कसली गरज?
भायर भितर देव दिसना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?

**श्रीरामकृष्ण:** तोवूय भाग म्हणात, 'ईश्वराचें प्रेम ताचे कडच्यान घेयात.'

महिमाचरण म्हणूंक लागलेः

ए ब्रह्मन! ए म्हज्या पुता!! आनिआनीक तप करूं नाका
शंकरा कडेन धांव, जो आसा स्वर्गीय सागर ज्ञानाचो
घे ताचे कडल्यान देवाचो मोग, भक्तांनी तुस्तिल्लो शुद्ध मोग
संवसाराक बांदपी तुज्यो सांखळ्यो जो तोडटलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, शंकर हरीचें प्रेम दितलो.

**महिमाचरण:** पाशमुक्त, सदाशिव. पाशां पसून मुक्त जालो तो सदांच शिव.

**श्रीरामकृष्ण:** लज, दुस्वास, भंय, संकोच हे सगले पाशच आसात अशें न्हय?

**महिमाचरण:** हय महाराज, आनी तेच बराबर कितेंय गुपीत दवरपाची इत्सा, तुस्त

तकच लजप हे लेगीत पाशच.

श्रीरामकृष्णः ज्ञानाचीं दोन लक्षणां आसात. पयलें लक्षण म्हणल्यार अचल बुद्द. हार दुख्खां, कश्ट, संकश्टां, विघ्नां येवं, ज्ञानी निर्विकार आसता. धवडाची ऐरण. विर घणाचे कितलेय धपके घालात, कांयच परिणाम जायना. आनी दुसरें लक्षण णचे मनशाची खर जिद्द. जर काम, क्रोध मनशाचें अनिश्ट करतात तर ताणें तांचो ाग करूंक जाय. कांसवान एक खेपो तागेले हातपांय भितर ओडले जाल्यार तुमी का कापून ताचे चार कुडके केले तरी तो ते परत भायर काडचो ना.

## खर, मंद आनी मरकट वैराग्य

(ठाकूरदादाक आनी हेर भक्तांक) वैराग्य दोन तरांचें आसता. एक खर वैराग्य आनी सरें मंद वैराग्य. मंद वैराग्य म्हणल्यार सवकासायेन करप. खर वैराग्य म्हणल्यार धार डिल्लो वाखर. मायेचे पाश रोखडेच कापून उडयता. एक शेतकामती तळ्याचें उदक तांत हाडपा खातीर कितले दीस जाले कश्ट करतालो. पूण कांय उपेग नाशिल्लो. केत्याक तर ताका जिद्दच नाशिल्ली.

दुसरो एक शेतकामती आशिल्लो. दोन-तीन दीस काम केले उपरांत ताणें सोपूत घेतलो. आयजूच हांव म्हज्या शेतांत उदक हाडटलों. तों मेरेन हांव घरा वच्चों ना. न्हावप ना. जेवप ना. सगलें बंद. सगलो दीस काम करून पाट खणून सांजवेळ जाय मेरेन उदक जेन्ना खळखळ करीत शेतांत आयलें तेन्ना ताका खूब आनंद जालो. मागीर तो घरा वचून बायलेक म्हणटा, 'थोडें तेल दी. आंगाक लावन बरो न्हातां.' न्हावन, जेवण करून तो सुशेगाद न्हिदलो.

एके बायलेन आपल्या घोवाक म्हणलें, त्या अमक्या अमक्या मनशाक पळय कशें खर वैराग्य आयलां. ना तर तुमी! कितें ताचें वैराग्य! ताका सोळा बायलो आसात. पूण एके फाटल्यान एक करून तो तांचो त्याग करीत आसा.

घोव न्हावंक वतालो. खांदार तुवालो आशिल्लो. त्या त्याग करपी मनशाची तोखणाय आयकून ताणें बायलेक म्हणलें, 'पिशें तूं. आगो, तूं तोखेता तो मनीस केन्नाच जगाचो त्याग करपाचो ना. असो थोडो थोडो करून कितें केन्ना त्याग जाता? हांव त्याग करूंक शकतां. पळोवपाचो आसा? हें पळय, चल्लों हांव.' अशें म्हणून तो खरोच दार काड्न गेलो.

फाटल्यान कुटुंबाची कांयच वेवस्था करपाचे भानगडींत पडलो ना. आसा तसो खांदार तुवालो - सरळ घरदार सोडून गेलो. हाकाच म्हणटात खर वैराग्य.

आनीक एके तरेचें वैराग्य आसा. ताका म्हणटात मरकट वैराग्य. संवसारा कटकटीन, वितरागान भगवे कपडे घालून एक मनीस नेटान काशीक गेलो. कितलेशे दीस जाले तरी घरा कडेन स्वता विशीं कांयच खबर धाडिना. मागीर तो घरच मनशांक पत्र बरयता. हुसको करपाची कांयच गरज ना. म्हाका हांगा एक बरी नोक मेळ्ळया.

संवसारांत त्रास, कटकटी म्हणटात त्यो आसाच. बायल आयकना. पगार म्हयन्या वीस रुपया. ल्हान भुरग्यांक उश्टावण करपाक जमना. भुरग्यांक शिकोवपाची तांक न घर पडूंक आयलां. पाखें गळटा. दुरुस्ती करपाक पयशे नात. देखुनूच तरणाटे हां येतकच हांव तांकां विचारतां, तांकां घरा कडेन कोण आसा काय म्हूण. (महिमाच गृहस्थी लोकांनी संवसाराचो त्याग करपाची कितें गरज? भोंवपी साधू संन्याश्या कितले त्रास पडटात. एका मनशाचे बायलेन ताका म्हणलें, 'तुमी संवसाराचो त्या करतले म्हणटात तें कित्याक? संन्याशी जातकच तुमकां धा घरां भोंवून भिक्षा मागच पडटली. पूण हांगा तुमकां एकाच घरा पोटभर जेवंक मेळटलें. हेंच बरें न्हय?'

भोंवपी साधू संन्याश्यांक, अन्नछत्र सोदपा खातीर स मैल वच्चें पडटा. हां साधूंक पळयल्यात – जगन्नाथ यात्रेक सरळ रस्त्यान येताले. पूण अन्नछत्रा खाती तांकां तो बरो सरळ रस्तो सोडून वच्चें पडलें.

तुमी गृहस्थी आसात हें तर एकदम बरें. किल्ल्यांत रावून झुजपा सारकें. उकत्य मळार उबे रावून झूज करप खूब गैरसोयीचें आसता. व्हड संकश्टां येवं येतात. नाळींच गुळे आंगार पडूं येतात.

तरीपूण कांय दीस निर्जन सुवातेर रावून ज्ञानाचो लाव करून घेवन मागीर येवन संवसारांत रावचें. जनक ज्ञान लाव करून घेवन संवसारांत रावलो. ज्ञान लावा उपरांत खंयूंय रावलो तरी हरकत ना.

**महिमाचरण:** महाराज, मनशाक विशयांचो मोह कित्याक जाता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो लाव करून घेनासतनाच तो विशयां मदीं रावता म्हणून. ईश्वराचो लाव जातकच ताका मोह केन्नाच जायना. पिसोळ्याक एक खेपो उजवाड दिसतकच ताका काळोख आवडना.

## ऊर्ध्वरेता, धैर्यरेता आनी ईश्वर लाव

## संन्याश्याचे कडक नेम

ईश्वराचो लाव करून घेवपाचो आसल्यार कडक ब्रह्मचर्य जाय. शुकदेवा सारके रुशी ऊर्ध्वरेत आशिल्ले. तांचें ब्रह्मचर्य अखंडीत आशिल्लें. अशेय कांय जाण आसात,

ांचो पयलीं रेतपात जाल्लो, पूण ते उपरांत तांणी ताचेर ताबो मेळयलो. बारां वर्सां अशें धयरीता रावल्यार खास शक्ती प्राप्त जाता. भितर एक नवी नाडी निर्माण जाता. े नाडये वरवीं ताका सगलें याद उरता. ताका सगलें समजता.

वीर्यपात जातकच घटसाण उणी जाता. सपनदोशांतल्यान जें वता ताणें लुकसान जायना. तें वीर्य अन्नान मेळटा. सपनदोशांतल्यान वचुनूय जें उरता तें पुरो आसता. पूण अस्तुरे संग करप उचीत न्हय.

सपनदोशा उपरांत जें वीर्य उरता तें खूब शुद्ध जावन वता. लाहांच्या घरांनी काकयन भरिल्ले गाडगे दवरतात. प्रत्येक गाडग्याक पोंदा एक ल्हान बोंथो आसता. एका वर्सा उपरांत गाडग्यांत खडीसाकरे भशेन दाणे जमल्यात अशें दिसता. गरज नाशिल्लें उदक त्या बोंथ्यांतल्यान गळून वता.

संन्याश्यान अस्तुरेचो पूर्णतायेन त्याग करूंक जाय. तुमचें जावन गेलां म्हणटकूच ताका हरकत ना.

संन्याश्यान अस्तुरेचें चित्र लेगीत पळोवं नये. सर्वसामान्य लोकांक हें कठीण आसता. सा, रे, ग, म, प, ध, नी हे सात स्वर. 'नी'चेर चड वेळ रावूंक येना. संन्याश्याचो वीर्यपात जावप हें खुबूच वायट. देखुनूच अस्तुरेचें दर्शन जावचेंच ना अशे रितीन ताणें सादुरतायेन रावंक जाय. अस्तुरी खूब भक्तिमान आसली तरी लेगीत ताणें तिचे पसून पयस रावंक जाय. अस्तुरेचें चित्र लेगीत पळोवप ताचे नदरेन घातक. जागृत अवस्थेंत नासत जाल्यार सपनांत वीर्यपात जातलो.

संन्याशी जितेंद्रीय आसलो तरी लोकांक धडो घालून दिवपा खातीर ताणें अस्तुऱ्यां कडेन उलोवचें न्हय. अस्तुरी देवाची भक्त आसली तरी लेगीत तिचे कडेन चड वेळ उलोवचें न्हय.

संन्याशी जावप म्हणल्यार निर्जला एकादस. आनी एकादस दोन तरांची आसता. एक फळ फळावळ खावन तर दुसरी पुरी भाजी खावन. (सगले हांसतात.)

पुरीभाजये बराबर एक दोन चपात्यो दुदांत भिजोवन खाल्यार लेगीत चलता. (सगले जाण हांसतात.) (हांसत) निर्जला एकादस तुमकां जमपाची ना.

## पयलींची जीण
## कृष्णकिशोराची एकादस
## राजेंद्र इश्ट

एक खेपो कृष्णकिशोराक पळयलो. एकादशीक ताणें पुरीभाजी खाल्ली. हांवें हृदूक म्हणलें,

'कृष्णकिशोरा भशेन एकादस करपाची इत्सा जाता.' (सगले जाण हांसतात

भक्त जे पंचवटींत त्या हठयोग्याक पळोवंक गेल्ले ते परत आयले. श्रीरामकृष्ण तांकां म्हणलें, "कसो कितें दिसलो तुमकां साधू? तुमी तुमच्या मापानच पळय ताका."

श्रीरामकृष्णांनी पळयलें, लागीं-लागीं कोणेंच हठयोग्याक पयशे दिवंक नात.

**श्रीरामकृष्ण:** साधूक पयशे दिवचे पडले की मागीर तो साधू आवडना. राजेंद्र मिश्र 800 रुपया म्हयन्याक पगार. एक खेपो कुंभमेळो पळोवपाक प्रयागाक गेलो. प येतकच हांवें विचारलें, 'बरें, कसले साधू पळयले कुंभमेळ्याक?'

राजेंद्रान म्हणलें, 'हांवें व्हड असो साधू एकूय पळोवंक ना थंय. एक पळयत खरो पूण तोय पयशे घेतालो.'

हांवें स्वता भितरूच म्हणलें, साधूक जर कोणेंच पयशे दिले नात तर तो खातल कितें? हांगा कांयच दिवचें पडना म्हूण सगले येतात. हांव मनांतूच म्हणटां, आरेच्या तांचें पयशांचेर खूब प्रेम आसा. तोच घेवन रावं दी तांकां.

श्रीरामकृष्णांनी थोडो वेळ विसव घेतलो. एक भक्त ल्हान पलंगा सकयल बसू तांचे पांय चेपतालो.

श्रीरामकृष्णांनी त्या भक्ताक ल्हव आवाजांत सांगलें, "जो निराकार तोच साकार देवाचें साकार रूप लेगीत मानपाक जाय. कालीरुपाचें चिंतन करतां करतां साधकाक ईश्वराचें कालीरुपान दर्शन जाता. ते उपरांत ताका दिसता, तें रूप अखंडांत विलीन जावन वता. जो अखंड सच्चिदानंद तोच काली.

## महिमाचरण, पांडित्य, मणी सेन
## अधर आनी सभा समित्यो

श्रीरामकृष्ण अस्तंते कडले गोल पडवेर बसून महिमाचरणां कडेन आनी हेर भक्तां कडेन हठयोग्या विशीं उलयताले. उलयतां उलयतां रामप्रसन्ना विशीं उलवणें आयलें. रामप्रसन्न हो कृष्णकिशोरांचो पूत. देखुनूच श्रीरामकृष्णांक ताचे विशीं आपुलकी दिसताली.

**श्रीरामकृष्ण:** रामप्रसन्न असोच ओगीच वेळ पेड्ड्यार करीत भोंवत आसता. त्या

दिसा हांगा येवन बसलो. एक उतर लेगीत उलयलो ना. प्राणायाम करून नाक दांबून बसून रावलो. हांवें ताका खावपाक दिलें. पूण ताणें तें खालें ना. आनीक एक दीस हांवें ताका मुद्दाम म्हजे म्हऱ्यांत बसयलो. बसलो तरी कसो - पांयाचेर पांय दवरून आनी पांय केले कॅप्टना कडेन. ताचे आवयचें दुख्ख पळोवन म्हाका रडूंक येता. (महिमाचरणांक) त्या हठयोग्या विशीं तुमकां सांगपाक ताणें म्हाका सांगिल्लें. त्या हठयोग्याक सदां साडे स आणे खर्च येता. रामप्रसन्न स्वता मात तुमकां सांगपाक तयार ना.

**महिमाचरण:** आनी ताणें व्हडलें सांगलें म्हूण तागेलें आयकतलो कोण?

पानीहाटीचे मणी सेन बऱ्याच इश्टां सयत कुडींत आयले. ते श्रीरामकृष्णांच्या मोडिल्ल्या हाता संबंदान वासपूस करूंक लागले. तांचे बराबर आयिल्ल्या तांच्या इश्टां भितर एकटो दोतोर आसलो.

श्रीरामकृष्ण दोतोर प्रताप मुजुमदारांचे वखद घेताले. मुजुमदारांनी दिल्लें वखद बरें न्हय अशें मणीबाबूच्या दोतोर इश्टान म्हणलें. ताचेर श्रीरामकृष्णांनी ताका सांगलें, ''तुमी तशें कित्याक म्हणटात? प्रताप काय मूर्ख न्हय.''

इतल्यांत लाटू मोट्यान आड्डलो, ''आरे वखदाची बाटली पडून फुटली.''

अजून तिनसांज जावंक नासली. श्रीरामकृष्ण तांगेल्या पलंगाचेर बसून म कडेन उलयताले. महिमाचरण अस्तंते कडेन गोल व्हरांड्यांत बसून मणी सेना बराबर आयिल्ल्या दोतोरा कडेन खूब मोट्या मोट्यान शास्त्र चर्चा करताले. श्रीरामकृष्णांनी तें आयकलें आनी हांसत मक म्हणलें, ''पळय, खूब मोट्यान स्वताच उलोवप करता. हो रजोगूण. रजोगुणा खातीर थोडें पांडित्य दाखोवपाची, लेक्चर दिवपाची इत्सा जाता. सत्वगुणान मनीस अंतर्मूख जाता. स्वताक लिपयता. पूण हांव सांगतां, महिमाचरण खूब व्हड मनीस. ईश्वरा विशीं उलोवपाक ताका खुबूच आनंद जाता.

अधरान येवन प्रणाम केलो आनी ते म लागीं बसले. खूब दीस जाले अधर श्रीरामकृष्णां कडेन येवंक नाशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** आगा! खूब दीस जाले तुमी हांगा कित्याक पावले नात?

**अधर:** महाराज, खुबूच कामां आशिल्लीं. शाळेचे कमिटीच्यो सभा आनी कितल्याश्याच बसकांक वच्चें पडलें.

**श्रीरामकृष्ण:** तर मागीर बसका, शाळा आनी हेर कामांनी स्वताक सामके विसरून गेले म्हणपाचें!

**अधर:** बाकीचें सगलें मनाच्या कोनशाक लिपून उरलें महाराज. तुमचो हात कसो

आसा?

**श्रीरामकृष्ण:** पळय. अजून तो बरो जावंक ना. प्रतापाचें वखद घेतां.

थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी अचकीत अधराक म्हणलें, ''हें पळयात हें सगलें अनित्य आसा. बसका, शाळा, ऑफिस हें सगलें अनित्य आसा. ईश्वरूच वस्तू. बाकी सगलें अवस्तू. मना पसून देवाची आराधना करूंक जाय.'' अधर कांयच उलयनासतना ओग्गी बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** बाकी सगलें अनित्य. शरीर आतां आसा, मागीर ना. ताकतीक करून ईश्वराक आळोवंक जाय.*

पूण तुमी सगल्याचो त्याग करपाची गरज ना. कांसवा सारके संवसारांत रावात. कांसव उदकांत भोंवत आसता पूण तांतयां जमनीर घालता. ताचें सगलें मन जंय तो तांतयां दवरता थंय आसता.

कॅप्टनाचो सभाव खुबूच सुंदर. पुजा करपाक बसता तेन्ना एका रुशी भशेन दिसता. एके वटेनच्यान कापराची आरत पेट्टा आनी दुसरे वटेनच्यान सुंदर स्तोत्र म्हणीत आसता. पुजा करून उठ्ठा त्या वेळार ताचे दोळे इतले तांबडे दिसतात, दोळ्यांक मुयो चाबल्यात काय कितें. आनी सदांच गीता, भागवत, बी वाचीत आसता. हांवें एक खेपो ताचे मुखार एक दोन इंग्लीश शब्द म्हणले - राग आयलो ताका. ताणें म्हणलें, 'इंग्लीशींत शिकिल्ले लोक भ्रश्टाचारी आसतात.'

कांय वेळा उपरांत अधरान खूब नमळायेन श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''खूब दीस जाले, तुमी आमगेर पावूंक नात. घरांतल्या सालांत सामको संवसारीपणाचो वास येता. आनी सगलें कशें काळखांत बुडून गेल्ले भशेन जालां.''

भक्ताचीं हीं उतरां आयकून श्रीरामकृष्णांचें मन मोगान भरून आयलें. तांणी अचकीत उबे रावून म आनी अधर हांच्या माथ्याक आनी काळजाक स्पर्श करून तांकां आशिर्वाद दिलो. मायेन म्हणलें, ''म्हाका तुमी साक्षात नारायण कशे दिसतात. तुमीच म्हजीं, आमचीं मनशां.''

महिमाचरण कुडींत येवन बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) ब्रह्मचर्य पाळपा संबंदान हांवें जें कितें म्हणलां तें बरोबर आसा. ब्रह्मचर्य पाळ्ळे बगर ही सगली शिकवण मनांत भरना.

एक खेपो एका मनशान चैतन्यदेवाक विचारलें, 'भक्तांक इतलो उपदेश तुमी करतात पूण तांची तितलीशी उन्नती जायना, अशें कित्याक?' तेन्ना चैतन्यदेवान म्हणलें,

---

* हें उलोवप जाले उपरांत थोड्याच म्हयन्यांनी अधर संवसाराक अंतरले.

हे लोक अस्तुरे कडेन संग करून आपलो अपव्यय करतात. म्हणून उपदेशाची धारणा जायना. फुटके कळशेंत उदक दवरल्यार उदक ल्हव ल्हव करून गळून वता.'

महिमाचरण आनी हेर भक्त ओग्गी बसून रावले. थोड्या वेळान महिमाचरणांनी म्हणलें, "आमच्यांत ही शक्ती येवची हे खातीर ईश्वरा कडेन आमचे खातीर प्रार्थना करात."

**श्रीरामकृष्ण**: अजून तरी सादूर रावात. आशाढ म्हयन्यांतल्या पावसाचो घोगो खरो आडावप खूब कठीण. पूण उदक बरेंच व्हांवून गेलां. आतां बांद घाल्यार उरतलें.

# अध्याय : ब्यांयशीं

## दक्षिणेश्वराक एक दीस
## प्राणकृष्ण, म आनी हेर भक्तां वांगडा

**एप्रील 5, 1884. शेनवार.** सकाळचीं आठ जाल्लीं. म दक्षिणेश्वराक आयलो आनी श्रीरामकृष्ण हांसत्या मुखान तांगेल्या ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले ताणें पळयले. जमनीचेर कांय भक्त बशिल्ले. प्राणकृष्ण मुखर्जी तांचे मदीं आशिल्ले.

प्राणकृष्ण गिरेस्त घराण्यांतले. कलकत्ताक उत्तरे कडल्या वाठारांत रावताले. एके इंग्लीश कंपनींत ते व्हडल्या हुद्यार काम करताले. श्रीरामकृष्णांचेर तांची खूब भक्ती. ते संवसारी आसले तरी वेदान्त तत्वज्ञाना विशीं तांकां खूब आवड आशिल्ली. श्रीरामकृष्णांच्या दर्शना खातीर ते मदीं मदीं दक्षिणेश्वराक येताले. मदीं एक खेपो तांणी श्रीरामकृष्णांक आपल्या घरा व्हरून धर्मीक उत्सव केल्लो. ते गंगेच्या घाटार सदांच फांतोडेर न्हाताले आनी जमता तशें भाड्याचें व्हडें करून सरळ दक्षिणेश्वराक येवन श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेताले. आयज ते अशेच भाड्याचें व्हडें करून दश्रिणेश्वराक आयिल्ले. व्हड्यांत तांणी मकूय घेतिल्लो. पूण व्हडें गंगेचे देगे सावन मातशें फुडें वता म्हणल्यार गंगेंत ल्हारां आयलीं. म भियेलो आनी ताणें म्हणलें, आपल्याक देंवय म्हूण. प्राणकृष्ण आनी तांच्या इश्टांनी ताका तरेतरेन समजायलो. पूण म कसोच आयकना जालो. म्हणूंक लागलो, 'म्हाका देंवयात. हांव दक्षिणेश्वरा चलून वतां.' निमणें निरुपायान प्राणकृष्णान ताका देंवयलो.

म पांयांनी येवन दक्षिणेश्वराक पावलो. ताका अशें दिसलें की प्राणकृष्ण थंय थोड्या वेळा पयलीं पाविल्ले. आनी ते श्रीरामकृष्णां कडेन उलयताले. म श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो आनी कडेक बसलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (प्राणकृष्णांक) पूण मनशांत ईश्वराचो उजवाड चड आसता. तुमी म्हणटले, जांकां भूक, तान आनी हेर सगले विकार लागतात आनी घडये रोग, शोकय लागता अशा मनशाच्या रुपान ईश्वराच्यान अवतार कसो कितें घेवंक येता? हाका जाप अशी की पंचभुतांच्या जाळ्यांत पडून ब्रह्म लेगीत रडूंक सागता. पळय न्हय, रामूय सीतेच्या दुख्खान व्याकूळ जावन रडटालो. तशेंच अशें म्हणटात की हिरण्याक्षाचो वध करपा खातीर नारायणान वराह अवतार घेतलो. हिरण्याक्षाचो वध जालो, पूण नारायण धामाक वचपाक तयार नासलो. वराह जावनूच रावप ताका आवडूंक लागलें. ताका कांय पिलांय जालीं. त्या पिलांक घेवन तो आनंदांत आशिल्लो. देव आपले भितर म्हणूंक लागले, 'हें कितें जालें? प्रभू स्वधामाक येवपाक तयार नात. आतां कशें?' मागीर ते सगले जाण शिवा कडेन गेले आनी ताका तांणी सगली गजाल सांगली. शिव धर्तरेचेर आयलो आनी ताणें भगवंता कडेन वचून वराह शरिराचो त्याग करपाचो ताका खूब आगरो केलो. पूण वराह कसोच आयकना जालो. तो पिलांक दूद दिवपाक लागलो. (सगले जाण हांसतात.) तेन्ना शिवान त्रिशुळान वराहाचें शरीर फोडून उडयलें. आनी भगवान मागीर त्या वराह शरीरांतल्यान भायर येवन मोट्यान हांसत स्वधामाक गेलो.

**प्राणकृष्ण:** महाराज, अनाहत नाद म्हणचे कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** अनाहत नाद सदांच आयकूंक येत रावता. तो प्रणवाचो ध्वनी. तो परब्रह्मा पसून उपरासता. योग्यांक आयकूंक येता. विशयी जिवांक आयकूंक येना. योगी जाणात, तो ध्वनी दोनय, नाभींतल्यान आनी क्षीरसागरांत विसव घेवपी परब्रह्मा पसून उपरासता.

**प्राणकृष्ण:** महाराज, परलोक कसो आसता? मरणा उपरांत जिणेचें स्वरूप कशें आसता?

**श्रीरामकृष्ण :** केशव सेनानूय हो प्रश्न विचारिल्लो. जों मेरेन मनीस अज्ञानांत आसता म्हणचेच जों मेरेन ईश्वर लाव जाल्लो नासता तों मेरेन जल्म घेवचो पडटा. पूण ज्ञान लाव जाले उपरांत मागीर ह्या जगांत येवचें पडना. धर्तरेर येवचें पडना वा आनीक खंयच्याच लोकांत वच्चें पडना. कुमार तागेल्यो मडक्यो वतांत सुकोवपाक दवरता तें पळयलां न्हय? तातूंत भाजिल्ल्यो मडक्योय आसतात आनी कच्च्यो मडक्योय आसतात. गायेन येवन माड्डिल्ल्यार कांय मडक्यो फुट्टात. माडिल्ल्यो मडक्यो फुटून

गेल्यार कुमार त्यो मडक्यो भायर उडयता. तांचो आनीक कांयच उपेग जावपाचो नासता. कच्च्यो मडक्यो फुटिल्ल्यो आसल्यार कुमार त्यो एकठांय करता. त्या सगल्यांचो लगदो करून, सांच्यांत घालून तातूंतल्यान नव्यो मडक्यो तयार करता. तेच प्रमाण जों मेरेन ईश्वर दर्शन जावंक ना, तों मेरेन कुमाराच्या हातांत पडचें पडटा. म्हणचेच परत परत जल्म घेवचो पडटा. उकडिल्लें धान्य रोवन कितें जातलें? ताचें केन्नाच रोप तयार जावपाचें ना. तेच प्रमाण मनीस ज्ञानाच्या उज्यांत उकडटकूच ताका परत जल्म घेवचो पडना. तो मुक्त जावन वता.

## वेदान्त आनी अहंकार
## ज्ञान आनी विज्ञान

पुराणांच्या मता प्रमाण भक्त आनी भगवान ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली आसात. हांव एक आनी तूं एक शरीर आसा. जशें कितें एक ताट. तातूंत मन, बुद्द, अहंकार रुपी उदक आसा. ब्रह्म जशें कितें सूर्य. ताचेंच पडबिंब ह्या उदकांत दिसता. देखुनूच भक्तांक ईश्वरीय रुपाचें दर्शन जाता. वेदान्ताच्या मता प्रमाण ब्रह्मच वस्तू. हेर सगलें माया, सपना भशेन अवस्तू. अहंरुपी एक बडी सच्चिदानंद दर्यांत मदीं पडिल्ली आसा. म्हूण दर्याचे जशे कितें दोन भाग जाल्यात अशें दिसता. (मक) तूं हें नीट आयकून दवर. ती अहंरुपी बडी उखलून घेतकच एक अखंड, चिदानंद दर्या. बडी आसा तों मेरेन वांटे जाल्ले भशेन दिसता. उदकाचो हो एक वांटो आनी तो एक वांटो. ब्रह्मज्ञान जातकूच समाधीमग्न जाता तेन्ना हो अहं पुसून वता.

पूण लोकांक उपदेश दिवपा खातीर शंकराचार्यान विद्येचो हांव वा ज्ञानाचो हांव राखून दवरिल्लो. (प्राणकृष्णांक) पूण ज्ञानाचीं कांय लक्षणां आसात. कोण कोण स्वताच समजतात, आपूण ज्ञानी जालां. ज्ञानाची लक्षणां कितें आसात? ज्ञानी कोणाचें अनिश्ट करचो ना. तो भुरग्या भशेन जाता. लोखणाचे तरसादीक जर परिसाचो स्पर्श जालो तर ती तरसाद भांगराची जाता. भांगराचे तरसादीन कोणाक कापूंक येना. भायल्यान घडये दिसता की ज्ञानीक राग आयला वा ताका अहंकार आसा, पूण सत्यस्थिती अशी आसा की ताका तसलें कांयच नासता. पयसुल्ल्यान जळिल्ल्या सुमाची दोरी पळोवन दिसता की थंय खरेंच दोरयेचो कुडको पडला. पूण लागीं वचून फूंक मारतकूच सगलें उडून वता. क्रोधाचो फकत आकार. अहंकाराचो फकत आकार. पूण ज्ञानी मनशां भितर खरेलो क्रोध वा खरेलो अहंकार नासता. भुरगें कित्याकूच दसून रावना. आतां

ळांत घर करता, कोणय ताका हात लायत जाल्यार रडून रडून आकांत करता. ानी थोड्या वेळान स्वताच तें मोडून उडयता. ह्या खिणाक ताका कपडो दिला. ो ताका खूब आवडटा. म्हणटा, म्हज्या बाबान दिला तो म्हाका. हांव कोणाक देवचों ना. पूण दुसऱ्याच खिणाक एकाद्रें खेळणें दिल्यार सगलें विसरून कपडो थंयच ोडून तो तुजे बराबर वतलो. हीं सगलीं ज्ञानाचीं लक्षणां आसात. घरांत घडये जायते ोच, कदेलां, चित्रां, गाडी घोडे आसात. एक दीस सगलें सोडून तो काशीक चलूंक लागलो. वेदान्ताच्या मता प्रमाण जागृत अवस्थाय सत्य न्हय. एका लांकडाकाराक सपन पडटालें. दुसऱ्यान ताका उठयलो. लांकडाकार अस्वस्थ जालो आनी ताणें म्हणलें, 'म्हाका न्हिदेंतल्यान कित्याक उठयलो? सपनांत हांव राजा जाल्लों. सात भुरग्यांचो बापूय जाल्लों. भुरगीं सगलीं बरोवंक वाचूंक शिकतालीं. हांव शिंवासनाचेर बसून राज्य करतालों. तुवें म्हजो सुखाचो संवसार कित्याक मोडून उडयलो?' तेन्ना दुसऱ्यान म्हणलें, 'आरे, तें तर सपन. इतलें कित्याक लावन घेता?' लांकडाकारान म्हणलें, 'पिसो मरे तूं. तुका कांयच कळना. म्हजें लांकडाकार आसप जितलें खरें तितलेंच सपनांत राजा जावप खरें आसा. लांकडाकार आसप जर खरें आसत तर सपनांत राजा जावपय खरेंच आसा.'

प्राणकृष्ण सदांच ज्ञान ज्ञान हे विशीं उलयताले. म्हणुनूच श्रीरामकृष्णांनी ज्ञानाची अवस्था सांगल्या आसत काय? आतां श्रीरामकृष्ण विज्ञानाची अवस्था सांगपाक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** नेति नेति, हें न्हय, हें न्हय करीत आत्म्याचो साक्षात्कार करून घेवप हेंच ज्ञान. नेति नेति असो विचार करून समाधीमग्न जाता आनी आत्म्याचो साक्षात्कार जाता. विज्ञान म्हणचे खाशेलतायेन, पूर्णतायेन जाणप. कोणें दुदा विशीं आयकलां, कोणें दुदाक पळयलां, कोण दूद पियेला. जाणें फकत आयकलां तो अज्ञानी. जाणें पळयलां तो ज्ञानी आनी जो दूद पियेला तो विज्ञानी जाला. म्हणचेच ताका पूर्णतायेन ज्ञान प्राप्त जालां. ईश्वराचें दर्शन जावन ताचे कडेन परम इश्टा सारकें उलोवप, हाचेंच नांव विज्ञान. पयलीं नेति, नेति करचें पडटा. तो पंचभुतां न्हय, तो इंद्रियां न्हय. मन, बुद्द, अहंकार न्हय. तो सगल्या तत्वांचे पलतडीं आसा. गच्चेचेर चडपाचें आसा. ते खातीर एका फाटल्यान एक करून सगल्या सोपणांक पयस करून, तांकां फाटल्यान उडोवन वयर वच्चें पडटा. सोपणां म्हणचे गच्ची न्हय. पूण गच्चेचेर पावतकूच तुका कळटा की ज्या वस्तूंची, विटो, चुनो हांची गच्ची तयार केल्या, त्याच वस्तूंचीं सोपणां

केल्यांत. जो परब्रह्म तोच हें जीव-जगत जाला. चोवीस तत्वां जाला. हाचेर तुमी म्हणटले की आत्म्या पसून जाला जाल्यार मागीर माती इतली घट्ट कशी? ईश्वराचे इत्शेन सगलें कितें जावं येता. रगत आनी वीर्य हांचे पसून हाडां, मांस तयार जाल्लीं तुमी पळयनात? दर्याचो फेण कितलो टणक आसता.

संवसारी मनशाक विज्ञान प्राप्त जावं येता?

साधना जाय. विज्ञान प्राप्त जाले उपरांत संवसारांत लेगीत रावपाक येता. मागीर मनशाक सारको अणभव येता की ईश्वरूच जीव जगत जाला. तो संवसाराचे भायर ना.

(प्राणकृष्णांक) वस्तूस्थिती अशी आसा की दिव्य चक्षू जाय. मन शुद्ध जातकूच तुमी तो दिव्य चक्षू विकसीत करतले. कुमारी पुजेची देख घेयात. हांवें कुमारी पुजा केली. ती कुमारिका ही सादी चली. खात्रेन तिचे कडेन मानवी दोश आसतले. तरीपूण हांवें तिका साक्षात जगन्माता म्हणुनूच मानली. एके वटेन बायल, दुसरे वटेन पूत. मनीस दोगांयचेर प्रेम करता. पूण वेगळे नदरेन. हाचोच अर्थ असो की मनाचेरूच सगलें कितें निंबून आसता. शुध्द मन एक वेगळोच भाव उत्पन्न करता. मन तशें शुध्द जाल्यार संवसारांत ईश्वर दर्शन जाता. म्हणुनूच अध्यात्मीक साधनेची गरज आसा. तुमी जाणा जायात की मनशाक सहजतायेन अस्तुरे विशीं असक्ती जाता. अस्तुरेक सभावीक पणान दादलो आवडटा. आनी दादल्याक सभावीकपणान अस्तुरी आवडटा. देखुनूच दोगांय जाणां अध्यात्मीक मोखी कडल्यान रोखडींच सकयल घसरतात. पूण अशें आसलें तरी संवसारांत अनीक कितल्योश्योच सुखसुविधा आसतात हेंय तितलेंच खरें. तशेंच गरज लागल्यार बायले बराबर सांगातान रावचें. (हांसत) बरें म तूं कित्याक हांसता?

**म:** (स्वता भितर) संवसारी मनशाक सगलें पूर्णतायेन त्याग करप शक्य ना. म्हूण श्रीरामकृष्ण तांकां इतली सवलत दितात. संवसारांत रावून पूर्णतायेन ब्रह्मचर्य पाळप अशक्य आसा काय?

पंचवटींत रावपी हठयोगी श्रीरामकृष्णांचे कुडींत आयलो. तो खूब दिसां सावन पंचवटींत रावतालो आनी तो फकत दूद पियेतालो, अफू खातालो आनी हठयोग करतालो. शीत बी कांयच जेविनासलो आनी दुदाक आनी अफू खातीर ताका पयशे उणे पडटाले. श्रीरामकृष्ण जेन्ना पंचवटींत गेल्ले तेन्ना हठयोग्या कडेन तांचें उलोवणें जाल्लें. हठयोग्यान राखालाक म्हणिल्लें, श्रीरामकृष्णांक सांगून ताची कितेंय वेवस्था करची. त्या वेळार श्रीरामकृष्णांनी ताका उतर दिल्लें की कलकत्ता सावन बाबूलोक येतले तेन्ना तांकां ते ते विशीं सांगतले म्हूण.

**हठयोगी:** (श्रीरामकृष्णांक) तुमी म्हजे विशीं राखालाक कितें सांगिल्लें?

श्रीरामकृष्ण: हांवें सांगिल्लें, हांव गिरेस्त लोकांक तुमकां पालव दिवपाक सांगतां ण. पूण (प्राणकृष्णांक) तुमकां घडये हे योगी आवडनात आसतले?

प्राणकृष्ण ओगीच रावले. हठयोगी थंयच्यान गेलो. श्रीरामकृष्ण परत सांगूंक गले.

## श्रीरामकृष्ण आनी सत्यवचन

**श्रीरामकृष्ण:** (प्राणकृष्णांक आनी हेर भक्तांक) जर मनीस संवसारी म्हूण रावतलो तर ताणें सत्यवचनाचेर खूब निश्ठा दवरूंक जाय. सत्यानूच ईश्वराचो साक्षात्कार जावंक शकता. पयलीं हांव खरें उलोवपा विशीं आगरो धरतालों. आतां मातसो उणो जाला. जर हांवें म्हणलें, हांव न्हातलों, जाल्यार मागीर हांव गंगेंत न्हातालों, मंत्र म्हणटालों आनी थोडेंशें उदक म्हज्या माथ्यार शिंपडटालों. तरी म्हाका दुबाव येतालो की म्हगेलें पुरायेन न्हावन जालां काय ना तें. एक खेपो हांव कलकत्ताक रामागेर गेल्लों. हांवें म्हणलें, हांव पुरी खावचों ना. हांव जेन्ना जेवंक बसलों तेन्ना म्हाका खूब भूक लागिल्ली. पूण हांवें म्हणिल्लें की हांव पुरी खावचों ना म्हूण. मागीर हांवें मिठाईच खावन पोट भरलें. (सगले हांसतात.) हालींसराक हो हट्ट कमी जाला. एक खेपो सुरूच्या झाडांनी वतलों अशें म्हणलें पूण मागीर दिसलें, म्हाका वचपाची गरज ना म्हूण. कितें करपाचें? हांवें ते विशीं रामाक* विचारलें, ताणें म्हणलें वचपाची गरज ना. तेन्ना विचार केलो, सगलेच नारायण. रामय नारायण. मागीर ताचें म्हणणें कित्याक आयकूं नये? हती नारायण खरो पूण ताचो म्हावतूय नारायण न्हय? म्हावत जेन्ना म्हणटा, हतया म्हऱ्यांत येवं नाका म्हूण, तेन्ना म्हावताचें म्हणणें कित्याक आयकूचें न्हय? अशे तरेन विचार करून पयलींच्या मानान खरें उलोवपा विशीं आगरो हालींसराक मातसो उणो जाला.

## पयलींची जीण
### वैशणवचरणांचो उपदेश

आतां दिसता, म्हजे अवस्थेंत एक बदल जायत आसा. कांय वर्सां पयलीं वैशणवचरणांनी म्हाका सांगिल्लें, जेन्ना मनशां भितर आपूण ईश्वर पळयता तेन्नाच पूर्णज्ञान

---

* राम चटर्जी राधाकृष्ण देवळांतले पुरोहीत.

जाता. आतां म्हाका दिसता, ईश्वरूच एकेका रुपान वावुरता. केन्ना साधूच्या रुपा केन्ना भोंदूच्या रुपान तर केन्ना खलनायकाच्या रुपान. म्हूण हांव म्हणटां साधूरु नारायण भोंदूरुपी नारायण, खलनायकरुपी नारायण, छंदरुपी नारायण.

आतां म्हाका चिंता जाल्या, तुमकां सगल्यांक जेवण कशें घालपाचें? सगल्यांकू जेवण घालपाची इत्सा आशिल्लीच म्हणून हांव एकेकाक हांगां दवरून जेवण घालपाचों.

**प्राणकृष्ण:** (म कडेन पळयत, हांसत) बरे मनीस तुमी. (श्रीरामकृष्णांक) महाराज व्हड्यांतल्यान तांकां देंवयले उपरांतूच तांणी आमकां वचूंक दिलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत हांसत) कितें जालें?

**प्राणकृष्ण:** व्हड्यांत चडिल्ले. मातशीं ल्हारां येतात तीं पळोवन म्हणपाक लागले, म्हाका देंवयात पळोवया. (मक) कशे आयले?

**म:** (हांसत) पांयांनी.

श्रीरामकृष्ण हासूंक लागले.

## पंडीत आनी विवेक

**प्राणकृष्ण:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, आतां हांव विचार करतां, म्हजें काम आतां सोडून दिवपाचें. कर्म करपाक गेलों की आनीक कांयच करपाक जमना. (बराबर आयिल्ल्या गृहस्था कडेन बोट दाखोवन) हाका म्हजें काम समजावन सांगतां. हांवें सोडले उपरांत फुडें होच म्हजें काम पळयतलो. आतां म्हाका काम कशेंच सोंसना जालां.

**श्रीरामकृष्ण:** हय. काम खुबूच त्रासांचें आसता. आतां कांय दीस निर्जन जाग्यार वचून ईश्वर चिंतन करप खूब बरें. दुबाव विरयत तुमी म्हणटात की तुमी काम सोडटले म्हणून. हें खरें. कॅप्टनूय अशेंच म्हणटालो. पूण ताचो हेतू तो साध्य करूंक पावना. कितले तरी पंडीत आसतात. ज्ञानाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली करतात. पूण ते आचरणांत कांयच हाडिनात. ते गिदां भशेन. गीद खूब उंच उडटात. पूण तांची नदर आसता मरून पडिल्ल्या गोरवांचेर. म्हणचेच म्हाका सांगपाचें आसा की ह्या पंडितांचें लक्ष आसता कामिनी-कांचनाचेर. म्हणचेच संवसाराचेर. कोणेंय जर म्हाका सांगलें, वैराग्य आनी विवेक पाळटात म्हणून तर म्हाका तांचो भंय दिसता. हरशीं पंडीत म्हणचे तुच्छ आनी अर्थ नाशिल्ले दिसतात.

म पंचवटींत मातसो भोंवलो आनी न्हयेंत न्हालो. मागीर राधाकांत आनी कालीच्या देवळांत वचून दर्शन घेवन मुर्ती मुखार तो न्हिदून पांयां पडलो. आपले भितरूच तो विचार करूंक लागलो, हांवें आयकलां, ईश्वर निराकार आसा. मागीर हे मुर्ती मुखार हांव पांयां कित्याक म्हूण पडटां? भगवान श्रीरामकृष्ण साकार देवदेवी मानतात म्हणून? म्हाका स्वताक तर ईश्वराचें स्वरूप कशें आसा तें खबर ना आनी कळय ना. श्रीरामकृष्ण मुर्तींत विश्वास दवरतात. मागीर हांव, हांव तर एक नगण्य प्राणी. मुर्तींत कित्याक विश्वास दवरचो न्हय?

म कालीमातेचे मुर्ती कडेन पळयतालो. कालीमातेच्या दोनय दाव्या हांतांतल्या एका हातांत नरमुंडी आनी एका हातांत तरसाद आसा आनी उजवे दोन हात अभय आनी वर दिवपाचे मुद्रेंत. एके कडेन भिरांकूळ आनी दुसरे वटेन आई भक्त वत्सल. दोनूय स्वरुपां एकठांय जाल्यांत. भक्तांक, निराधार आनी शरणागत जिवांक कालीमाता दयाशील आनी मायेस्त. पूण हेंय खरें की कालीमाता भिरांकूळ, काळसांगाती. हीं दोन रुपां ती तिचे मदीं एकठांय कित्याक करता हें तिकाच खबर.

श्रीरामकृष्णांनी सांगिल्ल्या, कालीच्या रुपाचें हें स्पशटीकरण मक याद जाली. ताणें मनांत म्हणलें, हांवें आयकल्लें, "केशव सेनांनी श्रीरामकृष्णां मुखार कालीक मानून घेतली. जशें केशव म्हणटाले हीच काय ती देवी? चैतन्यरुपी आनी चिन्मयी मातेचे मुर्तींतल्यान प्रगट जावपी?"

जेन्ना श्रीरामकृष्णांनी ताका विचारलें, "आयदन हाडलें ना?" मन म्हणलें, "हाडटां आं!" ताणें पडवेर वचून आयदन हाडून कुडींत दवरलें.

म श्रीरामकृष्णांचे कुडींत आयलो आनी जमनीर बसलो. श्रीरामकृष्णांनी मक कांय फळां आनी मिठाय खावपाक दिली. मचें घर कलकत्ताक अशिल्लें. घरांतल्या कटकटीं खातीर श्यामसुकूर वाड्यांत घर भाड्यान घेवन तो सद्दां थंयच रावतालो. ह्या नव्या घरा लागींच ताची शाळा आशिल्ली. ताच्या मूळच्या घरांत ताचे वडील आनी भाव रावताले. श्रीरामकृष्णांची इत्सा आशिल्ली की मन तागेल्या त्या स्वताच्या घराच वचून रावचें. कित्याक, एकठांय घराब्यांत ईश्वर चिंतनाचे नदरेन खूब सुविधा आसतात. पूण श्रीरामकृष्णांनी मदीं मदीं तशें सांगून लेगीत मक दुर्देवान तागेल्या मूळच्या घरांत परत वचूंक जमलें ना. आयज श्रीरामकृष्ण त्याच घरा विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें? आतां तूं त्या तुगेल्या जाणटेल्यांच्या घरा वतलो न्हय?

**म:** त्या घरांत पावल घालपाक म्हजें मन कशेंच तयार जायना.

**श्रीरामकृष्ण:** कित्याक जायना? तुज्या वडिलान पयलींचें घर मोडून आतां बरें नवें केलां.
**म:** हांवें घरा खुबूच त्रास भोगल्यात. थंय वचपाक मन कशेंच तयार जायना.
**श्रीरामकृष्ण:** कोणाचो भंय दिसता तुका?
**म:** सगल्यांचोच.
**श्रीरामकृष्ण:** (गंभीरतायेन) तुका व्हड्यांत चडटकूच भंय दिसलो. तसलोच भंय दिसता?

सगल्या देवळांनी निवेद्य दाखोवन जालो. आरती जावंक लागल्यो. झांजो, घांटी वाजूंक लागल्यो आनी देवळाचो प्राकार आनंदान भरून गेलो. आरतींचो आवाज आयकून गरीब, साधू, फकीर, सगले जाण तार्कतिकेन अगरशाळेंत वचपाक लागले. कोणाच्या हातांत पत्रावळ, कोणाच्या हातांत ताट वाटी आनी पेलो. सगल्यांक प्रसाद मेळ्ळो. आयज मनूय कालीच्या देवळांत प्रसाद घेतलो.

## केशव चंद्र सेन आनी तांचो नवविधान नांवांचो ब्राह्मसमाज

श्रीरामकृष्णांनी जेवले उपरांत मातसो विसव घेतलो. अशा वेळार राम, गिरींद्र आनी हेर भक्त थंय आयले. ते सगले श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी थंय बसले.
केशव चंद्र सेनांच्या नवविधान नांवांच्या ब्राह्मसमाजाची गजाल ते उलोवंक लागले.
**राम:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, म्हाका तरी नवविधान समाजाचो लोकांक फायदो जाला अशें दिसना. केशवबाबू जर अस्सल आशिल्ले तर मागीर तांच्या शिश्यांची अशी दशा कित्याक जाल्या? म्हज्या मतान ह्या नवविधान समाजांत कांय ना. एकाद्रे कुडींत कयल्यांचो खडखडाट करून तिका कुलूप लावपा भशेन जालें. लोकांक दिसता, तातूंत खूब पयशे आसात - तांचोच खणखणाट जाला, पूण भितर फकत कयल्यो. भायल्या लोकांक भितर कितें आसा तें कांय खबर ना.
**श्रीरामकृष्ण:** अशें कशें म्हणटा? त्या नवविधान समाजांत कितें तरी तथ्य आसा. तशें नाशिल्लें जाल्यार लोक केशवाक कित्याक म्हणून मनतात? शिवनाथाक लोक तितलो मान कित्याक दिनात? ईश्वराची इत्सा आसले बगर असलें कांयच घडना.
पूण संवसाराचो त्याग केले बगर आचार्य म्हणून काम करपाक शकनात. लोक ताका मानिनात. लोक म्हणटात, हो संवसारी मनीस आसा. हो स्वता

कामिनी-कांचनाचो चोरून भोग घेता आनी आमकां सांगता, ईश्वर सत्य आनी संवसार सपन कशें - अनित्य. सर्वस्वाचो त्याग केले बगर ताचें म्हणणें, ताचो उपदेश लोक मानचे नात. कांय संवसारी लोक ताचे फाटल्यान वतले. केशवाचो संवसार बरो चलतालो. तांचें मनय संवसाराचेर आशिल्लें. घराब्याचो सांबाळय तांकां करपाचो आशिल्लो. तांणी जरी धर्माचेर बरीं भाशणां दिल्लीं तरी तांगेल्या संवसाराची वेवस्था चोख आनी वेवस्थीत केल्ली. तांणी तांगेले धुवेचें लग्न केद्या खानदानी मनशा कडेन करून दिलां! केशवाच्या घरा भितरल्या कुडींनी हांवें खूब व्हडले सुंदर शेव आशिल्ले पलंग पळयले. संवसार करतकूच ह्यो सगल्यो वस्तू एकठांय जातातच.

संवसार म्हणल्यारूच एक भोगाची सुवात.

**राम:** ते पलंग, घर बी ताच्या वाडवडिलांचे इस्टेटीची वांटणी जाली तेन्ना केशवाच्या वांट्याक आयिल्ल्यो वस्तू. केशवान इस्टेटीचे वांटणेंतय भाग घेतिल्लो. महाराज, तें कितेंय म्हणात, पूण विजयबाबून म्हाका सांगिल्लें, केशव सेनान ताका म्हणिल्लें, आपूण (केशव चंद्र) जेजू क्रिस्त आनी चैतन्य म्हाप्रभूचो अंश आसां. तुमी (विजयबाबू) म्हणात की अव्दैताचार्याचे (चैतन्य म्हाप्रभूचे एक सांगाती) अंश आसात. आनीक कितें म्हणले तें तुमकां खबर आसा? ताणें म्हणलें तुमी (श्रीरामकृष्णय) नवविधान समाजी आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) कोणाक खबर? पूण म्हाका स्वताक मात नवविधान ह्या शब्दाचो अर्थ लेगीत खबर ना. (सगले हांसतात.)

**राम:** केशवाचे शिश्य म्हणटात, ज्ञान आनी भक्ती हांचो समन्वय केशवबाबूनूच पयलीं केला.

**श्रीरामकृष्ण:** (अजापीत जावन) अशें कशें तर? मागीर *अध्यात्म रामायणांत* कितें आसा तर? नारद रामाचें स्तवन करूंक लागले तेन्ना तांणी म्हणले, 'रामा, वेदां मदीं जें परब्रह्मा विशीं सांगलां तें तूं आसा. तेंच तुज्या रुपान आमचे मदीं वावुरता. तूं मनीस आसा अशें दिसता खरें पूण खरें म्हणल्यार तूं मनीस न्हय, तूं परब्रह्म आसा.' ताचेर रामान म्हणलें, 'नारदा, हांव तुमचेर खूब प्रसन्न जालां. तुमी वर मागात.' नारदान म्हणलें, 'रामा, आनीक कितें मागपाचें? तुज्या पांयां कडेन शुध्द भक्ती दी. आनी तुज्या त्रिभुवनाक भूल घालपी मायेन म्हाका केन्ना मोहांत उडोवं नये.' *अध्यात्म रामायणांत* तर फकत ज्ञानभक्तीचीच विसकटावणी केल्या.

केशवाचो एक शिश्य, अमृता विशीं गजाली जावंक लागल्यो.

**राम:** अमृत बाबूची परिस्थिती बरी ना.

**श्रीरामकृष्ण:** हय. त्या दिसा पळयलो. खूब वायटकार कसो दिसतालो.

**राम:** महाराज, आतां तुमकां नवविधान समाजाचीं भाशणां कशीं आसतात तें सांगतां
मृदंग वाजपाक लागता त्या वेळार सगले जाण गजर करतात. केशवांचो ज
जावं. तुमी म्हणटात, सांचिल्ल्या कोंडांत फकत दल (शेळो) वाडटा. म्हूण एक खेप
प्रवचनांत अमृतान सांगलें साधू (श्रीरामकृष्ण) म्हणटात तें खरें. सांचिल्ल्या कोंडां
दल (शेळो) वाडटा. पूण भावांनो, आमकां दल (संप्रदाय) जाय. खरेंच, खरेंच हांव
तुमकां सांगतां, आमकां दल (संप्रदाय) जाय. (सगले जाण हांसतात.)
**श्रीरामकृष्ण:** हें कितें सामकें पिशेपण. शी! शी! हें कसलें प्रवचन.

कोणाक कोणाक स्वताची स्तुती आवडटा. ते विशीं उलोवणें सुरू जालें.
**श्रीरामकृष्ण:** केशवाच्या घरा निमाई संन्यास* हें नाटक आशिल्लें तें पळोवपा खातीर
म्हाका घेवन गेल्लें. त्या दिसा हांवें आयकल्लें की कोण तरी केशव आनी प्रताप हे चैतन्य
म्हाप्रभू आनी नित्यानंद कशे आसात अशें उलयताले. प्रसन्नान म्हाका विचारलें, 'मागीर
तुमी कोण तर?' केशव म्हजे कडेन पळयताले, हांव कितें जाप दितां काय म्हूण.
हांवें ताका म्हणलें, 'हांव तुमचो दासानुदास. तुमच्या पांयांचो धुल्ल.' तेन्ना केशवान
हांसून म्हणलें, 'तांकां तूं धरूंक शकना.'
**राम:** केशव मदीं मदीं म्हणटालो, तुमी (श्रीरामकृष्ण) जॉन दी बाप्तिस्त* आसात.
**एक भक्त:** पूण केशव अशेंय म्हणटाले की तुमी (श्रीरामकृष्ण) एकुणिसावे शतकांतले
चैतन्य म्हाप्रभू आसात.
**श्रीरामकृष्ण:** हाचो अर्थ कितें?
**भक्त:** हाचो अर्थ असो की ह्या क्रिस्ती वर्साच्या चालू 19 व्या शतकांत चैतन्य म्हाप्रभू
तुमच्या रुपांत परत आयल्यात.
**श्रीरामकृष्ण:** (लक्ष नाशिल्ले भशेन) बरें तें आसूं. म्हजो हो हात कसो बरो जातलो
तें सांगात पळोवया. ह्या हाताचीच सारकी म्हाका चिंता लागल्या.
त्रैलोक्याच्या संगिता विशीं ते उलयले.
त्रैलोक्यबाबू केशवाच्या ब्राह्मसमाजांत ईश्वराचें नामगूण संकिर्तन करताले.
**श्रीरामकृष्ण:** वा! वा! त्रैलोक्याचीं गितां गावप कितलें सुंदर आसता
**राम:** तीं गितां सारकीं आसतात अशें तुमकां दिसता?
**श्रीरामकृष्ण:** हय. तीं सारकीं आसतात. ना जाल्यार म्हज्या मनाक त्या गितां विशीं
इतली ओड कित्याक दिसतली आशिल्ली?

---

* श्रीचैतन्य म्हाप्रभू हांच्या संन्यास ग्रहणाचेर नाटक

* जेजू क्रिस्ताक दिक्षा दिवपी.

म : तुमच्योच सगल्यो कल्पना घेवन ताणें तांची गितां रचल्यांत. पुजा करपाच्या ळार केशव सेन तुमच्योच भावना आनी अणभव हांचें वर्णन करून सांगता आनी लोक्यबाबू ते प्रमाण गितां रचता. हेंच गीत पळयात न्हय.

मोगाच्या बाजारांत आनंदाचो मेळावो भरला.
भगवान भक्तां सांगातान करता तरेतरेच्यो मधूरलिला.

राम: (फुडें सांगता) तुमी भक्तां वांगडा आनंद भोगतात. हें पळोवन ह्या गितांची रचना जाल्या.
श्रीरामकृष्ण: (हांसत) पुरो. ओगीच म्हाका आनीक पिडूं नाका पळोवया. ह्या गजालींनी हांव कित्याक घुसपून घेवं? (सगले हांसतात.)
गिरींद्र : ब्राह्मसमाजवाले म्हणटात, परमहंसदेवांत (श्रीरामकृष्णांत) (इंग्लीशींत) faculty for organization ना.
श्रीरामकृष्ण: म्हणचे कितें?
म: संप्रदाय कसो चलोवचो हें तुमकां खबर ना. तुमकां बुद्द मातशी कमी आसा असो ताचो अर्थ. (सगले हांसतात.)
श्रीरामकृष्ण: (रामाक) आतां सांगात पळोवया, म्हजो हात कसो मोडलो? तुमी उबे रावन हाचेर एक भाशण दियात. (सगले जाण हांसतात.)

## ब्राह्मसमाज सांगाती, वैशणव आनी शाक्त
## हांकां संप्रदाया विशीं उपदेश

श्रीरामकृष्ण: (फुडें सांगता) ब्राह्मसमाजी ईश्वर निराकारूच आसा असो हट्ट धरतात. बरें आसा. कांय हरकत ना. मना पसून, काळजा थावन ताका आळयलो म्हणचे जालें. जर तुमचें आळोवप मन, अंतर्याम जाणा जावपी आसत तर तो तुमकां स्वताचें स्वरूप समजावन दितलो हे बद्दल दुबाव ना. मात आमकां जें देवा विशीं समजता तेंच फकत बरोबर आनी बाकीचें लोक जें समजतात तें सगलें चूक अशें म्हणप मात बरें न्हय. आमी ईश्वराक निराकार मानतात म्हूण तो निराकार आसा, साकार न्हय वा आमी ताका साकार मानतात म्हूण तो साकार आसा, निराकार न्हय, अशें म्हणप योग्य न्हय. मनशाच्यान केन्ना ईश्वराचें स्वरूप जाणा जावं येता? अशेच तरेचें झगडें वैशण़व आनी शाक्त हांचे मदीं चलता. वैशणव म्हणटात, आमचो केशवच उध्दारकरतो

तर शाक्त म्हणटात आमची भगवतीच कितें ती एकली एकसुरी उध्दारकरती. ह
वैशणवचरणांक, मथूरबाबू कडेन घेवन गेल्लों. वैशणवचरण वैशणव साधू अशिल्ले. व्हड पंडीत पूण सामके कट्टर वैशणव. तर मथूरबाबू हे जगन्मातेचे - देवींचे भक्त. दोग जाण मजेंत, इश्टागतीन भासाभास करताले. उलयतां उलयतां अचकीत वैशणवचरणां म्हणलें, मुक्ती दिवपी एकमेव केशवच आसा. जालें, तांच्या तोंडांतल्यान हीं उत येतात थंय आसात, मथूराचें मुखामळ रागान तांबडेगुंज जालें. आनी ते आड्डुले, ' सामको फटींग.' (सगले हांसतात.) मथूर शाक्त आशिल्ले. ते तशें उलोवप हें सभावीक न्हय? हांवें वैशणवचरणांक ओगी रावपा खातीर कोंपर मारून खूण केली.

हांव सगले लोक पळयतां. सगले धर्म धर्म हे विशीं सदांच उलयतात. पूण सतत एकामेका बराबर झगडत आसतात. हिन्दू, मुसलमान, ब्राह्म, शाक्त, वैशणव, शैव हे सगले एकामेका बराबर झगडटात. इतलें समजनात की तूं जांकां कृष्ण म्हणटा ताकाच शिव, ताकाच आद्यशक्ती म्हणटात. ताकाच जेजू. ताकाच अल्ला म्हणटात. एक राम, ताचीं हजार नांवां. सत्य एकूच आसा. ताका वेगवेगळ्या नांवांनी उलो मारतात. सगले लोक एकाच सत्याचो सोद घेत आसात. पूण भेद आसा ताचें कारण हवामान वेगळें, प्रकृती वेगळी आनी नांव वेगळें. एकाद्र्या तळ्याक खूब घाट आसतात. हिन्दू एका घाटा वयल्यान कळसुल्यान उदक घेतात आनी ताका म्हणटात - जल. मुसलमान दुसऱ्या घाटा वयल्यान चामड्याचे पिशवेंतल्यान उदक घेतात आनी ताका म्हणटात - पानी. क्रिस्तांव आनीक एक घाटा वयल्यान उदक घेतात आनी ताका म्हणटात - वॉटर. (सगले हांसतात.) समजा कोणेंय म्हणलें, हो पदार्थ पळय आसा तो जल न्हय, पूण पानी आसा वा पानी न्हय वॉटर आसा वा वॉटर न्हय जल आसा तर तशें म्हणप म्हणचे सामकें हास्यास्पद जातलें. पूण हेच खातीर पंथां पंथांत झगडीं जातात. गैरसमज जातात. हेच खातीर लोक धर्मा वयल्यान मारामारी करतात, रगतां व्हांवयतात. पूण हें योग्य न्हय. सगले जाण ईश्वरा कडेन वतात. प्रामाणीक तळमळ, व्याकूळताय आसल्यार ताचो लाव जातलो.

(मक) हें तुजे खातीर. वेद, पुराणां, तंत्र हीं सगलीं शास्त्रां ताकाच सोदतात. आनीक कोणाकूच न्हय.- त्याच एक सच्चिदानंदाक जाका 'वेदांत' सच्चिदानंद ब्रह्म म्हणलां, ताकाच 'तंत्रांत' सच्चिदानंद शिव म्हणलां आनी ताकाच परत 'पुराणांत' सच्चिदानंद कृष्ण म्हणलां.

श्रीरामकृष्णांनी आयकल्लें की राम घरा मदीं मदीं स्वता रांदून जेवतालो.
**श्रीरामकृष्ण:** तुंवूय कितें स्वता रांदून जेवता?

र: ना महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** पळय अशें करून. जेवतना गायच्या तुपाचो थोडो वापर कर. ताका लागून तुजें शीत आनी मन शुध्द जातलें.

## पिता धर्म, पिता सर्ग

रामाच्या घरगुती गजालीं विशीं उलोवणें सुरू जालें. रामाचे वडील घर्मशील, वैशणव आशिल्ले आनी सद्दां घरा कृष्णाची पुजा, उपासना करताले. रामाच्या बापायन दुसरे खेपो लग्न केल्लें. त्या वेळार राम सामकोच ल्हान आशिल्लो. दोगांय - रामाचे वडील आनी सावत्र आवय रामा कडेनूच रावतालीं. पूण सावत्र आवय बराबर राम केन्नाच सुखी जालो ना. सावत्र आवय वयल्यान रामाचे आनी बापायचे मदीं मदीं गैरसमज जाताले. हेच विशीं ते उलयताले तेन्ना रामान म्हणलें, म्हजो बापूय फुकट गेलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (हेर भक्तांक) तुमी आयकलें! बापूय खंय फुकट गेलो आनी पूत शाबूत आसा.

**राम:** म्हजी सावत्र आवय जेन्ना घरांत येता तेन्ना कटकटी सुरू जातात. शांतताय नासता. कितें ना कितें कटकटी आसतात. आमचो घराबो मोडपाक आयला म्हणून हांव म्हणटां की तिणें कुळारा वचून रावचें.

**गिरिंद्र:** (रामाक) तुमी लेगीत तुमचे बायलेक तिच्या कुळारा कित्याक पावयनात? (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) घोव बायल म्हणचे कितें मातयेचीं आयदनां वा कळसुल्यो समजल्यात? आयदनां एके कडेन दवरलीं आनी तांचीं धांपणीं दुसरे कडेन? शिव एका जाग्यार आनी शक्ती दुसरे सुवातेर?

**राम:** महाराज, आमी सुखांत रावतात. पूण ती जेन्ना येता तेन्ना घरांत दुफळी जाता. अशे परिस्थितींत-

**श्रीरामकृष्ण:** तशें आसत तर तांकां वेगळें बिराड करून दी. ती गजाल वेगळी. दर म्हयन्याक खर्चाची सगली वेवस्था करपाक जाय. आईबाबा केदे व्हडले गुरू! राखालान एक खेपो म्हाका विचारलें, बापायच्या उश्ट्या ताटांत जेवल्यार जाता काय म्हूण. हांवें ताका म्हणलें, 'हाचो अर्थ कितें? असो तूं कोण जाला की बापायच्या

ताटांत खाल्यार तुका उपकारा पडचें ना.' तरीपूण इतलें खरें कीं जे बरे लोक आसतात ते तांगेलें उश्टें कोणाकय दिनात. इतलेंच न्हय सुण्याक लेगीत उश्टें खावपाक तांच्यांनी दिवं नजं.

## गुरूची इश्ट देवता म्हूण पुजा

**गिरिंद्र:** महाराज, समजा बापायन जर एकाद्रो व्हड मोटो गुन्यांव केला आसत वा एकाद्रें भिरांकूळ पाप केल्लें आसत तर?

**श्रीरामकृष्ण:** तातूंत कितें? आई जरी व्यभिचारिणी आसली तरी तिचो त्याग करपाचो ना. एका घराब्याच्या गुरू पत्नीचें (गुरू अस्तुरेचें) चारित्र्य भ्रश्ट जालें. तेन्ना ते लोक म्हणूंक लागले, आतां तिगेल्या चल्याक गुरू करुया. तें आयकून हांवें तांकां म्हणलें, 'हें कितें? सूर्ण उडोवन ताचो कोंब घेतले? भ्रश्ट जाली म्हणून कितें जालें? तुमी तिका इश्ट देवता समजात म्हणचे जालें. जरी म्हजो गुरू सोऱ्याचे गादयेर गेलो तरी तो म्हाका साधू नित्यानंद देव आनी आई. आवय-बापूय म्हणचे कितें साधी अर्थ नाशिल्ली गजाल आसा काय कितें? तीं प्रसन्न जालीं नात जाल्यार अध्यात्मीक साधना सफल जायना. चैतन्यदेव तर भगवत प्रेमान सामके पिशे जाल्ले. तरीपूण संन्यास घेवचे पयलीं कितले तरी दीस आवयन संन्यास घेवपाक परवानगी दिवची म्हूण तिची समजूत काडटाले. म्हणटाले, 'आई, हांव मदीं मदीं तुजी भेट घेवपाक येतलों.' (मक तिरस्कार करीत) आनी तुकाय म्हाका हें सांगपाचें आसा. आवय बापायन तुका ल्हानाचो व्हड केला. आतां तुका स्वताय भुरगीं बाळां जाल्यांत. तरी बायलेक घेवन घर सोडपाचें? तुवें तुज्या आवय-बापायक फसयलां. तूं बायल भुरग्यांक घेवन घरांतल्यान भायर सरला आनी तुका दिसता तूं साधू जाला म्हूण. तुज्या पयशांचेर बापूय निंबून ना म्हणून. नाजाल्यार हांव तुजो धिक्कार करतलों आशिल्लों. आनी म्हणटलों आशिल्लों, तुवें सामके लजेक घाले म्हूण.'

कुडींतले सगले जाण गंभीर जाले आनी शांत बसले.

कांय रिणां फारीक करपाचीं आसतात. देवरीण, रुशीरीण, ते प्रमाण मातृरीण, पितृरीण, पत्नीरीण. आवय-बापायचें रीण फारीक केले बगर खंयचेंच काम सफल जायना. बायलेचेंय रीण आसता. हरीश बायलेचो त्याग करून हांगा येवन रावता. जर ताचे बायलेची पोटापाणयाची तजवीज करूंक नाशिल्ली जाल्यार हांव ताका घाणयारो कर्मकट्टो म्हणटलों आशिल्लों.

ज्ञान प्राप्त जाले उपरांत हेच बायलेक तुमी देवी जगन्मातेचें साक्षात रूप समजतले.

ाडींत बरयलां. सगल्यां जिवां मदींच देवी माता म्हणून रावता. ती जगदंबाच तुमची ाई जाल्या. ज्यो ज्यो अस्तुऱ्यो दिसतात त्यो सगल्यो जगन्माताच आसात. देखुनूच हाका वृंदा हे वावराडेक तापोवंक जमलें ना. कांय जाण शास्त्रांतले खूब श्लोक ्हणटात, व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली करतात, पूण तांगेलें वागप मात वेगळेंच. ामप्रसन्न हो हठयोगी आनीक खंयच्यान अफू मेळटली हे विवंचनेंत आसता. परत म्हणटा कसो पळय, मनून साधूची सेवा करपाक सांगलां. आवय जेवणा-खाणाक वळवळटा. बाबडेक स्वताकूच तांकां गरजेचे जिन्नस हाडपाक बाजारांत वच्चें पडटा. असो म्हाका ताचो राग येता की सांगूंक जायना.

हांगा आनीक एके गजालीचो विचार करूंक जाय. जेन्ना मनीस ईश्वरी प्रेमांत मत्त जाता, तेन्ना मात ताका खंयचो बापूय, खंयची आवय आनी खंयची बायल हाचो सामको विसर पडटा. ईश्वराचेर ताचें प्रेम इतलें खर आसता की तो पिसो कसो जाल्लो आसता. मागीर ताका कर्तव्यां कांयच करपाचीं उरनात. सगल्या रिणांतल्यान तो मुक्त आसता. ईश्वरी प्रेमाची ही धुंदी कशी आसता? हे अवस्थेंत ताका जगाचो विसर पडटा. स्वताचो देह जो इतलो प्रीय आसता, ताचो लेगीत ताका विसर पडटा. चैतन्य देवाक अशा प्रेमाचो उन्माद जाल्लो. तांणी दर्यांत उडी मारली. तो दर्या आसा हाची जाणविकायूच तांकां उरली ना. जमनीचेर परत परत पडटाले. भूक ना, तान ना, न्हीद ना. तांकां शरीर आसा हाची लेगीत जाणीव नाशिल्ली.

अचकींत श्रीरामकृष्णांनी मदींच ''वा, चैतन्य'' अशें म्हणलें आनी ते उबे रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** भक्तांक चैतन्य म्हणचे अखंड चैतन्य. वैशणवचरण म्हणटाले, गौरांग ह्याच अखंड चैतन्य सागरा वयलो बुडबुडो. (बुडो* गोपाळांक) तिर्थयात्रा करपाची इत्सा आसा?

**गोपाळ:** हय महाराज. थोडेंशें भोंवून येवचें म्हणटां.

**राम:** (बुडो गोपाळांक) ते (श्रीरामकृष्ण) म्हणटात, बहुदका उपरांत आपूण कुटीचक जाता. साधू खूब थळांची तिर्थयात्रा करतात ताका बहुदक म्हणटात. आनी जाची भोंवपाची वान्सा सोंपली आनी जो एका जाग्यार थीर बसता ताका म्हणटात कुटीचक. आनी ते (श्रीरामकृष्ण) एक बोधकाणी सांगतात. एक शेवणें तारवाच्या शिडाचे बडयेचेर बसलें. तारूं गंगेंतल्यान केन्ना काळ्या उदकांत भितर सरलें, ताचें ताका भान उरलें ना. ताका चोंय वटेन दर्याच दिसलो तेन्ना तें उत्तरे कडेन जमीन दिसता काय म्हूण

---

* स्वामी अद्वैतानंद. तांचें वय बरेंच जाल्लें म्हणून श्रीरामकृष्ण तांकां बुडोगोपाल म्हणटाले.

पळोवपाक गेलें. खंयच दर्यादेग दिसना जाली. म्हणटकूच तें परत आयलें. परत थोडो विसव घेवन दक्षिणे कडेन गेलें. थंय दर्यादेग दिसली ना तेन्ना खरशेत परत आयलें. परत थोडो वेळ विसव घेवन परत उदेंते कडेन आनी अस्तंते कडेन गेलें. जेन्ना ताका दिसलें की दर्यादेग खंयच मेळना तेन्ना शिडाचे बडयेचेर येवन ओग्गी बसून रावलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (बुडो गोपाळांक आनी हेर भक्तांक) जों मेरेन मनशाक दिसता, ईश्वर थंय आसा, तों मेरेन तो अज्ञानी आसा. जेन्ना ताका दिसता, ईश्वर हांगाच आसा तेन्ना ताका ज्ञान प्राप्त जालें म्हणपाचें.

एकट्याक तंबाकू ओडपाचो आशिल्लो म्हूण शेजाऱ्यागेर तो कोळसो पेटोवपा खातीर गेलो. रात बरीच जाल्ली. शेजारच्या घरांतले सगले न्हिदिल्ले. बरोच वेळ दारार मारले उपरांत घरांतलो एकटो दार उगडपाक सकयल आयलो. भायल्या मनशाक पळोवन ताणें विचारलें, 'कितें जालें?' 'म्हाका तंबाकू ओडपाचें सामकें व्यसन जालां. हें तुमकां खबरूच आसा. हांव कोळसो पेटोवपाकूच आयिल्लों. आनीक कांयच जावंक ना.' ताचेर शेजाऱ्यान म्हणलें, 'वा ! वा ! तुमी खरेंच हुशार मनीस. इतले त्रास घेवन आयल्यात आनी कितलें दारार मारलें ! तुमच्या हातांतूच तर पेटिल्लो लापयांव आसा न्हय!' (सगले हासतात.) 'जें मनीस जाय म्हूण सोदता तें ताचे म्हऱ्यांतूच आसता. तरी लेगीत मनीस तें सोदपाक वेगळ्या वेगळ्या सुवातांनी भोंवत आसता.

**राम:** महाराज, आतां म्हाका कळटा, गुरू शिश्यांक कित्याक चारय धामांची यात्रा करूंक सांगताले तें. जेन्ना एक खेपो भोंवून तो आयलो की ताका कळटा की जशें हांगा आसा तशेंच थंय आसा. तेन्ना तो परत गुरू कडेन येता. हें सगलें भोंवप फकत गुरूच्या उतरांचेर विश्वास बसचो म्हणुनूच.

हें उलोवप जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण रामाच्या गुणांची तोखणाय करूंक सागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) वा! वा! रामा भितर कितले गूण आसात म्हूण सांगूं! कितल्या भक्तांची सेवा आनी सांबाळ करता तो! (रामाक) अधर सांगतालो, तुवें खंय ताची खूब सरबराय केली.

अधराचें घर शोभा बाजारांत आशिल्लें. अधर श्रीरामकृष्णाचे परम भक्त. तांच्या घरा भजन गायन आशिल्लें. श्रीरामकृष्ण आनी हेर भक्तय गेल्ले. अधर रामाक आमंत्रण दिवपाक विसरून गेल्ले. राम तांकां खूब मानताले आनी तांकां ते खातीर खूब वायट दिसलें. तांणी तशें खूब जाणांक उलोवन दाखयिल्लें. देखुनूच अधर रामाच्या घरा गेल्ले.

तांची चूक दाखयली ते खातीर तांकां वायट दिसलें. हें सांगपा खातीर ते रामाच्या घरा गेल्ले.

**राम:** तातूंत अधराचो कांयच दोश नाशिल्लो. म्हाका कळ्ळां की तें राखालाचेर सोपयिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** राखालाक दोश दिवपाचो ना. भुरगो तो. ओंठ पिळ्ळ्यार दूद येतलें.

**राम:** महाराज, अशें कशें म्हणटात तुमी? इतलो व्हड प्रसंग त्या दिसाचो!

**श्रीरामकृष्ण:** अधर तुका आमंत्रण दिवपाक असोच विसरलो. तो विसरभोळो. त्या दिसा यदू मल्लीकाच्या घरा म्हजे बराबर गेल्लो. हांवें ताका परत येतना विचारलें, 'देवघरांत देवी मुखार कांयच दवरलें ना?' तेन्ना ताणें म्हणलें, 'महाराज, कितें दवरचें पडटा म्हणपाचें म्हाका खबरूच नाशिल्लें.'

आनी जरी आमंत्रण दिलां नासत तरी जंय हरीनामाचें भजन चलता थंय वचपाक कसली हरकत? जंय हरीनाम, जंय देवाचें भजन चलता थंय आफयनासतना वचूंक जाता. आमंत्रणाची गरज नासता.

## अध्याय : त्र्यांयशीं

### फलहारिणी काली पुजे निमतान उत्सवांतल्या नाटकांत काम करपी एकल्याक उपदेश

### दक्षिणेश्वराक राखाल, अधर, हरी आनी हेर भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण

**मे 24, 1884. शेनवार.** भगवान श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत बशिल्ले. राखाल, म आनी हेर भक्त ते कुडींत आशिल्ले. आदले रातीं कालीमातेची खाशेली पुजा देवळांत जाली. त्या उत्सवाच्या निमतान देवळाच्या मंडपांत विद्यासुंदराचें नाटक जाल्लें. तें सकाळ मेरेन चलतालें. श्रीरामकृष्णांनी सकाळीं देवळांत कालीमातेच्या दर्शनाक वचून थोडो वेळ पळयलें. नाटकांतले नट श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेवपा खातीर आयिल्ले.

नाटकांत जो गोरोसो तरणाटो विद्या म्हणून जाल्लो ताणें आपलो अभिनय खुबूच बरो केल्लो. श्रीरामकृष्ण ताचे कडेन आनंदान ईश्वरीय गजाली उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (विद्याचो अभिनय करपी त्या तरणाट्याक) तुजो अभिनय खुबूच सुंदर जालो. जर कोणय गावपांत, संगितांत, नाचांत वा हेर खंयचेय कलेंत तरबेज आसत तर ताणें यत्न केल्यार तो ईश्वराचो साक्षात्कार रोखडोच करूंक पावतलो.

खूब अभ्यास, सराव करून तुमी गायतात, नाचतात, वाद्यां वाजयतात, तेच प्रमाण ईश्वरा कडेन मनाचो योग सादपा खातीर अभ्यास वा सराव करपाक जाय. पुजा, जप, ध्यान, ह्या सगल्यांचो सद्दां नेमान अभ्यास करूंक जाय. ताची सदांच संवय करपाक जाय. तुजें लग्न जालां? भुरगीं बीं?

**नट:** हय महाराज. एक चली जाल्ली पूण गेली. आनीक एक भुरगें जालां.

**श्रीरामकृष्ण:** आरे, जाली आनी गेली. इतले बेगीन. तुजें वय तरी कितलें? सामको तरूण मरे तूं. अशी म्हणणी आसा. लग्न जाले बराबर घोव गेलो. रडपाक खुबूच राती आसात. तुमी जगाच्या सुखाचो अणभव घेत आसतात. जग त्या फळा भशेन. त्या फळाक फकत कोय आनी साल आसता. आनी खातकूच पोटखणें सुरू जाता. तूं

त्या नाटकांत काम करपी आसा. तें खूब बरें आसा. पूण तो खूब त्रासाचो वेवसाय, आतां तूं तरणाटो आसा. म्हणून तुजें मुखामळ गोल, गुबगुबीत आसा. पूण कांय काळान गालाक खळयो पडटात. नाटकांतले नट चड करून अशेच जातात. गाल चेपटे, पोटां मोटीं. (हांसतात.) हांवें तुजें नाटक कित्याक पळयलें? म्हाका दिसलें, ताल, सूर, गाणें, लय सगलें, कितलें सुंदर आशिल्लें. तशेंच जगन्मातेन म्हाका दाखोवन दिलें, ईश्वरूच सगल्या नटांचीं रुपां घेवन नाटक करीत आसा.

**नट:** बरें महाराज, काम आनी कामना हांचें मदीं फरक कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** काम जशें कितें रुखाचें मूळ आनी कामना म्हणचे ताचे खांदे आनी खांदयो. काम, क्रोध, लोभ आनी हेर 'स' रिपू सामके ना जावन वचनात. म्हणून तांकां ईश्वरा वटेच्यान वळोवंक जाय. जर कामना करपाचीच आसत, लोभ धरपाचोच आसत, तर ईश्वराचे भक्तीची कामना धरूंक जाय आनी ताका मेळोवपाचो लोभ धरूंक जाय. जर मद आनी गर्विश्टपण करपाचेंच आसत, अहंपण बाळगुपाचेंच आसत तर हांव ईश्वराचो दास, ईश्वराचें संतान अशें म्हणून गर्विश्टपण, अहंपण करपाक जाय. पुरायपणान मन देवाक दिले बगर ताचें दर्शन जावपाचें ना. कामिनी-कांचनांत मनाचो अपव्यय जाता. तुजीच गजाल घेवया. तुका भुरगीं आसात आनी तुका नाटकां बीं करचीं लागतात. ह्या तरातरांच्या कार्यावळीं खातीर ईश्वरा विशीं मनाचो योग जायना. जों मेरेन भोग आसा तों मेरेन योग कमीच आसतलो. परत भोगा बराबर पिडा येताच. श्रीमद्भागवतांत सांगलां अवधूतान घोणीक चोवीस गुरूं भितर एक गुरू केल्लो. घोणीचे चोचींत नुस्तें आशिल्लें म्हूण हजार कावळ्यांनी तिका रेवाडो घालो. जंय ती घोण नुस्तें चोंचींत धरून वताली, थंय थंय कावळे तिच्या फाटल्यान कांव, कांव करीत वताले. जेन्ना घोणीचे चोचींतल्यान नुस्तें अचकीत सकयल पडलें तेन्ना सगले कावळे त्या नुस्त्या वटेच्यान गेले आनी घोणी फाटल्यान वचपाचें तांणी सोडून दिलें. नुस्तें म्हणचे भोगाच्यो वस्तू. कावळे म्हणचे चिंता आनी विवंचना. जंय भोग आसा थंय चिंता विवंचना आसाच. भोगाचो त्याग करतकूच शांती मेळटा. हेंच पळय न्हय, पयशां खातीर अनर्थ जाता. भाव भाव सुखांत रावतात पूण भावाभावांत इश्टेटी खातीर झगडीं जातात. सुणीं एकामेकांक चाट्टात. तीं इश्टागतीन रावतात. पूण घरचो धनी तांकां इल्लेंशें खाण बी मुखार उडयतकूच तीं एकामेकांक चाबूंक आनी दावखुलां मारूंक लागतात. मदीं मदीं हांगा येत चल. (मक आनी हेर भक्तांक बोट दाखोवन) हे आयतराक आनी सुटयेंत येतात हांगा.

**नट:** आमकां तीन म्हयने सुटीच आसता. पावसाळ्यांत आनी लुवणे दिसांनी तुमचे कडेन येवप हें आमचें भाग्यच. दाक्षिणेश्वराक येतना आमी दोगां विशीं आयकल्लें.

तुमचे विशीं आनी ज्ञानार्णवा विशीं.

**श्रीरामकृष्ण:** भावां बराबर मेळून मिसळून राव. अशें रावतकूच पळोवपाक बरें दिसता नाटकांत पळोवंक ना? चारजाण गीत गायतात पूण प्रत्येकान जर वेगळे वेगळे सू धरले तर नाटक इबाडटलें.

**नट:** जाळांत खूब शेवणीं अडकल्यांत. जर सगलीं मेळून यत्न करून एके दिकेक वचत तर वाटावपाची बरीच शक्यता आसता. पूण शेवणीं जर वेगळ्या वेगळ्या दिकांनी उडपाचो यत्न करीत तर कांयच जावपाचें ना. नाटकांत अशेंच दाखयतात की तकलेर कळशी दवरल्या आनी तरी लेगीत तो नाचता.

**श्रीरामकृष्ण:** संवसारांत राव पूण तकलेर कळशी सारकी दवर. म्हणचेच ईश्वराचेर मन निश्चयान दवर. हांवें बराकींतल्या शिपायांक सांगिल्लें, तुमी संवसारांतलीं कर्तव्यां करात. पूण कालरुपी मुसळ तुमच्या हातार पडूं येता हाचें भान दवरात. कामारपुकूराक हांवें मेस्ता घराब्यांतल्या बायलांक मुसळान फोव कांडटा आसतना पळयल्यांत. एक बायल मुसळान कांडटा आनी दुसरी बायल वानांतले फोव सारीत आसता. पूण हें करता आसतना मुसळ हातार पडचें ना हाचेर ती लक्ष दवरता. एके कडेन भुरग्याक मांडयेर घेवन दूद दिता आनी दुसऱ्या हातान मातशें उकडिल्लें भात कुळण्यांत घालून भाजून घेता. तें करता आसतना गिरायका कडेन उलयत आसता. 'तुमचे कडल्यान इतले पयशे येवपाचे आसात. ते दिवन वचात.' अशे रितीन ईश्वराचेर मन दवरून संवसारांतलीं तरातरांचीं कामां करूं येतात. पूण संवय जाय आनी सावध रावंक जाय. तरूच दोनय, ईश्वर आनी संवसार सांबाळपाक जातलें.

**नट:** महाराज, आत्मो हो देहा पसून वेगळो आसा हाचें प्रमाण कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** प्रमाण? ईश्वराक पळोवंक येता. अध्यात्मीक तपस्या करतकूच ताचे कृपेन ताचें दर्शन जाता. रुशींक प्रत्यक्ष आत्म्याचो साक्षात्कार जाल्लो. विज्ञानान ईश्वरा विशींचें सत्य कळना. विज्ञान इंद्रियांक वस्तू विशीं कळिल्ली म्हायती आमकां दिता. देखीक हो पदार्थ हातूंत भरसतकूच हें जाता. ताचे भितर तें भरसतकूच तें जाता. देखुनूच हे सादारण बुद्‌दीन हें सगलें अध्यात्मीक - आत्मतत्व कळूंक जमना. ते खातीर साधू सांगात करूंक जाय. दोतोराचो एक सारको सांगात मेळ्ळ्यार नाडी पळोवंक शिकपाक येता.

**नट:** हय महाराज, आतां कळ्ळें म्हाका.

**श्रीरामकृष्ण:** तपस्या करूंक जाय. तरूच साध्य प्राप्त जातलें. शास्त्राचे श्लोक तोंडपाठ करून कांयच जावपाचें ना. भांग, भांग अशें तोडान म्हणून धुंदी येवपाची ना. ते खातीर भांग पियेवंक जाय. ईश्वर दर्शनाच्यो गजाली लोकांक समजावन सांगपाक येवपाच्यो

ात. पांच वर्साच्या भुरग्याक घोव-बायलेच्या मिलनाच्या सुखाची गजाल समजावन सांगपाक येवपाची ना.
**नटः** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, आत्मदर्शन कशें जाता?

## राखाला विशीं श्रीरामकृष्णाचो वात्सल्य भाव

ज्युस्त तेन्नाच राखालाक श्रीरामकृष्णांचे कुडींत बसून जेवण करपाचें आशिल्लें. पूण कुडींत खूब लोक आशिल्ले. म्हणून तो फाटीफुडें येतालो. श्रीरामकृष्ण ह्या दिसांनी राखालाक गोपाळ कसो आनी स्वताक यशोदा कसो पळयतालो.
**श्रीरामकृष्णः** (राखालाक) तूं खायना कित्याक? तुका जाय जाल्यार लोक मातशे कुशीक उबे रावतले. (एका भक्ताक) राखाला खातीर थोडें बर्फ दवरात. (राखालाक) तूं वनहुगलीक वचूंक सोदता? ह्या वतांत वचूं नाका.

राखाल जेवंक बसलो. श्रीरामकृष्ण परत त्या नटा कडेन उलोवंक लागले.
**श्रीरामकृष्णः** तुमी सगले कालीच्या देवळांत जेवण कित्याक घेनात? तें बरें जातलें आशिल्लें.
**नटः** महाराज, सगल्यांचीं मतां जेवणा विशीं एकासारकीं नात. आमचें जेवण दुसरे कडेन करतात. अगरसाळेंत जेवण सगल्यांक आवडना.

राखालान जेवपाक सुरवात केली. श्रीरामकृष्ण भक्तां वांगडा पडवेर बसून परत उलोवंक लागले.

## संवसारांत रावन साधना ईश्वर दर्शनाचो – आत्मदर्शनाचो उपाय

**श्रीरामकृष्णः** (नटाक) तुवें म्हाका आत्मदर्शना विशीं विचारिल्लें. आत्मदर्शनाचो उपाय म्हणल्यार व्याकूळताय. कायेन, वाचेन आनी मनान ईश्वराक मेळोवपाचो यत्न करूंक जाय. चड पित्त जातकूच कामीण जाता. मागीर सगल्यो वस्तू हळडुव्यो दिसूंक लागतात. हळडुव्या रंगा बगर मनशाक दुसरो कसलोच रंग दिसना. तुमी नाटक करप्यां मदीं जे कोण बायलेचेंच काम करतात तांचो सभाव, हावभाव, बायले भशेनूच जाता. तेच प्रमाण ईश्वराचें. दीसरात चिंतन केल्यार ईश्वराचोच सभाव प्राप्त जाता. मन

जशें कितें मडवळा कडल्यान हाडिल्लो धवो फुल्ल कपडो. ज्या रंगांत तो तूं बुडयत त्याच रंगाचो तो जाता.

**नट:** तर मागीर तो मडवळा कडेन पयलीं दिवचो पडलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हय. आदीं चित्तशुध्दी. त्या मनाक जर ईश्वराचें चिंतन करपाक लायलें तर तें ईश्वर चैतन्याच्या रंगाचें जातलें. परत जर संवसारा कडेन लायलें, जशें नाटकांत बी काम करप, तर मन संवसाराच्या रंगाचे जातलें.

## हरी, नारायण आनी हेर भक्तां वांगडा

श्रीरामकृष्ण मातशे विसव घेता म्हणसर कलकत्ताक सावन हरी, नारायण, नरेंद्र बानर्जी आनी हेर भक्त येवन श्रीरामकृष्णांक जमनीक तकली लावन पांयां पडले. नरेंद्र बानर्जी हो प्रेसिडेंसी कोलेजींतले संस्कृताचे प्रोफेसरांचो पूत. घरांत पटनाशिल्लयान श्यामपुकूर वाड्यार घर घेवन बायल, भुरग्यां सयत रावतालो. नरेंद्र हो खूब सरळ सादो मनीस. तो अध्यात्मीक साधना करतालो आनी ध्यान करतालो, तेन्ना ताका खूब तरांचे आवाज आयकूंक येताले. जशे जगांटीचो नाद आनी हेर नाद. हिंदुस्तानच्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी ताणें बरोच प्रवास केल्लो. मदीं मदीं श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक येतालो.

नारायण हो सोळा सतरा वर्सांचो शाळेंत वचपी भुरगो. तो श्रीरामकृष्णां कडेन मदीं मदीं येतालो. श्रीरामकृष्णांक तो खूब आवडटालो. हरी त्या वेळार तागेल्या बागबाजारांतल्या घरा भावा बराबर रावतालो. जेनरल असेंब्ली इंस्टीट्यूशन मेट्रिकुलेशन मेरेन शिकलो आनी ताणें फुडें शिकपाचें सोडून दिलें. तो योगाभ्यास करतालो. मदीं मदीं दक्षिणेश्वराक येवन श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेतालो. श्रीरामकृष्ण बागबाजारांतल्या बलरामबाबूच्या* घरा गेल्यार ताका केन्ना केन्नाय आफोवंक धाडटाले.

## बौध्द धर्मा संबंदीं उलोवप, ब्रह्म बोध स्वरूप श्रीरामकृष्णांक तोतापुरीचो उपदेश

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) बुध्दा विशीं हांवें खूब आयकलां. ते ईश्वराच्या धा अवतारां मदले एक अवतार. ब्रह्म अचल, अटळ, निश्क्रीय. जेन्ना मनीस आपली बुद्द, बोध-

*फुडें स्वामी तुरीयानंद – श्रीरामकृष्णांच्या मुखेल अंतरंगींच्या संन्याशी शिश्यां भितरलो एक.

जाणिवेंत विरगळायता तेन्ना ताका ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. तो बुद्ध, साक्षात्कारी जाता. नांगटा सांगतालो, मन बुद्‌दींत विरगळटा, आनी बुद्‌द बोधांत, जाणिवेंत.

आपल्या 'हांवा'ची जाणीव आस मेरेन साधकाक ब्रह्मज्ञान जायना. ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत आनी परमेश्वराक पळयले उपरांत 'हांव' ताब्यांत येता. नाजाल्यार 'हांवा'क ताब्यांत दवरूंक जमना. आपलीच सावळी धरप मोटेंच कठीण. पूण सूर्य माथ्यार येतकच सावळी देहाच्या कांय इंचां भितर येता.

**एक भक्तः** ईश्वराचें दर्शन कशें आसता?

**श्रीरामकृष्णः** तुवें नाटक पळोवंक ना? लोक गजाली करतात आनी अकस्मात पड्‌डो वयर सरता. तेन्ना सगल्या लोकांचें लक्ष नाटका कडेन वता. लोक हेर गजालीं कडेन लक्ष दिनात. समाधी ही अशी आपले भितर वचपाची अवस्था. जेन्ना पड्‌डो पडटा तेन्ना लोक भोंवतणीं पळयतात. तेच भशेन, मायेचो पड्‌डो पडटा तेन्ना मन भायर भोंवता.

(नरेंद्र बानर्जीक) तूं जायतो भोंवला. आमकां साधूं विशीं कितेंय सांग.

नरेंद्रान भूतानच्या दोन योग्यांची गजाल सांगली. ते दर दिसा कोडू लिंबाचो एक रातभर रोस पियेताले. रमदेचे देगेर एका आश्रमांत एका साधूक भेट दिली. त्या आश्रमांतल्या साधून ह्या पाटलोण घाल्लुया बंगाली बाबूक पळोवन म्हणलें, "ताणें कपड्या सकयल - पोटा लागीं सुरी लिपोवन दवरल्या."

**श्रीरामकृष्णः** साधूंचीं चित्रां कुडींत लावंक जाय. ताका लागून सदांच ईश्वरी विचार एक सारके येतात.

**बानर्जीः** तुमचें चित्र हांवें कुडींत लायलां. तशेंच आतां गांजाची चिलीम पेटयत आसा अशी पर्वतांत रावपी साधूंचींय चित्रां लायल्यांत.

**श्रीरामकृष्णः** साधूंचीं चित्रां पळोवन अध्यात्मीक भावना जागृत जाता. नकली सीताफळां पळोवन खऱ्या सीताफळाची याद येता. तरणाटे अस्तुरेक पळोवन मनांत भोगाची ईत्सा उत्पन्न जाता.देखुनूच हांव तुमकां सांगतां, साधूसंग सदांच करप गरजेचें. (बानर्जीक) तुमकां बरें खबर आसाच. संवसाराचीं दुख्खां भोगां फाटल्यान आसात. घोणीचे चोंचींत जों मेरेन नुस्तें आशिल्लें तों मेरेन भिऱ्यांचीं भिरीं कावळे येवन तिका सतायताले. साधूचे संगतींत शांतताय मेळटा. मानगें उदकांत बरोच वेळ रावता. पूण मदीं मदीं उदका भायर येता. स्वास घेवपाक. तेन्नाच तिका बरें दिसता.

## ईश्वर कल्पतरू. प्रार्थनेंत धोको आसा

**नटः** हय महाराज. तुमी भोगा संबंदीं जें म्हणलें तें खरें आसा. ईश्वरा कडेन भोगाची इत्सा केल्यार मनीस निमणें त्रासांत पडटा. मनांत कितल्यो तरी कामना, वान्सा येत

आसतात. आनी सगल्योच कामना मनशाचें मंगल करिनात. ईश्वर कल्पतरू आसा, ताचे कडेन जी वान्सा धरून कोण जें मागता तें ताका मेळटा. आतां मनांत जर आयलें, 'ईश्वर कल्पतरू. तर वाग म्हजे मुखार येवन उबो रावता जाल्यार पळोवया.' वागाचो विचार मनांत आयिल्लयान वाग खरोच ताच्या मुखार रावता आनी ताका खावन उडयता.
**श्रीरामकृष्ण:** हय. ही जाणीव दवरूंक जाय की वाग येता. आनीक तुमकां कितें सांगपाचें? ईश्वराचेर मन दवरात, ईश्वराक विसरूं नाकात. सरळ भावान ताका आळयल्यार तुमकां ईश्वर खात्रेन दर्शन दिता. आनीक एक गजाल, नाटकाच्या निमणें हरिनाम घेवन नाटक सोंपयात. तशें केल्लयान नाटकांत जे काम करतात, गायतात ते आनी प्रेक्षक सगलेच जाण ईश्वराचें चिंतन करीत करीत आपापल्या घरा वतले.

नाटकांत काम करपी सगल्यांनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडून निरोप घेतलो.

## भक्तांच्या बायलांक उपदेश

दोन बायलो, श्रीरामकृष्णाच्यो भक्त, कुडींत आयल्यो आनी तांकां पांयां पडल्यो. श्रीरामकृष्णांच्या दर्शना खातीर येवपाक जाय म्हूण तांणी उपास केल्लो. दोन भावांच्यो बायलो - जावो जावो आशिल्ल्यो. दोगांनय तोंडां पदरान लिपयिल्लीं. वय आसत 22 - 23 चे भितर. दोगांकय भुरगीं - बाळां आशिल्लीं.
**श्रीरामकृष्ण:** (त्या बायलांक) तुमी शिवपुजा करात. पुजा कशी करप हें नित्यकर्म नांवाच्या पुस्तकांत बरयलां. ते प्रमाण पुजा करात. देवपुजा करपाची आशिल्लयान देवाचें काम खूब वेळ मेरेन करूंक मेळटलें. फुलां काडप, गंध काडप, पुजेचीं आयदनां घांसप, निवेद्य तयार करप आनी हेर सगलीं कामां करपाचीं पडिल्लयान थंयच मन रमतलें. क्षुद्रपण, राग, द्वेश, मत्सर हांचे पसून पयस उरतल्यो. तुमी दोगूय भयणी जेन्ना उलयतल्यो तेन्ना देवा विशींच उलयात.

गजाल अशी की कशेंय करून ईश्वरा कडेन मन जुळोवंक जाय. जे वरवीं एक खेपो लेगीत देवाचो विसर पडूंक जायना. ताचो विचार जसो कितें तेलाची धार कशी आसूंक जाय. थंय खंड नासता. एकाद्र्या फातराक वा विटेक लेगीत ईश्वर समजून भक्तीभावान पुजा केली तरी ईश्वराचे कृपेन ताचें दर्शन जावं येता. आतांच तुमकां सांगलां तें मतींत दवरात. शिवपुजा म्हणून असली पुजा करूंक जाय. ते उपरांत मनांत परिपक्कताय जातकूच मागीर खूब दीस पुजा करपाची गरज लागना. मागीर सदांच मन ईश्वरा कडेन एकवटीत जाल्लें आसता. मागीर देवाचें ध्यान, मनन, चिंतन, स्मरण, मनाची सदांच संवय जावन पडटा.

**व्हडली जाव:** आमकां कितेंय उपदेश दिवशात?

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) हांव मंत्र दिक्षा दिना. गुरून दिक्षा दिल्यार, शिश्याचीं पातकां आनी दुख्खां हांची जापसालदारकी ताणें घेवची पडटा. जगन्मातेन म्हाका बाळकाचे अवस्थेंत दवरला. हांवें सांगलां ते प्रमाण शिवाची पुजा करात. मदीं मदीं हांगा येयात. मागीर ईश्वराचे इत्शेन कितें जाता तें पळोवया. हरीनाम घेवपाक हांवें सांगिल्लें. तें तुमी करतात न्हय?

**व्हडली जाव:** हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी उपास करून कित्याक आयलीं? जेवन येवपाचें. अस्तुऱ्यो म्हणचे म्हजे जगन्मातेचीं कितलींशींच रुपां. म्हज्यान तांचे कश्ट पळोवंक नजं. तुमी सगलीं जगन्मातेचीं रुपां. जेवले उपरांत हांगा येयात. आनी तुमकां बरें दिसतलें.

अशें म्हणून ताणी रामलालाक त्या दोगांयच्या अल्पहाराची वेवस्था करपाक सांगली. ते प्रमाण देवळांतले पुजेचो प्रसाद, फळां, मिठाय, पुरयो, सरबत बी तांकां दिलें.

श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''तुमी थोडें खालें. आतां म्हजें मन शांत जालें. म्हज्यान अस्तुऱ्यो उपाशीं आशिल्ल्यो पळोवंक नजं.''

## भक्तां कडेन गुपीत गजाली
## केशव चंद्र सेन

दनपारचीं पांच जाल्लीं आसतलीं. श्रीरामकृष्ण शिव देवळाच्या सोपणार बशिल्ले. तांचे लागीं अधर, दोतोर निताई, म आनी हेर भक्त बशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) म्हाका तुमकां सांगीन दिसता, म्हज्या सभावांत बदल जायत चल्ला.

श्रीरामकृष्ण एक सोपण सकयल देंवले आनी भक्तां लागीं बसले. अशें दिसता की तांकां तांचे कांय भितरले अणभव भक्तांक सांगूंक जाय आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी म्हजे भक्त आसात. तुमकां सांगपाक हरकत ना. ह्या दिसांनी म्हाका ईश्वराचें चिन्मय रुपांत दर्शन जायना. आतां तो साकार नर रुपांतूच दिसता. ईश्वराचें रूप पळोवप, ताका स्पर्श करप, ताका वेगेंत धरप, हो म्हजो सभाव आसा. ईश्वर म्हाका सांगता आसत, तुवें देह धारण केला म्हणून साकार नर रुपां मदीं म्हाका पळोवन आनंद करून घे. ईश्वर सगल्या भुतां मदीं आसा. पूण हेर वस्तू परस मनशां मदीं तो चड दिसता. मनीस कितें सादी वस्त आसा? मनीस ईश्वराचें चिंतन करूंक शकता. अनंताचें चिंतन करूंक शकता. हेर जीवजंतू तें करूंक शकनात. ईश्वर बाकीच्या हेर

जीवजंतू भितर आसा. जनावरांत आसा, रुखा-वालींनी आसा, न्हंयंत, सगले कडे आसा. पूण हेर वस्तू परस मनशांत तो चड दिसता.

उजो सगल्या भुतां मदीं आसा. सगल्या वस्तूंनी आसा, पूण लांकडांत तो चड जाणवता. रामान लक्ष्मणाक म्हणलें, 'लक्ष्मणा, हतया कडेन पळय, हतो एदो व्हडलो प्राणी, पूण तो ईश्वराचें चिंतन करूंक शकना.' पूण हेर मनशां परस ईश्वर अवतारांत चड दिसता. रामान लक्ष्मणाक म्हणलें, 'लक्ष्मणा, जर तूं एकाद्र्या मनशांत ईश्वरा विशीं अपार भक्ती, प्रेम पळयशी, परम दैवी आनंदांत तो हांसता, रडटा, नाचता आसत जाल्यार मागीर खात्रेन समज की त्या मनशा मदीं हांव आसां.'

श्रीरामकृष्ण शांत बसून रावले. कांय वेळान परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** केशव सेन हांगां खूब येताले. हांगां येवन खूब बदल्ले. हालींसराक ते फांकिवंत मनीस जाल्ले. तांगेल्या पंगडा सयत ते खूब फावट हांगा आयल्यात. पूण तांकां एकटेच येवपाची लेगीत इत्सा आशिल्ली. तांचे पयलींचे जिणेंत केशवाक तितलोसो साधू संग घडूंक नासलो. कलुतालांतल्या तांच्या घरा मदीं तांची भेट जाली. हृदू म्हजे बराबर आशिल्लो. केशव जे कुडींत काम करताले तेच कुडींत आमकां बसयिल्ले. ते कितें तरी बरयताले. बऱ्याच वेळा उपरांत तांणी पेन सकयल दवरलें. ते कदेला वयले उठले आनी आमचे बराबर जमनीर बसले पूण तांणी आमकां नमस्काररूय केलो ना वा कसलेच रितीन आदर दाखयलो ना. ते हांगा मदीं मदीं येताले. एक दीस हांवें भावावस्थेंत सांगलें, 'साधूचे मुखार पांयार पांय दवरून बसूंक जायना.' ताका लागून रजोगूण वाडटा. तो आनी ताचे इश्ट येतकूच तांणी पांयां पडचे पयलीं हांव तांकां पांयां पडटालों. अशें करतां करतां ते लोक कपल जमनीर दवरून पांयां पडपाक शिकले.

## भक्ताच्या काळजांत ईश्वराचें दर्शन

हांवें केशवाक सांगलें, 'तुमी हरीनाम घेयात. कलीयुगांत ईश्वराच्या नामगुणांचें संकिर्तन करपाक जाय. ते उपरांत तांणी झांजो, मृदंग घेवन हरीनाम घेवपाक सुरू केली.*

हरीनामाचेर म्हजो विश्वास आनिकूय चड कित्याक बसलो जाणा? ह्या देवस्थानांत

* भगवान श्रीरामकृष्णां कडेन संबंद येवचे पयलीं केशव सेन झांज मृदंगा सयत 'ब्रह्मनाम' घेताले. 1875 वर्सा संबंद येतकूच ते हरीनाम आनी जगन्मातेचें मृदंग झांज घेवन नाम संकिर्तन करूंक लागले.

साधू मर्दी मर्दी येताले. एक मुलतानाचो साधू आयिल्लो. गंगा सागरांत वचपी लोकांची वाट पळयत तो हांगा राविल्लो. (म कडेन बोट दाखयत) हाच्या वयाचो साधू आशिल्लो. ताणेंच म्हाका सांगलें,

'कलीयुगांत ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवपाक मार्ग म्हणल्यार नारदान सांगला तो भक्ती मार्ग'

एक दीस केशव तांगेल्या इश्टां सयत हांगा आयिल्ले. रातचीं धा मेरेन ते हांगा आशिल्ले. प्रताप आनी हेर जाणांनी सांगलें, आयज रातीं हांगाच रावपाचें. केशवान म्हणलें, 'ना. ना. म्हाका वचुंकूच जाय. म्हाका काम आसा.' तेन्ना हावें हांसत म्हणलें, 'नुस्त्या खोटल्याचो वास आसले बगर तुमकां कितें न्हिद पडना?'

## केशव चंद्र सेनाचेर श्रीरामकृष्णांचो प्रभाव
## जगांतल्या दुख्खांची, वायटाची समस्या, विज्ञान्याची अवस्था

नुस्तेकान्न एक खेपो एका फुलां रोवपी माळणीच्या घरा सोयरी म्हूण गेली. बाजारांत नुस्तें विकून नुस्त्याचो रिकामो खोंटलो घेवन गेली. तिची फुलांचे कुडींत न्हिदपाची वेवस्था केली. पूण फुलांच्या खूब वासान तिका न्हिदूच पडना जाली. घर धनिणीन तिची अवस्था पळोवन म्हणलें, 'कितें, अशी हे कुशी वयल्यान ते कुशीक करून अशी तळमळटा शी?'

नुस्तेकान्नीन म्हणलें, 'कोण जाणां? चड करून ह्या फुलांच्या वासान म्हाका न्हीद पडनाशी दिसता. म्हाका मातसो म्हजो नुस्त्या पांटो हाडून दिता? तो म्हऱ्यांत घेतकूच म्हाका न्हीद पडुये. नुस्त्याचो खोंटलो तिचे कडेन दिलो. तो हाडटकूच ताचेर उदक शिंपडायलें. आनी तो खोंटलो तिच्या नाका लागीं दवरलो. मागीर ती नुस्तेकान्न डाराडूर न्हिदली.

ही गजाल आयकून केशवाचे सांगाती खो-खो करून हांसले.

केशवान सांजेची प्रार्थना न्हंयच्या घाटार केली. प्रार्थने उपरांत हांवें केशवाक म्हणलें, 'ईश्वरूच एका रुपान पवित्र धर्म ग्रंथ जाला. म्हणुनूच वेद, पुराणां, तंत्र ह्या सगल्यांची पुजा करपाक जाय. परत एका रुपान तो भक्त जाला. भक्तांचें काळीज ईश्वराचें बसपाचें साल जावन आसा. सालांत वतकूच धनयाची भेट जाताच. देखुनूच ताच्या भक्तांचे पुजेन स्वता ईश्वराचीच पुजा जाता.'

केशव आनी तांचे आनुयायी म्हजें म्हणणें मन लावन आयकताले. पुनवेची रात आशिल्ली. सगले कडेन कशें पिठा सारकें चान्नें पडिल्लें. आमी सगले गंगेचे देगेर उकत्या

जाग्यार सोपणांच्या माथ्यार बशिल्ले. तीं सोपणां न्हंय कडेन वतालीं. हांवें म्हणलें, 'आमी सगले जाण आतां म्हणुया 'भागवत - भक्त - भगवान.' तशें सगल्यांनी एका सुरांत म्हणलें, 'भागवत-भक्त-भगवान'. ते उपरांत हांवें म्हणलें, 'म्हणात, ब्रह्मच शक्ती आनी शक्तीच ब्रह्म.' तेन्ना परत तांणी सगल्यांनी एका सुरांत म्हणलें, 'ब्रह्मच शक्ती आनी शक्तीच ब्रह्म.' हावें तांकां म्हणलें, 'तुमी जाका ब्रह्म ब्रह्म म्हणटात ताकाच हांव आई म्हणटां. आई मोटें गोड नांव आसा.'

मागीर तांकां हांवें म्हणलें, 'म्हणात, गुरू-कृष्ण-वैशणव, तेन्ना केशवान म्हणलें, 'महाराज, आमी इतले पयस वच्चें न्हय. आमी तशें केल्यार सगले जाण आमकां कट्टर सनातनी वैशणव समजतले'.

हांव केशवाक मदीं मदीं सांगतालों. 'तुमी लोक जाका ब्रह्म म्हणटात ताकाच हांव शक्ती, आद्यशक्ती म्हणटां. वेदांत ताका ब्रह्म म्हणलां जेन्ना ती वाणी आनी विचार हांचे पलतडीं, निर्गूण आनी अकर्मी आसता.' जेन्ना हांव पळयतां ती विश्वाची निर्मिती, स्थिती, प्रलय करता तेन्ना तिका हांव शक्ती, आद्यशक्ती सगलें म्हणटां.

हांवें केशवाक म्हणलें, 'संवसारांत रावन ईश्वर प्राप्ती जावप खुबूच कठीण. जे कुडींत लोणचें, आंबटाण आनी उदकाचो तांबयो आसा, तेच कुडींत टायफोड जाल्लो रोगी दवरल्यार तो कसो बरो जातलो? देखुनूच मदीं मदीं अध्यात्मीक साधना करपा खातीर निर्जन जाग्यार वचूंक जाय. जेन्ना झाडाचें खोड जाड आनी घट्ट जाता तेन्ना ताका हती लेगीत बांदूंक येता. पूण तोच ल्हान रोंपुलो बोकड्यो, गायो खावन उडयतात.' म्हणुनूच केशव तांगेल्या भाशणांत म्हणटात, 'अध्यात्मीक साधनेन घट जावन मागीर संवसारांत रावात.'

(भक्तांक) जाणा, केशव एक व्हड पंडीत. इंग्लीशींत भाशणां दिताले. खूब लोक तांचो आदर करताले. खुद्द व्हिक्टोरिया राणी तांचे बराबर उलयताली. पूण हांगा ते उकत्या आंगान येताले. साधू दर्शना खातीर येवपाचें आसल्यार हातांत कितेंय घेवन येवंक जाय. म्हणून ते फळां घेवन येताले. गर्व म्हणटा तो तांकां नाशिल्लो.

(अधराक) तुमी पंडीत. तशेंच उपमेजिस्ट्रेट. तरिपूण तुमी बायलबुद्दीचे. फुडें चलात. चंदनाच्या रानां पलतडीं आनिकूय बऱ्यो वस्तू आसात. रुप्याची खण आसा. ते उपरांत भांगराची खण आसा. ते उपरांत हिऱ्यांची, माणकांची. लांकडांकार रानांत लाकडां कापतालो. ब्रह्मचाऱ्यान ताका सांगलें, 'फुडें चल.'

शिव देवळांतल्यान सकयल येवन श्रीरामकृष्ण आंगणांतल्यान स्वताचे कुडींत आयले. बराबर अधर, म, आनी हेर भक्त आशिल्ले. इतल्यांत विष्णू देवळांतलो सेवा करपी पुजारी राम चटर्जीन येवन खबर सांगली, माताजीचे, श्रीशारदादेवीचे सेविकेक कॉलरा जाला.

**राम चटर्जी:** (श्रीरामकृष्णांक) हांवें ते विशीं धा वरांचेर सांगिल्लें. तुमी लोकांनी आयकलें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कितें करतलों?

**राम:** तें तर खरेंच. तुमी कितें करतले? पूण राखाल, रामलाल आनी हेर आशिल्ले. तांणीय कांयच लक्ष दिलें ना.

**म:** किशोरी वखद हाडपाक आलम बाजारांत गेला.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें! एकटोच?

**म:** आनीक कोण ताचे बराबर ना. तो हाडटलो वखद आलम बाजारांतल्यान.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) जी नर्स आसा तिका सांगून दवर. जर दुयेंस वाडलें तर कितें करपाचें आनी रोग्याक बरें दिसलें तर कितें करपाचें तें.

**म:** हय महाराज.

आदीं उल्लेख केल्ल्यो बायलो येवन श्रीरामकृष्णांच्या पांयां पडल्यो. तांणी श्रीरामकृष्णांचो निरोप घेता आसतना श्रीरामकृष्णांनी तांकां सांगलें, ''शिवपुजा जशी सांगल्या ते प्रमाण करपाची. आनी हांगा येतना कितेंय खावन पियेवन येवपाचें. नाजाल्यार म्हाका खूब वायट दिसता. केन्नाय येयात.''

श्रीरामकृष्ण अस्तंतेचे गोल पडवेर येवन बसले. नरेंद्र बानर्जी, हरी, म आनी हेर तांचे कुशीक बसले. श्रीरामकृष्णांक नरेंद्राच्या संवसारीक कश्टां विशीं सगलें खबर आशिल्लें.

## बानर्जीक उपदेश
## भार्या संवसाराचें कारण आसा
## शरणागत जायात

**श्रीरामकृष्ण:** पळयात. एके लंगोटे खातीर इतले कश्ट. मनीस लग्न करता. भुरगीं बाळां जातात. म्हूण मागीर चाकरी करची पडटा. साधू लंगोटी खातीर चिंतेंत. गृहस्थी बायले खातीर चिंतेस्त. परत घरच्या लोकां कडेन पटना. म्हूण बायलेक घेवन वेगळें बिराड करचें पडटा. (हांसत हांसत) चैतन्यदेवान एक खेपो नित्यानंदाक म्हणलें, 'भावा, म्हजें आयक. संवसारांत घुसपल्ल्या मनशाक केन्ना मुक्ती नासता.'

**म:** (स्वगत) श्रीरामकृष्ण चड करून अविद्येच्या संवसारा विशीं उलयतात जावंक जाय. अविद्येच्या संवसारांतूच चड करून संवसारी जीव घुसपल्ले आसतात.

घरांतल्या लोकां कडेन कांय गैरसमज जाल्ल्यान म अजून लेगीत तागेले बायलेक

घेवन वेगळो रावतालो.

श्रीरामकृष्ण तांगेल्या भक्तांक सदांच 'एके लंगोटे खातीर' काणी सांगताले. ( थोडे भितर अशी - एक आशिल्लो साधू. दोन लंगोट्यो हीच ताची संपत. एक दी हुंदरान ताची एक लंगोटी चाबडायली. हुंदराचो उपद्रव थांबोवपाक ताणें एक माज पोसलें. माजराक दूद जाय. ते खातीर ताणें एक गाय पोसली. गायचो सांबाळ करप खातीर राखणो जाय. तो ताका दवरचो पडलो. ल्हव ल्हव गायचो वंश विस्ता वाडलो. म्हणून ताणें थोडें मळ आनी शेत घेतलें. म्हूण चाकरांची संख्या वाडली. ( प्रमाण तो ल्हव ल्हव करून एक भाटकार जालो. आनी मागीर, येदें व्हडलें घरदा सांबाळपा खातीर आपलें मनीस जाय म्हणून ताणें लग्न केलें. एक दीस दुसरो एक ताचो साधू इश्ट अचकीत थंय आयलो. हें सगलें पळोवन अजापीत जावन त्य साधू इश्टान असो बदल कसो जालो हाचें कारण विचारलें. ताचेर त्या लंगोटीवाल्या साधून म्हणलें, 'हें सगलें फकत एके लंगोटे खातीर.'

**श्रीरामकृष्ण:** (बानर्जींक - मक बोट दाखयत) हो लेगीत तुजे भशेन वेगळें बिराड करून आसा. तुमची दोगांयची गट्टी बरी जमतली. एक खेपो दोन मनीस मेळ्ळे. एकट्यान दुसऱ्याक विचारलें, 'तूं कोण?' दुसऱ्यान सांगलें, 'ओ ! हांव म्हज्या देशा पासून पयस आसां.' दुसऱ्यान पयल्याक विचारलें, 'तूं कोण?' पयल्यान सांगलें 'म्हजे मोगिणी पसून हांव पयस आसां.' दोगांयची आवतिकाय एकूच आसली. म्हूण दोगांयचें बरें जमलें. (सगले हांसतात.) पूण देवाक शरण गेल्यार मात मागीर भंय ना. ईश्वर ताच्या भक्तांची राखण करता.

**हरी:** बरें. पूण खूब लोकांक देवाचो साक्षात्कार जावपाक इतलो वेळ कित्याक लागता?

**श्रीरामकृष्ण:** भोग आनी कर्मां सोंपले खेरीज मनीस देवा खातीर व्याकूळ जायना. हें एक सत्य. दोतोर दुयेंती विशीं म्हणटा, पयलीं थोडे दीस वचूं दी. मागीर वखदान बरें दिसतलें.

नारदान रामाक म्हणलें, 'रामा, तुमी अशें अयोध्येक बसून रावल्यार, रावणवध कसो जातलो? तुमी तर ते खातिरूच अवतार घेतला.' रामान म्हणलें, 'नारदा, योग्य वेळ येवं दी. रावणाचीं पयलींचीं, फाटलीं कर्मां फळाक येवं दी. म्हणचे मागीर ताच्या मरणाक सगलें कितें पोशक जातलें.

**हरी:** महाराज, जगांत इतलें दुख्ख कित्याक आसा?

**श्रीरामकृष्ण:** हें जग ईश्वराची लिला. तें खेळा सारकें आसा. ह्या खेळांत सूख, दुख्ख, पाप, पुण्य, ज्ञान, अज्ञान, वायट - बरें, सगलें कितें आसा. पाप, दुख्ख हें

गलें ना जाल्यार खेळ चलपाचो ना. आपालिपा खेळटना तुका सुटपाक जाय तर आजयेक आफुडपाचें आसता पूण खेळ सुरू जाले बराबर आजयेक आफुडलो जाल्यार आजयेक खोशी जावची ना. ईश्वराची इत्सा आसतली खेळ चालू उरचो. मागीर –

लाखांनी पतंगां मदले चडूच जाल्यार एक दोन पतंग
तुट्टात आनी मेकळे जातात.
आनी ए जगन्माते, हें पळोवन तूं हांसत हांसत ताळयो मारता.

म्हणजेच व्हड तपश्चर्ये उपरांत ताचेच कृपेन ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवन एकादो दुसरो मुक्त जाता. त्या वेळार आई जगन्माता आनंदान ताळयो मारता आनी म्हणटा, 'वा, वा ते सुटले.'

**हरी**: पूण ताच्या खेळांत आमचो जीव वता. ताचें कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) मातशें म्हाका सांग, तूं कोण? ईश्वरूच सगलें कितें जाला. माया, जीव जगत. चोवीस तत्वां. सोरोप जावन हांव चाबतां आनी मांत्रीक जावन हांवूच तें वीख देंवयतां. तोच विद्या, अविद्या दोनय जाला. अविद्या मायेन तोच अज्ञानी जीव जाला. गुरूरुपान मांत्रीक जावन तोच अज्ञानी जीव तोच विद्यामायेन तें अज्ञान पयस करता. अज्ञान, ज्ञान आनी पूर्ण ज्ञान – विज्ञान ज्ञानी मनशाक कळटा. फकत ईश्वरूच आसा. तोच करतो, तोच निर्मिती, पालनपोशण आनी संहार करीत आसता. विज्ञानीक दिसता, ईश्वरूच सगलें कितें जाला. महाभाव, आनी प्रेम हांचो लाव जाले उपरांत, मनशाक कळटा, ईश्वरा बगर आनीक कांयच ना. भावा मुखार भक्ती फिकट पडटा. भाव पक्को जाले उपरांत ताचें रुपांतर महाभाव आनी प्रेमांत जाता. (बानर्जीक) ध्यानाच्या वेळार जगांटीचो नाद अजून लेगीत आयकूंक येता काय?

**बानर्जी :** हय महाराज. सदांच आयकूंक येता. तशेंच ईश्वराच्या रुपांचींय दर्शनां जातात. मनान तांचो अणभव घेतले उपरांत ह्यो सगल्यो गजाली थांबतात?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हं, एक खेपो लांकडान पेट घेतकूच मागीर उजो वाडवना. (भक्तांक) श्रध्दे विशीं तांकां खूब कितें खबर आसा.

**बानर्जी:** म्हजे भितर श्रध्दा खूब आसा.

**श्रीरामकृष्ण :** तूं तुज्या घरच्या बायलांक बलरामाच्या घरच्या बायलां बराबर घेवन यो.

**बानर्जी :** बलराम कोण?

**श्रीरामकृष्ण:** बलरामाक तूं वळखना? तो बोसपाड्यांत रावता.

सरळ सभावाचे मनीस श्रीरामकृष्णांक खूब आवडटाले. नरेंद्र बानर्जी खूब सरळ सभावाचो अशिल्लो. निरंजनय सरळ. म्हणून श्रीरामकृष्णांचें ताचेर खूब प्रेम आशिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हांव तुका निरंजनाची भेट घेवपाक कित्याक सांगतां? तो खरेंच सरळ सभावाचो आसा काय ना हें तुवें पळोवचें म्हणून.

# अध्याय : चवद्यांयशीं

## दक्षिणेश्वर देवूळ. श्रीरामकृष्णांचो जल्मदीस
## विजय, केदार, राखाल, सुरेंद्र
## आनी हेर भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण

### पंचवटींत वडाच्या पारार विजय आनी हेर भक्तां वांगडा

**मे 25, 1884. आयतार.** भगवान श्रीरामकृष्ण पंचवटींतल्या त्या पुर्विल्लया वडा पारार बशिल्ले. तांच्या वांगडा विजय, केदार, सुरेंद्र, भवनाथ, राखाल आनी हेर भक्त आशिल्ले. कांय भक्त श्रीरामकृष्णां बराबर पारार बशिल्ले. बाकीचे सगले सकयल जमनीर बशिल्ले.

भक्तांनी श्रीरामकृष्णांचो जल्मदीस मनोवपाचो थारायिल्लो. तांच्या हाताच्या दुखण्या खातीर तांचो जल्मदीस मनोवप जालें ना. आतां ते बरेच बरे जाल्ले. म्हणून भक्तांनी आयज तांचो जल्मदीस मनोवपाचें थारायिल्लें. एक जाणटी पूण प्रसिध्द संकिर्तन करपी बायल आयज भगवत संकिर्तन करतली.

दनपारचें एक वर जाल्लें. म श्रीरामकृष्णांक तांगेले कुडींत पळोवंक लागलो. थंय ते ताका दिश्टी पडले नात तेन्ना म पंचवटींत गेलो आनी ताणें भक्तांक उत्सुकतायेन विचारलें, ''ते खंय आसात?'' म श्रीरामकृष्णांचे सामके मुखार आशिल्ले. पूण बोवाळांत आशिल्लयान ताका ते दिसलेच नात. सगले भक्त मोट्यान हांसूंक लागले. तितल्यान मन श्रीरामकृष्णांक पळयले आनी तो गोंदळ्ळो. ताणें श्रीरामकृष्णांक साश्टांग नमस्कार केलो.

श्रीरामकृष्ण दक्षिणे कडेन तोंड करून बशिल्ले, आनी आनंदान हांसताले. तांचे दावे वटेन केदार आनी विजय बशिल्ले. जेन्ना केदारान ब्राह्मसमाजा कडलें नातें तोडिल्लें तेन्ना ह्या दोन भक्तां मदीं हालींच गैरसमज जाल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक हांसत) पळयलें, हांवें कशे दोगांयकय एकठांय हाडले?

वृंदावनांतल्यान श्रीरामकृष्णांनी माधवी वाल हाडून ती पंचवटींत 1868 वर्सा रोयिल्ली. आतां ती बरीच व्हड आनी घट जाल्ली. ल्हान ल्हान भुरगीं तिका हुमकळून

झोंपाळे घेतालीं. तिचे वयल्यान उडयो मारतालीं. तें पळोवन श्रीरामकृष्ण आनंदी जावन म्हणटाले, "माकडांच्या पिलां भशेन. तीं मदीं मदीं पडलीं तरी झोंपा घेवपाचीं सोडपाचीं नात." सुरेंद्र पारा सकयल उबे आसात तें पळोवन श्रीरामकृष्णां तांकां मायेन म्हणलें, "तुमी वयर येवन बसात न्हय. मागीर पांय सकयल सोडून ब हालोवन बसूंक जमतलें."

सुरेंद्र पारार वचून बसले. भवनाथ कोट घालून आशिल्लो पळोवन सुरेंद्रान ताक म्हणलें, "तुमी कितें इंग्लडाक वतात?"

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) ईश्वरूच आमचें इंग्लंड. मदीं मदीं हांव कपडे घालिनाशिल्ल आनी असोच नागडो भोंवतालों. एक फावट शंभून म्हाका म्हणलें, 'नागडो आनंदा भोंवप सूखदिणें आसता. म्हणुनूच तुमी अशे भोंवतात.' एक दीस हांवें तशें करू पळयल्लें.

**सुरेंद्रः** ओफिसांतल्यान येतकच कोट, पॅण्ट काडटना जगन्मातेक म्हणीत आसतां 'आई, कसो पूण तुवें म्हाका बांदून दवरला? संवसारा कडेन सामको घट बांदू उडयला म्हाका.'

## आठ पास आनी तीन गूण

**श्रीरामकृष्णः** आठ पासांनी मनीस बांदिल्लो आसा. लज, दुस्वास, भंय, जातीचो गर्व, अनमनें, गुपीतपणाची इत्सा आनी हेर.

श्रीरामकृष्ण गावंक लागलेः

माते, हाचीच म्हज्या काळजाक खूब खंत भोगता
तूं म्हजी आवय आसून लेगीत आनी हांव सामको जागो आसून लेगीत
म्हज्या घरांत चोरी घडटा.

हें गीत जातकच श्रीरामकृष्ण परत गावंक लागलेः

श्यामामाते, संवसाराच्या भर बाजारांत, तूं पतंग हुबयता,
आशारुपी वाऱ्यार ते खूब उंच उडटात पूण मायारुपी दोरयेन ते गच्च बांदल्यात.

तांचे आकार मानवी सांगाड्या भशेन, तांच्यो शेंपड्यो तीन गुणांनी घडयल्यात.
पूण तांचे वयलें नक्षीकाम फकत सोबे खातिरूच आसा.

तांच्या दोरयांक लायला तुवें विशय वासनांचो मांजो,
करूंक घट दर एक दोर धारेचो
लाख पतंगांतले एक दोन पतंगूच, कातरून सुट्टात.
आनी त्या वेळार, ए माते, तूं तांचे कडेन पळयंत हांसता आनी ताळयो मारता.

रामप्रसाद म्हणटा, ते कातरिल्ले पतंग
वाऱ्याच्या पालवात भवसागराचे पलतडीं वचून पडटात.

**श्रीरामकृष्ण:** मायारुपी दोरी म्हणल्यार बायल भुरगीं. ते दोरयेक तुवें विशय वासनारुपी मांजो लायलो. विशय म्हणचे कामिनी-कांचन. सत्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांनीच मनशाक गुलाम करून दवरला. तीन भावूच कशे. सत्व आसल्यार तो ताका पालव दिवपाक रज गुणाक आफोवन हाडटा. रज आसल्यार तो तमाक आफोवन हाडटा. तिनूय गूण चोरूच. तमोगूण नाश करता. रजोगूण बद्ध करता आनी सत्वगूण मनशाक मेकळो करता खरो, पूण तो मनशाक ईश्वरा मेरेन व्हरूंक पावना.
**विजय:** (हांसत) कारण सतोगूण लेगीत चोरूच आसा म्हणून.
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ईश्वरा मेरेन घेवन वचूंक पावना, पूण ईश्वरा कडेन वचपाचो मार्ग मात तो दाखोवन दिता.
**भवनाथ:** खरेंच कितलें सुंदर वचन हें.
**श्रीरामकृष्ण:** हय, खूब उच्च विचार हो.

हें सगलें आयकून भक्त खूब आनंदीत जाले.

## विजयाक, केदाराक आनी हेरांक कामिनी-कांचना विशीं उपदेश

**श्रीरामकृष्ण:** बंधनाचें कारण कामिनी-कांचन. कामिनी-कांचनूच संवसार. कामिनी-कांचना खातिरूच मनशाक ईश्वर दिसूंक पावना.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्णांनी तुवालो स्वताच्या तोंडा मुखार धरलो आनी भक्तांक

तांणी म्हणलें, "आतां तुमच्यांनी म्हाका पळोवं येता? तुमच्यांनी म्हाका पळोवं नजं. हो तुवालो तोंड लिपयता. कामिनी-कांचनाचें आवरण पयस जातकच चिदानंदाच लाव जाता - चैतन्य आनंद.

तुमकां थोडेशें सांगतां, जाणें स्त्रीसुखाचो त्याग केला ताणें सगल्या जगाच्य सुखांचो त्याग केला. ईश्वर अशा मनशाचे लागींच आसता."

भक्त थंडपणान हें आयकताले.

**श्रीरामकृष्णः** (केदाराक, विजयाक आनी हेर भक्तांक) जाणें स्त्रीसुखाचो त्याग केल ताणें सगल्या जगाच्या सुखाचो त्याग केला. हें कामिनी-कांचनाचें आवरणूच ईश्वराक लिपयता. तुमकां येद्यो व्हडल्यो मिशयो आसात तरी तुमी लेगीत कामिनी-कांचनांत घुसपल्यात. खरें काय न्हय हें सांगात. तुमचे भितर सोद घेयात आनी खरें कितें ते सांगात.

**विजयः** हय, हें खरें आसा.

केदार ओग्गी बसले.

**श्रीरामकृष्णः** हांव पळयतां, सगलेच बायलांक वश. कॅप्टनाच्या घरा गेल्लों. तांगेर सावन रामाच्या घरा वचपाचे आशिल्ले. देखून कॅप्टनाक म्हणलें, 'तुमी आमचे गाडयेचें भाडें दियात.' कॅप्टनान बायलेक ते विशीं सांगलें. बायलूय बी तसलीच. तिणें म्हणलें, 'कितें जालें? कितें जालें?' निमणें कॅप्टनान म्हणलें, 'राम तें दितलो!' पळयलें, गीता, भागवत आनी वेदांनी सांगलां, सगले बायले मुखार तकली बागयतात. (सगले हांसतात.)

मनीस, ताचो दुडू, ताची इस्टेट आनी सगलें बायलेच्या हातांत दिता. पूण तो भोळेपणान आनी सादेपणान म्हणटा, 'म्हजो सभाव असो की म्हज्यान दोन पयशे लेगीत स्वता कडेन दवरूंक नजं.'

एक मनीस चाकरे खातीर एका ऑफिसांत गेलो. जागे कितलेशेच रिकामे आशिल्ले. पूण मेनेजर नोकरी कसोच दिना. ताच्या इश्टान ताका सांगलें, 'तूं गुलाबीक मेळ आनी तिका सांग. मागीर तुका नोकरी मेळटली.' गुलाबी त्या मेनेजराची नायकीण आशिल्ली.

### पयलींची जीण
### किल्लो पळोवपाक वचप
### बायलो आनी रस्त्याची देंवती

बायलां खातीर आपूण कितले सकयल आयल्यात तें दादल्यांक कळना. एकदां गाडयेन किल्ल्यांत गेल्लों तेन्ना भितर वतना दिशिल्लें, हांव सपाट रस्त्यान वतां म्हणून.

ामाणें पळयलें, हांव चार माळयो सकयल जमनी पोंदा पावलां. रस्त्याची देंवती.

जांकां भूत लागलां तांकां कळना, आपणाक भूत लागलां म्हणून. तांकां दिसता, नापूण बरो आसां.

**वेजय:** (हांसत) भूत काडपी मेळ्ळो जाल्यार तो बरो जावं येता?

विजयाचे जापेक श्रीरामकृष्णांनी इतलेंच म्हणलें, ''तें सगलें ईश्वराचे इत्शेचेर नेंबून आसा.''

इतलें म्हणून ते परत बायलां विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** जाका जाका हांव विचारतां तो म्हणटा, 'हय महाराज, म्हजी बायल बरी आसा.' एकलोय सांगिना, ताची बायल वायट आसा म्हणून. (सगले हांसतात.) जे सदांच कामिनी-कांचनांत गुल्ल आसतात तांकां त्या पिशेपणांत कांयच कळना. जे बुद्दीबळ खेळपांत दंग आसतात तांकां खूब खेपे बुद्दीबळांतल्या घुलांची खेळी बरोबर आसा काय ना तें कळना. जे पयसुल्लूयान तो खेळ पळयतात तांकां घुलांची खेळी खंयची बरी तें कळटा.

अस्तुरी म्हणचे मायेचें मूर्त रूप. नारद रामाचें स्तवन करतना म्हणूंक लागले - 'रामा, सगले पुरूश तुजे अंश आसात. सगल्यो अस्तुऱ्यो सीतेचे अंश आसात आनी सीता तुजेच मायेचें रूप आसा. प्रभो, म्हाका आनीक कांय वरदान नाका. फकत इतलेंच सांगणें आसा की तुज्या पांयां कडेन शुद्ध भक्ती मेळूं आनी तुजे जगन्मोहिनी मायेन हांव मुग्ध जावन वचनासतना उरूं.'

## गिरींद्र, नगेंद्र आनी हेरांक उपदेश

सुरेंद्राचो धाकटो भाव गिरींद्र आनी तांचो पुतणयो नगेंद्र बी थंय आशिल्ले. गिरींद्र ऑफिसांत काम करतालो. नगेंद्र वकिलीचो अभ्यास करतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** (सुरेंद्राच्या नात्यांतल्यांक) म्हजें तुमकां इतलेंच सांगणें, तुमी संवसारांत आसक्त जावं नाकात. पळय, राखालाक ज्ञान आनी अज्ञान हाची जाणीव जाल्या. तो सत-असत हाचो विवेक करूंक शकता. म्हणून हांव ताका सांगतां. 'घरा वच, मर्दीं मर्दीं हांगा येत राव आनी एक दोन दीस हांगा राव.' आनी तुमी लोकांनी एकामेकां कडेन प्रेमान वागचें. तरूच मंगल जातलें आनी तुमी आनंदांत रावूंक पावतले. नाटकांत काम करपी जर एका सुरांत गावंक लागले तरूच नाटक बरें जातलें आनी आयकतात त्या प्रेक्षकांकूय आनंद मेळटलो.

ईश्वरा कडेन चड मन दवरून थोड्याश्या मनान संवसारांतलीं कामां करपाचीं साधूंचें मन ईश्वरा कडेन तीन वांटे आनी बाकीच्या कामां कडेन एक वांटो आसूंक जाय. साधून अध्यात्मीक गजालीं कडेन खूब सावध आसूंक जाय. सोरपाची शेंपडी सामकी नाजूक आसता. तिचेर पांय पडटकच ताचें सगलें आंग वळवळटा. तेच प्रमाण साधूंच्या अध्यात्मीकपणाक धक्को लागतकच ताची सगली जीण दुखावता. ताचे सगले जिणेचेर परिणाम जाता.

## पंचवटींत संकिर्तन
## अचकीत कुपां येतात आनी वादळ सुट्टा

श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडा कडेन वताले आनी तांणी वतना सिंथीच्या गोपाळाक आपली सत्री कुडींत व्हरून दवरपाक सांगलें. पंचवटींत संकिर्तनाची तयारी केल्ली. जेन्ना श्रीरामकृष्ण परत आयले तेन्ना ते भक्तां मदीं येवन तांच्या जाग्यार बसले. संकिर्तन गायन सुरू जालें. अचकीत वादळ सुरू जालें. श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत तांचे कुडींत परत गेले. संकिर्तन कुडींत करपाचें थारायलें.

**श्रीरामकृष्णः** (सिंथीच्या गोपाळाक) तुवें सत्री हाडल्या?

**गोपाळः** ना महाराज, पद आयकुपाच्या बोवाळांत विसरलों. सत्री पंचवटींत उरली.

गोपाळ ताकतिकेन ती हाडपाक गेलो.

**श्रीरामकृष्णः** सामान्यतायेन हांव निश्काळजेन आसतां खरो पूण इतलो न्हय. राखालाचेंय अशेंच. एके कडेन आमंत्रण आशिल्लें. आमंत्रणाची तारीख तेरा आशिल्ली. राखालान सांगली इकरा आनी गोपाळ तर गोपाळूच गायेच्या कळपांतलो.

## विजय आनी हेर भक्तां वांगडा संकिर्तनानंद
## चैतन्य महाप्रभूच्या संन्यासा विशीं संकिर्तन

संकिर्तन सुरू जालें. चैतन्य महाप्रभूच्या संन्यासा विशीं संकिर्तनकार गीत गावपाक लागली. मदीं मदीं ती आपल्यो वळी घालताली. "तो अस्तुरे कडेन पळयनाशिल्लो. कारण तें संन्यासधर्मा आड." " मनशाचें दुख्ख पयसावपा खातीर तो अस्तुरे कडेन पळयनाशिल्लो. कारण प्रभूचें श्रीचैतन्य म्हूण जल्मप फुकट वतलें आसलें."

श्रीरामकृष्ण चैतन्य महाप्रभूच्या संन्यासा विशीं गीत आयकतां आयकतां उबे रावले।

आनी समाधीमग्न जाले. तें अपरूप दृश्य पळोवन भक्तांनी तांच्या गळ्यांत फुलांचे हार घाले. श्रीरामकृष्ण पडचे न्हय म्हूण भवनाथ आनी राखाल तांकां धरून उबे आशिल्ले. विजय, केदार, राम, म, मनोमोहन, लाटू आनी हेर भक्त तांकां रेवाडो घालून उबे आशिल्ले. खुद्द चैतन्य महाप्रभूच भक्तां वांगडा हरीनाम घेतात कशे.

श्रीकृष्ण अखंड सच्चिदानंद. तोच परत जीव जगत.

श्रीरामकृष्ण ल्हव ल्हव भानार आयले. ते श्रीकृष्णा कडेन उलयताले. मदीं मदीं 'कृष्ण' हें उतर उलयताले. भक्तीन तल्लीन जाल्ल्यान तांकां नांव स्पश्टपणान म्हणूंक जमनाशिल्लें. तांणी म्हणलें, ''कृष्ण, कृष्ण, कृष्ण सच्चिदानंद. हालीं सरा म्हाका तुजें रूप दिसना. आतां तूं म्हाका भितर आनी भायर दिसता. म्हाका अशें दिसता की तूंच जगत, जीव, वैश्वीक चोवीस तत्वां, सगलें जाला. मन, बुद्द सगलें फकत तूंच जाला.'' 'गुरूक स्तवन' हातूंत म्हणलां, 'श्रीगुरूक वंदन, जड चेतन सगल्यां भितर आसा तो परमेश्वर म्हाका गुरू कृपेन मेळ्ळा.'

तूंच अखंड आनी तूंच परत ह्या जड आनी चेतन विश्वांत भरून आसा. खऱ्यानीच विवीधतायेन नटिल्लें विश्व तूंच आसा. फकत तूंच ह्या विश्वाचो आधार. आरे कृष्णा, तूं म्हजी जीण आसा, आरे कृष्णा, तूं म्हजें मन आसा. आरे कृष्णा, तूंच म्हजी बुद्द, आरे कृष्णा, तूंच म्हजो आत्मो, ए गोविंदा, तूं म्हजे जिणेचो श्वास, तूं म्हजी स्वता जिणूच आसा.''

विजय लेगीत ईश्वरी भावांत आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां विचारलें, ''महाराज, तुमीय बेहोश जाले काय?'' विजयान नमळायेन म्हणलें, ''ना, महाराज.''

संकिर्तन सुरूच आशिल्लें. मन विसरून ईश्वराचेर प्रेम हे विशीं गीत गायताले. तिणें म्हणलें,

म्हज्या प्राणसख्या, हांव तुका म्हज्या काळजांत
दीस आनी रात दवरतलीं आशिल्लीं.

हें आयकून श्रीरामकृष्ण परत समाधीमग्न जाले. तांचो मोडिल्लो हात भवनाथाच्या खांदार आशिल्लो. श्रीरामकृष्ण थोडेशे भानार आयले. गीत सुरूच आशिल्लें:

जाणें तुजे खातीर सगल्याचो त्याग केला
ताकाय बी इतलें दुख्ख कित्याक भोगचें पडटा?

श्रीरामकृष्णांनी संगीत गायिकेक नमस्कार केलो. मागीर सकयल बसून ते संकिर्तन आयकूंक लागले. मदीं मदीं ते भानार नासताले. संकिर्तन थांबलें. श्रीरामकृष्ण भक्तां कडेन उलोवंक लागले.

## श्रीरामकृष्णांचो भक्तां वांगडा नाच आनी समाधी

**श्रीरामकृष्ण:** (विजयाक आनी हेर भक्तांक) मोग म्हणचे कितें? जाचे मदीं तो भावता, ईश्वरा विशीं अपार मोग जाता ताका जगाचो तर विसर पडटाच पूण सगल्यांक प्रीय आशिल्लो देह, ताचो लेगीत ताका विसर पडटा. चैतन्यदेवा लागीं अशें प्रेम आशिल्लें.

मोग मेळटकच कितें जाता तें श्रीरामकृष्ण एक गीत म्हणून समजावन सांगूंक लागले.

आरे, तो सुभागी दीस केन्ना उदेतलो
जेन्ना म्हज्या दोळ्यांतल्यान व्हांवतलीं आनंदाचीं दुकां
भगवान हरीचें नांव म्हणटना?...

श्रीरामकृष्ण आनंदान नाच करूंक लागले. भक्तूय तांचे बराबर नाच करूंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी मचो हात धरून ओडून ताका त्या नाच पंगडांत व्हेलो. अशे तरेन नाचतां नाचतां श्रीरामकृष्ण परत समाधीमग्न जाले. एकाद्र्या चित्रा भशेन ते स्तबध उबे आशिल्ले अशें दिसलें. केदार तांची समाधी भंग जावची म्हणून स्तोत्र गावंक लागले:

काळजाच्या कमळा भितर आमी पुजा करतात ब्रह्म चैतन्याची,
वेगळावणे भायलो, हरी, हर आनी ब्रह्मा करतात पुजा जाची
आपले साधनेचे खोलायेंत मेळयतात जाका योगी.
जल्म मरणाचो भंय पयसावपी
ज्ञान आनी सत्यांतलें नीजतत्व, विश्वाचें मूळ बीज.

ल्हव ल्हव श्रीरामकृष्णांची समाधी देंवली. ते तांच्या जाग्यार बसले आनी भगवंताचें नांव घेवपाक लागले.

"ओम सच्चिदानंद गोविंद! गोविंद! गोविंद! योग माया!
भागवत-भक्त-भगवान"

श्रीरामकृष्णांनी संकिर्तनाचे आनी नाचाचे सुवातेचो धुल्ल घेवन तो कपलाक लायलो.

## संन्याश्यांचें कठीण व्रत
## संन्याश्यांक आनी लोकांक उपदेश

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण गंगेक फुडो करून वाटकुळे पडवेर येवन बसले. विजय, भवनाथ, म, केदार आनी हेर भक्त लागींच बशिल्ले. श्रीरामकृष्ण मदीं मदीं म्हणटाले, ''वा कृष्णचैतन्य''

**श्रीरामकृष्णः** (विजयाक आनी हेर भक्तांक) हे कुडींत कितलेंशेंच हरीनाम घेवप जालां. देखुनूच वातावरण खर भावनामय जालां.

**भवनाथः** तातूंत परत संकिर्तन संन्यासा विशीं आशिल्लें.

**श्रीरामकृष्णः** वा! वा! कितलें उमेद वाडोवपी!

मागीर ते गौरांग आनी नित्यानंद हांचे विशीं गांवक लागलेः

गोरा प्रेमाचें अमृत ओंपता,
कळशे फाटल्यान कळशी रकयता,
आनी तरीय ताका अंत ना!
गोड बरो निताई सगल्यांक आफयता,
मोगाळ गोरा तांकां यो म्हणटा,
शांतीपूर सामकें भिजून गेलां,
आनी नादिया प्रेमान उप्पट भरलां!

**श्रीरामकृष्णः** (विजयाक आनी हेरांक)

संकिर्तनांतली ती वळ सुंदर आशिल्ली. संन्याश्यान अस्तुरे कडेन पळोवं नये हो संन्याश्याचो धर्म आसा. कितलो सुंदर आदर्श!

**विजयः** हय महाराज. खरेंच.

**श्रीरामकृष्णः** संन्याश्या कडेन पळोवनूच तर सगले जाण शिकतात. देखुनूच संन्याश्या खातीर इतले कठीण नेम. अस्तुरेचें चित्र लेगीत संन्याश्यान पळोवं नये. कितलो कठोर नेम. काळो बोकडो देवीक बळी दिवपाचो आसता. पूण ताका खंयय इल्लोसो घाय

---

* हें चैतन्य महाप्रभूंचें आनीक एक नांव. गौरांग, गौर हीं ताचींच नांवां.

आसत तर तो बळी म्हणून उपकारना. संन्याश्याचेंय अशेंच. संन्याश्यान अस्तुरे कडेन संग तर करपाचो नासताच, अस्तुरे कडेन उलोवपाचें लेगीत नासता.

**विजयः** ल्हान हरीदास एके भक्त अस्तुरे कडेन उलयलो म्हणून चैतन्यदेवान ताचो त्याग केलो.

## पयलींची जीण

**श्रीरामकृष्णः** संन्याश्यान कामिनी–कांचना वांगडा रावप म्हणल्यार एके सुंदर अस्तुरेक घामाचो वायट वास आसपा भशेन. असो वायट वास तिच्या आंगाक आसत तर व्यर्थ तिची सुंदरकाय. एक मारवाडी म्हाका कांय पयशे दिवपाक सोदतालो. मथूरबाबू म्हज्या नांवान जमीन करूंक सोदताले. पूण म्हज्यान कितेंच घेवंक नजं. संन्याश्याचे नेम सामके खर आनी कठोर आसतात. संन्याश्याचो वेश घेतला तर मागीर सारकें संन्याश्या भशेन वागूंक जाय. नाटकांत पळयनात? जो राजा जाता तो राजा भशेन वागता. जो प्रधान जाता तो प्रधाना भशेन वागता. पूण परमहंस अवस्था प्राप्त जातकच मनीस बाळका भशेन जाता. पांच वर्सांच्या भुरग्यां मदीं बायल दादलो हांचो बोध नासता. तरी लोकोपदेशा खातीर परमहंसान लेगीत सावचीतपणान वागूंक जाय. नाजाल्यार लोकांक भलतीच देख घालून दिल्ले भशेन जातलें.

केशव चंद्र सेन कामिनी–कांचनांत रावल्यात. देखुनूच तांच्या लोकोपदेशाच्या कामांत आडमेळीं आयल्यांत.

श्रीरामकृष्ण ते विशीं उलयताले.

**श्रीरामकृष्णः** (विजयाक) तांच्या (केशवाच्या) संबंदान म्हणटां हांव. आयलें न्हय ध्यानांत?

**विजयः** हय, महाराज.

**श्रीरामकृष्णः** देव आनी संवसार ह्यो दोनूय वटो राखूंक गेल्यार तें तितलेंशें विशेशतायेन करूंक जमचें ना.

## चैतन्यदेवांनी संवसारत्याग कित्याक केलो?

**विजयः** चैतन्यदेवांनी नित्यानंदाक म्हणलें, 'निताई, हांवें जर संवसाराचो त्याग केलो ना तर लोकांचें बरें जावपाचें ना. म्हाका पळोवन सगले जाण संवसार करूंक लागतले. कामिनी–कांचनाचो त्याग करून हरीपादपद्मीं सगलें मन लावपाचो कोण

पत्नूच करचो ना.'

**श्रीरामकृष्णः** चैतन्यदेवांनी लोकोपदेशा खातीर लोकां मुखार देख म्हणून संवसार त्याग केलो.

संन्याश्यान स्वताच्या कल्याणा खातीर कामिनी-कांचनाचो त्याग करपाक जाय. आनी जरी तो स्वता ते पसून निर्लिप्त आसलो, जरी ताका स्वता ते पसून धोको नासलो, तरी लोकांक देख घालून दिवपा खातीर ताणें कामिनी-कांचन म्हज्यांत दवरूंक जायना. संन्याशी त्यागी मनीस हो जगद्‌गुरू आसता.

ताका पळोवनूच लोकां मदीं धर्मीक भावना जागृत जाता.

तिनसांज जाली. भक्तांनी श्रीरामकृष्णांक प्रणाम करून निरोप घेतलो.

# अध्याय : पंच्यांयशीं

## सुरेंद्राच्या घरा उत्सव

### भक्तांच्या सांगातान श्रीरामकृष्णांक आनंद

**जून 15, 1884. आयतार.** श्रीरामकृष्ण सकाळींच सुरेंद्राच्या घरा आयले. सुरेंद्राचें घर तांचे बगेंत आसलें. ही बाग कलकत्तांतल्या काकुडगाछी ह्या वाठारांत आसली. ग्रहस्थी शिश्यां भितर श्रीरामकृष्णांचे ते परमभक्त.

सुरेंद्रान तांकां आनी हेर बऱ्याच भक्तांक धर्मीक उत्सवाक आफयिल्ले.

श्रीरामकृष्णांच्या भक्तांक अशें मेळप म्हणल्यार सूख आनी आनंद करपाचो प्रसंग. अशा वेळार श्रीरामकृष्ण चड आनंदीत दिसताले. ते तांचे बराबर भजन करूंक लागले. आनी ईश्वराचें नांव घेतां घेतां ते मदीं मदीं आनंदान बेहोश जाताले. श्रीरामकृष्ण ईश्वराच्या चैतन्याचीं वेगळीं वेगळीं आंगां मोटच्या आत्मीकपणान आनी उत्स्फूर्तपणान भक्तांक समजावन सांगताले. असल्या उत्सवाचो प्रभाव भक्तांच्या मनांत खूब दीस मेरेन उरतालो. बागेच्या घरांतल्या सालांत वेवसायीक गावपी भजन गायताले. तें आयकुपाक सगले भक्त, रांगेंत उबे राविल्ले. कुडींतले जमनीचेर गालीचो घाल्लो आनी ताचे वयर धवी चादर घाल्ली. ते भायर मदीं मदीं लोडां, उशीं हांगा थंय दवरिल्लीं.

संकिर्तनाक सुरवात जाली. श्रीकृष्णाचे जिणेंतल्या, तांतले तातूंत, वृंदावनांतल्या गोपी कृष्ण प्रेमा विशीं संकिर्तन चलिल्लें. हो विशय श्रीरामकृष्णांक खुबूच आवडटालो आनी हें गायता आसतना श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदांत मग्न आसताले.

कृष्ण ईश्वराचो अवतार आशिल्लो. ताचें भुरगेपण वृंदावनांत राखणो म्हणून गेलें. यमुनेच्या तिरार, पाचव्याचार मळार तो गायो राखूंक व्हरतालो आनी थंय मुरली वाजयतालो.

गोपींक ताचे विशीं ईश्वरी ओड इतली आशिल्ली की तांकां ती स्वस्थ बसूंक दिनाशिल्ली. मुरलीचो आवाज आयकले बराबर गोपी घरचें काम थंयच सोडून न्हंयेचे देगेर

ावताल्यो. कृष्णाच्या मोगान तांची संवसारांतली आसक्ती नश्ट जाल्ली. नातलगांचो ाक आनी हेरांची वायट उलोवणीं आयकून लेगीत तांणी कृष्णाचो सांगात सोडलो ना. कृष्णा विशीं गोपींच्या मोगांत संवसारीपणाचो लवलेश नाशिल्लो. ती शुद्ध आत्म्याची ईश्वरी ओड आशिल्ली. जशी लोखणाची लोहचुंबकाक आसता तशी. भागवतकारान ह्या मोगाची तुळा एक अस्तुरी तिगेल्या मोग्याक सर्वस्व दिता ताचे कडेन केल्या. असो मोग जावचे पयलीं मनीस आनी ईश्वर हांचे मदलीं आडमेळीं ना जावन वतात. भक्त ईश्वराक पूर्णतायेन शरण वता आनी निमणें ईश्वर आनी तो एक जावन वतात.

सगल्या गोपिकां मदीं राधा मुखार आशिल्ली. आनी कृष्ण मुखेल वांगडी. तिका कृष्णा विशीं उतरांनी सांगूंक येना अशी ओड आशिल्ली. एक खीण लेगीत कृष्णा पसून पयस रावप म्हणल्यार तिच्या काळजाक घावे जाताले. चान्न्याचे रातचो वृंदावनांत कृष्ण राधा आनी गोपीं बराबर नाचतालो आनी अशा वेळार गोपी ईश्वरी आनंदांत बुडून वताल्यो. कृष्ण मथुरेचो राजा जावपाक ताचे पिरायेच्या इकराव्या वर्सा ताका आफयलो. तो गोपींक सोडून गेलो पूण वतना ताणें तांकां वचन दिलें, ताची मना पसून याद केले बराबर ताचें दर्शन तांकां तांच्या काळजांत जातलें. शेंकड्यांनी वर्सां जालीं हिंदूस्तानांत ईश्वर प्रेमी ईश्वराची पुजा करतना कृष्णा विशीं गोपींक जी आत्यंतीक ओड आशिल्ली ते ओडीची मनांत धारणा करतात. हिंदूस्तानांतल्या लोकगितांनी कृष्णाचे जिणेंतले हे प्रसंग आसतातूच. श्रीचैतन्यदेवान तांगेले अध्यात्मीक जिणेंत परतून एक खेपे ह्या विशयाक खूब म्हत्व दिलें.

श्रीचैतन्य राधेच्या भुमिकेंतल्या कृष्णा कडेन एकरूप जावपाची ओड प्रगट करताले. बरोच काळ श्रीरामकृष्ण लेगीत श्रीकृष्णाची मोगिका म्हणून पुजा करताले. त्या वेळार ते स्वता कडेन एक गोपी म्हूण वा ईश्वराची दाशी म्हूण पळयताले. सुरेंद्राचे बागेंत सकाळ सावन संकिर्तनाक सुरवात जाल्ली. संकिर्तनांत श्रीकृष्णाचें आनी राधेचें एकमेका विशींचें प्रेम ह्या विशयाचेर गायन चलतालें. श्रीरामकृष्ण मदीं मदीं समाधींत वताले. कुडींत भक्तांची गर्दी आशिल्ली. त्या भक्तां मदीं नवनाथ, निरंजन, राखाल, सुरेंद्र, राम, म आनी हेर ब्राह्मसमाजाचे भक्तूय आशिल्ले. रिती प्रमाण गौरांगा विशीं गीत गावन किर्तन सुरू जालें. गौरांगान संन्यास घेतला. कृष्णाच्या दर्शना खातीर तो सामको पिसो जाला. तो नवद्वीप सोडून वता आनी कृष्णाच्या सोदांत सगले कडेन भोंवत आसा. ताचे भक्त ताची पयसावणी सोंसूंक जायना जाल्ल्यान व्याकूळ जावन रडटात आनी गौरांगाक परत येवचें म्हूण प्रार्थना करतात. संकिर्तनकार हें गायतात.

गौर परत एके खेपे नवद्विपाक यो.

मागीर किर्तनकार राधेच्या कृष्णा विशीं गीत गावंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी हें गीत आयकलें आनी ते एकदम उठून उबे रावले. राधेच्या भावाविश्कारान, मोट्या करूण स्वरान तांणी ह्यो गिताच्यो वळी गायल्यो.

''सखे, एक तर म्हज्या प्रीय कृष्णाक म्हजे कडेन घेवन यो वा म्हाका ताचे कडेन घेवन वच.''

पयली वळ म्हणटां म्हणटां ते निशद्व जावन गेले. शरीर थीर जालें, दोळे अर्दवट धांपिल्ले, तांकां भायल्या जगाचें भान ना जालें. श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले. बऱ्याच वेळा उपरांत ते भानार आयले. परत त्याच करूण स्वरान ते म्हणूंक लागले, ''सखे, म्हाका म्हज्या मोगी कृष्णा कडेन घेवन वच. आनी म्हाका तुजी बंदीण कर. हांव तुजी दाशी जावन सदांच रावतलीं. सखे, तुवेंच म्हाका कृष्णाचेर प्रेम कशें करचें तें शिकयलें. आरे कृष्णा! आरे म्हज्या प्राणनाथा!''

किर्तनकारांनी किर्तन सुरू केलें. राधिकेचे भुमिकेंत त्यो गावंक लागल्यो. ''सखे, यमुनेचें उदक हाडपाक हांव आतां वचपाचीं ना. थंय कदंबाच्या झाडा सकयल म्हजो प्राणसखो म्हाका एकदां दिशिल्लो. थंयच्यान जेन्ना जेन्ना हांव वतां तेन्ना तेन्ना म्हजें आंग जड जाता.''

श्रीरामकृष्ण परत भावविवश जाले. लांब श्वास सोडून तांणी म्हणलें, ''आ हा! आ हा हा!''

गायन चालू आशिल्लें. राधा म्हणटाः

कृष्णाचो सांगात मेळचो हे फकत इत्शेनूच
म्हजें जळपी शरीर शितळ जावन गेलां.

वयल्या गिताक किर्तन गायिका स्वताच्यो वळी जोडून म्हणूंक लागल्यो, ''सख्यांनो, तुमच्यांनी रावं येता पूण म्हजो प्राणप्रीय कृष्ण आतांच म्हाका दाखयात!'' परतः ''म्हज्या वस्तीं विशीं चिंता करूं नाकात. सगल्यांत मोलादीक असो म्हजो अळंकार शेणला.'' आनी परत... ''आरेरे! म्हजे बरे दीस वचून आतां हे वायट दीस आयल्यात.'' आनी निमणें ''दुर्दशेचो हो काळ सोंपून सोंपना.''

श्रीरामकृष्णांनी एक वळ रचलीः

ते गोड दीस म्हजे खातीर उदेवचे नात काय?

ते उपरांत किर्तन गायिका राधाचीं उतरां गावंक लागलीः

ए सखे, हांव मरतां! खऱ्यानीच मरतां,
कृष्णा पसून वेगळावणेचे हे तळमळे
आसात म्हजे सोंसणिके भायले.
आरेरे ! कोणाक पूण हांव दवरतलीं
म्हजें अनमोल धन? जेन्ना हांव मरतलीं,
हांव तुजे कडेन मागतां, म्हजी कूड लासूं नाका,
न्हयेंत ती उडोवं नाका.
उज्या कडेन तिका सोंपोवं नाका,
उदकांत तिका उडोवं नाका.
हेच कुडींत खेळ्ळ्यां हांव कृष्णा वांगडा.

म्हजी निश्प्राण काया, हांव तुजे कडेन मागतां,
तमाल रुखाच्या काळ्या खांदयांक बांदून दवर,
तमाल रुखाक ती बांद.
तमालाक स्पर्शितकच ती काळ्याक स्पर्शितली
कृष्ण काळो आनी तमालूय काळो,
म्हाका काळो रंग आवडटा.
सामके भुरगेपणा सावन म्हाका तो आवडटा,
काळ्या कृष्णाचीच कूड म्हजे मालकेची.
काळ्या बगर खंयच ती दुसरे कडेन नासतली!

राधेच्यान आनीक सोंसूक जायना अशी अवस्था जाली. राधा घुंवळ येवन पडली.

राधा जमनीर पडल्या,
तिका कसलेंच भायलें भान ना,
तिच्या मोलादीक कृष्णाचें नांव घोळोवन,

आनी समतेच आपले दोनूय दोळे धांपल्यात.
कितें, सगलो खेळ सोंपला काय कितें?
कृष्णाचे उल्हासिके, तुका कितें पूण जालां?
फकत एका खिणा पयलीं तूं उलयल्या?

तिच्यो इश्टिणी राधेचे कुडीक
थंड आनी शितळ चंदनाचो लेप सारोवन
तिका साबुद्दीर हाडूंक पळयतात.
कांय जाणी मोट्या दुख्खान रडटात,
ती मरता तें तांच्यांनी पळोवं नजं.
पूण, आरे, कृष्णाच्या प्रेमान जी मेल्या
उदकाच्यान तिका जिवीत परतें दिवं येता?

राधेक घुंवळ येवन पडिल्ली पळोवन तिच्यो इश्टिणी तिच्या कानांत गोड कृष्णनाम सांगतात. कृष्णनाम आयकून राधा भानार येता. ती तमाल रुखा कडेन पळयता आनी तिका दिसता कृष्णच मुखार उबो आसा.

कृष्णाचें नांव तिका जिवीत परतें हाडटा,
परत एकदां तिचे दोनूय दोळे भोंवतणीं पळयतात,
पूण कृष्णाचें मुखामळ तिका दिसना.
आरेरे, कितली हुंडक्या हुंडक्यांनी ती रडटा!
"म्हजो कृष्ण खंय? खंय आसा तो
जाचें नांव तुमी गायलें म्हज्या कानांत?
एकदांच पूण ताका हांगा म्हजे सरीं हाडात!"

काळो तमाल रूख पळोवन,
ताचे कडेन नदर लायता आनी मोट्यान आड्डता:
"थंय आसा ताचो तुरो! म्हाका तो सारको दिसता!
म्हज्या कृष्णाचो सोबीत तुरो थंय आसा!"
पूण फकत एक मोरूच तिणें पळयला,

जाचीं तिका दिसलीं चकचकीत पांखां
कृष्णाच्या तुऱ्यांतलें आनंददायी पांख.

कृष्ण मथुरेक राजाचें काम करपाक गेला. थंय ताणें आपली मुरली आनी गवळ्याचो [illegible]न कुशीक दवरून राजभेस घाला. राधेच्यो सखी तिची अवस्था पळोवन आपसांत [illegible]ोवन एकटेक दूत म्हूण मथुरेक धाडटात. तिची थंय तिचेच पिरायेचे एके अस्तुरे [illegible]डेन वळख जाता. मथुरेक रावपी ती अस्तुरी तिका विचारता, 'तूं हांगा खंयच्यान [illegible]ानी किते खातीर आयल्या?' राधेची सखी ताचेर जाप दिता, 'हांव कृष्णाक मेळपाक [illegible]ायल्यां. तो आपूण जावन म्हजे कडेन येतलो. म्हाका ताका आफोवचो पडचो ना.' [illegible]णें अशें दिमाखान म्हणलें खरें पूण निमणें ते मथुरेक रावपी बायलेच्या फाटल्यान ती [illegible]ृष्णाक मेळूंक वता. रस्त्यान वतां वतां व्याकूळ जावन रडत रडत ती कृष्णाक पराथूंक [illegible]ागता, 'आरे हरी, तूं खंय आसा? गोपींचो प्राणनाथ, राधावल्लभ, तूंच आमची लज [illegible]ाखपी आसा न्हय? एक खेप तरी दर्शन दी. हांवें मोटच्या गर्वान मथुरेच्या लोकांक [illegible]हणलां, कृष्ण आपूण जावन म्हजे कडेन येतलो. म्हाका ताका आफोवचो पडचो ना. [illegible]हज्या उतरांची लज राख. म्हाका तकली सकयल घालूंक लावं नाका.'

तिरस्कारान मथुरेची बायल म्हणटाः

''आगो, तूं फकत एक सादी गोपी!
आमच्या राजाक पळोवंक तुज्यान कशें वचूं येता,,
आमच्या कृष्णाक, तुज्या भिकान्नीच्या बोंदरांनी?
सात दारां भितर ताचो महाल आसा.
तुज्यान भितर सरूं नजं. तुज्यान कशें वचूं येता?
तुजें धाडस पळोवन हांव लजेन मरतां.
म्हाका सांग, तूं कशी भितर सरतली?''

गोपी म्हणटाः ''कृष्ण! प्रियतम्!
गोपींचो आत्मो! आरे, खंय आसा तूं?
हांगा म्हजे सरीं यो आनी म्हाका वांचय.
तूं खंय आसा, गोपींच्या काळजांचो मोयपाशी आत्मो?

मथुरेच्या धनया, म्हजे सरीं यो!
आनी तुजे दुख्खी दाशीची जीण वाटाय.
आरे, खंय आसा तूं गोपींचो जीव, प्राणप्रिया?
आमच्या काळजांचो धनी आनी आत्म्यांचो इश्ट!
ए हरी, आमचे लजेचो विनाशक!
ए गोपींचें अनमोल धन!
तुजे दाशी सरीं यो आनी राख तिची लज."

अशे तरेन ती कृष्णा खातीर करूण विलाप करता.

किर्तन गायिकेचीं 'खंय आसा तूं गोपींचो जीव, प्राणप्रिया' हीं उतरां आयकतकच श्रीरामकृष्ण समाधींत मग्न जावन गेले. किर्तन सोंपत आयलें. किर्तन गायिका चड आवेशान किर्तन गावंक लागली. तिचो आवाज ताका लागून बरोच मोटो जालो. श्रीरामकृष्ण उबे आशिल्ले. समाधीमग्न अवस्थेंत थोडेशे भानार येवन हय न्हयशा स्वरांत म्हणूंक लागले, 'किन्न किन्न! (कृष्ण कृष्ण)' भावांत विमग्न आशिल्ले. ताका लागून कृष्णनाम स्पश्टपणान पुरायेन उच्चारप जायनाशें जाल्लें.

किर्तन सोंपत आयिल्लें. राधा आनी कृष्ण हांचें मिलन जाल्लें. किर्तन गायिका एक भावमय गीत गावंक लागली. श्रीरामकृष्ण तातूंत स्वताच्यो वळी जोडून गावंक लागले:

पळय, थंय राधा कृष्णा सरीं उबी आसा,
ताचे छातयेर ती लकल्या
पळय तिका, ताचे दावे वटेन उबी
भांगराळी वाल कशी
काळ्या तमाल रुखाक रेवडायल्ली!

किर्तन सोंपत आयिल्लें. श्रीरामकृष्णांनी गानवृंदाचें मुखेलपण केलें. मृदंग, झांजेच्या आवाजांत सगले जाण म्हणूंक लागले, "राधा गोविंद जय!" सगलेच भक्त भावनावश जाल्ले. आनी ते श्रीरामकृष्णां भोंवतणीं नाचूंक लागले.

श्रीरामकृष्णूय बी नाच करूंक लागले.सगलें घर आनी बाग गोड ईश्वरी नाम संकिर्तनान भरून गेलें.

## सरळपण आनी ईश्वर लाव
## ईश्वराची सेवा आनी संवसाराची सेवा

किर्तन सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर बसले. इतल्यांत निरंजन आयलो ानी तो श्रीरामकृष्णांक न्हिदून पांयां पडलो. ताका पळयतकच ते उठून उबे रावले. ानंदान, मोट्या हांसत्या मुखान तांणी म्हणलें, "तूं आयलो!" (मक) पळय हो ुरगो. मोटो सरळ सभावाचो. पयल्या जल्मांत बरीच तपश्चर्या आसले बगर सरळपण ांगांत येना. कपट, ढोंगीपण, हिशोबीपण, वांकडो सभाव आसल्यार ईश्वरी लाव ायना. तूं पळयता न्हय, भगवान जंय अवतार घेता थंय कितलें सरळपण आसता! दशरथ कितल्या सरळ स्वभावाचे. नंदा, कृष्णाचे वडील कितले सरळ आशिल्ले. म्हणच आसा. वा! तो मनीस कितलो सरळ आसा. सामको नंदा भशेन! (निरंजनाक) पळय, तुज्या तोंडार अशें कितें काळो पड्डो आशिल्ले भशेन जालां. तूं ऑफिसांत नोकरी करता. म्हणून आयलो आसतलो तो. ऑफिसांत हिशोबाचें काम करचें पडटा. आनिकूय तरातरांचीं कामां करचीं पडटात. सदांच मन चिंतेंत आसता.

संवसारी लोक जशे नोकरी करतात तशीच तूंय करता. तरीपूण तातूंत थोडो फरक आसा. तुवें तुगेले आवय खातीर नोकरी धरल्या.

मनशान सगल्यांत व्हड मान आवयक दिवंक जाय. जगन्मातेचें तें आनंदमयी रूप आसा. तुवें जर बायल भुरग्यां खातीर चाकरी धरिल्ली तर हांव म्हणटलों आशिल्लों, 'धिक्कार तुजो, लज सामकी. हजार खेपो लज.'

(मणि मल्लीकाक निरंजना कडेन बोट दाखोवन) पळय, तो भुरगो (निरंजन) खूब सरळ सभावाचो. तरीपूण हालींच्या दिसांनी थोडेंशें फट उलोवपाक लागला. होच ताचो मातसो दोश. त्या दिसा वतना म्हणलें, रोखडो येतां म्हणून पूण आयलो मात ना. (निरंजनाक) म्हणुनूच राखालान तुका म्हणिल्लें, 'तूं एडेदाक-दक्षिणेशवराक सामको लागीं येवन लेगीत हांगा म्हाका भेट दिवपाक आयलो ना.'

**निरंजन:** म्हाका थंय येवन दोनूच दीस जाल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (निरंजनाक म कडेन बोट दाखोवन) हो हेडमास्तर आसा. हांवें सांगिल्लें म्हूणन हो तुका मेळपाक आयिल्लो. (मक) त्या दिसा तुवें बाबूरामाक म्हजे कडेन धाडिल्लो.

## श्रीरामकृष्ण आनी गोपी प्रेम

श्रीरामकृष्ण अस्तंते कडले कुडींत थोड्या भक्तां बराबर उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) वा, वा! गोपींचो कृष्णा विशीं कितलो मोग! काळ्या तमा रुखाक पळोवन त्यो मोगान सामक्यो पिश्यो जाताल्यो. राधेक कृष्णाच्या विरह इतलें जातालें की तिच्या दोळ्यांतलीं दुकां लेगीत आटून वतालीं. तिचीं दुकां जाव पयलींच तांची वाफ जावन तीं सुकून वतालीं. केन्ना केन्नाय तिचे खर भाव कोणाच् लक्षांत येनाशिल्ले. व्हडल्या तळ्यांत हती भितर गेल्यार तें कोणाच्या ध्यानांत येना.

**म:** हय महाराज, चैतन्य महाप्रभूचें अशेंच जाल्लें. रान पळोवन ते ताका वृंदाव समजताले. काळो दर्या पळोवन ते ताका यमुना समजताले.

**श्रीरामकृष्ण:** आहाहा! त्या प्रेमाचो एक थेंब लेगीत जर कोणाक मेळ्ळो तर! कि व्याकूळताय! कितें प्रेम! राधे कडेन शंबर टक्के न्हय तर एकशें वीस टक्के प्रेम आशिल्लें हाचेंच नांव ईश्वरा विशीं मोगउन्माद! सगल्याचें सारतत्व म्हणल्यार भगवंताचेर प्रे करपाक जाय. ताचे खातीर व्याकूळताय जाय. मागीर तुमी खंयच्याय मार्गान वचात साकाराचेर विश्वास दवरात वा निराकाराचेर श्रद्धा दवरात. भगवान मनीस रुपान अवता घेता, हे गजालीचेर विश्वास दवरात वा दवरूं नाकात. ताचेर प्रेम आसलें म्हणचे जालें तुमचे कडेन ती व्याकूळताय आसत तर तुमकां ईश्वराचो साक्षात्कार जातलो. मागी तो स्वताच तो कसो आसा तें तुमकां सांगतलो.

जर तुमकां पिशेच जावपाचें आसत तर संवसारांतल्या वस्तूं विशीं कित्याक म्हणून जावपाचें? पिशे जावपाचेच आसत जाल्यार ईश्वरा खातीर पिशे जायात.

श्रीरामकृष्ण परत सालांत येवन बसले. ते बसले थंय व्हड उशें दवरिल्लें. ताका हात लावचे पयलीं श्रीरामकृष्णांनी 'तत् सत्' हो मंत्र म्हणलो. संवसारी लोकांनी हें उशें पयलीं वापरलां आसतलें म्हणून हो मंत्र म्हणून श्रीरामकृष्णांनी तें अशे तरेन शुद्ध केलें. भवनाथ, म आनी हेर लागीं बशिल्ले. अजून लेगीत जेवणाची वेवस्था जावंक नाशिल्ली. श्रीरामकृष्णांचो सभाव भुरग्या भशेन. तांणी म्हणलें, ''अजून जेवणाची तयारी जाल्ली दिसना. कितें जालां? नरेंद्र खंय आसा?''

**एक भक्त:** (हांसत) महाराज, रामबाबू वेवस्थापक आसात. ते सगलें पळयतात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आं! राम वेवस्थापक! मागीर आमी जाणात कितें जातलें तें.

**क भक्त:** रामबाबू जंय वेवस्थापक आसतात थंय सदां अशेंच घडटा. (सगले ांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) सुरेंद्र खंय आसा? आहाहा! सुरेंद्राचो सभाव सामको सरळ! ामको स्पश्ट उलोवपी. उलयतना कोणाक भियेना आनी मुक्त हातांनी दिवपी. कोणूय ाचे म्हऱ्यांत आधार मागपाक गेलो जाल्यार केन्नाच रिकाम्या हातांनी येवपाचो ना. (मक) तूं भगवान दासा कडेन गेल्लो? कशे कितें दिसले तुका ते?

**म:** हय महाराज, तांकां मेळपाक काल गेल्लों. भगवान दास आतां खूब जाणटे जाल्यात. हांव गेल्लों तेन्ना रात जाल्ली. ते एके गोजडेचेर न्हिदिल्ले. एकलो देवाचो प्रसाद हाडून तांकां खावयतालो. मोट्यान आड्डून उलयल्यारूच तांकां आयकूंक येतालें. हांवें तुमचें नांव सांगतकच म्हणूंक लागले, 'तुमकां कसलीच काळजी करपाची गरज ना.'

**भवनाथ:** (मक) बरेच दीस जाले तुमी दक्षिणेशवराक आयले नात. श्रीरामकृष्णांनी म्हाका दक्षिणेश्वरा विशीं विचारिल्लें आनी म्हणिल्लें, मक दक्षिणेश्वर सामकें आवडना काय कितें?

अशें म्हणून भवनाथ हांसूंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी हो संवाद आयकलो आनी म कडेन मायेन पळोवन म्हणलें, "खरें तें. तूं इतले दीस दक्षिणेश्वराक कित्याक आयलो ना सांग पळोवया. म "त... त... प... प..." करूंक लागलो. इतल्यान महिमाचरण आयले. महिमाचरण कलकत्तांतल्या काशीपूरा रावताले. तांची श्रीरामकृष्णांचेर खूब श्रद्धा, भक्ती आशिल्ली. सदांच दक्षिणेश्वराक येताले. थोडीशी वंशपरंपरेन संपत मेळिल्ली. ते स्वतंत्र वृत्तीचे मनीस आशिल्ले. चडसो वेळ ते अध्यात्मीक आनी शास्त्राचो अभ्यास करपांत घालयताले. तांचे भितर थोडें पांडित्यूय आशिल्लें. इंग्लीश, संस्कृत पुस्तकांय ते वाचताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) हें कितें? हांगा तर सामकें तारूं येवन उबें रावलां. (सगले हांसतात.) हांगा तर आमी ल्हान व्हड्याची अपेक्षा करतात. पूण हें तर व्हडलें तारूंच येवन रावलां. (सगले हांसतात.) पूण हांव जाणां हो पावसाळो. (हांसतात.)

श्रीरामकृष्ण महिमाचरणां कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) बरें! सांगात, लोकांक जेवण घालप ही एक ईश्वराची सेवाच करप अशें न्हय? परमेश्वर सगल्या जिवां भितर अग्नीच्या (जठराग्नीच्या) रुपांत आसता. लोकांक जेवण घालप म्हणचे ताकाच आहुती दिवपा सारकें जातलें.

पूण दुश्ट लोकांक जेवण घालचें न्हय. जांणी व्यभिचार आनी हेर पातकां केल्यांत,

जे लोक विशयांचे अधीन आसात त्या लोकांक जेवण घालूं नये. असले लोक जं
आसतात ती जमीन लेगीत सात हात खोल अपवित्र जाता.

हृदून एकदां ताच्या गांवांत लोकांक जेवण घालें. तातूंतले बरेच जाण दुश्ट लोव
आशिल्ले. हांवें हृदूक सांगलें, 'पळय, तूं जर हांकां जेवण वाडटलो तर हांव तुज्य
घरांतल्यान रोखडोच वतां.' (महिमाचरणांक) बरें! हांवें आयकलां, तुमी पयल
लोकांक जेवण घालताले म्हूण. आनी हालींसराक तुमी तें बंद केलां खंय. तुमचे
खर्च वाडला म्हणून तुमी बंद केलां काय कितें? (सगले हांसतात.)

दक्षिणे कडले पडवेर जेवण वाडपाक पानां दवरपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी
महिमाचरणांक सांगलें, "तुमी मातशे थंय वचून तें पळोवन येयात. तुमी मातशें वाडूंव
घेतल्यार बरें जातलें. पूण हांवें तुमकां तशें म्हणपाचें न्हय." महिमाचरणांनी म्हणलें
"तांकां जेवण तरी भायर हाडूं दी. मागीर हांव पळयतां." हें हें म्हणीत ते रांदचे
कुडींत गेले आनी रोखडेच परत आयले.

श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर मोट्या आनंदान जेवण करपाक बसले. जेवणा उपरांत
कुडींत येवन तांणी मातसो विसव घेतलो. दनपारच्या दोन वरांचेर प्रताप चंद्र मुजुमदार
थंय आयले. ते ब्राह्मसमाजाचे. ते केशव चंद्र सेनांचे सहकारी आशिल्ले. ब्राह्मसमाजाच्य
प्रचाराच्या कामा खातीर प्रताप चंद्र येवरोप, अमेरिका वचून आयिल्ले. तांणी श्रीराम
कृष्णांक नमस्कार केलो. श्रीरामकृष्णांनी लेगीत मातशे बागोवन तांकां नमस्कार केलो.
प्रतापा बराबर रोखडेंच तांचें उलोवणें सुरू जालें.

**प्रताप:** हवापालट करपाक हांव दार्जिलिंगाक हालींच वचून आयलां.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण तुमची तब्बेत तितलीशी सुदारिल्ली दिसना. तुमकां जाता तरी कितें?

**प्रताप:** महाराज, तोच रोग. ज्या रोगान केशव चंद्र भायर पडले.

केशव चंद्रा विशीं उलोवणीं सुरू जालीं. प्रताप सांगूक लागले, "केशवांक
भुरगेपणा सावन जगा विशीं आसक्ती नाशिल्ली. दुसऱ्या भुरग्यां बराबर विनोद,
मस्करी, खेळ, बी नाशिल्लो. ते हिंदू कॉलेजीचे विद्यार्थी. त्या वेळार सत्तेंद्रा बराबर
तांची इश्टागत आशिल्ली. सत्तेंद्रा वरवींच तांच्या वडिलां कडेन, देवेंद्रनाथ टागोर
कडेन तांची वळख जाली. केशवां कडेन भक्तीय आशिल्ली आनी त्याच वेळार ते
ध्यानूय करताले. केन्ना केन्ना ईश्वरी प्रेम इतलें उफाळून येतालें की तांचें भान वतालें
ते बेशुद्ध जाताले. गृहस्थीचे जिणेंत धर्मजागृताय करप हीच तांचे जिणेची मोख
आशिल्ली."

## नांवलोकीक आनी अहंकार

## हांव करतो, हांव गुरू. ईश्वराचें दर्शन जाल्ल्याचीं लक्षणां

एके मराठा अस्तुरे विशीं उलोवणें सुरू जालें.

**प्रताप:** आमच्या देशांतल्यो कांय अस्तुऱ्यो इंग्लंडाक गेल्यात. ही मराठा अस्तुरी, जी बरी शिकिल्ली इंग्लंडाक गेल्ली. फुडें तिणें क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. तुमी तिचें नांव आयकलां महाराज?

**श्रीरामकृष्ण:** पूण तुमी सांगतात तें पळयल्यार अशें दिसता की तिका नांवलोकिकाची हांव आशिल्ली. असलो अहंकार बरो न्हय. हांव करतां हें अज्ञानाचें लक्षण. पूण ईश्वरूच सगलें कितें करता ही भावना ज्ञानाचें लक्षण. फकत ईश्वरूच करतो. हेर सगलीं ईश्वराच्या हातांतलीं साधनां. हांव, हांव करतकच कितें विपत्ती येता हें पाडकाची दशा मतींत धरतकच कळटलें. पाडूक हम मा, हम मा (हांव, हांव) करीत आसता. ताची विपत्ती पळयात. सकाळ सावन सांजवेळ मेरेन नांगर ओडचो पडटा. मागीर वत आसूं वा पावस. घडये खाटीक ताका कापून उडयता. मांस आसता तें लोक खातात. कात रांपोवन ताचें चामडें करतात. त्या चामड्याचीं जोतीं बी करतात. लोक तीं पांयांनी घालून भोंवतात. पूण इतल्यान ताची विपत्ती सोंपना. ताच्या चामड्याचो धोल करतात. दांड्यान तो धोल बडयतात. आंतड्यांचे तांत करतात. तो तांत मागीर पिंजाऱ्याच्या धोणवाक कापूस पिंजारपाक जोडटात. हातान पिंजारी ती दोरी ओडटा तेन्ना तो तांत तुंऊं तुंऊं (तूं, तूं) म्हणूंक लागता. मागीर आनीक हम्मा हम्मा करिना. तुंऊं, तुंऊं म्हणटा तेन्नाच ताची सुटका, तेन्नाच मुक्ती, मागीर कर्माच्या जगांत येवचें पडना.

जिवूय जेन्ना म्हणटा की ईश्वरा हांव करतो न्हय, तूंच करतो . हांव यंत्र, तूं यंत्र चलोवपी. तेन्नाच जिवाच्या संवसार दुख्खाचो अंत जाता. तेन्नाच जिवाची मुक्ती जाता. आनी परत मागीर कर्माच्या संवसारांत येवचें पडना.

**एक भक्त:** जिवाचो अहंकार कसो ना जाता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचें दर्शन जाले बगर अहंकार ना जायना. जर कोणाचो अहंकार गेल्लो दिसत तर समजुचें की ताका खात्रेन ईश्वराचें दर्शन जालां म्हणून.

**एक भक्त:** महाराज, कोणाकूय ईश्वराचें दर्शन जालां अशें कशें समजुपाचें?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचें दर्शन जालां हाचीं कांय लक्षणां आसात. श्रीमद्भागवतांत अशें सांगलां की ज्या मनशाक दर्शन जालां ताचीं चार लक्षणां आसात. तो भुरग्यां भशेन वागता, केन्ना केन्ना पिसो कसो वागता, केन्ना अचेतन जाता तर केन्नाय उन्मत्त कसो

वागता. जाका ईश्वराचें दर्शन जालां ताचो सभाव भुरग्या सारको जाता. तो त्रिगुणातीत आसता. ताचो संवसाराच्या गुणां विशीं आगरो नासता. परत शुद्ध अशुद्ध दोनूय ताका सारकींच आसतात. देखुनूच तो पिसो कसो वागता. तो केन्ना हांसता तर केन्ना रडटा. तो अकडबाज वेश करता तसो झेत करता. थोड्या वेळान सामको नागडो भोंवता आनी कपडे खांकेक मारून भोंवता. म्हणून तो पिसो कसो दिसता. तर परत सामको अचेतन ओग्गी बसता. जड वस्तू कशी.

**एक भक्त:** ईश्वराचें दर्शन जाले उपरांत अहंकार सामको ना जावन वता?

**श्रीरामकृष्ण:** केन्ना केन्ना ईश्वर त्या भक्ताचो अहंकार सामको पुसून उडयना, जशें समाधी अवस्थेंत बरेच जाण भितर थोडोसो अहंकार राखून दवरतात. पूण त्या अहंकारांत कांय दोश ना. जसो भुरग्यांचो अहंकार. पांच वर्सांचो भुरगो हांव हांव करता पूण कोणाचें अनिश्ट करपाचें ताका खबर नासता.

परिसाचो स्पर्श जातकच लोखणाचें भांगर जाता. लोखणाची तरसाद जाता. तिका तरसादीचो आकार येता. पूण ती कोणाचें अनिश्ट करिना. भांगराचे तरसादीन कांयच कातरप शक्य जायना.

## विलायतेंत कांचनाची पुजा
## जिणेचो उद्देश: कर्म काय ईश्वर लाव?

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) तुमी इंग्लंडाक गेल्ले न्हय? कितें पळयलें तें सांगात पळोवया.

**प्रताप:** इंग्लंडांतले लोक, तुमी जांकां कांचन म्हणटात ताचीच पुजा करतात. पूण थंय लेगीत कांय बरेय लोक आसात. ते आसक्ते विरयत रावतात. पूण सर्वसामान्यपणान चडसो रजोगुणाचोच प्रभाव. अमेरिकेंतूय तोच प्रकार.

## विलायत आनी कर्मयोग
## कलीयुगांत कर्मयोग काय भक्तीयोग?

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) जगांत कर्मा विशीं आसक्ती फकत इंग्लंडांतूच आसा अशें न्हय. ती आसक्ती सगले कडेन आसा. तुमी ती सगले कडेन पळयतात. पूण एक ध्यानांत दवरात. कर्मकांड अध्यात्मीक जिणेंतली पयली पायरी. सत्वगूण, भक्ती,

विवेक, वैराग्य, दया, बी नासल्यार ईश्वर मेळपाचो ना. रजोगुणाचो सभावूच असो की संवसारांत तो खुबश्या कामांनी तुका घुसपायता. ताका लागुनूच मनीस मागीर तमोगुणांत वता. पूण खूब कामांनी घुसपतकच मनीस ईश्वराक विसरता आनी ताची कामिनी-कांचनाची आसक्ती वाडटा.

तरीपूण कर्म अजिबात सोडूंक दिवंक जावपाचें ना. तुमचो सभावूच तुमकां कर्म करपाक लायतलो. मागीर तुमची इत्सा आसू वा नासू. म्हणून शास्त्रांत सांगलां, अनासक्त जावन कर्म करात. अनासक्त जावन कर्म करप म्हणल्यार कर्माच्या फळाची अपेक्षा धरिनासप. जशें पुजा, जप, तप करपाचें. पूण नांवलोकिका खातीर न्हय वा पुण्य मेळोवपा खातीर न्हय.

अनासक्त जावन कर्म करता ताकाच म्हणटात कर्मयोग. कर्मयोग खूब कठीण. आमी कलीयुगांत रावतात. सहजतायेन कामाची आसक्ती जाता आनी ती कशी जाता तें लेगीत कळना. घडये देवळांत पुजा करून वा व्हडलो धर्मीक उत्सव करून वा खूब गरीब लोकांक वा उपाशीं लोकांक जेवण घालून मनाक दिसता, अनासक्त जावन सगलीं कामां केल्यांत म्हणून. पूण खंयच्यान नांवलोकिकाची इत्सा भितर सरत हें कळपाचें लेगीत ना. पूण पुरायेन अनासक्त जावन काम करप, फळाची आशा धरिनासतना काम करप फकत जाका ईश्वराचें दर्शन जालां ताकाच शक्य आसा.

**एक भक्त:** जांकां ईश्वराचो लाव जावंक ना तांचे खातीर उपाय कितें? तांणी कितें संवसारांतलीं सगलीं कर्मां सोडून दिवपाचीं?

**श्रीरामकृष्ण:** ह्या युगांत सगल्यांत उत्तम मार्ग म्हणल्यार भक्तीयोग. नारदाचो मार्ग. ईश्वराचें नामगूण संकिर्तन करप आनी व्याकूळ जावन ताची प्रार्थना करप. 'ए ईश्वरा, म्हाका ज्ञान दी, भक्ती दी. म्हाका तुजें दर्शन दी.' कर्मयोग खुबूच कठीण. देखुनूच प्रार्थना करूंक जाय. 'ए ईश्वरा, म्हजें कर्म कमी कर आनी जितलें काम तुवें म्हजे खातीर दवरलां तितलेंच काम अनासक्त जावन करूंक पावतलों अशेंच कर. आनी जाका लागून कामांत घुसपुपाची इत्सा म्हाका जावची न्हय.'

कर्म सामकें सोडप शक्य ना. हांव चिंतन करतां, हांव ध्यान करतां. हें लेगीत कर्मच. ईश्वरा विशीं जशी तुजी भक्ती वाडटा तशी तुजीं संवसारांतलीं कामां (कर्मां) कमी कमी जायत वतात. मागीर तुका तीं आवडनात कशीं जातात. साकर घालून केल्लें सरबत मेळटकच काकय घाल्लें सरबत कोण पियेतलो?

**एक भक्त:** इंग्लंडांतलो लोक सारकें सांगीत आसता कार्य करात, कर्म करात म्हणून. मागीर कर्म कितें जिणेचो उद्देश न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** जिणेचो उद्देश ईश्वराचो लाव करून घेवप. कार्य फकत पयली पायरी. तें जिणेचें साध्य जावं नजं. निश्काम कर्म लेगीत एक उपाय, साधन. साध्य न्हय.

शंभू मल्लीकान म्हाका एके खेपे म्हणलें, 'आतां म्हाका होच आशिर्वाद दियात की, म्हजे कडेन जो पयसो आसा तो हांव बऱ्या कामा खातीर उपेग करतलों म्हणून. जशें इस्पितळां, दवाखाने, रस्ते, घाट, बांयो, बी हांचे खातीर.'

हांवें तांकां सांगलें, 'हीं सगलीं कामां अनासक्त जावन करूंक पावले जाल्यार तें बरें जातलें. पूण तें खुबूच कठीण. तुमी कितेंय करात, तुमी एक मतींत दवरूंक जाय की तुमच्या मनीस जल्माचो उद्देश आसा ईश्वराचो लाव आनी इस्पितळां आनी दवाखाने बांदप न्हय. समजा, ईश्वर तुमचे मुखार आयलो आनी ताणें येवन सांगलें, तूं वर माग. अशें जाल्यार तुमी अशें मागतले, 'परमेश्वरा, म्हाका कांय इस्पितळां, दवाखाने बांदून दी' वा तुमी ताका अशी प्रार्थना करतले व्हय? 'ईश्वरा, तुज्या पांयां कडेन म्हाका शुद्ध भक्ती मेळूं दी. म्हाका तुजें सदांच दर्शन जावं दी.' इस्पितळां, दवाखने आनी हेर अश्यो वस्तू हें सगलें खरें न्हय. फकत ईश्वरूच सत्य. बाकी सगलें असत्य. तसो ईश्वराचो साक्षात्कार जाले उपरांत असो बोध जाता की, फकत ईश्वरूच करतो आनी आमी फकत उपकरणां – साधनां. मागीर ताका आमी कित्याक विसरप? आनी खूब तरांच्या कामांनी घुसपून आमी कित्याक रावपाचें? ताचो साक्षात्कार जाले उपरांत ताचेच कृपेन, ताचेच इत्शेन इस्पितळां, दवाखाने बांदूंक जमतलें. म्हणुनूच म्हणटां, कार्य हें पयलें पावल. तें जिणेचें उद्दिश्ट न्हय. अध्यात्मीक साधना करीत करीत फुडें वचत रावात. साधना करीत गेल्यार ईश्वराच्या मार्गा लागीं चड पावतले. निमणें तुमकां कळून येतलें, फकत ईश्वरूच सत्य आनी बाकी सगली माया आनी ईश्वर लाव हीच जिणेची मोख. एक खेपो एक लांकडांकार रानांत लांकडां मारपाक गेलो. थंय अचकीत ताका एक ब्रह्मचारी मेळ्ळो. 'सभाग्या फुडें वच' लांकडांकार घरा कडेन येवन स्वता भितरूच विचार करूंक लागलो. ब्रह्मचाऱ्यान म्हाका कित्याक फुडें वच म्हूण सांगलें?

कांय दीस गेले. एक दीस असोच बसला आसतना त्या ब्रह्मचाऱ्याच्या उतरांची ताका याद जाली. तेन्ना ताणें मनांत म्हणलें, 'आयज हांव रानांत आनीक फुडें वतलों.' रानांत भितर वतकच ताका खूब चंदनाचीं झाडां दिसलीं. तेन्ना तो आनंदान गाडे भरून चंदनाचीं लांकडां घेवन आयलो आनी तीं चंदनाचीं लांकडां बाजारांत विकून तो व्हड गिरेस्त मनीस जालो. कांय दीस गेले उपरांत एक दीस ताका त्या ब्रह्मचाऱ्याच्या उतरांची याद जाली. ताणें ताका आनीक फुडें वच म्हणून सांगिल्लें. मागीर तो आनीक भितर

ानांत गेलो. तेन्ना ताका न्हंयेचे देगेर एक रुप्याची खण मेळ्ळी. अशें जातलें हें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें. मागीर खणींतल्यान खूब रुपें घेवन तें ताणें बाजारांत हाडून विकलें. ताका खूब पयसो मेळ्ळो. इतलो की ताकाच कळ्ळें ना ताचे कडेन कितलो पयसो आसा तो.

आनीक कांय दीस गेले. एक दीस ताणें विचार केलो, 'ब्रह्मचाऱ्यान म्हाका रुप्याचे खणी मेरेन वचपाक सांगूंक नाशिल्लें. ताणें म्हाका हाच्याकूय फुडें वचपाक सांगिल्लें.' हे खेपे तो न्हंयेचे फुडें गेलो आनी ताका भांगराची खण मेळ्ळी. तेन्ना तो स्वताकूच म्हणूंक लागलो, 'आ हा हा! म्हणून म्हाका ब्रह्मचाऱ्यान सांगिल्लें की फुडें वच म्हणून.' आनीक कांय दिसांनी आनीक फुडें वतकच ताका हिऱ्या माणकांच्यो राशींच्यो राशी मुखार पडिल्ल्यो दिसल्यो. ताणें त्यो पुंजायल्यो आनी तो कुबेरा इतलो गिरेस्त जालो.

म्हणून हांव म्हणटां, तुमी जें कितें करतात तें करीत फुडें वतकच आनीक कांय गजाली बऱ्यो मेळटल्यो. थोडोसो जप करतकच तुमकां इल्लोसो आनंद मेळ्ळो म्हणून अशें समजूं नाकात की तुमकां सगलें कितें जें आध्यात्मीक जिणेंत मेळूंक जाय तें मेळ्ळें म्हणून. पूण कर्म जिणेची मोख केन्नाच न्हय. फुडें वचत रावात. मागीर तुमकां आनासक्त रितीन काम करूंक जमतलें. पूण परत हांव सांगतां, निश्काम काम करप खूब कठीण. म्हणून भक्तीन, व्याकूळतायेन ईश्वराची प्रार्थना करात, 'ए ईश्वरा, तुज्या पांयां कडेन भक्ती दी, आनी म्हजीं संवसारांतलीं कामां कमी कर. म्हाका असो वर दी की, जीं कामां हांवें करुंकूच जाय तीं म्हजे कडल्यान अनासक्त भावनेन जावं दी.' तुमी आनीक फुडें गेल्यार तुमकां ईश्वराचो लाव जातलो. ताचें दर्शन जातलें. ल्हव ल्हव ईश्वरा कडेन तुमी उलयतले.

केशव चंद्राच्या स्वर्गवासा उपरांत ब्राह्मसमाजाच्या देवळांत वेदीचेर उपदेश करपाच्या अधिकारा संबंदान झगडीं सुरू जालीं. हे विशीं आतां उलोवणीं सुरू जालीं.

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) अशें आयकलां की ब्राह्मसमाजांतले कांय लोक वेदी विशीं तुमचे बराबर झगडले म्हूण. झगडपी सादेच अर्थहीण लोक आसतले. (भक्तांक) प्रताप, अमृता सारके लोक हे दणदणीत आवाजाचे शंख. आनी बाकीच्या ज्या सगल्यां विशीं उलयतात न्हय तांचो कांय आवाजूच जायना. (हांसतात.)

**प्रताप:** महाराज, आवाजा विशींच उलोवपाचें जाल्यार आंब्याची कोय लेगीत आवाज

करता न्हय.

## ब्राह्मसमाज आनी श्रीरामकृष्ण. प्रतापांक उपदेश

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) पळयात, तुमच्या ब्राह्मसमाजाचें भाशण आयकतकच तें दिवपी मनशाचो मनोभाव बरो समजून येता. एके हरीसभेंत म्हाका घेवन गेल्ले. त्या दिसा उपदेश करपी आशिल्लो एक पंडीत. ताचें नांव आशिल्लें समाध्यायी. व्याख्यान दितना ताणें म्हणलें, 'ईश्वर निरस आसा. आमचे भक्तीन आमी ताका सरस आनी गोड करूंक जाय.' हें आयकून हांव थक्क जावन गेलों. एके काणयेची म्हाका तेन्ना याद जाली. एक भुरगो सांगतालो, म्हज्या मामाच्या घरा खूब घोडे आसात. गोठोभर घोडे आसात. आतां गोठो जर आसत तर घोडे आसप शक्यच ना. गायो बैल आसूं येतात. कित्याक तर घोडे तबेल्यांत बांदतात, गोठ्यांत न्हय. असल्यो विसंगत गजाली आयकून लोक कितें समजतले? हेंच समजतले की घोडे-बिडे कांयच नात म्हणून. (सगले हांसतात.)
**एक भक्त:** घोडे तर नाच पूण गायो-बैल लेगीत नात. (सगले हांसतात.)
**श्रीरामकृष्ण:** पळयात तर खरें, जो भगवान रसस्वरूप ताका हो म्हणटा 'निरस'. हाचे वयल्यान अशें समजूं येता की ईश्वर म्हणचे कितें हाचो ताका कांयच अणभव येवंक ना.

## हांव करतो, 'म्हजें घर' हें अज्ञान.
## जिणेचो उद्देश: ईश्वरांत बुडी मारप

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) पळयात, हांव कितें सांगतां तें आयकात. तुमी कितले खरेले आसात, बुद्दीमान आसात, गंभीर सभावाचे आसात. केशव आनी तुमी गौरव आनी निताई कशे. हें सगलें खूब जालें - लॅक्चर दिवप, भासाभास करप, झगडीं, मतभेद हें सगलें खूब जालें. आतां हें सगलें तुमकां आवडटा? आतां सगलें मन एकठांय करून ईश्वरा कडेन लायात. ईश्वरा भितर आतां बुडी मारात.
**प्रताप:** हय महाराज! तातूंत कसलोच दुबाव ना. तेंच आतां म्हजें कर्तव्य आसा. तरीपूण हें सगलें करपाचें तें ताचें (केशव चंद्राचें) नांव उरचें म्हूण.
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसून) तुमी म्हणटात तें खरें की ताचें नांव उरचें म्हणून सगलें करतात

ण कांय दिसांनी हो मनोभावूच उरचो ना. एक गोश्ट सांगतां.

एका मनशान एके दोंगुल्लेचेर एक घर बांदलें. मातयेचें घर. खूब कश्ट घेवन ताणें ां घर बांदिल्लें. कांय दिसांनी व्हडलें मोड आयलें. घर हालूंक लागलें. तें कशें उरतलें ााची ताका चिंता जाली. तो प्रार्थना करूंक लागलो, 'ए वायूदेवा, पळय बाबा! ग्हजें घर बाबा मोडूं नाका.' पूण पवनदेवान कांय आयकलें ना. घर करकर करपाक लागलें. तेन्ना ताका एक युक्ती सुचली. ताका याद जाली, हनुमान हो वायूचो पूत. ही याद जातकच तो बेगिबेगीन म्हणूंक लागलो, 'बाबा, वायूदेवा घर मोडूं नाका. हनुमानाचें घर आसा. तुका हनुमानाचो सोपूत.' तरीय घर करकरूंक लागलें. कितें हनुमान, कितें ताचो सोपूत. पूण ताची काकूळट कोणूच करिना. मागीर ताका याद जाली, हनुमान हो रामाचो भक्त. ताचो भाव लक्ष्मण. म्हणून कश्टान ताणें म्हणलें, 'आरे, हें लक्ष्मणाचें घर.' पूण हाचोय कांय फायदो जालो ना. म्हणून ताणें निमणो उपाय म्हणून म्हणलें, 'हें रामाचें घर. तुका रामाचो सोपूत.' पूण ताचोय कांय फायदो जालो ना. घर करकर करून मोडपाक सुरवात जाली. स्वताचे प्राण तर वांचोवंक जाय म्हणून निमणें घरांतल्यान भायर सरतना ताणें शिराप घालीत म्हणलें, 'मोडूं दी, सैतानाचें घर हें.'

(प्रतापांक) केशवाचें नांव उरपा खातीर तुमी कांयच करपाचें ना. जें कितें जैत तांणी मेळयलां, जाणा जायात, तें ईश्वराचे इत्शेन जालां. ईश्वरी इत्शेनूच ताचें काम पूर्ण जालां. परत ताचेच इत्शेन तें ना जायत वता. तुमी कितें करतले? तुमचें आतां परमेश्वरी दर्यांत बुडी मारपाचें कर्तव्य जावन आसा. ईश्वराक सगलें मन दिवन ताच्या प्रेमाच्या सागरांत बूड मारात.

इतलें उलोवन श्रीरामकृष्ण तांच्या गोड आवाजांत मधूर गीत गावंक लागले:

खोल बुडी मार, ए मना, ईश्वरी सौंदर्याच्या दर्यांत खोल बुडी मार;
सामके खरायेंत तूं देवलें जाल्यार
थंय तुका मेळटलीं प्रेमरत्नां

चल, ए मना, चल तुज्या काळजांत वृंदावन सोद,
जंय ताच्या प्रीय भक्तां वांगडा
श्रीकृष्ण खेळटा एक सारको सद्दां.

पेटय, ए मना, पेटय सत्य ज्ञानाचो झगझगतो दिवो,
आनी थीर ज्योतीत ताका पेटूं दी
तुज्या काळजांत थांव नासतना

सुके जमनी वयल्यान तुजें तारूं तांडटा तो कोण?
तो तुजो गुरू, कुबीर म्हणटा,
स्मर ताचीं पवित्र पावलां.

गीत सोंपतकच परत श्रीरामकृष्ण प्रतापां कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण**: (प्रतापांक) आयकलें गीत? भाशणां, झगडीं हें खूब जालें. आतां बुडी मारात, आनी ह्या दर्यांत बुडी मारल्यार मरपाचो भंय ना. कारण हो अमृताचो सागर आसा. अशें समजूं नाकात, हाका लागून तुमची तकली घुंवतली म्हणून. एक खीणभर लेगीत समजूं नाकात, खूब देव देव करतकच मनीस पिसो जाता म्हणून. एकदां हांवें नरेंद्राक म्हणिल्लें-

**प्रताप**: महाराज, हो नरेंद्र कोण?

**श्रीरामकृष्ण**: तें आसूं! तो एक तरणाटो. हांवें नरेंद्राक म्हणिल्लें, 'पळय, ईश्वर आनंद रसाचो सागर आसा. ह्या सागरांत बुडी मारची अशी तुका इत्सा जायना? समजा, रोसान भरिल्लो एक पेलो आसा, आनी तूं एक मूस जाला. तर खंय बसून रोस पियेतलो?' हांवें विचारलें. नरेंद्रान जाप दिली, 'हांव पेल्याच्या कांठार तकली लांब करून रोस पियेतलो.' हांवें विचारलें, 'अशें कित्याक?' ताणें जाप दिली, 'रोसांत भितर गेल्यार तातूंत हांव बुडटलों आनी म्हजो प्राण वतलो.' तेन्ना हांवें सांगलें, 'बाबा रे! सच्चिदानंद सागरांत तो भंय ना. हो तर अमृताचो सागर आसा. बुडी मारतकच मरण येना. मनीस अमर जाता. ईश्वरा खातीर पिसो जातकच मनशाची तकली घुंवना.'

(भक्तांक) हांव आनी म्हजें - हाचेंच नांव अज्ञान. रसमणीन कालीचें देवूळ बांदलें अशें सगले लोक म्हणटात. कोण अशें म्हणिनात की तें ईश्वरान बांदलें. ते म्हणटात अमक्या अमक्या मनशान ब्राह्मसमाज स्थापन केलो. अशें कोण म्हणिनात की हें ईश्वराचे इत्शेन जालें.

'हांव करतां' हाचेंच नांव अज्ञान. 'ए ईश्वरा, तूं करतो, हांव फकत साधन. तूं यंत्र चलोवपी, हांव यंत्र.' हाचेंच नांव ज्ञान. ज्ञान प्राप्त जाले उपरांत मनीस म्हणटा,

‘ए ईश्वरा, म्हजें कांयच ना. हें पुजेचें घर. म्हजें न्हय. हें कालीचें देवूळ. म्हजें न्हय. हो ब्राह्मसमाज, म्हजो न्हय. हें सगलें तुजें. बायल, पूत, घराबो हें सगलें म्हजें न्हय. हें सगलें तुजें.’

म्हजी वस्तू, म्हजी वस्तू म्हूण त्या सगल्या वस्तूंचेर प्रेम करप ही जाली माया. सगल्यांचेर प्रेम करप हाचें नांव दया. फकत ब्राह्मसमाजांतल्या लोकांचेर प्रेम करप, फकत आपल्या घराब्यांतल्या लोकांचेर प्रेम करप ही जाली माया. फकत आपल्या देशांतल्या लोकांचेर प्रेम करप ही जाली माया. सगल्या देशांतल्या लोकांचेर प्रेम करप, सगल्या धर्माच्या लोकांचेर प्रेम करप ही जाली दया. अशी दया ईश्वराच्या प्रेमान, भक्तीन येता, दयेन येता. मायेन मनीस बद्ध जाता, भगवंता पसून पयस वता. पूण दयेन ईश्वराचो लाव जाता. शुकदेव, नारद हांणी सदांच काळजांत दया आपणायली.

## प्रताप चंद्रांक उपदेश

## ब्राह्मसमाज आनी कामिनी-कांचन. गृहस्थीची साधना.

**प्रताप:** महाराज, जे लोक तुमचे बराबर रावतात तांची अध्यात्मीक जिणेंत कितें प्रगती जाल्या?

**श्रीरामकृष्ण:** हांव लोकांक सांगीत आयलां, संवसार करपांत कांयच दोश ना. पूण संवसारांत वावराडे प्रमाण रावचें. वावराडी तिगेल्या धनयाच्या घरा संबंदीं उलयतना म्हणटा, ‘हें आमचें घर’ पूण तिचें स्वताचें घर घडये आसता दुसऱ्याच गांवांत, खंयतरी. धनयाच्या घरा कडेन बोट दाखयत तोंडान म्हणटा आमचें घर, पूण मनांत खबर आसता हें आपलें घर न्हय. आपलें घर आसा त्या गांवांत. तशेंच धनयाच्या पुताक वाडयता आनी म्हणटा, ‘बाबू म्हजो मोटो मस्तो जाला. म्हज्या बाबूक गोड आवडना. म्हजो बाबू.’ ती तोंडान म्हणटा खरी पूण तिका मनांत खबर आसता की बाबू म्हजो न्हय, धनयाचो चलो तो.

म्हूण म्हजे कडेन येतल्या वतल्याक हांव सांगीत आसतां, ‘संवसारांत रावपाक कितें हरकत आसा? संवसारांत रावात. तातूंत दोश ना. पूण ईश्वराचेर मन दवरात.’ मतींत दवरात, घरदार, परिवार हो म्हजो न्हय. हें सगलें ईश्वराचें. म्हजें स्वताचें घर ईश्वरा लागीं. आनी हांव सांगीत आसतां, ईश्वराच्या पांयां कडेन भक्ती मेळची म्हूण व्याकूळतायेन सदांच देवाक आळयत रावात.

परत इंग्लीश लोकां विशीं उलोवणें सुरू जालें.

एका भक्तान म्हणलें, ''महाराज, अशें कळ्ळां की हालींसराक इंग्लंडाचे विद्वान खंय ईश्वर आसा हें मान्य करिनात.''

**प्रताप:** तोंडान ते कितेंय उलोवं, पूण खरेंच तातूंतलो कोणूच नास्तीक आसत अशें म्हाका दिसना. ह्या जगाच्या घडामोडीं फाटल्यान एक म्हाशक्त आसा ही गजाल तातूंतल्या कितल्याश्याच लोकांक मान्य करची पडल्या.

**श्रीरामकृष्ण:** जालें तर मागीर. शक्त मानतात न्हय? मागीर ते नास्तीक कशे जातले?

**प्रताप:** तशेंच येवरोपांतले विद्वान विश्वाचें नितीक सरकार आसचें अशें मानतात.

आतां प्रताप श्रीरामकृष्णांचो निरोप घेवपाक सोदूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (प्रतापांक) आनीक तुमकां कितें सांगपाचें? तरीपूण इतलें सांगीन दिसता की आनिआनीक झगड्यां केस्तावांनी पडूं नाकात. आनीक एक गजाल. कामिनी-कांचन मनशाक ईश्वरा पसून पयस दवरता. तीच आडखळ. हेंच पळयात न्हय. सगले जाण आपले बायलेची फकत तुस्त करीत आसतात. (सगले हांसतात.) बायल बरी आसूं वा वायट. पूण तिच्या घोवाक विचारीत, तुमची बायल कशी आसा काय म्हणून जाल्यार रोखडोच म्हणटलो, 'वा! ती खूब बरी.'

ह्याच वेळार प्रतापांनी श्रीरामकृष्णांचो निरोप घेतलो. भगवान श्रीरामकृष्णांचे कामिनी-कांचना विशींचे निमणे शब्द आयकुपाक प्रताप थंय रावलेच नात. हीं निमणीं उतरां भक्तांच्या काळजाक लागलीं आनी बागेंतल्या झाडांच्या पानांच्या सळसळाटान हीं उतरां वाऱ्याच्या आवाजांत भरसून गेलीं.

कांय वेळा उपरांत मणि मल्लीकांनी श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''महाराज, आतां दक्षिणेश्वराक वचपाक जाय. आयज थंय केशव चंद्रांची आवय आनी घरांतल्यो बायलो तुमच्या दर्शना खातीर येतल्यो. तुमी थंय दिसले नात जाल्यार तांकां वायट दिसून तांकां परत वच्चें पडटलें. केशव संवसाराक अंतरल्यार कांय म्हयनेच जाल्ले. देखुनूच तांची जाणटी आवय आनी हेर नात्यांतलीं तुमच्या दर्शनाक येवपाचीं आसात.''

**श्रीरामकृष्ण:** (मणि मल्लीकांक) म्हाका मातशी ताकतीक करूं नाकात. म्हजी न्हीद सारकी जावंक ना. म्हज्यान धांवूं नजं. तीं दक्षिणेश्वराक येतलीं ते विशीं हांव कितें करूं? बागेंत भोंवतलीं आनी बरो आनंद घेतलीं.

थोडो वेळ विसव घेवन श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाक भायर सरले. ते सुरेंद्राच्या

कल्याणा विशीं विचार करताले. प्रत्येक कुडींत वताले आनी ल्हव आवाजांत देवाचें नांव घेताले. अचकीत ते थीर उबे रावले आनी तांणी म्हणलें, ''हांवें जेवतना पुरयो खावंक नात. थोड्योश्यो हाडात पळोवया.'' तांणी पुरयेचो इल्लोसो कुडकोच खालो आनी म्हणलें, ''पुरी मागोवपांत एक मोटो अर्थ आसा. सुरेंद्राच्या घरा हांवें पुरी खाली ना अशें जर म्हाका दिसलें तर म्हाका हांगा परत ते खातीर येवपाची इत्सा जातली.'' (सगले हांसतात.)

**मणि मल्लीकः** तें बरें जातलें आसलें. मागीर आमकांय तुमचे बराबर परत येवपाक मेळटलें आसलें.

सगले भक्त हांसले.

# अध्याय : शांयशीं

## दक्षिणेश्वराचें देवूळ
## सुरेंद्र, भवनाथ, राखाल, लाटू, म
## आनी हेर भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण
## श्रीरामकृष्णांचें तांचे विशीं मत

**जून 20, 1884. शुक्रार.** सांजवेळ जाल्ली. श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत बशिल्ले. जगन्मातेच्या चिंतनांत मग्न आशिल्ले. मदीं मदीं ते जगन्मातेचें नांव घेताले. राखाल, अधर, म आनी हेर कितलेशेच भक्त तांचे बराबर आशिल्ले.

थोड्या वेळा उपरांत देवळांत आरती पुजा सुरू जाल्यो. अधर आरती पळोवपाक गेले. श्रीरामकृष्ण आनी म उलोवपाक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हाका सांग, बाबूरामाची शिक्षण चालू दवरपाची इत्सा आसा? हांवें ताका सांगलें, तूं लोकांक देख घालून दिवपा खातीर तुजें शिक्षण चालू दवर. सीतेक मेकळी केले उपरांत बिभीशण लंकेचें राज्य करपाक तयार जायनाशिल्लो. तेन्ना रामान ताका म्हणलें, 'तूं अज्ञानी लोकांक देख म्हूण राज्य कर. ना जाल्यार अज्ञानी लोक म्हणटले, ह्या बिभीशणान रामाची इतली सेवा केली पूण तिचे पसून बिभीशणाचो कितें फायदो जालो? इतली सेवा करुनूय ताका कांयच मेळ्ळें ना. ताका म्हजी सेवा केल्ल्यान राज्य मेळिल्ल्याचें पळोवन हे लोक खोशी जातले.'

त्या दिसा म्हाका दिसलें, बाबूराम, भवनाथ आनी हरी हांचो प्रकृतीसभाव अस्तुरे भशेन आसा. म्हाका एक दर्शन जालें. तातूंत बाबूराम एका देवीच्या स्वरुपांत म्हाका दिसलो. तिच्या गळ्यांत हार आशिल्लो. तिच्यो सांगाती तिचे बराबर आशिल्ल्यो. बाबूरामाक सपनांत कितें तरी मेळ्ळां, ताचो देह शुद्ध आसा. थोडोसो यत्न केल्यार अध्यात्मीक चेतना जागृत जातली.

शरिरा विशीं म्हाका खूब अडचणी येतात. बाबूराम जर म्हजे बराबर हांगा येवन रावत तर बरें जातलें. सध्या म्हाका जे पळयतात तांचे भितर बदल जायत चल्ला. लाटू सदांच उंचेले अध्यात्मीक भावावस्थेंत आसता. ल्हव ल्हव ईश्वरांत लीन जावपाच्या मार्गार आसा तो. राखाल असो अध्यात्मीक अवस्थेंत वचत आसता. ताच्यान स्वताचेंच

कांय करूंक नजं. म्हाकाच ताका उदक हाडून दिवचें पडटा. तो म्हजी चडशी सेवा करूंक पावना. बाबूराम आनी निरंजन हे तरणाटे तितले बरे आसात. आनीक कोणूय जर फुडें येत तर ते उपदेश घेतले आनी वतले.

पूण ओडाताण करून, घरा झगडीं-बिगडीं करून हांव बाबूरामाक हांगा येवंक सांगिना. हाका लागून ताच्या घरांत त्रास जातले. बोवाळ जातलो. (हांसत) हांवें जेन्ना ताका विचारलें, 'तूं कित्याक येना?' तेन्ना तो म्हणटा, 'तुमी म्हाका घेवन चलात न्हय.' राखालाक पळोवन तो रडटा आनी म्हणटा, 'राखाल हांगा आनंदीत आसा.'

राखाल हांगा आतां घरचो कसो रावता. म्हाका खबर आसा, तो आतां आनीक संवसाराचेर आसक्त जावचो ना. तो म्हणटा, भोग ताका सामके अळणी लागतात. ताची बायल कोन्नागराक वतना हांगा आयिल्ली. ती चवदा वर्सांची. राखालाकूय कोन्नागराक यो म्हणून सांगताली. पूण तो गेलो ना. ताणें म्हणलें, 'मौज मजा आनी हास्य विनोद करपाक म्हाका आवडना.'

निरंजन तुका कसो दिसता?

**म:** महाराज, तो सुंदर दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** ना ना, हांव तो पळोवपाक कसो दिसता तें विचारिना. तो सरळ आसा. मनीस सरळ आसत जाल्यार ईश्वराचो लाव सहजतायेन जाता. सरळ मनाचो आसतकच उपदेशाचो बेगीन परिणाम जाता. बरी कशिल्ली जमीन, फातर-बितर काडून निवळ केल्ली. अशे जमनींत बीं रोयल्यार बरें किल्लता. आनी पीक बेगीन मेळटा. निरंजन लग्न करचो ना. कामिनी-कांचन बद्ध करतात अशें न्हय?

**म:** हय महाराज,

**श्रीरामकृष्ण:** पान, तंबाकू सोडून कितें फायदो जातलो? कामिनी-कांचनाचो त्याग हो खरो त्याग. भावावस्थेंत म्हाका दिसलें, निरंजन नोकरी जरी करीत आसलो तरी तातूंत दोश कांयच ना. आवय खातीर तो नोकरी करता. तातूंत दोश कितें?

तूं तुजें काम कर. ताणें तुका कांय दोश लागपाचो ना. तूं जें करता तें बरें काम.

समजा एक कारकून कादयेंत गेलो. थंय ताका बंदी केलो. बेडयो घाल्यो. परत मेकळो केलो. सुटून येतकच तो कितें करतलो? तो परत कारकुनीच करतलो. पयसो जमोवपाची तुमची कामना. तुमकां फकत घरच्यांक सांबाळूंक जाय. ना जाल्यार तीं खंय वतलीं?

**म:** कोण तांचो भार घेता जाल्यार म्हाका सुशेग जातलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें. पूण सध्या तूं हेंय कर आनी तेंय कर. (संवसार कर्तव्यय कर आनी अध्यात्मीक साधनाय कर.)

**म:** संवसाराचो त्याग करपाक भाग्य लागता.

**श्रीरामकृष्ण:** तें तर खरेंच. पूण जशे जांचे संस्कार ते प्रमाण लोक वागतात. तुजें थोडें कर्म बाकी आसा. तें जावन गेलें की मागीर शांती. मागीर तुजी सुटका जातली. इस्पितळांत नांव घालतकूच मागीर सहजतायेन तुका सोडिनात, पुरायेन बरे जातकूच मागिरूच सोडटात. हांगा जे भक्त येतात तांचे दोन वर्ग करूं येतात. एका वर्गांतले भक्त म्हणटात, 'ईश्वरा, म्हजो उध्दार कर'. हांगा येवपी भक्तांचो आनीक एक वर्ग आसा. ते अंतरंग भक्त आसतात. ते असलें कितें म्हणिनात. दोन गजाली समजल्यो म्हणटकच तांचें भागता. पयली म्हणचे हांव कोण आनी दुसरी म्हणचे ते कोण. म्हजो तांचे कडेन संबंद कितें आसा? ह्या दुसऱ्या वर्गांतले. नाजाल्यार...

भवनाथ, बाबूराम आनी हेर हांचो मादी स्वभाव. हरीश बायलांचो पोशेग करून न्हिदता. बाबूराम म्हणटा आपणाकूय होच भाव आवडटा. पळयलें, हांव बाबूरामा विशीं म्हणटा ते कशें बरोबर आसा तें? भवनाथय तसोच आसा. नरेंद्र, राखाल निरंजन हांचो नर सभाव.

बरें सांग पळोवया, म्हजो हात मोडला ताचो अर्थ कितें? फाटीं एक खेपो भावावस्थेंत आसतना म्हजें दांत मोडिल्ले. हे खेपो हात.

म कांय जाप दिना, हें पळोवन श्रीरामकृष्ण स्वताच उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजो हात मोडला म्हजो अहंकार मुळा सकट ना जावपा खातीर. आतां म्हजे भितर अहंकार आनीक कसोच मेळपाचो ना. हांव ताका जेन्ना सोदूंक वतां तेन्ना म्हाका फक्त ईश्वरूच दिसता. अहंकार पुरायेन गेले बगर ईश्वराचो लाव कसोच जावं नजं. चातक पक्षाक पळयला आसतलो, चातक पक्षाचें घर जमनीर आसता पूण तो खूब उंच उडटा.

कॅप्टन म्हणटा, म्हाका सिध्दी प्राप्त जावंक ना. कारण हांव नुस्तें खातां. घडये असल्यो शक्ती प्राप्त जायत म्हूण म्हजें आंग भंयान थरथरता. म्हाका जर असली शक्त मेळत तर हो जागो इस्पितळ वा दवाखानो जावन वतलो .लोकांच्यो हांगा झुंड्यो पडटल्यो. आनी तांचो रोग बरो करपाक म्हाका सांगतले. असल्यो सिध्दी प्राप्त जावप बरें?

**म:** ना महाराज. तुमी तर सांगलां अश्ट सिध्दींतली एकाद्री लेगीत मेळ्ळी जाल्यार भगवंताची प्राप्ती जावपाची ना.

**श्रीरामकृष्ण:** बरोबर आसा तुजें. जे हीण बुद्दीचे आसतात तांकांच सिध्दी जाय आसतात. जे लोक मोट्या मनशा कडेन कितेंय मागतात, तांकां ताचे कडच्यान मागीर आदर मेळना. अशा मनशांक तो व्हड मनीस तागेले गाडयेंत बसूंक दिना. देखुनूच निश्पाप भक्ती, हेतू विरयत भक्ती ही सगल्यांत बरी. साकार आनी निराकार दोनय

सत्य आसात. ईश्वराचें साकार रूप आनी ईश्वराचें निराकार रूप, दोनय सारकींच खरीं आसात. तुजें कितें मत? ईश्वराच्या निराकार रुपाचेर चड वेळ मन दवरूंक जमना. ते खातिरूच ईश्वर भक्तां खातीर साकार रुप घेता.

कॅप्टन हे विशीं खूबशें म्हणटा, शेवणें खूब उंच उडून जेन्ना थकता तेन्ना तें परत झाडाचे खांदयेर येवन विसव घेता. पयलें निराकार ईश्वराचें रूप आनी मागीर येता साकार ईश्वराचें रूप. म्हाका तुज्या घरा एक खेपो वचूंक जाय .म्हाका दिश्टावो जालो की अधराचें घर, सुरेंद्राचें घर, बलरामाचें घर हे सगले म्हजे मेळपाचे अड्डे आसात. पूण ते हांगा आयले कितें वा ना आयले, म्हाका फरक पडना.

### भक्तां बराबर लिला. जादुगाराचो जादू. दया ईश्वराची आसता

**म:** बरोबर आसा महाराज. तशें कित्याक आसचें न्हय. सुखाची जाणीव आसत तरच दुख्खाची जाणीव जातली. तुमी सुखदुख्खाचे पलतडीं आसात.
**श्रीरामकृष्ण:** हय, म्हाका दिसता तो जादुगार आनी ताचो जादू जादुगाराचें रूप. ताचो जादू अनित्य सपना भशेन. जेन्ना हांवें चंडी आयकली तेन्ना म्हाका हो बोध जालो. हो आतां शुंभ - निशुंभाचो जल्म जालो. परत हांवें आयकलें की तांचो नाश जालो म्हणून.
**म:** हय म्हाराज, एक खेपो हांव गंगाधरा बराबर तारवान कलकत्ताक वतालों. तारवाचो धक्को लागून एका व्हड्यांतले सगले लोक , वीस-पंचवीस जाण जातले, व्हड्या बराबर बुडले.ते उदकांत नाच्च जाले. जशें कितें तारवान उठपी फेंसा प्रमाण ते सगले उदकांत भरसून गेले.

हांव एक विचारूं?, हो जादवाचो खेळ जो पळयता, जेन्ना तो त्या खेळांत दुख्ख पळयता, तेन्ना ताका खरेंच दया येता? त्या वेळार ताका स्वताची कितें जापसालदारकी दिसता व्हय? जापसालदारकेची भावना आसली तरच दया येतली न्हय?
**श्रीरामकृष्ण:** ज्ञानी मनशांक सगलें कितें एकदम दिसता. ईश्वर, माया, जीव, जगत. ताका दिसता, विद्यामाया, अविद्यामाया, जीव जगत आसा आनी त्याच वेळार नाय बी. जों मेरेन ताका 'हांव' ची जाणीव आसा तों मेरेन दुसरेय आसात हाची जाणीव आसता. ज्ञान रुपी तरसादीन सगलें कापून उडयले उपरांत मागीर कांयच ना. मागीर ताका स्वताचो 'हांव' लेगीत जादुगाराच्या जादवा भशेन असत्य दिसूंक लागता.

श्रीरामकृष्णांच्या उतरांचेर म विचार करतालो तेन्ना तांणी म्हणिल्लें, ''हें कशें आसा खबर आसा? जशें कितें पंचवीस थरांच्यो पाकळ्यो आशिल्लें फूल आसा आनी तुमी तें खिणांत कापून उडयतात.

जापसालदारकेची कल्पना ! आवयस! शंकराचार्य , शुकदेव हांचे सारक्या मनशांनी विद्यामय अहंकार दवरिल्लो. मनशां कडेन दया दाखोवपाचें नासता. ईश्वरानूच. जों मेरेन विद्यामय 'अहंकार' आसता तों मेरेन दया आसता आनी ईश्वर स्वताच विद्यामय अहंकार जाला. ही सगली जादुगिरी आसा अशें हजार फावट तुमकां दिसलें तरी तुमी जगन्मातेच्या आधीन आसात. जगन्माते पसून तुमची सुटका ना. तुमी स्वाधीन वा स्वतंत्र नात. ती जशें करून घेतली तशें तुमकां करचें पडटलें. ती आद्यशक्ती जेन्ना ब्रह्मज्ञान दितली तेन्नाच तुमकां ब्रह्मज्ञान मेळटलें. तेन्नाच हो सगलो जादवाचो खेळ आसा अशें तुमकां दिसूंक लागतलें. नाजाल्यार ना.

जों मेरेन थोडो लेगीत अहंकार उरता तों मेरेन आद्यशक्तीचें राज्य. तुमी तिच्याच आधीन आसतात. तिचे पेल्यान वचपाची शक्यताय नासता

आद्यशक्तीच्या पालवान भगवान अवतारलिला करता. आपले शक्ती वरवींच भगवान अवतार घेता. मागिरूच अवताराक कितेंय करूंक येता.

हें सगलें जगन्मातेचे शक्तीक लागून. देवळाचो पयलींचो वेवस्थापक कोणेंय कितेंय मागल्यार म्हणटालो, दोन तीन दिसांनी येयात. धनयाक विचारचें पडटलें. कलीयुगाचे निमणें परमेश्वर कल्की अवतार घेतलो. तो ब्राह्मणाच्या पोटांत जल्म घेतलो. अचकीत आनी कल्पना नासतना एक घोडो आनी तरसाद ताका मेळटली...''

अधर आरती पळोवन श्रीरामकृष्णांचे कुडींत येवन बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (अधराक आनी हेर भक्तांक) भुवन हांगा आयिल्ली, आनी तिणें मुंबयचे पंचवीस आंबे आनी थोडी मिठाय हाडिल्ली. म्हाका तिणें म्हणलें, 'तुमी एक आंबो खातात?' हांवें म्हणलें, 'म्हजें पोट जड जालां' आनी खरें सांगचें म्हणल्यार थोडीशी मिठाय खाल्ल्यान म्हाका बरें दिसना.

भुवनमोहिनी नावाची एक नर्स मदीं मदीं श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक येताली. श्रीरामकृष्णांक सगल्यांनी हाडिल्ले जिनस खावंक जमनाशिल्लें, चड करून दोतोर, वैज, नर्स हांणी हाडिल्ले. रोग्यांचें भयंकर दुख्ख पळोवनय हे लोक तांचे कडच्यान पयशे घेतात म्हूण तांचो जिनस श्रीरामकृष्णांक खावंक जमनाशिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण**: केशव सेनाची आवय, भयण आनी हेर आयिल्लीं. म्हणून थोडोसो नाचलों. तांकां थोडोसो आनंद दिवपाक आनीक कितें करपाचें? तांकां खुबूच दुख्ख जाल्लें.

# अध्याय : सत्त्यांयशीं

## श्रीरामकृष्ण आनी पंडीत शशधर तर्कचुडामणी ईशानांच्या घरा

**जून 25, 1884. बुधवार.** रथयात्रेचो दीस.ईशानांच्या आमंत्रणा वयल्यान श्रीरामकृष्ण आयज कलकत्ता सावन ईशानांच्या घरा आयिल्ले. खूब दीस जाले श्रीरामकृष्णांक पंडीत शशधर तर्कचुडामणींक मेळपाचें आशिल्लें. ते ईशानांच्या एका शेजाऱ्यागेर रावताले. दनपरां पंडितांक मेळपाक वचपाचें थारायलें. ईशानांच्या घरा वतना श्रीरामकृष्णां बराबर हाजरा आनी थोडे लोक आशिल्ले. ईशानांनी तांच्या एकदोन ब्राह्मण पंडितांक आफयिल्ले. एका तांत्रीक शक्तीउपासक भक्ताकय आफयिल्लो. श्रीश आनी ईशानांचे हेर पूत थंय आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी तांत्रीक उपासकाच्या कपलार शेंदुराचो तिळो आसा तो पळयलो. श्रीरामकृष्णांनी हांसत हांसत म्हणलें, ''हांच्या कपलाचेर सामको छापच आयला.'' थोड्या वेळान नरेंद्र आनी म थंय पावले .आनी श्रीरामकृष्णांक ते पांयां पडले, आनी थंय बसले. श्रीरामकृष्णांनी मक पयलींच सांगिल्लें, ते ईशानांच्या घरा आसतले म्हूण. श्रीरामकृष्णांनी जेवणाक उशीर जाला तो पळोवन ताचेर विनोद केलो. एका पंडितान भुके विशीं एक मजेदार श्लोक म्हणून दाखयलो. ताचो अर्थ सांगतना तांणी सांगलेंः

''तत्वज्ञान शास्त्रांचें अध्ययन खूब उदात्त खरें पूण ताचे परस काव्य चड मनभुलोवणें. जेन्ना सुंदर काव्य आयकतात तेन्ना वेदान्त, सांख्य, न्यास, पातंजल, सगलीं तत्वज्ञानां सुकीं आनी पचपचीत लागतात. परत काव्या परस संगीत चड ओडलायणें. संगितान फातरा काळजाचो मनीस लेगीत विरगळटा. पूण सुंदर अस्तुरी संगिता परसय मनशाच्या काळजाक चड ओड लायता आनी भुलयता. सुंदर अस्तुरी जर लागींच्यान गेली तर मनशाचें चित्त काव्यांतूय लागना आनी संगितांतूय लागना. पूण ज्या वेळार कडकडून भूख लागता, तेन्ना काव्य, संगीत, अस्तुरी कित्यांतच लक्ष लागना, मन रमना. भूख सगल्यांत चड लक्ष ओडून घेता.'' श्रीरामकृष्ण (हांसत),

"हे पंडीत खूब विनोदी आसात."

रोखडोच नरेंद्र गावपाक लागलो. थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण वयल्या सालांत मातसो विसव घेवपाक गेले. म आनी श्रीश तांचे बराबर गेले. मन श्रीरामकृष्णांक श्रीशाची वळख करून दिली. आनी म्हणलें, "तो विद्वान आसा आनी खूब शांत सभावाचो आसा. भुरगेपणांत आमी बराबर शिकताले. आता तो वकील आसा."

**श्रीरामकृष्ण:** असलो मनीस वकिली करता हें बरोबर न्हय.

**म:** हय महाराज, ताची ती चुकूच

**श्रीरामकृष्ण:** हांव थोड्या वकिलांक वळखतां. एकलो तर म्हाका खूब मानता. तो सरळ सभावाचो.(श्रीशक) जिणेंत सारभूत गजाल तुका खंयची दिसता?

**श्रीश:** ईश्वर आसा आनी तोच सगलें करता. पूण आमी जे गूण ताका चिकटायतात ते बरोबर नात. मन ताचे विशीं कितें धारणा करूंक शकतलें? तो अनंत आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** आंब्या गाळींत झाडां कितलीं आसात, त्या झाडांच्यो खांदयो कितल्यो हें सगलें मेजपाचें कितें कारण आसा? आंब्या गाळींत तुमी आयल्यात आंबे खावपा खातीर, आंबे खावपाची मजा करात आनी सुखी जायात. भगवंताची भक्ती आनी मोग मेळचो इतलेच खातीर मनीस जल्म. तो मोग मेळयात आनी शांत जायात. समजा तुमी सोऱ्याचे गादयेर सोरो पियेवपाक गेले. ते सोऱ्याचे गादयेर कितले गॅलन सोरो आसा हाची खबर घेवपाची तुमकां गरज आसा? तुमकां एक कोपटेल मेळ्ळें की जालें. ईश्वराचे अनंत गूण जाणून घेवपाचीं तुमकां गरजच कितें? ताचे गूण कोटी वर्सां विचार करीत बसले तरी कांयच कळपाचे नात.

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ ओगी बसले .एक ब्राह्मण पंडीत कुडींत आयले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हे संवसारी जिणेंत कांयच अर्थ ना. ईशानांच्या घरचे लोक बरे आसात. म्हूण हांगा शांतता आसा. समजा तांचे पूत छंदीफंदी, नशाबाज, अप्रामाणीक, आपल्या वाद्याचे आशिल्ले तर तांच्या दुख्खाक शीममेर उरची नाशिल्ली. घरांतल्या सगल्यांचें मन ईश्वरा कडेन आसा. असले धर्मीक घराबे चड करून मेळनात. हांवें असले एक दोन घराबेच पळयल्यात. हरशीं सामान्यतायेन फकत झगडीं, अपसमज, मत्सर आनी संघर्श. इतलेंच न्हय, रोग, शोक, जगांतलें दळिद्र हें सगलें पळोवन हांव जगन्माते कडेन प्रार्थना करतांः

'माते, जगा पसून म्हज्या मनाक एकदम ईश्वरा कडेन लाय.' पळय न्हय, नरेंद्र कितलो त्रासांत पडला तो. ताचे वडील भायर पडल्यात. घरांतले सगले जाण उपास काडटात. एकाद्री नोकरी बी मेळची म्हूण खूब खटपट करता. पूण अजून ती ताका मेळना. पळय ताच्या मनाची अवस्था कशी जाल्या ती.

(मक) तूं दक्षिणेश्वराक खूब खेपो येतालो. पूण हालींसराक तसो येना. केन्नाय

दिश्टी पडटा. कितें जालां? चड करून बायले कडेन चड इश्टागत जाल्या काय कितें? खरें आसा तें? तुका कित्याक दोश दिवं हांव? कामिनी आनी कांचनाचो प्रभाव सगले कडेन आसा. म्हूण हांव प्रार्थना करतां, 'जगन्माते, म्हाका परत मनीस जल्माक घालपाचें आसत तर म्हाका संवसारी मात करूं नाका.'

**ब्राह्मण पंडीत:** महाराज, अशें म्हणटात तुमी? शास्त्रांत गृहस्थी धर्माची स्तुतीच केल्या.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, तें खरें आसा. पूण खरीखरी गृहस्थी जीण जगप खूब कठीण. (मक) आमचें चुकलेंच न्हय? ते लोक गायतात. विशेशतायेन नरेंद्र थंय गायता आनी आमी तांकां सोडून हांगा आयल्यात.

## कलीयुगांत भक्तीयोग सोंपो

दनपारच्या चारांक श्रीरामकृष्ण पंडीत शशधर रावताले त्या घरा गाडयेन वचपाक भायर सरले. गाडयेंत बसले बराबर ते समाधींत गेले. खूब तेंप केल्ल्या खडतर साधनांनी आनी समाधीं वरवीं सतत ईश्वरी बोधांत मग्न राविल्लयान श्रीरामकृष्णांचो देह खूब नाजूक जाल्लो. ते खातीर थोडो लेगीत शारिरीक ताण तांकां सोंसूंक जायनाशिल्लो. भोंवतणच्या लोकांच्या संवसारीक विचारांचो लेगीत तांकां त्रास जातालो. एक खेपो केशव चंद्र सेनांनी म्हणिल्लें, 'श्रीरामकृष्ण, क्रिस्त आनी श्रीचैतन्य महाप्रभू हे मनीसजातीच्या नाजूकतायेचे नमुने आसात. आनी तांकां जशे कितें कंवचेच्या आवरणांत दवरूंक जाय आनी हळशिकावण्या संवसारा पसून तांची राखण करूंक जाय.

पावसाळ्याचे दीस, पावसाचो शिंवर पडत आशिल्लो. ताका लागून रस्त्यार चिखोल जाल्लो. मळब कुपांनी भरून आयिल्लें. भक्त पांयांनी चलत वताले.गाडी घरा मुखार येवन उबी रावली. यजमान आनी तांचे नातलग हांणी रामकृष्णांक येवकार दिलो. आनी तांकां वयले माळयेच्या सालांत व्हेले. थंय श्रीरामकृष्ण आनी पंडीत हांची भेट जाली. पंडीत शशधर गोरे आशिल्ले. मध्यम वयाचे, गळ्यांत रुद्रांक्षाची माळ. पंडीत शशधर हे एक कशिल्ले आनी फांकीवंत संस्कृत पंडीत आशिल्ले. ते सनातनी मताच्या हिंदूंचे एक आधारस्तंभ आशिल्ले. क्रिस्तांव अस्मितेचो सांस्कृतीक प्रभाव हिंदू समाजाचेर पडिल्लो. त्या वेळार हांणीं हिंदू धर्मा विशीं प्रभावीपणान जागृताय केल्ली. पंडितांची हिंदू शास्त्रां विशीं स्पश्टपणान विसकावणी, तांची पोटतिडक, प्रामाणिकपण आनी स्फूर्त दिवपाक प्रभावी उलोवप, हाका लागून बंगालचे कितलेशेच शिकिल्ले तरणाटे पुर्वजांच्या हिंदू धर्मा कडेन परत आयले. पंडीतजीन अत्यंत आदरान आनी भक्तीभावान श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो. आनी तांकां कुडींत बसयले. नरेंद्र, राखाल, राम, हाजरा आनी म जे श्रीरामकृष्णां बराबर आयिल्ले, ते सगले कुडींत श्रीरामकृष्णां

लागीं बसले. श्रीरामकृष्णांच्या मुखांतल्यान येवपी एक्कय उतर चुकचें न्हय म्हणुनूच ते तांचे लागीं बशिल्ले.

श्रीरामकृष्ण पंडितांक पळोवन समाधींत गेले. कांय वेळान तेच अवस्थेंत हांसत पंडितां कडेन पळोवन तांणी म्हणलें, ''बरें आसा, बरें आसा.'' मागीर पंडितांक लेखून श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''तुमी लेक्चर कशे दितात म्हाका सांगात.''

**पंडीत:** महाराज, हांव गजाल समजावन सांगपाचो यत्न करतां.

**श्रीरामकृष्ण:** कलीयुगांत नारदान सांगिल्लो भक्ती मार्गच चड बरो. शास्त्रांत जीं सगलीं कर्मां सांगल्यांत तीं करपाक लोकांक वेळ खंय आसा? हालींसराक कर्मठ हिंदूचे कसाय, काडे दिवन जोर आयिल्लो रोगी बरो जायना. त्या कसाय काड्यांचो परिणाम जावचे पयलींच रोगी दगावपाची शक्यताय आसता. म्हणुनूच फकत ताबडतोब लागू पडपी एलोपेथिक फिवर मिक्शरच जाय. तुमच्यांनी शास्त्रोक्त कर्मां करपाक सांगू येता. पूण विधीनेम सांगता आसतना शेंश्टी आनी शेंपडी काडची.* हांव लोकांक सांगतां, तुमी संध्या करतना सामक्या शास्त्रांत वचपाची गरज ना. तुमी गायत्री मंत्राचो जप केलो की पुरो. शास्त्रोक्त कर्मा विशीं सामकें सांगपाचेंच आसत तर ईशानां सारक्या थोड्या लोकांक सांगचें.

## विशयान आसक्त जाल्ले लोक आनी लेक्चर

तुमी हजार लेक्चरां दियात पूण संवसारी लोकांचेर तांचो परिणाम जावपाचो ना. फातराचे वणटीचेर खिळो मारूंक येता? खिळ्याचें तोंक मोडटलें पूण खिळो फातरा भितर वच्चो ना. मानग्याचे फाटीर तरसादींचे घाय घालून कितें जातलें? साधूचो दुदया पसून केल्लो कमंडलू चारय पवित्र धामां भोंवून आयलो तरी कोडू तो कोडूच. तुमचीं लेक्चरां संवसारी लोकांक कांयच उपेगाचीं नात. तुमकां ल्हव ल्हव हें कळटलें. पाडकाक एकदम उबें रावंक जमना. मदीं मदीं पडटा, परत उबें रावता. अशे तरेन तें उबें रावंक आनी चलपाक शिकता.

कोण विशयान आसक्त तें तुमच्यांनी वळखूंक जावचें ना. पूण तो तुमचो दोश न्हय. पयलींच जेन्ना वादळ येता, तेन्ना चिंचेचें झाड खंयचें आनी आंब्याचें खंयचें हें वळखूंक येना.

ईश्वराचो लाव जाले बगर कोणाकूच सामको कर्मत्याग करूंक जमचो ना.

संध्या आनी हेर पुजेचीं कर्मकांडां कितले दीस करतले? जों मेरेन ईश्वराचें नांव

---

* म्हणचे गरज नाशिल्लें वगळावचें, जशी नुस्त्याची शेंश्टी आनी शेंपडी गरज नाशिल्ले भाग

घेतकूच दुकां दोळ्यांतल्यान व्हांवंक लागनात आनी शरिराचेर कांटो फुलना तों मेरेनच. जशें 'ओम' 'राम' म्हणटकच जर दोळे दुकांनी भरून येत तर समजुचें, तुमचे पुजे विशींचीं कर्मां सोंपलीं म्हूण. मागीर संध्या बी कर्मां तुमकां आनीक करपाची गरज ना. फळ धरतकूच फूल झडटा. ईश्वराची भक्ती हें फळ आनी विधीनेम फुलां. सूनबाय गुरवार जातकच तिका खूब काम करूंक जमना. मांय दिसानदीस तिचें काम कमी करता. णववो म्हयनो जाले उपरांत मांय तिका चडशें कामच करूंक दिना आनी भुरगें जातकच सूनबायचें भुरग्या बराबर खेळत बसपाचेंच काम. घरांतलें खंयचेंच काम तिका करपाचें लागना. संध्या गायत्रींत विरगळटा.. गायत्री ओमकारांत लय पावता. जसो घांटीचो नाद ठ-ण-ण. योगी ओम नादाक धरून, ल्हव ल्हव परब्रह्मांत लीन जाता. समाधींत ताचो संध्या आनी हेर कर्मांचो लय जाता. अशे तरेन ज्ञानी मनशाचो कर्मत्याग जाता.

## साधना आनी विवेक वैराग्य

समाधी संबंदीं उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्ण स्वताच समाधींत मग्न जावन गेले. तांच्या तोंडाचेर दिव्य प्रभा फांकली .भायल्या जगाची जाणीव ना जाली. तांकां उतर फुटना जालें. बऱ्याच वेळा उपरांत ते भानार येवन एकाद्र्या निरागस भुरग्या भशेन तांणी म्हणलें, ''समाधी उपरांत ते जेन्ना उदक पियेवंक सोदताले, तेन्ना भक्त समजताले की आतां ल्हव - ल्हव तांकां भायल्या जगाचें भान येवंक लागतलें.'' अजून ते आनंदावस्थेंत आसतना ते जगन्मातेक म्हणूंक लागले, ''आई, त्या दिसा, तुवें पंडीत ईश्वर चंद्र विद्यासागर दाखयलो. ताचे उपरांत हांवें तुका परत म्हणिल्लें की आनीक एक पंडीत पळोवपाची म्हजी इत्सा आसा, देखून तुवें म्हाका हांगा हाडला.''

मागीर शशधरांक लेखून तांणी म्हणलें, ''बाबा, तुमची शक्त आनीक मातशी वाडयात. आनीक कांय दीस अध्यात्मीक साधना करात. झाडाचेर पांय दवरता थंय आसात, तुमी खोंटलोभर फळांची आस धरतात. पूण तुमी तर लोकांच्या कल्याणा खातिरूच हें सगलें करतात.'' अशें म्हूण श्रीरामकृष्णांनी माथें बागोवन पंडितांक नमस्कार केलो. श्रीरामकृष्ण फुडें उलोवंक लागले, ''जेन्ना तुमचे विशीं पयलेच खेपो आयकलें, तेन्ना वासपूस केली की पंडीत फक्त पंडीत आसात काय तांचे कडेन विवेक, वैराग्य आसा. पंडीत् जाका सत्य आनी असत्य हांचे मदीं विवेक करूंक येना तो पंडितच न्हय. भगवंताचो आदेश मेळ्ळे बगर आचार्य जावपाक येना. भगवंताचो आदेश मेळ्ळा आसत तर लोकांक उपदेश करपाक हरकत ना. मागीर तातूंत कांय दोश ना.

ईश्वराचो आदेश मेळटकच जर कोणय लोकांक उपदेश करीत तर ताका

कोणाच्यानूच हारोवंक नजं. वाग्यदेवता सरस्वती कडच्यान जर एक लेगीत किरण येत तर मनशाक अशी शक्त येतली की व्हड- व्हड पंडीत लेगीत ताचे मुखार फक्त गांयडोळ कशे दिसतले. दिवो पेटयतकूच पिसोळीं चोंब्यांनी येतात. तांकां आफोवचें पडना. तेच प्रमाण ईश्वराचो आदेश मेळ्ळे उपरांत, प्रवचन करप्यांक मागीर लोकांक आफोवचें पडना. अमूक वरांचेर प्रवचन जातलें हें सांगचें पडना. ताचे भितर अशी ओड आसता की लोक आपूण जावन ताचे कडेन येतात. सगले तरेचे लोक - राजे लोक, गिरेस्त, सगले जाण ताचे भोवतणीं गर्दी करतात. ते ताका म्हणूंक लागतात,

'महाराज, तुमी कितें घेतात? आंबे, मिठाय, रुपया, शाली आनी हेर वस्तू हाडल्यात. तुमी कितें घेतले? तुमी कृपा करून कितेंतरी घेयात.' हांव तांकां म्हणटां, 'पयस रावात. म्हाका हें कांयच आवडना. म्हाका कांयच नाका.' लोहचुंबक कितें लोखणाक म्हणटा, 'म्हजे म्हऱ्यांत यो'. यो म्हणपाची गरजच लागना. लोखण चुंबकाचे ओडीन आपसुकूच ताचे कडेन धांव घेता. घडये असो मनीस पंडीत नासत. पूण म्हणून अशें मात समजूं नाकात की ताच्यांत ज्ञानाचें कितें उणेपण आसा. ज्ञान कितें पुस्तकां वाचून मेळटा? जाका देवाचो आदेश मेळ्ळा, ताचें ज्ञान ईश्वरा कडच्यान येता. तें केन्ना सोंपचें ना. धान्य मेजपाच्या वेळार एक जाण मेजता , दुसरो एकटो धान्याची रास ताचे कडेन धुकलीत आसता. म्हणटकूच जो धान्य मेजता ताका धान्य कमी जायना. तेच प्रमाण जाका देवा कडच्यान आदेश मेळ्ळा तो जितलो उपदेश करतलो तितली जगन्माता ताका स्वताच फाटल्यान ज्ञानाची रास फुडें धुकलीत रावतली. तें ज्ञान केन्नाच सोंपपाचें ना. जगन्मातेचो जर एक खेपो कृपाकटाक्ष मेळ्ळा आसत तर ज्ञानाचें उणेपण कित्याक आसतलें? म्हूण तुमकां विचारतां, तुमकां कितें देवाचो आदेश मेळ्ळा व्हय?

**हाजरा:** हय, खात्रेन तांकां आदेश मेळ्ळा आसतलो. (पंडीतजींक ) महाराज, मेळ्ळा न्हय तुमकां?

**पंडीत:** आदेश! ना, महाराज. तसलो कसलोच आदेश बी मेळूंक ना. पूण तें कर्तव्य म्हूण लेक्चरां दितां.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो आदेश मेळ्ळे बगर फक्त भाशण दिवन कितें उपेग जातलो? एक ब्राह्मो भाशण दितां- दितां म्हणूक लागलो, 'इश्टांनो, हांव कितलो सोरो पियेतालों, हें करतालों, तें करतालों.' तांचें हें उलोवणें आयकून लोक आपले भितर फुतफुतूंक लागले, हो पिसो आनीक कितें म्हणटा? तो पियेतालो खंय! ताच्या उतरांनी परिणाम उरफाटोच जालो. म्हूण बरो मनीस आसले बगर भाशणाचो कांयच फायदो जावपाचो ना. बरीद्यालाक रावपी एका सरकारी हुद्देदारान म्हाका एक खेपो म्हणलें, 'महाराज, तुमी उपदेश करपाचें काम सुरू करतात जाल्यार, हांव म्हजेंय कमर बांदतां. हांवें ताका

सांगलें, 'हें पळय, हांवें हालदारपुकूर तळ्याचे देगेर लोक कशे घाण करताले आनी मागीर पुलिसान सरकारी आदेशा वरवीं एक मनाय हुकूम लायतकूच लोकांचें घाण करपाचें बंद जालें' म्हणून म्हणटां कोणेंय उठून भाशण दिवन उपेगाचें ना. ईश्वराचो आदेश आसल्यारच लोक ताचें आयकतले. ईश्वराचो आदेश आसले बगर मनीस उपदेश करूंक शकना. उपदेश करपी आसा ताचे कडेन मोटी शक्त जाय. कलकत्तांत कितलेशेच हनुमानपुरी आसात (कुस्तीबाज पेलवान). हांचे कडेन तुमकां कुस्ती खेळूंक जाय. (बशिल्ल्या लोकांक बोट दाखोवन ) हे तर सामके मेंगे. चैतन्यदेव ईश्वराचे अवतार आशिल्ले. तांणी जें कितें केलां तातूंतलें कितलेंशें उरलां? ईश्वराच्या आदेशा बगर जे कोण भाशणां दितात, तांचो परिणाम कितें जातलो?

म्हूण हांव तुमकां म्हणटां 'ईश्वराच्या चैतन्य सागरांत बुडी मारात'. अशें सांगून श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदांत मग्न जावन गीत म्हणूंक लागलेः

ईश्वरी सौंदर्याच्या दर्शना खोल बुडी मार;
खोल बुडी मार, ए मना.
सामकें खरायेंत तूं देंवलें जाल्या
थंय तुका मेळटलीं प्रेमरत्नां...

श्रीरामकृष्णांनी फुडें सांगलें, 'ह्या सागरांत बुडल्यार मनीस मरना, हो तर अमृताचो सागर. '

एक खेपो हांवें नरेंद्राक म्हणलें, 'ईश्वर आनंदाचो सागर आसा. म्हाका सांग, तूं त्या दर्यांत उडी मारूंक सोदता काय ना. कल्पना कर, एका ग्लासांत सिरप आसा आनी तूं एक मूस जाला. आता म्हाका सांग तूं खंय बसून सिरप पियेतलो?' नरेंद्रान म्हणलें, 'हांव कपाच्या कांठार बसून मान लांब करून सिरप पियेतलों. कित्याक, खूब भितर गेल्यार हांव बुडून मरतलों. तेन्ना हांवें ताका म्हणलें, 'बाबा, हो सच्चिदानंद सागर आसा. हातूंत बुडून मरपाचो भंय ना. हो दर्या अमृताचो दर्या आसा. जे अज्ञानी आसात ते म्हणटात, भक्ती, प्रेमाचो अतिरेक करूं नये. ईश्वर प्रेमाचो केन्ना कितें अतिरेक जावं येता? (पंडितांक) म्हूण तुमकां सांगतां, सच्चिदानंद सागरांत बुडून वचात. ईश्वरलाव जातकच मागीर ईश्वराचो आदेशय मेळटलो आनी मागीर लोकांक बरे तरेन उपदेशय करूंक मेळटलो.

**ईश्वर प्राप्तीचे अनंत मार्ग. भक्तीयोगाचो युगधर्म**

**श्रीरामकृष्णः** (पंडितांक) अमृत सागराक वचपाचे अनंत मार्ग आसात. थंय पावप हें मुखेल काम. मागीर तुमी खंयच्याय मार्गान वचात. कशेंय करून एकदांचो त्या अमृत सागरांत वचून पडटकच जालें. अशी कल्पना करात की अमृताचें एक कुंड आसा. कशेंय करून अमृताचे कांय थेंब तुमच्या तोंडांत पडटकच तुमी अमर जातले. मागीर तुमी त्या कुंडांत स्वता जावन उडी मारात. वा तुमकां दुसऱ्या कोणेंय तातूंत धुकलून उडोवं वा तुमी सोपणांनी सवकास तातूंत देंवून तें थोडेंशें पियेयात. फळ एकच. थोडेंशें अमृत चोखतकच तुमी अमर जातले. ईश्वरा कडेन वचपाचे अनंत मार्ग आसात. ज्ञान, कर्म, भक्ती. तुमी खंयच्याय मार्गान वचात. तुमचे भितर खरी तळमळ आसत तर तातूंतल्या खंयच्याय मार्गान तुमी ईश्वरा लागीं पावं येतात. सर्वसामान्यतायेन योग तीन तरांचे आसात. ज्ञानयोग, कर्मयोग आनी भक्तीयोग. ज्ञानयोग म्हणचे कितें? ज्ञानी ब्रह्म जाणा जावंक सोदता. तो नेति नेति असो सत असत विचार करीत आसता. ब्रह्म सत्य, जगत मिथ्या असो सत असत विचार तो करता. सत्य कितें आनी असत्य कितें हाचो तो विवेक करता. हो विवेक विचार जेन्ना सोंपता तेन्ना ताका समाधी लागता आनी ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. कर्मयोग म्हणचे कितें? कर्मांतल्यान ईश्वराचेर मन दवरप. तुमी लोकांक ह्याच मार्गाचो उपदेश करतात. अनासक्त जावन प्राणायाम, ध्यान धारणा बी करप कर्मयोगांत येता. संवसारी मनीस अनासक्त जावन ईश्वराक फळ अर्पण करून ईश्वराचेर भक्ती दवरून जर संवसारांतलीं कामां करीत तर तोय कर्मयोगच करता अशें म्हणपाक जाता. ईश्वर लावच कर्मयोगाचो हेत आसा. भक्तीयोग म्हणचे कितें?ईश्वराचें नामगूण संकिर्तन करून ताचे कडेन मन लावप. कलीयुगांत भक्तीयोग हो सामको सोंपो मार्ग आसा. भक्तीयोगच ह्या युगाचो धर्म. कर्मयोग खूब कठीण. पयलीं, हांवें येदोळ म्हणलां ते प्रमाण लोकांक हालींसरा तितलो वेळ खंय आसा? शास्त्रांत जीं सगलीं कर्मां सांगल्यांत तीं करपाक वेळ खंय आसा? कलीयुगांत आयुश्य कमी. ते उपरांत अनासक्त जावन फळाची आस धरिनासतना कर्मां करप भोव कठीण. ईश्वर लाव करून घेतले बगर अनासक्त जावंक जमना. तुमकां सामकें नकळटां मनांत खंयच्यान तरी आसक्ती रिगता. तुमकां तें कळ लेगीत ना.

ज्ञानयोग ह्या युगांत खूब कठीण. कलीयुगांत एक तर जीव अन्नाचेर पुरायेन निंबून आसता, तातूंत परत आयुश्य कमी. तिसरें म्हणल्यार देहबोध कितेंच केल्यार वचना. हेवटेच्यान देहबोध गेले बगर ब्रह्मज्ञान जावंकच नजं. ज्ञानी म्हणटा, 'हांवच तें ब्रह्म, हांव शरीर न्हय, हांव भूख, रोगशोक, जल्ममरण, सुखदुख्ख हया सगल्यांचे पलतडीं आसां.' जर रोगशोक, सुखदुख्ख आनी ह्या सगल्यांचो बोध तुमचे भितर आसत तर तुमी ज्ञानी कशे जातले?

तुमच्या आंगाक कांटो तोपला, भळभळ रगत व्हांवता, खूब दुखता, अशे अवस्थेंत

तुमी जर ज्ञानी आसत, तुमी म्हणूंक जाय, 'कितें, म्हज्या आंगांत कांटो रिगुंकूच ना. म्हाका कांयच जावंक ना. म्हूण ह्या युगा खातीर भक्तीयोगच. तो हेर मार्गां परस ईश्वरा म्हऱ्यांत वचपाचो सोंपो मार्ग. ज्ञानयोग, कर्मयोग, आनी हेर मार्गांनी ईश्वरा लागीं वचूं येता. ना अशें न्हय. पूण ते सगले मार्ग खूब कठीण. भक्तीयोग ह्या युगाचो धर्म जावन आसा. पूण हाचो अर्थ असो न्हय की भक्त एके सुवातेर पावतलो आनी ज्ञानी वा कर्मयोगी दुसरे सुवातेर पावतलो. हाचो अर्थ असो की जाका ब्रह्मज्ञान जाय तो भक्तीच्या मार्गान गेलो तरी ताका ब्रह्मज्ञान जातलें. भगवान भक्त वत्सल. ताणें फक्त मनांत हाडल्यार तागेल्या भक्तांक ताच्यान ब्रह्मज्ञान दिवंक येता.

## भक्तांक ब्रह्मज्ञान जाता काय?

भक्त ईश्वराचें साकार रूप पळोवंक सोदता. ताका क्वचीत ब्रह्मज्ञान जाय आसता. पूण ईश्वर इत्सामय आसता. ताची खोशी आसत तर भक्तांक तो आपल्या अनंत ऐश्वर्याचो अधिकारी करता. ताका ताका भक्तीय दिता. कोण जर एकदांचो कलकत्ताक पावत, तर मागीर ताका मैदान, अजापघर, सगल्यो सुवातो पळोवंक जमता. प्रश्न आसा कलकत्ताक कशें पावपाचें. जगताच्या आईचो, जगन्मातेचो लाव जाल्यार, ज्ञानय मेळटलें, भक्तीय मेळटली. भावसमाधींत ईश्वराच्या रुपाचें दर्शन जातलें. आनी निर्विकल्प समाधींत अहं, नांव, रूप उरना. ईश्वराचो भक्त जगन्माते कडेन प्रार्थना करता. 'आई सकाम कर्माचो म्हाका मोटो भंय दिसता. त्या कर्मा फाटल्यान वासना, कामना आसतात. तें करतकच ताचें फळ भोगचेंच पडटा. परत अनासक्त जावन कर्म करप कठीण. सकाम कर्मांत घुसपल्यार हांव तुका विसरून वतलों. म्हूण अश्या कर्मांची म्हाका गरज ना. आई, जों मेरेन तुजो लाव जायना तों मेरेन दिसानदीस म्हजीं कर्मां कमी जावं. करुंकूच जाय अशीं जीं कांय कर्मां उरतलीं तीं अनासक्तपणान करूंक जातलीं अशें कर आनी ते बराबरच तुज्या ठांय भक्ती दी. आनी जों मेरेन तुजो लाव जायना तों मेरेन खंयच्याच नव्या कर्मांत घुसपुपाची म्हाका इत्सा जावची न्हय. तरीपूण जेन्ना तूं आदेश दितली तेन्ना तुजें काम करतलों. ना जाल्यार ना.'

## तिर्थयात्रा आनी श्रीरामकृष्ण. आचार्यांचे तीन वर्ग

**पंडीत:** तुमी तिर्थयात्रा खंय मेरेन केल्या?

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें कांय तिर्थस्थळांक भेट दिल्या. (हांसत) पूण हाजरा मात खूब पयस वचून आयला. आनी खूब उंचायेर चडुनूय बी गेला. तो रुशिकेशाक गेला.

हांव तितलो पयस वचूंक ना आनी तितलो वयरूय चडून वचूंक ना. तुमी पळयलांच आसतलें. घोणी, गिदां खूब वयर मळबांत उडटात. पूण तांची नदर आसता मरून पडिल्ल्या जनावरांचेर. म्हणचे कितें खबर आसा? तें म्हणचे कामिनी आनी कांचन आसा. थंयच रावून जर ईश्वराची भक्ती मेळोवंक जमता तर मागीर तिर्थाक वचपाची गरज कितें? काशीक गेल्लों थंय पळयलें, तींच झाडां. हांगाचे सारकींच चिंचेचीं पानां. तिर्थक्षेत्रांत वचून जर ईश्वर मेळ्ळो ना तर तिर्थयात्रा निरुपेगीच थारतली. ईश्वराची भक्तीच सामकी गरजेची जावन आसा. घोणी, गिदां म्हणचे कितें जाणात तुमी? खूब लोक आसतात. ते व्हडल्यो - व्हडल्यो गजाली सांगतात. आनी म्हणटात की शास्त्रांत सांगिल्लीं कितलींशींच कर्मां तांणी केल्यांत म्हणून. पूण मेळत जाल्यार तांचें मन संवसारी विशयांत भरिल्लें आसता. पयसो, धनदौलत, मानभोवमान, शरीरसूख हातुंतूच घुसपल्ले आसतात.

**पंडीतः** खरें आसा महाराज, तिर्थयात्रेक वचप म्हणल्यार भगवान नारायणान स्वताच गळ्यांत घाल्लो कौस्तुभ मणी उडोवन हेर हिरेमाणकां सोदीत बसपा सारकेंच आसा.

**श्रीरामकृष्णः** आनी तुमी हें मतींत दवरात, शेंकड्यांनी, हजारांनी उपदेश दिले तरी वेळ आयले बगर फळ धरचें ना. एका ल्हान भुरग्यान न्हिदता आसतना आवयक म्हणलें, 'आई, म्हाका मुतूंक जातकच उठय'. आवयन म्हणलें, 'बाब, ताचो हुसको करूं नाका. तें जातकच तूं आपुणूच उठ्ठलो. (सगले हांसतात.) पूण भगवंता खातीर व्याकूळताय योग्य वेळ येतकूच उत्पन्न जाता.

## पात्रताय पळोवन उपदेश
## ईश्वर दयामय आसा

तीन प्रकारचे वैज आसतात. एका प्रकारचे वैज आसतात, ते रोग्याची नाडी पळोवन वखद सांगून वतात. वतनां रोग्यांक फक्त सांगतात, 'वखद घेयात आं' हे निकृश्ट प्रतीचे वैज. तेच प्रमाण आचार्य आसतात. ते उपदेश दिवन वतात. पूण त्या उपदेशान लोकांचें बरें जालें की वायट जालें हें पळयनात. ताचो ते विचारच करिनात. आनीक दुसरे तरेचे वैज आसतात. ते खंयचें वखद घेवचें तें सांगतात आनी रोग्यान तें घेवचें म्हणून सांगतात. रोगी जर घेवपाक तयर नासत तर ते ताका तरातरांनी समजावन सांगतात. हे जाले मध्यम प्रतीचे वैज. हेच प्रमाण मध्यम प्रतीचे आचार्य लेगीत आसतात. ते उपदेश दितात आनी लोकांनी त्या उपदेशा प्रमाण वागचें म्हूण ते तरातरांनी तांकां पटचें म्हूण समजायतात. निमणें आनीक एके तरेचे वैज आसात.

सगल्यांत श्रेश्ठ प्रतीचे. गोड उलोवन जर रोगी आयकना जायत, तर ते जबरदस्ती लेगीत करतात. गरज पडल्यार रोग्याचे छातयेर धोंपर लावन वखद ताच्या ताळ्यांत फोर्सान घालतात. तेच प्रमाण उत्तम श्रेणीचे आचार्य आसात. शिश्याक ईश्वराच्या मार्गार हाडपा खातीर ते शिश्याचेर जबरदस्ती लेगीत करतात .

**पंडीत:** महाराज, तुमी वर्णन केल्यात तशे उत्कश्ट आचार्य आसात जाल्यार योग्य वेळ यो मेरेन ईश्वरीज्ञान जायना अशें तुमी कशें म्हणटात?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमचें खरें. वायटकाराच्या तोंडांतल्यान वखद भायर पडटा आनी ताच्या पोटांत तें पावना जाल्यार वैज करतलो कितें? अशे परिस्थितींत उत्कृश्ट वैजाच्यान लेगीत कांयच करूंक जायना.

शिश्याक शिकवण दिवचे पयलीं आचार्यान शिश्याची योग्यताय पारखूंक जाय. पूण शिकवणेंत वाणपण आसूंक फावो ना. एकाद्रो तरणाटो शिकवणे खातीर म्हजे म्हऱ्यांत येता. पयली गजाल जी हांव ताका विचारतां ती म्हणल्यार ताच्या घरच्यांची. धरुया, ताचो बापूय भायर पडला, धरुया ताच्या बापायन कांय रीण ताका दवरलां. अशा वेळार आपलें चित्त ती व्यक्ती देवा कडेन कशी लायतली? आयकतात न्हय तुमी?

**पंडीत:** हय महाराज, हांव प्रत्येक उतर लक्ष दिवन आयकतां.

**श्रीरामकृष्ण:** एक दीस दक्षिणेश्वराक कालीमंदीरांत कांय शीख सिपाय आयिल्ले. कालीमंदिरा मुखार तांची भेट जाली. तांचे भितरल्या एकट्यान म्हणलें, 'परमेश्वर खूब दयाळ आसा.' हांवें म्हणलें, 'खरेंच! पूण तुका कशें कळ्ळें?' ताचेर ताणें म्हणलें, 'महाराज, देव आमकां अन्न दिता, आमची सगली जतनाय घेता.'

हांवें म्हणलें, 'तातूंत अजापीत जावपाचें तुमका कितें दिसता? ईश्वर आमच्या सगल्यांचो बापूय आसा. बापूय जर भुरग्यांक पळोवचो ना तर कोण पळयतलो? शेजारच्या गावांतले लोक येवन पळयतले काय कितें?

**नरेंद्र:** तर मागीर कितें आमी ईश्वराक दयाळ म्हणूं नये.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव ताका दयाळ म्हणपाक कितें मना करतां? म्हज्या म्हणपाचो अर्थ इतलोच की ईश्वर सामको आमचो आसा. तो आमकां परकी न्हय .

**पंडीत:** सामकी मोलादीक उतरां.

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक) तुजें पद आयकतालों, पूण ते बरें जालें ना म्हूण हांव उठून गेलों. सद्या तुजें मन नोकरी सोदपा कडेन लागलां म्हणून तुजें पद अळणी लागलें.

नरेंद्राक लज जाली. ताचें मुखामळ मातशें तांबडें जालें. तो लजेन वोगी बसून रावलो.

श्रीरामकृष्णांनी पियेवपाक उदक मागलें. तांचे लागी उदकाचो एक पेलो हाडून

दवरलो. पूण श्रीरामकृष्ण तें पियेवंक शकले नात. तांणी दुसरे खेपो उदक मागयलें. मागीर कळ्ळें की कोणें वायट मनशान त्या पयल्या पेल्याक आफुडिल्लें.
**पंडीत:** (हाजराक ) तुमी लोक हांचे बराबर रातदीस रावतात. तुमी मोट्या आनंदान आसूंक जाय.
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत हांसत) खरेंच आयचो दीस म्हजे खातीर खूब बरो दीस. शुक्ल पक्षांतल्या बीयेचो चंद्र पळयलो (सगले जाण हांसतात.) बियेचो चंद्र कित्याक म्हणलो तें जाणात तुमी? सीतेन एक खेपो रावणाक म्हणलें, 'तूं पूर्ण चंद्रीम आसा. आनी म्हजो राम बियेची चंद्रकोर आसा.' रावणाक तिच्या म्हणण्याचो अर्थ कळ्ळो ना. ताका दिसलें, सीता ताची तुस्त करता म्हणून तो खूब खोशी जालो. पूण सीतेच्या म्हणण्याचो हेतू आशिल्लो की रावणाची सत्ता आनी ऐश्वर्य जितलें वाडपाचें तितलें वाडून जालां. आता दिसानदीस पूर्ण चंद्रा प्रमाण ताचो क्षय जावपाचो आसा आनी राम द्वितीय चंद्र दिसानदीस वाडत वतलो.

## परत ईशानांच्या घरा

श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत ईशानांच्या घरा परत आयले. अजून तिनसांज जावपाची आशिल्ली. श्रीरामकृष्ण ईशानांच्या सकयल्या सालांत येवन बसले. थंय पंडीत , ईशान आनी ईशानांचे पूत आनी हेर भक्त आशिल्ले.
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत ईशानांक) हांवें शशधरांक म्हणलें, 'झाडाचेर पांय दवरपाचो आसा , खोंटलोभर फळां मेळपाचीं आसात. आनीक कांय अध्यात्मीक साधना करात. मागीर लोकांक उपदेश करात. ईशान , प्रत्येक प्रवचनकाराक दिसता, आपूण लोकांक ज्ञानाचो प्रकाश दितां. काजुलो समजता, आपूण जगाक उजवाड दितां म्हणून. काजुलो अशें समजता अशें दिशिल्ल्यान एकटो काजुल्याक म्हणटा, 'आरे काजुल्या, आरे तूं जगाक कसलो उजवाड दितलो? आरे, तूं फक्त काळखाची खराय चड दाखयता.'
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसून) पूण शशधर फक्त पंडीत न्हय. थोडो विवेक, वैराग्यय आसा.

थंय हाजीर आशिल्ल्या पंडितान श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''तुमी महात्मा आसात.''
**श्रीरामकृष्ण:** ते तुमी नारद , प्रह्लाद , शुकदेव हांचे संबंदीं म्हणूंक शकतात; हांव तुमच्या पुता भशेन आसां. तरीपूण एका अर्थान तुमी म्हणटात तें खरें आसा. अशें म्हणटात की भगवंता परस ताचो भक्त व्हड. कित्याक म्हणल्यार भक्त भगवंताक काळजांत सामावन घेवन वता. (सगले आनंदीत जातात.) वैश्णवान म्हणलां भक्त

स्वताक व्हड समजता, आनी भगवंताक ल्हान समजता. यशोदा कृष्णाक सांखळेन बांदून उडोवपाक तयार जाल्ली. कृष्ण ईश्वराचो अवतार आशिल्लो. यशोदेचो विश्वास आशिल्लो, तिचे बगर आनीक कोणूच श्रीकृष्णाची जतनाय घेवंक शकचो ना.

केन्नाकेन्नाय भगवान लोहचुंबक जाता आनी भक्त सूय जाता. भगवान भक्तांक स्वता कडेन ओडून घेता. आनी केन्नाकेन्नाय भक्त लोहचुंबक जाता आनी भगवान सूय. भगवंताक भक्ताची इतली ओड आसता की भक्ताच्या प्रेमान भगवान ताचे कडेन वचून रावता.

श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाचे तयारेंत आशिल्ले. ईशान आनी हेर भक्त तांचे भोंवतणीं उबे आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण उलयतां उलयतां ईशानांक उपदेश करताले.
**श्रीरामकृष्ण:** (ईशानांक) संवसारांत रावन जो भगवंताक आळयतलो तोच खरो वीर भक्त. ईश्वर म्हणटा, जाणें संवसार सोडून दिला तो म्हाका आळयतलो. तो म्हजी सेवा करतलोच. तातूंत व्हडलें मोटेपण तें कसलें? तो जर म्हजी भक्ती करिना तर लोक ताची छी थू करतले. पूण जो संवसारांत रावन म्हजी भक्ती करता तो धन्य. कितलीं तरी आडमेळीं पयस करून तो म्हजी भक्ती करता. जसो कितें एका टनाचो फातर पयस करून तो म्हजे कडेन येता, तोच शूर , वीर भक्त.
**पंडीत:** शास्त्रांत हेंच सांगलां. महाभारतांत धर्मव्याधाची आनी पतीव्रतेची गोश्ट आसा. एक खेपो एक वैरागी ध्यानाक बशिल्लो आसतना एका कावळ्यान ताका त्रास दिलो. त्या तपस्व्यान दोळे उगडून रागान कावळ्या कडेन पळयतकच तो कावळो जळून भस्म जालो. तपस्वी मनांत म्हणूंक लागलो, 'हांवें पळयले बराबर कावळो ना जावन गेलो. खात्रेन म्हजी अध्यात्मीक प्रगती बरीच जाल्या आसतली. एक दीस तो एके अस्तुरेच्या घरा भिक्षा मागपाक गेलो. ती बायल सामकी पतीव्रता आशिल्ली. तिची तिगेल्या घोवाचेर खूब भक्ती आशिल्ली. रातदीस ती तिगेल्या पतीदेवाची सेवा करताली. घोव घरा येतकच ती ताचे पांय धुवपाक उदक दिताली. इतलेंच न्हय तर ती तिगेल्या केंसांनी ताचे पांय पुसताली. ज्या वेळार तो तपस्वी तिच्या घरा कडेन भिक्षा मागपाक आयलो, त्या वेळार ती घोवाची सेवा करपांत मग्न आशिल्ली. आनी देखुनूच रोखडेंच दार उगडपाक तिका जमलें ना. भिक्षेक उशीर जाता तो पळोवन तपस्व्याक राग आयलो आनी रागाच्या भरांत, 'तुजे बरें जावचें ना' म्हणीत तिका स्राप दिवंक लागलो. तांचेर ते पतीव्रतेन भितरल्यान जाप दिली, 'हांव तुमचो कावळो न्हय की म्हाका तुमी भस्म करूंक शकतले. थोडो वेळ रावात, म्हाराज म्हज्या घोवाची सेवा जातकच हांव तुमकां भिक्षा घालतलीं!' हे सादे बायलेक हांवें कावळो जळोवन भस्म केला हें कशें कळ्ळें, ह्या विचारान तो तपस्वी सामको अजापीत जालो. तिचे कडल्यान

अध्यात्मीक उपदेश आयकुपाची ताका इत्सा जाली. ते खातीर ताका तिणें धर्मीक व्याधा कडेन धाडलो. धर्मीक व्याध मांस विकतालो. पूण तागेल्या आवयबापायक प्रत्यक्ष ईश्वर समजून तो दीसरात तांची सेवा करतालो. तो तपस्वी अजापीत जावन स्वताच म्हणूंक लागलो, 'हो तर व्याध मांस विकता, ते भायर संवसारी मनीस. हो म्हाका कसलें ब्रह्मज्ञान दितलो?' पूण तो व्याध ब्रह्मज्ञानी आशिल्लो. तागेलीं सगलीं कर्तव्यां सारकीं करून ताणें ब्रह्मज्ञान मेळयिल्लें. त्या धर्मीक व्याधाच्या उपदेशान त्या तपस्व्याक ज्ञान प्राप्त जालें.

आतां श्रीरामकृष्ण गाडयेंत बसतले. लागींच ईशानांच्या भावाच्या घराच्या दारा लागींच श्रीरामकृष्ण उबे आशिल्ले. ईशान आनी हेर भक्त श्रीरामकृष्णां भोंवतणीं उबे आशिल्ले. ते तांकां आतां निरोप दिवपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी ईशानांक सांगलें, ''संवसारांत मुये प्रमाण रावात. हो संवसार नित्य आनी अनित्य हांचें मिश्रण आसा. साकर आनी रेंव हांचें मिश्रण. मूय जावन फक्त साकर तितलीच घेयात.

संवसार म्हणचे दूद आनी उदक हांचें मिश्रण. चिदानंदरस आनी विशयरस हांचें मिश्रण. हंसा प्रमाण फक्त दूद पियेवन, उदक भायर उडयात .संवसारांत पाणकोंबये प्रमाण रावात. तिच्या आंगाक उदक लागता. पूण ती तें फाफडून उडयता. चिखलांत रावपी नुस्त्या प्रमाण संवसारांत रावात. तें नुस्तें चिखलांत रावता, पूण ताचें आंग पळयात. आंग सदांच परजळीत आनी चकचकीत आसता.''

श्रीरामकृष्ण गाडयेंत बसले आनी दक्षिणेश्वरा कडेन वचूंक लागले.

# अध्याय : अठ्ठ्यांयशीं

## दक्षिणेश्वराक पंडीत शशधरांक उपदेश
## कालीब्रह्म – ब्रह्म आनी शक्ती अभिन्न

**जून 30, 1884. सोमार.** श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत तांचे कुडींत बशिल्ले. लागींच पंडीत शशधर बशिल्ले. जमनीचेर शेंदरी घाल्ली. तिचेरच श्रीरामकृष्ण, पंडीत शशधर, आनी कितलेशेच भक्त बशिल्ले. कांय भक्त फक्त जमनिचेरूच बशिल्ले. सुरेंन्द्र, बाबूराम, म, हरीश, लाट्र, हाजरा, मणि मल्लीक आनी हेर भक्त थंय आशिल्ले.

दनपारचीं चार जाल्लीं. स दीस पयलीं श्रीरामकृष्ण कलकत्ताक पंडीत शशधरांक मेळिल्ले. आयज पंडीत दक्षिणेश्वराक श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक आयिल्ले. पंडीतजी बराबर भूधर चटोपाध्याय आनी तांचे व्हडले भाव आशिल्ले. पंडीतजी ज्ञानमार्गाचे साधक आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण तो मार्ग तांकां समजावन सांगताले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां म्हणलें , ''जो नित्य, ताचीच लिला. नित्य आनी लिला ह्या एकाच सत्याच्यो दोन वटो आसात. जो अखंड सच्चिदानंद आसा ताणेंच लिले खातीर तरातरांचीं रुपां घेतल्यांत.'' हे प्रमाण अंतीम सत्याचें स्वरूप सांगतां-सांगतां भायलें भान ना जावन श्रीरामकृष्ण समाधींत मग्न जावन गेले. तेच अध्यात्मीक तन्मयतायेन ते उलोवंक लागले. ताणी पंडीतजींक म्हणलें, ''पळयात, ब्रह्म, सुमेरू पर्वता भशेन अखळ, अचल आसा. पूण जो 'अचल' आसा तोच 'सचल'य आसा.''

श्रीरामकृष्ण प्रेमानंदांत मत्त जाले. तांगेल्या सुमधूर गळ्यान ते पदां फाटल्यान पदां गावंक लागलेः

कोण जाणा जांवक पावतलो कालीमाता आसा कशी
शडदर्शनां लेगीत तिचें वर्णन करूंक असमर्थ आसात...

माता कितें हेर बायलां भशेन जल्मल्या अशी एक सादी बायल?

फकत तिचें पवित्र नांव गावनूच
शिव त्या प्राणघातक विखा पसून वाटावता.

तीच ती जी विश्वां रचता, जी सांबाळटा आनी संहारता,
आपल्या अजापीत दोळ्यांच्या एका संकेतान,
ती आपल्या पोटांत विश्व सांबाळटा.

तिच्या चरणां कडेन विसव घेवन देवांक लेगीत सुरक्षीत दिसता,
आनी देवाधि देव महादेव,
तिच्या पांयां कडेन लोटांगण घालून पडिल्लो आसता.

परतेय ते गावंक लागलेः

माता किर्ते फकत शिवाची घरकान्न? तिचे मुखार जावंकूच जाय
नतमस्तक सर्वसंहारक मरणाचो राजा!
सगलो संवसारभर ती नागडी भोंवता, आपल्या दैत्य दुस्मानांक संहारून,
वा शिवाचे छातयेर उबी रावता
तिचे पांय तिच्या घोवाचे आकृतायेर
कितली विचित्र बायल ती आसतली!
प्रसाद म्हणटा, म्हजे मातेचो खेळ, सगले नेम आनी कायदे मोडटाः
शुद्धताये खातीर खूब कश्ट घे, ए मना,
आनी म्हजे मातेचो मार्ग जाणा जा.

आनी परतेंयः

पियेनां हांव सोरो सादो, पूण सोरो सासणाच्या आनंदाचो सोरो
म्हजे काली मातेचें नाम घेतां घेतां,
हांव जातां इतलो तर्र, लोकांक दिसता
हांव जालां बेबदो!...

आनी परतेंयः

जणेकल्याच्यान श्यामेचें दर्शन घेवं येता? कालीचें धन सगल्यां खातीर?
आरे, सत्य कितें तें म्हज्या मूर्ख मनाक कळचें ना हें कितले दूखदिणें!
सगलीं तपां करुनूय शिव क्वचितूच करता
श्यामा मातेच्या मनमुग्धावण्या आरक्त चरण कमलांचें दर्शन.

तिचें जो स्मरण करता ताका सर्गांतली गिरेस्तकाय खऱ्यानीच तुच्छ.
तिच्या स्वर्गांतल्या धनाचें जो ध्यान करता, तो खरोच दुबळो,
श्यामेन ताचेर नदर घाली जाल्यार तो चिरंतन आनंदांत पेंवता.
योगींचो राज, देवाधिदेव, फुकट करता तिच्या चरणकमलांचें ध्यान,
तरीय निरुपेगी कमलाकांत मातेच्या सुभागी चरणकमलांक तरशेता

श्रीरामकृष्णांची भावावस्था ल्हव ल्हव शांत जाली. पद थांबोवन ते मातशे स्तब्ध जाले. थोड्या वेळान उठून ते ल्हान पलंगाचेर वचून बसले. पंडीत शशधर तांचें पद आयकून भुल्लसून गेले. तांणी अत्यंत आदरान आनी नमळायेन म्हणलें, ''आनीक पद तुमी म्हणटले?''

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण परत गावंक लागलेः

वयर म्हजे मातेच्या चरणरुपी मळबांत पतंगा वरी म्हजें मन उडटालें.
पूण मदींच पातकाची वाऱ्या वावझड आयली आनी ताका
रोखडेंच धरतरेर हाडलें.

तांणी परतेंय गायलेंः

सासणा खातीर, हे खेपेक, म्हाका पुरायेन कळ्ळां;
त्या एका कडल्यान, जाका तें बरें खबर आसा, हांव भावाचें
गुपीत शिकलां,
एक मनीस म्हजे सरीं आयिल्लो रात ना अश्या देशांतल्यान,
आनी आतां म्हाका रात आनी दीस वेगळावंक येना.
विधी आनी देवसपणां, म्हजे खातीर तें आतां सगलें फुकट जालां.

आतां हांव सामको जागो आसां योगाच्या जागरणांत.
ए दिव्य माते, निमाणे योगनिद्रेंत हांव एकरूप तुज्यांत,
म्हजे न्हिदेकूच हांवें न्हिदयल्या अनिकूच चड.
इत्शेचे आनी मुक्तीचे मुखार; म्हणटा प्रसाद, हांव जातां नतमस्तक,
जाणा जावन गुपीत कालीच आसा पूर्ण ब्रह्म,
सदां खातीर हांवें सोडल्यांत दोनूय उजूपण आनी पातक.

श्रीरामकृष्णांनी मुखार गायलें:

खोल म्हज्या काळजांत हांवें कालीचें नांव रोयलां,
स्वर्गाचो कल्पतरू;
जेन्ना यम, मरणाचो राजा येतलो,
तेन्ना तें थंय वाडटा तें काळीज उक्तावन दाखयतलों.
जिणेचो दर्या हुपूंक हांव तयार आसां,
म्हणून, "दुर्गे, तुजो जयजयकार जावं!"

परतेंय तांणी गायलें:

ए मना, भितर तुज्यांत वसती कर;
दुसऱ्याच्या घरांत वचूं नाका.
थंय तूं सोदशी जाल्यार, तुका मेळटलें
सगलें कितें जें तूं सोदता...

आनी परतेंय:

मुक्ती दिवपाक जरी केन्नाच नाराज नासतां
शुद्ध प्रेम दिवंक हांव अनमनतां.
सगल्यांत वरतो, जो शुद्ध प्रेम जोडटा.
तिनूय लोकांचेर तो जैत जोडटा...

पंडीत शशधरांनी वेदांचें आनी शास्त्रांचें अध्ययन केल्लें. तात्वीक भासाभास

तांकां आवडटाली. श्रीरामकृष्णांनी ल्हान पलंगाचेर बसून तांचे कडेन पळयलें. आनी काणयां वरवीं तांकां ते तरातरांनी उपदेश करूंक लागले.

**श्रीरामकृष्णः** (पंडितांक) वेद आनी हेर शास्त्रां आसात. पूण साधना केले बगर, तपस्या केले बगर ईश्वर मेळूंक जमना. शडदर्शन, वेद, तंत्र हांचे भितर ईश्वर मेळूंक नजं. मात शास्त्रांत जें आसा , तें सगलें जाणा जावन घेवन ते प्रमाण कृती करूंक जाय. एका मनशाक एक चीट आयली. ती ताणें शेणयली. ताणें ती खंय दवरली तें ताका याद जायना जालें. मागीर दिवो घेवन ताणें ती सोदले उपरांत ती चीट निमणी मेळ्ळी. तातूंत बरयिल्लें, पांच शेर संदेश (मिठाय) आनी एक धोतर धाडचें म्हूण. तितलें वाचून त्या मनशान ती चीट भायर उडयली. ते चिटयेची मागीर आनीक कसली गरज आशिल्ली? मागीर पांच शेर संदेश आनी एक धोतर विकतें हाडून तें धाडून दिवप इतलेंच ताणें करपाचें.

पठण, श्रवण आनी दर्शन हांतलें तारतम्य वाचपा परस आयकप बरें, आनी आयकुपा परस पळोवप बरें. गुरूच्या वा साधूच्या मुखांतल्यान आयकल्यार शास्त्र चड बरें कळटा. धारणा चड बरी जाता. तशें करतकच शास्त्राच्या नाका आशिल्ल्या गजालीं विशीं विचार करपाचो लागना. हनुमानान म्हणिल्लें , 'भावा, म्हाका तिथी, नखेत्रां आनी हेर गजाली खबर नात. हांव फकत रामाचें चिंतन करतां.' पूण आयकुपा परस पळोवप खुबूच बरें. पळयतकच सगले दुबाव ना जातात. शास्त्रांत कितल्योश्योच गजाली बरयिल्ल्यो आसतात. पूण ईश्वराचो साक्षात्कार जाले बगर, ताच्या कमलचरणां कडेन भक्ती आसले बगर, चित्तशुध्दी जाले बगर कांयच उपेग ना. पंचांगांत भविश्य बरयिल्लें आसता, ह्या वर्सा वीस इंच पावस पडटलो म्हणून. पूण तें पंचांग पिळ्ळ्यार एक थेंब लेगीत पडपाचो ना. सामको एक लेगीत ना.

### तर्कविचार खंय मेरेन? ईश्वर दर्शन जाय मेरेन. विज्ञानी कोण?

शास्त्रांचेर तर्कविचार कितले करप? जों मेरेन ईश्वराचो साक्षात्कार जायना तों मेरेन. गुंगुल्लो गुंगू खंय मेरेन करता? फुलार बसना तों मेरेन. फुलाचेर बसून म्होंव चोखपाक सुरवात केली की गुंगूं करप बंद जाता. तरीपूण एक मतींत दवरूंक जाय. ईश्वराच्या दर्शना उपरांत उलोवप शक्य आसा. पूण त्या वेळार तो मागीर फक्त ईश्वरा विशीं आनी ईश्वरी आनंदा विशींच उलयता. बेबदो जसो 'जय कालीमाता' म्हूण आड्डता, तसलो प्रकार. तर्पण घडिल्ल्यान ताका मागीर आनीक कांयच उलोवंक जमना. तुमी पळयलांच आसतलें, फुलार बसून म्होंव चोखले उपरांत गुंगुल्लो अस्पश्टपणान गुंगूं

करीत आसता. ज्ञानी जगा विशीं 'नेति नेति' असो विचार करतां करतां ताका अशी एक अवस्था प्राप्त जाता की तातूंत ताका आनंद मेळटा. अशा ब्रह्मज्ञानी मनशाचो सभाव कसो आसता? तो शास्त्रांच्या नेमा प्रमाण वागता. एक खेपो म्हाका चाणकाक घेवन गेल्ले. थंय हांवें कांय साधू पळयले. तातूंतले कांय जाण कपडे शिंवपाचें काम करताले. (सगले हांसतात.) आमकां पळोवन तांणी तें काम कडेक दवरलें. ते उपरांत पांयार पांय दवरून बसून ते आमचे कडेन उलोवंक लागले. (सगले हांसतात.) पूण तुमी विचारले बगर ज्ञानी तुमचे कडेन ईश्वरीय गजाली करपाचे नात. पयलीं ते तुमकां तुमी कशे आसात? घरचे सगले लोक बरे आसात काय नात हे सारके प्रश्न विचारतले. पूण विज्ञानी लोकांचो सभाव वेगळो आसता. तो सगल्यां विशीं उदासीन आसता. कित्याचोच खंयच संबंद ना. घडये केन्नाय भुरग्या भशेन तो तागेले न्हेसता ते कपडे खांकेंत मारून भोंवता तर आंगा वयले केन्नाय सगले कपडे सकयल गळून पडटात. ईश्वर आसा हें जो जाणा ताका म्हणटात ज्ञानी. लांकडांत उजो आसा तें दुबावा विरयत जो जाणा त्या मनशा भशेन ज्ञानी आसता. पूण लांकूड पेटोवन त्या उज्याचेर रांदून आनी अन्न खावन जो धश्टपुश्ट जाता तो विज्ञानी. विज्ञानी मनशाचे आठ पास गळून पडिल्ले आसतात. काम, क्रोध आनी हेर विकार हांचो फकत आकार आसता, फकत आकार.

**पंडीत:** ताच्या काळजांतल्यो गांठी तुटून पडटात. सगले दुबाव ना जावन वतात.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, एक तारूं दर्यांतल्यान वतालें. अचकीत ताचे लोखणाचे सांधे, खिळे, स्क्रू निखळून पडले. तें एका लोहचुंबकाच्या दोंगरा कडल्यान गेल्लयान सगलें लोखण सदळ जालें.

हांव कृष्णकिशोराच्या घरा वतालों. एक दीस थंय गेल्लों आसतना ताणें म्हाका विचारलें. 'तुमी पान कित्याक खातात?' हांवें सांगलें, 'म्हजी खोशी. हांव पान खातलों. हारशांत हांव म्हजें मुखामळ पळयतलों आनी हजार चलयां मदीं नागडो नाचतलों*. कृष्णकिशोराचे बायलेक ताचो राग आयलो. तिणें ताका तापयलो. तिणें म्हणलें: 'तुमी श्रीरामकृष्णांक अशें कशें म्हणलें? तुमकां लोकां कडेन कशें उलोवचें तें कळना.'

ही अवस्था प्राप्त जातकच काम, क्रोध हे विकार जळून वतात. शरिराक कांयच जायना. भायल्यान दिसपाक हेर लोकांच्या शरिरा प्रमाण दिसता पूण भितर सगलें मेकळें आनी नितळ.

**एक भक्त:** ईश्वराच्या दर्शना उपरांत कितें शरीर उरता?

---

* श्रीरामकृष्ण विज्ञानी आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** कोणाकोणांचीं कांय कर्मां खातीर उरतात लोकांक उपदेश करपा खातीर. कोणाकोणांचीं प्रारब्ध कर्मां खातीर उरतात. गंगास्नान करतकच पातकां नश्ट जातात. आनी मुक्ती मेळटा. पूण तो जर कुड्डो आसत तर ताचें कुड्डेपण मात वचना. पूण फाटल्या पापकर्मांचें फळ म्हूण जे कितें ताका जल्म घेवचे पडटले आशिल्ले ते टळटात. प्रारब्ध कर्म सोंप मेरेन शरीर उरतलें. पूण परत जल्म मात जावचो ना. चक्र घुंवपाक जो वेग दिल्लो आसता, तो वेग आसा मेरेन चक्र घुंवता. मागीर तें थांबता. विज्ञानी मनशाचे काम, क्रोध हे विकार जळून वतात. कांय कर्मां खातीर शरीर उरता.

**पंडीत:** तांकांच संस्कार म्हणटात.

**श्रीरामकृष्ण:** विज्ञानी सदांच ईश्वराक पळयता. देखुनूच तो जगा विशीं इतलो उदासीन आसता. तो ईश्वराक ताच्या उकत्या दोळ्यांनी लेगीत पळयता. केन्नाय तो नित्यांतल्यान लिलेंत येता. केन्नाय लिलेंतल्यान नित्यांत दोळे उकते दवरून लेगीत तो ईश्वराक पळयता.

**पंडीत:** तें म्हाका कळना.

**श्रीरामकृष्ण:** ज्ञानी ह्या जगा विशीं नेति, नेति असो विचार करीत निमणें त्या अखंड सच्चिदानंदा मेरेन पावता. तो असो विचार करीत आसता, ब्रह्म हें जीव न्हय, ब्रह्म जगत न्हय. तें हें चोवीस तत्वां न्हय असो विचार करीत तो ब्रह्मा मेरेन पावता. मागीर ताका कळून येता की तें ब्रह्मच. हें सगळें कितें जालां तें ब्रह्मच जीव, जगत आनी चोवीस तत्वां जालां. दूद विरजणाक घालून ताचें धंय केले उपरांत तें घुसळावन लोणी काडटात. अशें लोणी काडटकच दिसून येता की लोणी ताका पसून मुळांत वेगळें ना. ताकाचेंच लोणी आनी लोणयाचेंच ताक. रुखाची साल गरा पासून आनी गरा पसुनूच साल.

**पंडीत:** (हांसत भूधराक) तुमकां कळ्ळें, हें कळप खुबूच कठीण.

**श्रीरामकृष्ण:** लोणी आसत तर ताकय आसुंकूच जाय. लोणयाचो विचार केले बराबर ताकाचोय विचार येतलोच. कित्याक ताक नासत तर लोणी जावपाचें ना. तशेंच नित्य मानलें जाल्यार लिलाय मानुंकूच जाय. न्हयकार आनी हयकार अशी ही पध्दत. ईश्वराचो साकार आनी निराकार ह्या दोनय स्वरुपांत साक्षात्कार जाले उपरांत ही अवस्था येता. साकार म्हणचे चैतन्याचें आकार घेतिल्लें रूप, चिन्मयरूप, आनी निराकार म्हणचे अखंड सच्चिदानंद. ब्रह्मच सगळें कितें जालां म्हणुनूच विज्ञानी मनशांक हें जग आनंदाचें धाम दिसता. पूण ज्ञानी मनशाक हें जग पयसावता.

## चित्तभ्रम जावपी सुवात

रामप्रसादान ह्या जगाक चित्तभ्रम जावपी सुवात म्हणलां. ताचेर एकान जाप दिली:

हो संवसारूच आसा आनंदाचें धाम,
हांगा हांव खातां, पियेतां आनी मजा करतां
ए वैजा, तूं मूर्ख. तूं फकत भायलें तितलेंच पळयता.
जनकाचें बळगें अपूर्व
संवसाराचें वा आत्म्याचें ताका कितें उणें?
एकाक धरून तसोच दुसऱ्याक
तो दुदाचो उपाट भरिल्लो पेलो पियेता!

हें आनी तें दोनूय वटो सांबाळून भरिल्लो पेलो रिकामो केलो. (सगले हांसतात.) विज्ञानी हो ईश्वराच्या आनंदाचो विशेशतायेन आस्वाद घेत आसता. कोणें दुदा विशीं आयकल्लें आसता, कोणें दूद पळयिल्लें आसता, कोण तें पियेल्लो आसता. विज्ञानी दूद पियेल्लो आसता, तें पियेवन ताका आनंद मेळिल्लो आसता. आनी तो धश्टपुश्ट जाल्लो आसता.

श्रीरामकृष्ण मातशे वोगी बसले. आनी तांणी पंडीतजींक धुम्रपान करपाक सांगलें. ते प्रमाण दक्षीण उदेंते कडले पडवेर ते धुम्रपान करपाक गेले. थोड्या वेळान परत येवन पंडीतजी भक्तां वांगडा जमनीर बसले. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसून परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण**: (पंडितांक) तुमकां सांगतां. आनंद तीन तरांचो आसता. विशयानंद, भजनानंद आनी ब्रह्मानंद. कामिनी–कांचनाचो आनंद हो जगांतलो आनंद सगलेच लोक भोगतात. ताचेंच नांव विशयानंद. ईश्वराचें नाम गुणगान करून जो आनंद मेळटा ताचें नांव भजनानंद, आनी भगवंताच्या दर्शनाचो आनंद हाचें नांव ब्रह्मानंद. तो मेळ्ळे उपरांत रुशी स्वच्छंद जाताले. विधीनेम तांकां लागनाशिल्ले. चैतन्यदेव तीन तरांच्यो अवस्था अणभवताले. अंतर्दशा, अर्दजागृत अवस्था आनी जागृत अवस्था. अंतर्दशेंत भगवंताचें दर्शन जावन ते समाधींत मग्न जावन वताले. जडसमाधी लागताली. अर्दजागृत अवस्थेंत भायल्या जगाचें थोडें भान उरतालें. जागृत अवस्थेंत ते भगवंताचें नामगूण संकिर्तन करताले.

**हाजरा:** (पंडितांक) हाका लागून तुमचे सगले दुबाव पयस जाल्यात आसतले.

**श्रीरामकृष्ण:** (पंडितांक) समाधी कित्याक म्हणटात? थंय मनाचो लय जाता. मन ईश्वरी चिंतनांत पूर्णतायेन विलीन जावन वता. ज्ञानी-मनशाक जड समाधी लागता. तातूंत 'हांव'चो लवलेश उरना. भक्ती योगांत मेळिल्ले समाधीक 'चेतन समाधी'

म्हणटात. हे समाधींत 'हांव'ची जाण आसता. हे समाधींत सेवक आनी धनी ह्या संबंदांत 'हांव', आस्वाद घेवपी आनी अन्न संबंदाचो 'हांव' उरता. ईश्वर धनी आनी भक्त सेवक. ईश्वर प्रीय आनी भक्त प्रियकर, ईश्वर अन्न आनी भक्त आस्वादक. म्हाका साकर जावपाक आवडना. म्हाका साकर खावपाक आवडटा.

**श्रीरामकृष्ण**: (हांसत) मनांत कितें आसा तें मेकळेपणान सांगात. मागीर कितें नारद, सनक, सनातन, सनंद, सनतकुमार हांचो शास्त्रांत उल्लेख ना?

**पंडीत:** हय महाराज, शास्त्रांत हांचो उल्लेख आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** ते ज्ञानी आसुनूय तांणी 'भक्त हांव' बाळगिल्लो. तुमी भागवत वाचूंक ना?

**पंडीत:** कांय भाग वाचला. पुरायेन वाचूंक ना.

**श्रीरामकृष्ण:** प्रार्थना करात. तो दयाळ आसा. तो कितें भक्तांचें म्हणणें आयकुचो ना? ताचे म्हऱ्यांत वचून जो जें मागतलो तें ताका मेळटलें.

**पंडीत:** ह्या सगल्या गजालीं विशीं हे पयली हांवें तितलोसो खरायेन विचार करूंक ना. पूण आतां म्हाका कळटा.

**श्रीरामकृष्ण:** ब्रह्मज्ञाना उपरांतय ईश्वर तागेल्या भक्तां भितर थोडोसो 'हांव' दवरता. तो 'हांव', भक्त 'हांव', ज्ञानी 'हांव' अशा स्वरूपाचो आसता. त्या 'हांव' वरवीं भक्त भगवंताचे अनंत लिलेचो आस्वाद घेता. मुसळाची घांसूनपुसून लागीं-लागीं सगली पूड जाली. थोडेंशे उरिल्लें तितलेंच उलूवनांत पडून कुळाच्या नाशाक कारण जालें. ताणेंच यदु कुळाचो नाश जालो. म्हणुनूच, विज्ञानी हो 'भक्त हांव', 'ज्ञानी हांव' बाळगिता. ईश्वराचो आनंद घेवपा खातीर आनी लोकांक उपदेश करपा खातीर. रुशीलोक भिजूड सभावाचे आशिल्ले. ते रोखडेच भियेवन वताले. तांचो सभाव कसो आशिल्लो जाणा? 'म्हाका कशीय करून मुक्ती मेळ्ळी की जालें. हेर लोकांचो हुसको हांव कित्याक करूं?' एकाद्रें वाऱ्या वांगडा व्हांवपी पोकळ लांकूड कशें तरी व्हांवता पूण ताचेर एकाद्रें शेवणें बसलें तर तें बुडटा. नारद आनी हेर रुशी म्हणचे व्हडले जंगी भरीव लांकडाचे लोटिंगे. स्वताय पलतडीं व्हांवत वतात आनी बराबर आनीक कितल्याश्याच जिवांक, जनावरांक घेवन वतात. स्टीम बोट स्वताय पलतडीं वता आनी हेर लोकांकय घेवन वता. नारद आनी हेर आचार्य हे विज्ञानी आशिल्ले. ते रुशीं परस कितलेशेच पटीन धीरवान आशिल्ले. जशे व्हड फांशे खेळपी. मागता तें दान तांकां पडटा. पळोवंक ना तुमी फांशे उडयतना ते आड्डुतात ते, कितले जाय? स काय पांच? हे घेयात. प्रत्येक वेळार तो मागता तें दान ताका पडटा. असले पट्टीचे खेळपी खेळटा आसतना मदीं-मदीं परत -आपल्यो मिशयो पिळटात. ते फक्त ज्ञानी आसतात. ते भिवकुरे आसतात. ते म्हणचे शतरंज खेळपी. आपली घूल कोण

मारचो ना इतलेंच पळोवप. पूण विज्ञानी मनशाक कित्याचोच भंय नासता. ताका ईश्वराचो साकार, निराकार ह्या दोनय स्वरुपांत साक्षात्कार जाल्लो आसता. ताणें ईश्वरा बराबर उलोवप केल्लें आसता. ईश्वराचो आनंद भोगिल्लो आसता. विज्ञानी मनशाक ईश्वराचें चिंतन करीत अखंड सच्चिदानंदांत मन विलीन जालें तरी आनंद. आनी तशें अखंडक, विलीन जायनासतना, लिलेंत मन उरलें तरीय आनंद. फक्त ज्ञानी एकांगी, एक मार्गी आसता. 'हें न्हय, हें न्हय, हें जग सपन कशें आसा.' पूण हांवें दोनय हात वयर केल्यात. देखून हांव सगलें कितें घेवंक शकतां.' दोनय हात वयर उखल्ल्यात हे विशीं गजाल सांगतां, आयकात. एक अस्तुरी तिगेले इश्टिणीगेर आयली. इश्टीण आशिल्ली विणकान्न. ती त्या वेळार सूत काडटाली. तरातरांचें रेशमी सूत. इश्टीण आयिल्ली पळोवन तिका खूब-खूब आनंद जालो. तिणें तिका म्हणलें, 'ताई, तूं आयिल्ल्यान म्हाका कितलो आनंद जाला हें म्हज्यान सांगूंक नजं. मातशें बसून घे. हांव तुजे खातीर कितेंय घेवन येतां.' अशें म्हणून घरधनीण खावंक हाडपाक भितर गेली. हेवटेच्यान तें रंगीबेरंगी रेशीम पळोवन ते इश्टिणीक लोभ जालो. तिणें रेशमाचें एक गुठल उखल्लें आनी तें खांकेंत लिपोवन दवरलें. थोड्या वेळान धनीण खावपाक घेवन आयली आनी मोटे उमेदीन इश्टिणीक खावंक आगरो करूंक लागली. इतल्यान तिचें लक्ष सुताच्या गुठला कडेन गेलें. आनी तिका कळ्ळें की तिगेले इश्टिणीन एक गुठल घेतलां. तें परत कशें मेळोवचें हाचो बेत मनांत करून ते विणकान्नीन तिगेले इश्टिणीक सांगलें, 'ताई, कितल्या दिसांनी तूं मेळ्ळ्या. मोट्या आनंदाचो हो दीस. आयज दोगीय मेळून नाच्चें अशी म्हाका खूब इत्सा जाल्या.' ताचेर ते इश्टिणीन म्हणलें, 'म्हाकाय खूब आनंद जाला.' मागीर त्यो दोगीय इश्टिणी त्या आनंदांत नाचूंक लागल्यो. पूण घरधनिणीक दिसून आयलें, इश्टीण हात वयर काडिनासतना नाचता. तें पळोवन तिणें इश्टिणीक सांगलें, 'ताई, आमी दोनय हात वयर काडून नाचुया. व्हडल्या आनंदाचो दीस हो.' पूण इश्टीण एक हात खांकेंत दांबून फक्त एकच हात उबारून नाचूंक लागली. ते विणकान्नीन तिका सांगलें, 'ताई, हें कितें? एकच हात वयर करून नाचपांत कितें मजा? यो, आमी दोनय हात वयर करून नाचुया. हें पळय, हांव कशी दोनय हात वयर करून नाचतां ती.' तरीय ते इश्टिणीन एक हात खांकेंत दांबुनूच दवरलो. आनी एक हात वयर करून ती नाचूंक लागली. आनी हांसत-हांसत तिणें विणपी इश्टिणीक म्हणलें, 'ताई, जिका जशें नाचपाक येता तशें ती नाचतली न्हय? म्हाका अशेंच नाचपाक येता. हांव कितें करूं?' काणी सोंपोवन श्रीरामकृष्णांनी फुडें म्हणलें, 'हांवें खांकेचेर हात दांबून धरूंक नात. म्हजे दोनय हात मेकळे आसात. म्हाका कसलोच भंय ना. देखुनूच हांव नित्य आनी अनित्य

दोनय मानतां. परम सत्य आनी लिला.

केशव सेनाक हांवें म्हणिल्लें, 'अहंपणाचो' त्याग केले बगर ईश्वराचो लाव जावपाचो ना, तेन्ना तांणी म्हणलें, 'पूण हांवें तशें केल्यार म्हजी संस्था (ब्राह्मसमाज) उरपाचो ना, महाराज.' तेन्ना हांवें तांकां सांगलें, 'कच्चो हांव, क्षुद्र हांव', चो त्याग करपाक सांगतां. पूण पक्को हांव, बाळक हांव उरल्यार हरकत ना. संवसारी हांव, अज्ञानी हांव, कच्चो हांव, हें एके मोटे बडये भशेन आसता. सच्चिदानंद दर्याचें उदक ती दोशीं करता. पूण ईश्वराचो दास हांव, बाळक हांव, ज्ञानी हांव, हांव जशी कितें उदका वयली वळ. उदक एकच आसता हें सामकें स्पश्ट दिसता. फकत मदीं एक वळ, जाका लागून त्या उदकाचे दोन वांटे जाल्ले भशेन दिसतात, पूण खरें पळयल्यार उदक एकच आसा हें सामकें दिसता.

शंकराचार्यान 'ज्ञानी हांव' बाळगिल्लो. लोकांक उपदेश करपा खातीर. ब्रह्मज्ञान लाव जाले उपरांतय भगवान खूब जाणां मदीं 'ज्ञानी हांव', 'भक्त हांव', हो अहंकार दवरता. हनुमान ईश्वराच्या साकार निराकार दोनय स्वरुपांचो साक्षात्कार जाले उपरांत 'हांव ईश्वराचो सेवक', 'हांव ईश्वराचो भक्त' असो सेवकाचो भाव घेवन, भक्ताचो भाव घेवन रावतालो. ताणें रामाक म्हणलें, 'रामा, केन्ना दिसता, तूं पूर्ण आनी हांव तुजो अंश. केन्ना दिसता, तूं मालक आनी हांव सेवक आनी ज्या वेळार हांव पूर्ण सत्याचें चिंतन करतां त्या वेळार दिसून येता की तूंच हांव आनी हांवच तूं.' यशोदा कृष्णाच्या विरहान व्याकूळ जावन राधा कडेन गेली. तिचें दुख्ख पळोवन राधान तिका तिगेलें खरें स्वरूप, तीच ईश्वरी शक्ती, अशें दाखयलें आनी म्हणलें, 'कृष्ण चिदात्मोपूर्ण चैतन्य आसा. आनी हांव चितशक्ती आसां. तुमकां जाय तो वर मागात.' त्या वेळार यशोदेन म्हणलें, 'राधा, म्हाका ब्रह्मज्ञान नाका. म्हाका फक्त होच वर दी की म्हाका ध्यानांत गोपाळाचें रूप सदांच दिसूं. हो कृष्णभक्तांचो सांगात म्हाका सदांच मेळूं दी. म्हजे कडच्यान भक्तांची सेवा घडूं दी. आनी परमेश्वराचें नामगुणसंकिर्तन म्हाका सदांच करपाक येवं दी.'

एक खेपो गोपींक भगवंताचें ईश्वरीय रुपाचें आपणांक दर्शन जावचें अशी इत्सा जाली. कृष्णान तांकां यमुनेंत बुडी घेवपाक सांगलें. बुडी मारले बराबर त्यो सगल्यो वैकुंठांत पावल्यो. थंय तांकां भगवंताच्या शड ऐश्वर्यपूर्ण रुपाचें दर्शन जालें. पूण तें तांकां आवडलें ना. तेन्ना तांणी कृष्णाक म्हणलें, 'आमकां गोपाळाचें दर्शन जाय. आनी ताची आमकां सेवा करूंक जाय. तेंच आमकां मेळचें. आमकां आनीक कांयच नाका.' मथुरेक वच्चे पयलीं कृष्णाक गोपींक ब्रह्मज्ञान दिवपाक जाय आशिल्लें. ताणें तांकां म्हणलें, 'हांव सगल्या जिवांचे भितर आनी भायर आसां. तुमी म्हजे भक्त हें

इतलेंच एकच रूप पळयतात. ताचेर गोपींनी म्हणलें, 'कृष्णा, आमकां सोडून वचपाचो तर तुजो विचार ना मूं? म्हणून तूं आमकां ब्रह्मज्ञानाचो उपदेश दिता?' गोपींचो भाव कसो आशिल्लो खबर आसा? तांचो भाव आशिल्लो, आमी राधाचीं आनी राधा आमची.

## श्रीरामकृष्ण आनी वेदान्त

**एक भक्तः** हो भक्त 'हांव' केन्नाच सामको ना जायना काय?

**श्रीरामकृष्णः** तो 'हांव' केन्नाकेन्नाय सामको ना जावन वता. त्या वेळार ब्रह्मज्ञान जावन समाधी लागता. म्हजोय हांव असो ना जाता. पूण सासणाचो न्हय. संगितांत स्वर आसतात 'सा, रे, ग, म, प, ध, नी' पूण 'नी' चेर चड वेळ आवाज चडोवन रावंक मेळना. परत सकयल्या स्वरार देंवचें पडटा. हांव जगन्मातेक सांगतां, 'आई, म्हाका ब्रह्मज्ञान दिवं नाका'. पयलीं म्हजे कडेन साकाराचे उपासक खूब खेपो येताले. ते उपरांत आर्विल्ले ब्रह्मज्ञानी (निराकारवादी ब्राह्मसमाजाचे) येवंक लागले. त्या काळांत शुध्द वचून समाधींत मग्न आसतालों. आनी शुध्दीर येतकच जगन्मातेक म्हणटालों, 'आई, म्हाका ब्रह्मज्ञान दिवं नाका'.

**पंडीतः** ईश्वर आमची प्रार्थना आयकता?

**श्रीरामकृष्णः** ईश्वर कल्परूख आसा. ताचे कडेन जो जें मागतलो तें ताका जरूर मेळटलें. पूण कल्परुखा लागीं वचून मागपाक जाय. तरच तुमची प्रार्थना पूर्णतायेक पावतली. पूण आनीक एक गजाल मतींत दवरात. ईश्वर सगल्यांचें अंतरंग जाणा. जो हेत मनांत दवरून साधना करतलो तो पूर्ण जातलो. जसो भाव तसो लाव. एक जादुगार राजाक जादू दाखयतालो. मदीं-मदीं तो आड्डतालो , 'चल मदारी, चल मदारी. राजा पयशे दियात, कपडे दियात.' इतल्यांत अचकीत ताची जीब उरफाटी जावन ताळवेक दसली. रोखडोच ताका कुंभक साधलो. उलयना आनी हालना. सगलें बंद. लोकांक दिसलें, तो मेलो म्हणून. तांणी ताका विटांचें थडें केलें. आनी तातूंत तेच अवस्थेंत ताका पुरलो. हजार वर्सां उपरांत कोण तरी थडें खणटालो. त्या वेळार त्या थड्या भितर एक जाण समाधी अवस्थेंत बशिल्लो लोकांक मेळ्ळो. साधू समजून लोक ताची पुजा करूंक लागले. ताका तांणी हालयलो. आनी ताका लागून ताळवेक लागिल्ली ताची जीब सुटली आनी सकयल आयली आनी सरळ जाली. रोखडोच जादुगार शुध्दीर आयलो. आनी मोट्यान आडडून म्हणूंक लागलो, 'चल मदारी, चल मदारी, राजा पयशे दियात, कपडे दियात.' हांव रडत-रडत जगन्माते कडेन प्रार्थना करीत आसतां, 'आई म्हजे तर्कबुद्दीचेर वज्राघात कर.'

**पंडीत:** म्हणचे तुमचोय तर्क करपा कडेन कल आशिल्लो तर!
**श्रीरामकृष्ण:** हय. एका वेळार आशिल्लो.
**पंडीत:** तर आमकां आश्वासन दियात की आमचीय तर्क करपाची वान्सा ना जातली. तुमची वान्सा कशी गेली?
**श्रीरामकृष्ण:** अशीच कशी तरी गेली.

## ईश्वर लावच जिणेचो उद्देश

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ वोगी रावले. मागीर तांणी परत उलोवपाक सुरवात केली.
**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वर कल्परूख आसा. ताचे लागीं वचून मागपाक जाय. मागीर जाका जाय तें ताका मेळटलें. ईश्वरान कितें कितें म्हणून निर्माण केलां! ताचें अनंत ब्रह्मांड. पूण ताचें अनंत ऐश्वर्य जाणून घेवपाची इत्सा आसत तर पयलीं ताचो लाव करून घेवंक जाय. मागीर ईश्वर स्वताच आपणाक तें सगलें सांगतलो. यदू मल्लीकाचीं कितलीं घरां आसात, सरकारी ठेवे कितले आसात हें सगलें जाणा जावन घेवपाची कितें गरज? कशेंय करून यदूबाबू कडेन उलोवंक मेळ्ळें म्हणचे जालें. मागीर तें हांव खणिल्ल्या चरा वयल्यान उडी मारून येवं वा विनवण्यो करून तांकां मेळूं वा दरवट्यार रावपी मनशान धुकलून भितर सोडूं. कशेंय करून भितर येवंक मेळ्ळें म्हणचे जालें. एक खेपो ताचे कडेन उलोवंक मेळ्ळें की मागीर हांवें विचारतकच तो म्हाका सगलें सांगतलो. ताची मालमत्ता कितली आसा तें. तशेंच ताचे कडेन उलोवप जमतकच ताचे अधिकारीय म्हाका मानतले. (सगले हांसतात.) कोणाकोणाक ईश्वराचें ऐश्वर्य जाणून घेवपाची इत्सा जायना. सोऱ्याचे गादयेर वतकूच , सगलो मेळून कितले गॅलन सोरो आसा हें जाणून घेवपाची म्हाका कितें गरज? एके बाटलेनूच म्हजें काम भागता. ईश्वराचें ऐश्वर्य जाणून हांव कित्याक घेवं? हांव थोडोसो सोरो जो पियेलों, तितल्यानूच हांव तर्र जावन गेलों.

## ज्ञानयोग आनी भक्तीयोग

भक्तीयोग आनी ज्ञानयोग हे दोन ईश्वर प्राप्तीचे मार्ग आसात. खंयच्याय मार्गान गेल्यार ताचो लाव तुमकां जातलोच. भक्तीचो मार्ग सोंपो आसा. ज्ञानमार्ग कठीण आसा. खंयचो मार्ग बरो हें समजुपा खातीर इतलो विचार करपाची कितें गरज? हे

विशीं विजया कडेन म्हजें खूब खेपो उलोवणें जालें. एक खेपो हांवें ताका सांगिल्लें, 'एक मनीस ईश्वरा लागीं प्रार्थना करतालो, ए ईश्वरा, तूं कोण आसा? आनी कितें आसा? हें म्हाका दाखय.' ज्ञान विचारांचो मार्ग कठीण आसा. पार्वतीन, जगन्मातेन तिगेली स्वताची तरातरांचीं ईश्वरी रुपां बापायक दाखोवन म्हणलें, 'बाबा, तुमकां जर ब्रह्मज्ञान जाय आसत तर साधूसंग करात'. ब्रह्म कशें आसा हें उतरांनी वर्णन करून सांगपाक येना. रामगीतेंत सांगलां, फक्त शास्त्रांनी अप्रत्यक्षपणानच ब्रह्माचें वर्णन केलां. गवळीवाडो गंगा न्हंयचेर आसा अशें जेन्ना कोणय म्हणटा तेन्ना तो अप्रत्यक्षपणान सुचयता की गवळीवाडो गंगेचे देगेर आसा. शास्त्रांत ब्रह्माचें स्वरूप अशें अप्रत्यक्षपणानूच सुचयलां. निराकार ब्रह्माचो साक्षात्कार मनशाक कित्याक जावचो ना? पूण तो खूब कठीण आसा. इल्ली लेगीत विशय बुद्द आसली तर तो जावपाचो ना. रूप, रस, गंध, शब्द, स्पर्श आनी हेर इंद्रियांचे जितले विशय आसात, त्या सगल्यांचो त्याग करतकच, मनाचो लय जातकच, स्वताच्या अंतरराज्यांत ब्रह्माचो अणभव जावं येता. आनी तोय बी ब्रह्माच्या अस्तित्व स्वरुपाचोच अणभव येवं येता. 'तें आसा', इतलेंच ताका ब्रह्मा विशीं जाणा जावंक जमता.

उपनिषदांतले श्लोक सांगून पंडितांनी म्हणलें, "ब्रह्म आसा असोच फक्त ताचो अणभव घेवपाचो आसता."

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवपा खातीर भक्तान एकाद्रो मनोभाव आपणावंक जाय : वीरभाव, सखीभाव, दाशीभाव वा संतानभाव.

**मणि मल्लीक:** तरूच ईश्वरा विशीं आपुलकी दिसतली.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव सखीभावांत खूब दीस आशिल्लों. त्या वेळार हांव म्हणटालों हांव आनंदमयी, ब्रह्ममयी जगन्मातेची दाशी आसां. जगदंबेच्या सख्यांनो, म्हाका तुमी जगदंबेची दाशी करात. हांव गर्वान म्हणीत भोंवतालों हांव ब्रह्ममयीची दाशी आसां. कोणाकोणाक साधना करिनासतना ईश्वराचो साक्षात्कार जाता ताका नित्यसिध्द म्हणटात. सासणाचे पूर्णतायेक पाविल्ले. जांकां जप तप आनी हेर साधना करून ईश्वराचो साक्षात्कार जाला तांकां साधनासिध्द म्हणटात. अध्यात्मीक साधना करून पुर्णत्वाक पाविल्ले. परत कांय जाण कृपासिध्द आसतात. ईश्वरी कृपा जावन पुर्णत्वाक पाविल्ले. एकाद्री हजार वर्सांची काळखाकूड दिवो भितर व्हेले बराबर एका खिणांत उजवाडान भरता. तसो तो हो कृपासिद्धांचो प्रकार आसता. आनीक एक भक्तांचो प्रकार आसा. हटसिध्दांचो. अचकीत ईश्वरी साक्षात्कार जावपी भक्तांचो. एकाद्रो गरीब भुरगो आसचो आनी ताचे कडेन अचकीत एकाद्र्या गिरेस्ताची नदर वच्ची तसो

हो प्रकार. तो गिरेस्त मनीस ताका तागेली चली दिता. आनी तेच बराबर भाटबेंस, घरदार, नोकरचाकर सगलें कितें ताका मेळटा. आनीक एक भक्ताचो प्रकार आसा. सपनसिध्दांचो. कांय भक्तांक सपनांत ईश्वराचें दर्शन जाता.

**सुरेंद्रः** (हांसत) आमी आतां न्हिदुया तर. आमी उठले बराबर आमी बाब, गिरेस्त जातले.

**श्रीरामकृष्णः** (मायेन) तुमी बाबू तर आसाच. 'क्' क 'आ' जोडलो जाल्यार 'का' जातलो. ताका आनीक एक 'आ' जोडल्यारूय 'का'च जातलो. (सगले हांसतात.) नित्यसिध्दांचो वर्गच वेगळो. नित्यसिध्द म्हणचे अरणीचें* लांकूड. थोडेंशें घांसतकच उजो पेट्टलो. घांशिनासतना लेगीत उजो पेट्टलो. नित्यसिध्द ईश्वराचो साक्षात्कार जाले उपरांत अध्यात्मीक साधना करता तो दुदयाचे वाली भशेन आसा. पयलीं फळ आनी मागीर फूल.

दुदयाचे वालीची देख आयकून पंडीत हांसले.

**श्रीरामकृष्णः** प्रह्लादाची देख घेयात. ते नित्यसिध्द आशिल्ले. उतर 'क' बरयले बराबर (कृष्णाची याद जावन) प्रह्लादाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां हावूंक लागतालीं.

**श्रीरामकृष्णः** (भक्तांक) हांचो सभाव खूब बरो आसा. मातयेचे वणटींत खिळो मारतना भास जायना पूण फातरांत खिळो मारल्यार ताचें तोंक मोडून वतलें आनी इतलें आसुनूय खिळो भितर वचनाच अशे खूब लोक आसतात. तांणी हजार खेपो ईश्वरा विशीं आयकलें तरी अध्यात्मीक जाण जागी जायना. ते मानग्या भशेन आसतात. तरसादीन तोपलें तरी भितर लागचें ना.

## पांडित्य आनी साधना विवेक

**पंडीतः** पूण मानग्याच्या पोटांत भालो खुपशिल्यार तिका लागतलो. (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) खोंटलोभर शास्त्रां वाचून कितें जातलें? तत्वज्ञानाचो अभ्यास करून कितें मेळटलें? व्हडल्यो-व्हडल्यो गजाली करून कितें जातलें? बाण मारपाक शिकपाचें काम आसत जाल्यार पयलीं केळीचेर नेम धरूंक जाय. मागीर बेताचेर, मागीर वातीचेर आनी निमणें उडट्या शेवण्याचेर. तशेंच पयलीं ईश्वराच्या साकार रुपाचेर मन थीर करूंक जाय. हाचे भायर त्रिगुणातीत भक्त आसतात. ते ईश्वराचे नित्य भक्त आसतात. जशे नारद हे भक्त कृष्णाक चिन्मय स्वरुपांत पळयतात. चिन्मय कृष्ण, ताचें

---

* **अरणी म्हणचे एक लाकडा कुडको जो यज्ञांत उजो पेटोवपा खातीर उपेग करताले.**

धाम चिन्मय, ताचे भक्त चिन्मय, ताका ईश्वर नित्य. जे लोक नेति, नेति विचार करपी ज्ञान मार्गी आसतात ते अवतार मानिनात. हाजरा हाचेर बरें म्हणटा, 'भक्तां खातिरूच अवतार, ज्ञानी लोकां खातीर अवतार न्हय. तो तर सोहं जावन गेल्लो आसता.'

श्रीरामकृष्ण आनी भक्त कांय वेळ वोगी बसले. मागीर पंडितान उलोवपाक सुरवात केली.

**पंडीत:** महाराज, अंतस्कर्णांतलो निश्ठूर भाव कसो ना जातलो? हांसो पळयतकूच म्हज्या मनांत मांसपेशी आनी स्नायूंचो विचार येता. दुख्ख पळोवन स्नायूंचें जाळ दोळ्यां मुखार येता.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) नारायण शास्त्री म्हणुनूच म्हणटाले, शास्त्र वाचपांत होच दोश आसा, मनीस तर्कटी जाता.

**पंडीत:** हय महाराज. पूण हाचेर कितेंच उपाय ना?

**श्रीरामकृष्ण:** हय. आसा. विवेकाचो मार्ग आसा. एका पदांत एक वळ आसा. तिचो अर्थ असो: 'विवेक नांवाच्या तिच्या चल्याक सत्या संबंदीं विचार.'विवेक, वैराग्य आनी ईश्वरा विशीं व्याकूळताय होच उपाय आसा. विवेक आसले बगर मनशालें उलोवप केन्नाच बरोबर जावं नजं. धर्मा विशीं चड विसकावणी करून सांगले उपरांत पंडीत समाध्यायी हांणी एकदां सांगिल्लें, 'ईश्वर निरस आसा.' तें आयकून म्हाका एका मनशान म्हणिल्लें ताची याद जालीं. ताणें म्हणिल्लें, 'आमच्या मामाचो गोठो घोड्यांनी भरिल्लो आसा.' गोठ्यांत कितें घोडे आसतात? (हांसत) तुमी तुपांत तळिल्ल्या गुलाबजामा भशेन जाल्यात. आतां दोन-चार दीस तुमी रोसांत रावल्यार तुमचे खातीर बरें जातलें. आनी हेरां खातिरूय बरें जातलें. फक्त दोन-चार दीस.

**पंडीत:** (हांसत) मिठाय चडच तळ्ळ्या. ती जळ्ळ्याच्या रंगा भशेन जाल्या. असोच रंग येवपाक जाय.

**हाजरा:** मिठाय बी तळून जाल्या. ती बरी स्पंज कशी जाल्या. ती रोसांत बरी मुरतली.

**श्रीरामकृष्ण:** जाणा. शास्त्र खूब वाचपाची गरज ना. खूब वाचतकच तर्कटपण येता. न्यांगटा (तोतापुरी) म्हाका सांगतालो. उपदेश दितालो, गीता हें उतर धा खेपो म्हणटकच जें कितें जाता तेंच गीतेचें सारतत्व आसा. म्हणचे 'गीता', 'गीता' अशें जायते खेपो म्हणीत रावल्यार ताचे उरफाटें त्यागी जाता. हय. ईश्वर साक्षात्कार जावंक जाय जाल्यार तर विवेक वैराग्य आनी ईश्वरा खातीर व्याकूळताय कसली? ईश्वरा खातीर अशी व्याकूळताय जाय की जशी गाय व्याकूळ जावन पाडका फाटल्यान धांवता.

**पंडीत:** वेदांत सामकें अशेंच सांगलां. ईश्वरा, गाय जशी पाडका खातीर हांबेता तशें आमी तुका आळयतात.

**श्रीरामकृष्ण:** व्याकूळ जावन रडात आनी विवेक, वैराग्य आपणावन जर कोणाकूय सगलो त्याग करूंक जमत तर ताका ईश्वराचें दर्शन जातलें. ती व्याकूळताय येतकच ईश्वरी उन्मत्त अवस्था प्राप्त जाता. मागीर तुमी ज्ञानमार्गी आसूं वा भक्तीमार्गी आसूं. दुर्वासाक ईश्वरी ज्ञानाची उन्मादी अवस्था प्राप्त जाल्ली. संवसारी मनशांचें ज्ञान दिसाच्या उजवाडा भशेन आसता. ह्या उजवाडान फक्त कुडींतलो भितरलो भाग दिसता. ताच्या ह्या ज्ञानान ताका स्वताचो देह, घरदार हाचे बगर आनीक कांयच दिसना. पूण सर्वस्व त्याग करपी मनशांचें ज्ञान सुर्याच्या उजवाडा भशेन आसता. त्या उजवाडान कुडींतलें भितरलें, भायलें सगलें कितें दिसूंक लागता. चैतन्यदेवाचें ज्ञान सुर्या भशेन आशिल्लें. ज्ञानसुर्याचो उजवाड! तेच बराबर तांचे कडेन चंद्रिमाचो शितळ, थंड उजवाडय आशिल्लो. तांचे भितर ब्रह्मज्ञान, ईश्वरी भक्ती, प्रेम अशीं दोनय आशिल्लीं.

## ज्ञानयोग आनी भक्तीयोग
## कलीयुगांत नारदीय भक्ती

**श्रीरामकृष्ण:** (पंडितांक) अध्यात्मीक चैतन्याचो लाव हयकारी आनी न्हयकारी अश्या दोनय मार्गांनी जावं येता. प्रेम आनी भक्ती हो एक हयकारी मार्ग आसा आनी ज्ञान आनी विवेक हो न्हयकारी मार्ग आसा. तुमी हो ज्ञान मार्गाचो उपदेश करतात. पूण ताका लागून कठीण अवस्था जाता. थंय गुरू आनी शिश्य एकामेकांक पळयनात.जनका लागीं शुकदेव, ब्रह्मज्ञानाचो उपदेश घेवपाक गेल्ले. जनकान तांकां म्हणलें, 'पयलीं गुरूदक्षिणा दिवपाक जाय. ब्रह्मज्ञान मेळ्ळे उपरांत मागीर तुमी दक्षिणा दिवपाची ना. कित्याक, तेन्ना मागीर गुरूशिश्य भेद उरना.' न्हयकारी आनी हयकारी अश्या दोनय मार्गांनी तीच मोख प्राप्त करून घेवं येता. अनंत मतां आनी अनंत मार्ग आसात. पूण एक गजाल मतींत दवरूंक जाय. कलीयुगा खातीर नारदीय भक्तीच योग्य आसा. ह्या मार्गा प्रमाण पयलीं भक्ती . भक्ती पक्की जातकच भाव. भावा परसय श्रेश्ठ महाभाव आनी प्रेम. महाभाव आनी प्रेम साधारण जिवांक प्राप्त जायना. जांकां ती मोख प्राप्त जाल्या म्हणचेच तांकां ईश्वर लाव जाला.

**पंडीत:** महाराज, धर्माचो प्रचार करपाचो म्हणचे कितल्योश्योच गजाली सांगपाक जाय?

**श्रीरामकृष्ण:** प्रचार करतना शेंपडी आनी शेंश्टी वेगळावन सांगत चलात. म्हणचेच गरजेच्यो गजाली तितल्यो सांगात.

पंडीत आनी मणि मल्लीक हांची दोगांयची भासाभास चलूंक लागली. मणि मल्लीक ब्राह्मसमाजाचे अनुयायी आशिल्ले. पंडीत ब्राह्मसमाजाच्या दोशगुणांची खूब आवेशान भासाभास करताले. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसून तें सगलें पळयताले

आनी आपले भितर हांसताले. मदींच तांणी म्हणलें, "हें सत्वगुणांचें तामसीक रूप-विराचो भाव हो आसूंक जाय. अन्याय, असत्य पळोवन वोगी बसूंक जायना. समजा वायट चालीची बाई तुमचो परमार्थ ना करपा खातीर आयल्या. अशा वेळार असोच विराचो भाव धारण करपाक जाय. त्या वेळार म्हणूंक जाय, सटवे, म्हजो परमार्थ ना करपाक तूं धजलीच कशी? आतां हांगाच तुका उबी चिरून उडयतां." मागीर हांसत--हांसत पंडितांक म्हणलें, "मणि मल्लीक ब्राह्मसमाजाचें मत खूब दिसां सावन मानीत आयल्यात. तांचेर तुमचें स्वताचें मत लादपाचें ना. पोन्ने संस्कार पुसून उडोवप कितें सोंपी गजाल आसा? एक हिंदू आशिल्लो. तो मोटो भक्त आशिल्लो. सदांच जगदंबेची पुजा करतालो आनी तिच्या नांवाचो जप करतालो. मुसलमानांचें जेन्ना राज्य जालें तेन्ना तांणी त्या भक्ताक धरून मुसलमान करून उडयलो. आनी शिटकायलें की तूं आता मुसलमान जाला, अल्लाचें नांव घे. हे फुडें तुवें फक्त अल्लाच्याच नांवाचो जप करूंक जाय. तो मोटया यत्नान अल्ला म्हणूंक लागलो. पूण मदींच एकाद्र्या वेळार 'जगदंबा' म्हणटालो. मुसलमान ताका मारपाक धांवले. ताचेर ताणें तांकां म्हणलें, 'तुमकां सोपूत आसा म्हाका मारूं नाकात. हांव तुमच्या अल्लाचें नांव घेवपाचो खूब यत्न करतां पूण आमची जगदंबा म्हज्या गळ्या मेरेन भरून गेल्या. ती तुमच्या अल्लाक धुकलून उडयता.' (सगले हांसतात.)

(पंडितांक हांसत-हांसत) मणि मल्लीकांक तुमी कांय म्हणूं नाकात. प्रत्येकाच्यो रुची वेगळ्यो आसतात. पचपाची शक्तय वेगवेगळी आसता. जशें पचता तशें घेवपाचें. ईश्वरान तरातरांचे धर्म, तरातरांचे संप्रदाय निर्माण केल्यात. वेग-वेगळ्या साधकांचे गरजे खातीर. सगलेच ब्रह्मज्ञानाचे योग्यतायेचे नासतात. देखुनूच ईश्वराच्या साकार रुपांचे पुजेची तजवीज केल्या. आवय भुरग्यां खातीर नुस्तें घरा हाडटा. ती थोड्या नुस्त्याची कडी करता, थोडें नुस्तें तळटा. तर थोड्या नुस्त्याचें सुकें करता. सगल्यांक सुकें पचना. तांकां ती नुस्त्याचो सूप करता. कांय भुरग्यांक नुस्त्याचें आंबट तिखट जाय आसता. तर कांय जाणांक तळिल्लेंच नुस्तें जाय आसता. प्रत्येकाची प्रकृती वेगळी आसता. तशेंच ग्रहण करपाची शक्तय वेगळी-वेगळी आसता.

सगले वोगी बसून रावले. श्रीरामकृष्णांनी पंडितांक म्हणलें, "चलात, देवदर्शन करून येयात. आनी बागेंत मातशे भोंवनय येयात." दनपारचीं साडेपांच जाल्लीं. पंडीत तांच्या कांय इश्टां वांगडा आनी कांय भक्तां सांगातान कुडींतल्यान भायर सरून गेले. कांय वेळान श्रीरामकृष्ण म बराबर गंगेच्या न्हावपाच्या घाटार गेले. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, "'बाबूराम आतां म्हणटा, 'आता म्हाका शिकून कितें मेळटलें?' "

न्हंयचे देगेर श्रीरामकृष्णांक पंडीत मेळ्ळे आनी तांकां तांणी म्हणलें, "काली

मंदिरांत तुमकां वचपाचें ना?'' पंडितांनी म्हणलें, ''हय म्हाराज, चलात. आमी बराबरच दर्शन घेवया.''

श्रीरामकृष्ण हांसत्या मुखामळान चौकांतल्यान देवळा कडेन वचूंक लागले. वतां - वतां तांणी पंडितांक म्हणलें, ''एक पद आयकात,'' आनी ते गावंक लागलेः

आरे, म्हजी आवय खऱ्यानीच काळी
ती विंगळी आसून कृष्णवर्णी
काळजाचें पर्जळायता साळीक.

आंगणांतल्यान देवळा कडेन वतना परत तांणी पंडितांक पद म्हणून दाखयलेंः

काळजाच्या गाभाऱ्यांत पेटोवन ज्ञानदिवो,
पळय मातेचें मुखामळ, ब्रह्माचोच रुपदिवो.

देवळांत वचून श्रीरामकृष्णांनी भुंयेक माथें लावन जगन्मातेक प्रणाम केलो. मातेच्या चरणीं दसणीचीं फुलां, बेल घाल्ले. जगदंबा तिनूय दोळ्यांतल्यान भक्तांक वात्सल्य नदरेन पळयताली. ती दोनय हात वयर काडून जशी कितें वर आनी अभय दिताली. तर दुसऱ्या दोनय हातांनी तिणें यमदेवाचीं प्रतिकां धरिल्लीं. मातेक बनारसी रेशमी साडी न्हेसयिल्ली आनी तिच्या आंगार तरातरांचे अळंकार घाल्ले.

श्रीमुर्तीचें दर्शन घेतले उपरांत भूधरांच्या व्हडल्या भावान म्हणलें, ''नवीन नांवाच्या शिल्पकारान ही मूर्त घडयल्या अशें आयकलां.'' ताचेर श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''हय, म्हाका खबर आसा. पूण म्हजे खातीर ती चिन्मयरूप आसा.''

श्रीरामकृष्ण भक्तां वांगडा परत तांचे कुडींत येताले. येतना बाबूरामाक तांणी म्हणलें, ''चल आमचे बराबर यो.'' मय तांचे बराबर गेलो. सांज जाली. श्रीरामकृष्ण येवन तांगेले कुडीचे अस्तंते कडल्या गोल व्हरांड्यार बसले. ते मातशे समाधींत आशिल्ले. बलराम आनी म तांचे म्हऱ्यांत बशिल्ले. सद्याक राखाल श्रीरामकृष्णां लागीं रावनाशिल्ल्यान श्रीरामकृष्णांची सेवा सारकी जायनाशिल्ली. ते खातीर तांकां त्रास जातालो. कांय भक्त श्रीरामकृष्णां कडेन रावताले खरे. पूण समाधी अवस्थेंत श्रीरामकृष्णांक सगल्यांचोच स्पर्श मानवनाशिल्लो. बाबूरामाक तांणी तशें सुचयिल्लें. ''तूं म्हजे म्हऱ्यांत राव, तूं रावल्यार चड बरें जातलें. हे अवस्थेंत म्हाका दुसऱ्यांचो स्पर्श सोंसना.''

## ईश्वर लाव आनी कर्मत्याग

देवदर्शन घेवन पंडीत श्रीरामकृष्णांचे कुडींत परत आयले. बशिल्ल्या जाग्या वयल्यान तांकां म्हणलें, ''तुमी थोडो फराळ घेयात.'' पंडितांनी सांगलें, ''म्हजी संध्या जावपाची आसा.'' एकदम श्रीरामकृष्ण उबे रावले आनी तन्मय जावन गावंक लागलेः

हांव कित्याक वचूं? गया, काशी, कांची वा प्रयाग?
मनशाक कर्मकांडांची कसली गरज, कसल्या आनीक देवसपणांची?
जों मेरेन ओंठांचेर ताच्या कालीचें नाम आसतलें निमण्या स्वासा मेरेन
जपता जाल्यार तो मातेचें नांव त्रिकालीं?...

श्रीरामकृष्ण प्रेमान मत्त जावन परत म्हणूंक लागले, संध्या पुजा खंय मेरेन? जों मेरेन म्हणटां-म्हणटां मन भगवंतांत लीन जावन वचना तों मेरेन.

**पंडीत:** तर मागीर हांव फराळ करतां. संध्या पुजा मागीर करतां.

**श्रीरामकृष्ण:** नाका. हांव तुमच्या सदच्या नेमाक आडमेळीं हाडूंक तयार ना. वेळ येवचे पयलीं कसलेय गजालीचो त्याग करप बरोबर न्हय. फळ पिकतकच फूल आपसूक गळटा. माडाचें तन्नें चुडीत काडपांत अर्थ ना. अशे तरेन तन्नें चुडीत काडल्यार माडाक दुखता.

सुरेंद्र घरा वचपाक भायर सरले. तांगेल्या इश्टांक गाडयेंत बसपाक आफयले.

श्रीरामकृष्ण अजून समाधींत आशिल्ले. तांणी म्हणलें, ''तुमचो घोडो जितल्या लोकांक घेवंक शकता ते परस चड लोकांक व्हरूं नाका.'' सुरेंद्र पांयां पडून वचपाक भायर सरले. पंडीत संध्या पुजा करपाक गेले. म आनी बाबूराम कलकत्ताक वचपाक भायर सरले. श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले. श्रीरामकृष्ण अजून लेगीत समाधी अवस्थेंत आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक ) म्हज्यान आतां एक उतर लेगीत उलोवंक नज़ं.

म परत जाग्यार बसलो. आनी श्रीरामकृष्ण कितें आज्ञा करतात ताची वाट पळोवंक लागलो. श्रीरामकृष्णांनी बाबूरामाक कुरू करून बसपाक आनी मातसो वारो घालपाक सांगलें. बाबूराम श्रीरामकृष्णांक वारो घालूंक लागलो. मय वारो घालून श्रीराकृष्णांची सेवा करूंक लागलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक मायेन) हालीं दिसांनी पयलीं भशेन हांगा कित्याक येना?

**म:** खाशेलें अशें कारण ना. महाराज, घरा मातशें काम आशिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** काल म्हाका बाबूरामाचो अंतस्थ सभाव कळ्ळो. तेच खातीर हांव ताका हांगा रावपाक इतलें सांगतां. शेवणें योग्य वेळार तांतीं उबयता. बाबूरामा सारके भुरगे सगले शुध्द आत्मे आसात. अजून तो कामिनी-कांचनाच्या कचाट्यांत सांपडूंक ना. अशें न्हय तें?

**म:** हय, खरें आसा महाराज. अजून ताका कसलोच दाग लागिल्लो ना.

**श्रीरामकृष्ण:** तें नवें मडकें कशें. तातूंत दूद दवरल्यार तें इबाडचें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** बाबूराम हांगा रावपाची गरज आसा. मदीं-मदीं हांव समाधींत वतां तेन्ना म्हाका ताची गरज लागता. तो म्हणटा, एकदां हांगा कायमचो रावपाक आयलों तर अडचणी खूब. उपरांत ताचे सोयरे-दायरे बोवाळ करतले. हांवें ताका दर शेनवाराक आनी आयताराक यो म्हूण सांगलां.

पंडीत आपल्या इश्टां सयत कुडींत आयले. तांणी संध्या पुजा पुराय केली आनी आतां ते फराळ करतले. तांच्या इश्टां भितरल्या एका इश्टान श्रीरामकृष्णांक विचारलें, "अध्यात्मीक येस आमकां मेळटलें? आमचे खातीर उपाय कितें तें आमकां मातशें सांगात."

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी मुमुक्षू आसात. मोक्षाची इत्सा तुमचे भितर आसा. ईश्वराचो साक्षात्कार जावपा खातीर व्याकूळताय जाय. व्याकूळतायेन ईश्वराचो लाव जावं येता. श्राध्दाचें अन्न खावं नाकात. संवसारांत एकाद्रे व्यभिचारीणे भशेन रावपाचें. तसली बायल घरचें सगलें काम मन लावन करतना दिसता. पूण तिचें मन रातदीस तिच्या जारा कडेन लागिल्लें आसता. संवसारांतलीं सगलीं कामां करात. पूण मन सदांच ईश्वराचेर दवरात.

पंडितांनी फराळ केलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी गीता वाचल्या, हांतूत दुबाव ना. गीता म्हणटा की जाका सगले लोक मानतात आनी जाचो आदर करतात ताचे भितर ईश्वराची खाशेली शक्त आसता.

पंडितांनी गीतेंतलो श्लोक म्हणून दाखयलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमचे कडेन ईश्वरी शक्त आसा, हातूंत दुबाव ना.

**पंडीत:** (श्रीरामकृष्णांक) जें व्रत घेतलां तें चिकाटेन पुराय करूं न्हय?

श्रीरामकृष्णांनी तांचेर बळजबरी केल्ले भशेन म्हणलें, हय आनी रोखडोच दुसरो विशय उलोवपाक घेतलो.

**श्रीरामकृष्ण:** शक्ती मानुंकूच जाय. विद्यासागरान एक खेपो म्हाका म्हणलें, 'ईश्वरान कितें कोणाक हेरां परस चड शक्त दिल्या?' हांवें सांगलें, हय. नाजाल्यार एकट्याच्यान

शंबरांक कशें मारूंक येता?' कांय खाशेली शक्त आसले बगर व्हिक्टोरीया राणयेक इतलें नांव भौमान कित्याक मेळ्ळा तर? हें तुमी मानतात न्हय?' विद्यासागरान म्हजें म्हणणें मान्य केलें.

पंडीत आनी तांचे इश्ट श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी वचपाक भायर सरले. श्रीरामकृष्णांनी पंडितांक म्हणलें, ''परत येयात. गांजो ओडप्याक दुसरो गांजो ओडपी पळोवन आनंद जाता. केन्नाय ते एकामेकांक वेंग मारतात. पूण गांजो ओडपी सोडून दुसरे लोक मेळ्ळे जाल्यार तांकां तोंड लिपयतात. गाय तिगेल्या पाडकाचें आंग चाट्टा. पूण परके गायेचेर शिंगां उबारता.'' (सगले हांसतात.) पंडीत वतकच श्रीरामकृष्णांनी हांसत-हांसत म्हणलें, एका दिसानूच मोव जावन गेले. सामके विरगळून गेले. तुमी पळयलें न्हय कितले नमळायेचे मनीस ते? आनी हांवें कितें म्हणलें तें तांणी सगलें मान्य केलें.

**म:** हय महाराज.

गोल व्हरांड्याचेर चंद्रिमाचो उजवाड भरून ओत्तालो. श्रीरामकृष्ण अजून थंय बसून आशिल्ले. म आतां वचूंक सोदतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) आतां वचुंकूच जाय?

**म:** हय महाराज, येतां आतां.

**श्रीरामकृष्ण:** एक दीस सगल्या भक्तांच्या घरा-घरांत वचपाचें म्हज्या मनांत आसा. तुज्या घरा येवंक जाय. कशें दिसता तुका?

**म:** खुबूच बरें जातलें महाराज.

# अध्याय : एकुणणव्वद

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी सर्वधर्म समन्वय

**जुलय 3, 1884. बिरेस्तार.** श्रीरामकृष्ण कलकत्तांतल्या बलराम बोसाच्या घरांत बशिल्ले. आयज पुनर्यात्रा रथाचो उत्सव. जगन्नाथ देवाचो रथ परत येवपाचो दीस. बलरामाच्या घरा जगन्मातेची पुजा मनयताले. रथयात्रे खातीर एक ल्हान रथ घरांत आशिल्लो. बलरामाचे वडील एक व्हड वैशणव भक्त. ते चड करून वृंदावनांतले तांगेले स्वताचे बागेंतल्या घरांत रावताले. वृंदावनांत रावतना तांचो चडसो वेळ प्रार्थना आनी ध्यानधारणेंत वतालो. ते भक्ती ग्रंथय वाचताले. थंय भक्तांच्या सांगातान दीस सारताले. तांकां श्रीरामकृष्णांचें दर्शन जावचें म्हूण बलरामान तांकां कलकत्ताक हाडिल्ले.

श्रीरामकृष्ण खूब आनंदांत आशिल्ले. तांचे लागीं राम, बलराम, बलरामाचे वडील, म, मनोमोहन आनी हेर तरणाटे भक्त बशिल्ले. श्रीरामकृष्ण तांचे बराबर उलयताले.

### बलरामाच्या वडिलांक सर्वधर्मसमन्वयाचो उपदेश, भक्तमाला नांवाचो ग्रंथ, श्रीमद्भागवत; मथूरबाबू मुखार वैशणवचरणांचें कट्टरपण. शाक्तांची निंदा

**श्रीरामकृष्ण:** (बलरामाच्या वडिलांक आनी हेर भक्तांक) वैशणवांचो *भक्तमाला* नांवाचो ग्रंथ आसा. पुस्तक बरें आसा. कितल्याश्याच वैशणव भक्तांच्यो गजाली तातूंत आसात. पूण एकांगी. एके कडेन ग्रंथकार भगवतीक –जगन्मातेक विष्णूमंत्र घेवपाक लायता. मागिरूच तिचें मन शांत जाता.

हांव एक खेपो मथूरबाबू लागीं वैशणवचरणांची तोखणाय करून तांगेल्या घरा वैशणवचरणांक आमंत्रण करपाक सांगलें. मथूरबाबून तांचो सत्कार केलो. तांकां रुप्या ताटांत फराळ दिलो. मागीर कितें जालें जाणा? मथूरबाबू मुखार वैशणवचरणांनी

म्हणलें, 'तुमी केशवमंत्र घेतले बगर तुमचे अध्यात्मीक जिणेंत कांयच मेळोवंक पावचे नात.' मथूरबाबू शाक्त आनी जगन्मातेचे उपासक. तांचें मुखामळ एकदम तांबडें जालें. हांवें वैशणवचरणांक कुरू करून वोगी रावपाक सांगलें.

श्रीभागवतांत अशे तरेन निवेदनां केल्यांत. तातूंत अशें सांगलां खंय की 'केशवमंत्र घेतले बगर हो भवसागर बालांडप म्हणल्यार जशें कितें सुण्याची शेंपडी धरून हो म्हादर्या बालांडपाचो यत्न केल्ले भशेन जातलें. प्रत्येक पंथ स्वताचोच पंथ सगल्यांत व्हडलो अशें म्हणीत आसता. शाक्त लेगीत वैशणवांक कमी लेखपाचो यत्न करतात. वैशणव म्हणटात, कृष्ण आमचो भक्तीसागर बालांडपी तारयो. तोच भक्ताक पलतडीं घेवन वतलो. शाक्त ताचेर म्हणटात, 'आरे ! बरोबर आसा. ती आमची जगन्माता ही विश्वाची सम्राज्ञी आसा. तिणें स्वता फेरीबोट घेवन कित्याक चलोवंक जाय? म्हणून तिणें ते खातीर कृष्णाकूच नेमला कामार, लोकांक पलतडीं व्हरपाक. (सगले हांसतात.)

## पयलींची जीण. श्रीरामकृष्णांची
## स्वताचे जल्मभुंयेक भेट
## फुलुई श्यामबाजारांतल्या वैशणव विणकार
## लोकांचो अहंकार. समन्वयाचो उपदेश

**श्रीरामकृष्ण:** आपापल्या पंथांचो परत अहंकार कितलो? कामारपुकूर लागीं गांवांत विणकार लोक आसात. तातूंतले बरेच जाण वैशणव आसात. व्हडल्यो - व्हडल्यो गजाली करतात. ते म्हणटात, तो मनीस खंयच्या विष्णूची पुजा करता. पालन करपी विष्णू? आरे ! आमी तर विष्णूक आफडी लेगीत ना. वा खंयच्या शिवा बद्दल उलयतात? आमी आत्माराम शिवाक मानतात वा कोण म्हणटात, आमकां समजावन सांगात न्हय, तुमी खंयच्याक मानतात? ते एके वटेच्यान सूत कात्ता आनी असल्यो गजाली करीत आसतात. रतीची आई, राणी कात्यायनीची विश्वासू इश्टीण आशिल्ली. ती वैशणवचरणांची अनुयाई. ती कट्टर वैशणव. हांगा खूब यो वच करताली. भक्तीचो देखावो तर लोकांनी पळयतूच रावपाचो. पूण म्हाका एक दीस कालीचो प्रसाद खातना पळयतकच जी तरतरीत हांगाच्यान गेली ती तेन्ना सावन हांवें तिची सावळी लेगीत पळोवंक ना. जाणें समन्वय केलो तोच खरो मनीस. चडशे जाण एकांगी आसतात. पूण म्हाका तरी दिसता की सगले एकूच आसात. शाक्त, वैशणव, वेदान्त आनी हेर सगलीं मतां त्या एका विशीं उलयतात. जो निराकार तोच साकार. ताचींच वेगळीं-वेगळीं रुपां. निर्गूण म्हजो बापूय आनी सगूण म्हजी आवय. हांव कोणाची

निंदा करूं आनी कोणाची तुस्त करूं? तागडेचीं दोनय दालीं सारकींच जड आसात. वेदांत जाचें वर्णन केलां ताचेंच वर्णन तंत्रा मदीं केलां. पुराणांतय ताचेंच वर्णन केलां. सगल्यां मदीं त्या एका सच्चिदानंदाचेंच वर्णन केलां. जो नित्य, ताचीच लिला, नित्य आनी लिला एकाच सत्याच्यो दोन वटो.वेदांत ताका म्हणलां, 'सच्चिदानंद ब्रह्म'. तंत्रांत ताका म्हणलां, 'सच्चिदानंद शिव', पवित्र शिव. पुराणांत ताका म्हणलां, 'सच्चिदानंद कृष्ण'. त्या एक सच्चिदानंदाचोच उल्लेख वेदांत, तंत्रांत आनी पुराणांत केला. आनी वैश्णव शास्त्रांतय अशें म्हणलां की कृष्णच काली जाला.

## श्रीरामकृष्णांच्यो वेगळ्यो-वेगळ्यो अवस्था

श्रीरामकृष्ण थोडे व्हरांड्या कडेन वचून परत कुडींत येवन बसले. ते भायर वतना विश्वंभराचे चलयेन तांकां नमस्कार केलो. ते चलयेचें वय आसत 6-7. श्रीरामकृष्ण व्हांराड्यांतल्यान कुडींत परत येतकच ते तिचे कडेन आनी तिचे बराबर तिच्याच वयाच्या सांगात्यां वांगडा उलोवंक लागले.

**विश्वभरांची चली:** (श्रीरामकृष्णांक) हांवें तुमकां नमस्कार केल्लो. तुमी पळयलें लेगीत ना.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तुवें नमस्कार केल्लो? म्हाका तर तूं नमस्कार करतना खरेंच दिसलें ना.

**चली:** तर मागीर रावात, परत नमस्कार करतां. रावात, दुसऱ्या पांयाकय करतां.

श्रीरामकृष्ण हांसत हांसत सकयल बसले आनी जमनी मेरेन माथें तेंकोवन तांणी ते कुमारेक परतो नमस्कार केलो. ते उपरांत श्रीरामकृष्णांनी ते चलयेक पद म्हणपाक सांगलें. ताचेर ते चलयेन म्हणलें, ''सोपूत घेवन सांगतां म्हाका गावपाक येना.'' तरीय श्रीरामकृष्णांनी तिका परत पद म्हणपाक आगरो केलो. तेन्ना तिणें म्हणलें, ''सोपूत घेवन सांगले उपरांत परत आगरो करपाचो आसता?'' श्रीरामकृष्ण भुरग्यां बराबर मजेंत गजाली करताले आनी स्वताच मजेदार पदां म्हणून दाखयताले. ते गावंक लागले:

यो गो यो<br>
बांदतां तुजे केंस<br>
नाजाल्यार घोव तुजो<br>
करतलो तुका खेंस.

भुरगीं आनी भक्त मंडळी पद आयकून हांसूंक लागलीं.

### ल्हानग्या शिवरामाचें वागप. शिहडाक ह्रदयरामाच्या घरा दुर्गापुजा

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) परमहंसाचो सभाव सामको एकाद्र्या पांच वर्साच्या भुरग्या भशेन आसता. ताका चैतन्य दिसता. हांव एक खेपो थंय कामारपुकूराक रावतालों तेन्ना शिवरामाचें* वय चार वा पांच वर्सांचें आशिल्लें. एक दीस तो तळ्या लागीं देंवचारघोडो (टोळ) धरूंक सोदतालो. पानां हालतालीं. त्या पानांचो सळसळ थांबोवपा खातीर ताणें पानांक म्हणलें, 'वोगी रावात, वोगी रावात. आवाज करूं नाकात. म्हाका देंवचारघोडो धरपाचो आसा.' एक दीस खूब पावस आनी वादळ. हांव आनी तो दोगच एके कुडींत आशिल्ले. विजेचो लखलखाट चलिल्लो. तरीय तो परत-परत दार उगडून भायर वचपाक पळयतालो. हांवें ताका तापयलो, तेन्ना मागीर तो भायर वचपाचो रावलो. पूण मदीं-मदीं भायर तकली काडून पळयतालो आनी वीज चकचकतकच म्हणटालो, 'काका, ते परत फस्क पेटयतात.' परमहंस भुरग्यां भशेन आसता. हो आपलो, हो परको असो भेदभाव तांचे कडेन नासता. संवसारांतल्या नात्यागोत्यांचो ताका व्हडलो हुसको नासता. एक दीस शिवरामान म्हाका म्हणलें, 'काका, तुमी बाबाचे भाव काय ताचे मेवणे?'

परमहंस भुरग्या भशेन आसता. आपूण खंय आसां? खंय वतां? हाची ताका पर्वा नासता. ताका सगलें ब्रह्ममय दिसता. ताचें आपले हालचाली कडेन लक्ष नासता. शिवराम हिंदूच्या घरा दुर्गापुजा पळोवपाक गेल्लो. हिंदूच्या घरांतल्यान भायर सरून खंयतरी भोंवत रावलो. चार वर्सांचें भुरगें पळोवन रस्त्या वयल्यान येवपी एका मनशान ताका विचारलें, 'तूं खंयच्यान आयला?' तो कांयच सांगूंक नकळं जालो. ताणें फक्त एक उतर म्हणलें, 'खोंप'. दुर्गामातेची प्रतिमा एक व्हडली खोंप कशी बांदिल्ल्या जाग्यार पुजेक लायिल्ली. त्या रस्त्या वयल्या मनशान फुडें जेन्ना विचारलें, 'कोणा बराबर तूं रावता?' ताणें इतलेंच उतर म्हणलें, 'दादा'. परत परमहंसाची केन्नाकेन्नाय उन्मत - पिसो कसो -अशी अवस्था जाता. जेन्ना म्हजी अशी ईश्वरी उन्मत अवस्था जाल्ली तेन्ना हांव शिवलिंग समजून स्वताच्याच लिंगाची पुजा करतालों. आतां मात म्हज्यान तशें करूंक नजं.

### दक्षिणेश्वर देवळांतल्या काली प्रतिशठापना उपरांत<br>एका पूर्ण ज्ञानी पूण उन्मत अवस्थेंतल्या साधूची भेट

दक्षिणेश्वराच्या देवळाच्या प्रतिशठापने उपरांत कांय दिसांनी एक पिसो आयिल्लो.

---

*श्रीरामकृष्णांचो पुतणयो.

भायल्यान दिसपाक पिसो पूण भितरल्यान रुशीपूर्ण ब्रह्मज्ञानी. तुटिल्लीं जोतीं, एका हातांत कोंड्याची ल्हान बडी आनी दुसऱ्या हातांत मातयेचें मडकें. तातूंत आंब्याचो रोंपुलो. समाजाच्या रितीरिवाजांक तो मानिनाशिल्लो. गंगेंत न्हाले उपरांत, ताणें संध्या बी धर्मीक विधी बी कांयच केले नात. वापरतालो त्या कपड्या गांठीक कितें आशिल्लें तें ताणें खालें. ते उपरांत तो काली देवळांत गेलो आनी देवीचें स्तुती स्तोत्र म्हणूंक लागलो. देवूळ थरथरपाक लागलें. हलधारी तेन्ना देवळांत आशिल्लो. अतिथी अगरशाळेंत ताका जेवण दिलें ना. ताणें ताची कांय पर्वा केली ना. भायर उडयिल्ल्या उश्ट्या पत्रावळींनी सोदून जें कितें मेळ्ळें तें वचून खालें. थंय सुणींय एकठांय जावन खातालीं. मदीं-मदीं सुण्यांक कडेक सारून तो खावंक लागलो. त्या सुण्यांनीय ताका कांय केलें ना. हलधारी ताच्या फाटल्या -फाटल्यान गेलो आनी ताका विचारूंक लागलो. 'तुमी कितें पूर्ण ज्ञानी आसात?' ताचेर तो फुतफुतलो. 'शे! हय, हांव पूर्ण ज्ञानी आसां.'

हांवें हलधारी कडल्यान जेन्ना हें सगलें आयकलें तेन्ना म्हजी छाती धडधडूंक लागली. आनी हांवें हृदूक वेंग मारली. आई जगन्मातेक म्हणलें, 'आई, म्हणचे मागीर म्हजीय अशीच अवस्था जातली?' आमी ताका पळोवपाक गेले. आमचे कडेन तो ज्ञानाच्यो खूब गजाली उलयलो. दुसरे लोक आयले तर पिश्या भशेन करतालो. जेन्ना तो गेलो तेन्ना हलधारी बरोच पयस ताचे बराबर गेलो. दरवट्या पलतडीं गेले उपरांत ताणें हलधारीक म्हणलें, 'तुका आनीक कितें सांगू? ह्या कोंडांतलें उदक आनी गंगेचें उदक हांचें मदीं जेन्ना कांयच भेदबुद्द येवची ना, तेन्ना समज की तुका पूर्ण ज्ञान जालां म्हणून.' इतलें उलोवन तो बेगिबेगीन गेलो.

श्रीरामकृष्ण म कडेन उलोवंक लागले. भक्तजनय लागींच बशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) शशधर तुका कशे दिसतात?

**म:** खूब बरे आसात महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** गीतेंत म्हणलां, 'जांकां खूब जाण मानतात, जांचो आदर करतात, तांचे भितर ईश्वराची शक्त आसता. तरीपूण तांचीं थोडीं कर्मां उरल्यांत.

**म:** हां, हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** फक्त पंडीतपणान कितें जातलें? थोडी तपस्या करूंक जाय. अध्यात्मीक साधनेची गरज आसा.

## पयलींची जीण. गौरी पंडीत आनी नारायण शास्त्री हांची साधना. बेलघरचे बागेंत केशव चंद्रांची भेट वर्स 1876. कॅप्टनाचें येवप

गौरी पंडितांनी तपस्या केली. तांणी जेन्ना जगन्मातेचे स्तुती स्तोत्र म्हणलें, तेन्ना हेर पंडीत तांचे मुखार गांयडोळ कशें दिसले. नारायण शास्त्री फकत पंडीत नाशिल्ले. तांणी साधना केल्ली. नारायण शास्त्रींनी सतत पंचवीस वर्सां अध्ययन केल्लें. सात वर्सां न्याय शास्त्राचो अभ्यास केल्लो. तरी लेगीत शिवाचो जप करता आसतना तांकां भावसमाधी लागताली. जयपूरचो राजा ताका सभापंडीत करूंक सोदतालो. पूण तांणी तें काम घेतलें ना. दक्षिणेश्वराक चड करून येवन रावताले. वशिश्ठ आश्रमांत वचपाची तांची खूब इत्सा आशिल्ली. थंय तांकां तपश्चर्या करपाची आशिल्ली. थंय वचपा विशीं ते म्हाका सदांच सांगताले. हांवेंच तांकां थंय वचूं नाका म्हणून सांगलें. ताचेर ते म्हाका सांगताले. 'केन्ना मरन कांय सांगू नजं. साधना केन्ना करतलों? बुडबुडो केन्ना फुट्टलो सांगूं नजं.' तांणी खुबूच हट्ट करतकच हांवें तांकां वच म्हणलें. अशें आयकलां कीं नारायण शास्त्री अंतरले म्हणून. तपश्चर्या करतां-करता खंय तांकां मरण आयलें. दुसरे म्हणटात की ते जिवे आसात म्हणून. आनी तांणी तांकां गाडयेंत बसून गेल्ले ते पळयले.

केशव सेनांक मेळचे पयलीं हांवें नारायण शास्त्रींक सांगिल्लें कीं तुमी एक खेपो वचून पळयात. केशव सेनां विशीं तुमकां कितें दिसता तें. तांकां मेळून येवन तांणी म्हणलें केशव जपसिध्द आसात. ते ज्योतिशय जाणा आशिल्ले. तांणी सांगलें, केशव बऱ्या नखेत्रार जल्माक आयल्यात. तेन्ना हांव ह्रदूक बराबर घेवन बेलघरच्या तांगेल्या बागेंतल्या घरा वचून केशवाक मेळ्ळों. तांकां पळयतकच रोखडेंच हांवें म्हणलें, फकत हांचीच शेंपडी गळून पडल्या. आतां हो शेंपडी गळिल्लया बेब्या भशेन. उदकांतय रावतलो आनी जमनीरय रावतलो. म्हजी पारखणी करपा खातीर केशवान तीग ब्राह्मसमाजाच्या वांगड्यांक दक्षिणेश्वराच्या देवळांत धाडिल्ले. तातूंतलो एकलो प्रसन्न आशिल्लो. रातदीस ते म्हाका पारखितले आशिल्ले. आनी मागीर केशवाक वचून सगलें सांगतले आशिल्ले आनी रातचे ते कुडींत न्हिदपाचे आशिल्ले. ते सारखे दयामय, दयामय म्हणीत आशिल्ले. आनी म्हाका सागूंक लागले, 'तुमी केशवबाबूंचे अनुयायी जायात. म्हणचे तुमचें बरें जातलें.' हांवें सांगलें, 'हांव साकार रुपांत देवाक मानतां'. तरी लेगीत तांचें दयामय, दयामय म्हणप सुरूच. मागीर म्हाका एक विचित्र अवस्था प्राप्त जाली. ते अवस्थेंत हांवें तांकां म्हणलें, 'तुमी हांगाच्यान वचात पळोवया.' मागीर

हांवें तांकां म्हजे कुडींत न्हिदपाक दिलें ना. ते व्हरांड्यांत वचून न्हिदले. कॅप्टन त्या दिसा पयलेच खेपे म्हजी भेट घेवपाक आयिल्ले. ते राती ते देवळाचे बागेंत रावले.

## मायकेल मधूसुदनांचें नारायण शास्त्रीं कडेन उलोवप

नारायण शास्त्री हांगा बशिल्ले. तेन्ना एक खेपो मायकेल आयिल्लो. मथूरबाबूंचो व्हडलो पूत द्वारिकाबाबून ताका आपले बराबर हाडिल्लो. देवळाचे बागेच्या धनयांचो शेजारच्या बारूदखानाच्या इंग्लीश धनया कडेन मुकदमो करपाचो विचार चलतालो. ते खातीर मायकेलाचो सल्लो जाय आशिल्लो. वेवस्थापना लागींच एक व्हड कूड आशिल्ली. थंय मायकेलाची भेट जाली. हांवें नारायण शास्त्रींक तांचे कडेन उलोवपाक सांगलें. मायकेल संस्कृतांत बरे तरेन उलोवपाक शकले नात. चुकी जावंक लागल्यो. मागीर ते बंगालींत उलयले. नारायण शास्त्रीन म्हणलें, 'तुमी स्वताचो धर्म कित्याक सोडलो?' मायकेलान पोट दाखोवन म्हणलें, 'पोटा खातीर सोडचो पडलो.' ताचेर नारायण शास्त्रीन म्हणलें 'जो पोटा खातीर धर्म सोडटा ताचे कडेन कितें उलोवपाचें?' तेन्ना मायकेलान म्हाका म्हणलें, 'तुमी कितेंय सांगात'. हांवें म्हणलें, 'कोणाक खबर! म्हाकाय उलोवपाची, सांगपाची इत्साच जायना. कोणतरी म्हजें तोंड जशें कितें दांबून धरीत आसा.

**मनोमोहन:** चौधरी येवपाचो ना. ताणें सांगलें, 'तो सभागी शशधर थंय येतलो. हांव थंय येवपाचों ना. चौधरी कलकत्ता युनिव्हरसिटीची एम.ए. जाला. ताका तीनशें चारशें रुपया म्हयन्याक मेळटात. पयले बायलेच्या मरणा उपरांत ताका खूब वैराग्य आयिल्लें. पूण कांय काळा उपरांत ताणें परतें लग्न केलें. दक्षिणेश्वराक श्रीरामकृष्णां कडेन सारको येतालो.

**श्रीरामकृष्ण**: कितली हीन बुद्द ही. ताका तागेले विद्येचो गर्व जाला. तातूंत परत दुसरे खेपो लग्न केलां. ताका जशें कितें स्वर्ग दोन बोटां उरिल्ले भशेन जालां. (भक्तांक) ही कामिनी-कांचनाची आसक्ती मनशाक हीन बुद्दीचो करता. हरमोहनाक पयले खेपो पळयिल्लो तेन्ना ताचीं लक्षणां खूब बरीं आशिल्लीं. ताका पळोवपाक हांव व्याकूळ जातालों. तेन्ना ताचें वय आसतलें अठरा- एकुणीस. हांव ताका केन्नाकेन्नाय आफयतालों. मागीर तो येना जालो. आतां बायलेक घेवन ताणें वेगळें बिराड केलां. मामाच्या घरा आशिल्लो बरो आशिल्लो. संवसाराची कितेंच कटकट नाशिल्ली. आतां

---

*प्रसिध्द बंगाली वकील मायकेल मधूसुदन दत्त. ते बेरिस्टर आशिल्ले. तांणी धर्मांतर केल्लें.

वेगळें बिराड जाल्ल्यान बायले खातीर सदांच बाजार करचो पडटा. (सगले हांसतात.) त्या दिसा दक्षिणेश्वराक आयिल्लो, हांवें म्हणलें, 'चल, हांगांचो चल. म्हाका तुका आफुडचेंशें दिसना.'

आतां श्रीरामकृष्ण अंतपुरात श्रीजगन्नाथ देवाच्या दर्शना खातीर गेले. अंतपुरांत बलरामाच्या घराब्याच्या बायलमनशांक श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनान खूब आनंद जालो.

श्रीरामकृष्ण परत सालांत आयले. आनी तांणी म्हणलें, 'विशयान आसक्त जाल्ले लोक पुजा, जप, तप आनी हेर सगलें तितले पुरतेंच करतात. जांकां भगवंता बगर आनीक कांयच खबर नासता ते प्रत्येक स्वासा बराबर देवाचें नांव घेतात. कोण-कोण मनांतल्या मनांत 'ओम राम' असो जप करतात. तर कांय जाण अशे आसतात की जांची जीब देवाचें नांव घेत हालत आसता. सदांच देवाच्या नांवाचें स्मरण मनन करीत रावपच योग्य.

## बलरामाच्या घरा पंडीत शशधर आनी हेर भक्तां कडेन उलोवप श्रीरामकृष्णांची समाधी

पंडीत शशधर तांगेल्या एक-दोन इश्टां सयत कुडींत आयले. आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडून सकयल बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आमी सगले जाण व्हंकलेच्यो इश्टिणी पलंगा भोंवतणीं न्हवऱ्याची वाट पळयत उब्यो आसात..

पंडीत हांसूंक लागले. कूड भक्तांनी भरून गेल्ली. थंय दोतोर प्रताप आनी बलरामाचे वडील आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी परत उलोवपाक सुरवात केली.

**श्रीरामकृष्ण:** (शशधरांक) ज्ञानाची पयली कुरू म्हणल्यार शांत सभाव. तुमचे भितर हीं दोनय लक्षणां आसात. ज्ञानाचीं आनीक कांय लक्षणां आसात. साधू मुखार तो त्यागी आसता. आपल्या कामांत तो शींव आसता. आनी बायले लागीं आनंदी आनी विनोदी आसता. (सगले हांसतात.) पूण विज्ञानीचो स्वभाव वेगळो आसता. जशी चैतन्यदेवाची अवस्था. बाळका भशेन वा उन्मत जाल्ले भशेन अचेतन कसो वा पिश्यां भशेन. भुरग्यांचे अवस्थेंत आसतना तो निरागसपणान वागतलो. तर केन्नाय जुवानपणांत फकाणां मस्करी करतलो. तर दुसऱ्यांक उपदेश दिवपा वेळार तरणाट्यां प्रमाण वागतलो.

**पंडीत:** कसले तरेचे भक्तीन ईश्वराचो साक्षात्कार जाता?

# वैश्णवांचें खाशेलेपण

**श्रीरामकृष्ण:** मनशाचे प्रकृती प्रमाण तीन तरांची भक्ती आसता. सात्वीक भक्ती, राजसीक भक्ती, तामसीक भक्ती. सात्वीक भक्तांची सात्वीक भक्ती फक्त ईश्वराकच कळटा. असो भक्त भायर कांयच दाखयना. असलो भक्त गुप्तताय बाळगिता. घडये तो मच्छरदाणयेंत ध्यान करता. तो कोणाकच दिसना. असली भक्ती जेन्ना जागृत जाता, तेन्ना मागीर ईश्वर दर्शनाक आनीक वेळ लागना. जशें उदेंतेक फांतोड जाली की समजुचें आतां सूर्य उदेवपाक आनीक वेळ ना. जाचे भितर राजसीक योग आसता, भक्ती आसता, ताका मातशें दिसता की आपूण भक्त आसां हें लोकांक दिसचें. असलो भक्त सोळा तरी, पुजा करपाची आसता, ते प्रमाण करतलो. पितांबर न्हेसून देवाकुडींत वतलो. गळ्यांत रुद्राक्षाची माळ घालतलो. माळेंत मदीं-मदीं भांगराचे मणी आसतले. तामसीक भक्ती जशी कितें दरोडेखोरांली भक्ती. दरोडेखोर उक्तेपणान घुरी घालतात. सातआठ पुलिसांक भियेनात. तोंडान आड्डुत आसतात, 'मारात, लुटात.' तामसीक भक्त उन्मतपणान म्हणटा, 'हर, हर हर ओम, ओम जय काली'. तांच्या मनांत नेट आसता. खर विश्वास आसता. शाक्तां भितर असो विश्वास आसता. ते म्हणटात, कितें? हांवें एक खेपो कालीचें नांव, दुर्गेचें नांव घेतिल्लें आसा. मागीर म्हजे भितर आनीक पाप आसूं येता? आसूंच नजं. वैश्णवांचो मोटो नमळायेचो आनी खालतेपणाचो सभाव आसता.

(बलरामाच्या वडिलां कडेन पळोवन ) ते फक्त माळ जपतात. रडत पिरंगत किरकीर करीत आसतात. 'ए कृष्णा, आमचेर दया कर.. आमी अधर्मी, आमी पातकी.' असो खर विश्वास जाय की ताच्यान म्हणूंक जातलें, 'हांवें देवाचें नांव घेतलां. हांव पातकी? हांव पातकी जातलोंच कसो?' कल्पना करात, मनीस दीस रात हरीचें नांव घेता आनी त्याच वेळार म्हणटा, आपूण पातकी म्हणून.

उलयतां-उलयतां श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदांत मत्त जाले आनी गावंक लागलेः

दुर्गेचें नांव घेतां घेतां हांवें जीव सोडलो जाल्यार,  
ए सुभागिणी, तूं कशी  
आडायतली म्हजी मुक्ती,  
हांव आसलों जरी दळिद्री?  
चोरला आसत हांवें एक घोंटभर सोरो  
वा जल्माक येवंनाशिल्लें मारलां आसत,

वा बायलेक मारल्या आसत वा गायेक,
वा ब्राह्मणाच्याय मरणाक कारण जालां आसत;
पूण, हें सगलें खरें आसून लेगीत
हातूंतलें कितेंच म्हाका करिना अस्वस्थ;
कारण तुज्या पवित्र नामाचे शक्तीन
म्हजो दळडिरो आत्मो अजुनूय
मेळोवंक पळयता ब्रह्मपद.

परत ते गावंक लागलेः

पळयात म्हजी माता शिवा वांगडा खेळटा, आनंदाचे धुंदीत विसरून!
स्वर्गीय सोऱ्याचो एक घोंट पियेवन, ती धडपडटा, तरीय ती पडना.
शिवाचे छातयेर ती सरळ उबी रावता, आनी तिच्या पावलान धर्तरी कडकडटा;
ती आनी तिचो धनी उन्मादान पिसावल्यांत, सगली भिरांत आनी लज पयस सारून!

गाणें आयकून शशधर रडले. वैशणवचरण नांवाचे गायक थंय आशिल्ले. ते गावंक लागलेः

ए जिबे, सदांच माता दुर्गेचें नांव जप!
तुजी आवय दुर्गे बगर तुका संकश्टांतल्यान वाटायतलो कोण?
तूं स्वर्ग आनी धरतरी, आनी तूं आसा पाताळ;
तुज्यांतल्यानूच बारा गोपाळ आनी हरी आनी शिव जल्मल्यात.

तूं आसा दिव्य शक्तीचीं धा रुपां,
आनी तूं धा अवतार, ह्या वेळार तुवें म्हाका वाटावंकूय जाय!
तूं आसा चल आनी अचल, स्थूल आनी सुक्ष्म,
तूं आसा निर्मणी आनी सांबाळणी, आनी निमणो प्रलय.

तूं आसा ह्या विवीध विश्वाचें आद्य मूळ;
तीन लोकांची आवय, तांची एकलीच सोडवणदार तूं;
तूं आसा सगल्यांची शक्ती, आनी तुजीच शक्तीय बी तूंच.

गिताच्यो निमण्यो कांय वळी आयकून श्रीरामकृष्ण परत स्वता गावंक लागलेः

ए माते, यशोदे खातीर तूं नाचली, तुका तिणें मोलादीक 'नीलरत्न' म्हणलें
ए भयांकृत श्यामा तुवें तें मोगाळ रूप खंय लिपयलें?
म्हजे खातीर, ए माते, एकदां तरी तशी नाच! तुजी तरसाद उडय आनी मुरली घे;
मुंडक्यांची माळ भिरकाय, आनी रानवटी फुलांचो झेलो घाल.
शिवा बगर जर तुज्यान नाचूं नजं, तर बलरामाक तुजो जावं दी शिव.
नाच, ए श्यामा, तूं कृष्ण जावन नाचिल्ली तशी नाच!

माते परती एकदां तुजी मुरली वाजय, गोपींच्या आनंदा खातीर एकदां ती वाजिल्ली;
परतीय ती अजापीत मुरली वाजय, मळा वयल्यान गोरवांय जी आफयताली,
यमुनेचो फुतफुतपी झोत थांबोवन आनी ताका परतो धाडून.

मळबांत सूर्य गरम पेट्टालो, जेन्ना यशोदा, आपल्या कृष्णा खातीर अस्वस्थ,
अपुरबायेन आफयताली, 'हांगा, म्हज्या गोपाळा! साय आनी लोणी खा तें, म्हज्या अपुर्बायेच्या!''
आनी ताचे लांब काळे केंस ती वळयताली आनी तांची विणी घालताली.

तुजें लवचीक आंग मोडून, माने कडेन, कमरा कडेन आनी धोंपरा कडेन,
श्रीदाम, तुज्या इश्टा वांगडा तूं नाचली, तुजीं दोनूय पांयजणां जालीं संगीत.

ता-थय्या! ता-थय्या! ता-ता! थय्या-थय्या!

तांचो चित्तवेधी नाद आयकून, थंय धांवताल्यो गोपी.

**पंडीत:** ब्रह्म स्वता ती करता. ती मानवी मनाची कल्पना नासता.

**दोतोर प्रताप:** ब्रह्म कल्पना कित्याक करता?

**श्रीरामकृष्ण:** कित्याक करता म्हणचे? ब्रह्म कितें कोणाचो सल्लो घेवन काम करिना. ताची खोशी, इत्सामय आसता. तें कित्याक करता हें सगलें जाणा जावन घेवपाची आमकां गरज कितें? तुमी गाळींत आंबे खावपाक आयल्यात. आंबे खायात. गाळींत झाडां कितलीं? तांकां खांदयो कितल्यो हजार आसात? पानां कितलीं लाख आसात? ह्या सगल्याचो हिशोब करपाची कितें गरज? गरजे भायर तर्क विचार करून सत्याचो लाव जायना.

**प्रताप:** तर मगीर कितें, आमी कितें आनीक चड विचार करपाचो ना?

**श्रीरामकृष्ण:** गरजे भायर तर्क विचार करपाची गरज ना. पूण सत कितें आनी असत कितें हाचेर विचार करुंकूच जाय. नित्य कितें आनी अनित्य कितें हाचेर विचार करूंक जाय. तुमी कामक्रोधाच्या वेळार वा दुख्खाच्या वेळार असलो विचार करूंक जाय.

**शशधर:** तो वेगळो. ताका विवेकाचेर आधारीत विचार म्हणटात.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, सत आनी असत हाचो विवेक.

सगले जाण वोगी रावले. मागीर श्रीरामकृष्ण पंडितांक लेखून उलयले.

**श्रीरामकृष्ण:** फाटीं हांगा व्हड-व्हड मनीस येताले.

**पंडीत:** म्हणचे गिरेस्त मनीस?

**श्रीरामकृष्ण:** ना, ना, व्हड पंडीत, विद्वान.

इतल्यांत ल्हान रथ भायर दुसरे माळयेर व्हरांड्याचेर हाडलो. श्रीजगन्नाथदेव, सुभद्रा आनी बलराम रंगीत फुलांनी आनी माळी घालून बरे सजयिल्ले. तांकां वस्ती घाल्ल्यो आनी रेशमी वस्त्रां न्हेसयिल्लीं. घरचे यजमान बलरामबाबूची सात्वीक पुजा. कसलेंच अवडंबर ना. भायल्या लोकांक खबरय ना की हांच्या घरा रथाचो उत्सव आसा म्हणून. आतां श्रीरामकृष्ण रथा मुखार भक्तां सयत आयले. व्हरांड्याचेरूच रथ ओडपाचो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी रथाची दोरी धरली आनी थोडो वेळ रथ ओडलो. मागीर ते गावंक लागलेः

पळयात, सगलें नादिया हालता
गौरांगाच्या प्रेमाच्या ल्हारांनी...

परत ते गावंक लागले :

पळयात, हरी म्हणटकूच जांच्या दोळ्यांतल्यान मोगाची दुकां व्हावंक लागतात,
ते दोग भाव आयल्यात. जांकां धाडायले तरी ते बदलेक मोगूच वांट्टात.

दिव्य प्रेमाच्या आवेशांत श्रीरामकृष्ण नाचताले आनी गायताले. किर्तनकार आनी ताचो पंगडूय तातूंत नाचूंक लागलो.

रोखडोच सगलो व्हरांडो लोकांनी भरून गेलो.

बायलांनी हो आनंदाचो देखावो लागींचे कुडींतल्यान पळयलो.

अशें दिसतालें, आपल्या वांगड्यां सयत चैतन्य स्वता नाचताले, दैवी प्रेमाच्या उन्मादांत. अजून तिनसांज जावंक नाशिल्ली. श्रीरामकृष्ण भायल्या सालांत भक्तां सयत येवन बसले.

**श्रीरामकृष्ण :** (पंडितांक) हाका म्हणटात भजनानंद. ईश्वरी भजनांत भक्तांक मेळपी आनंद. संवसारी लोक विशयांचो आनंद घेतात. कामिनी-कांचनाचो आनंद - भजन करतां-करतां ईश्वराची कृपा जाता, तेन्ना तो दर्शन दिता. तेन्ना ब्रह्मानंद मेळटा. ब्रह्माचो आनंद.

शशधर आनी भक्त तन्मय जावन आयकताले.

**पंडीत:** (नमळायेन) महाराज, कितली व्याकूळताय जातकच ही असली आनंददिणी अवस्था प्राप्त जाता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराच्या दर्शना खातीर जेन्ना पंचप्राण तळमळटात तेन्ना असली व्याकूळताय येता. गुरून शिश्याक म्हणलें, 'यो म्हजे बराबर यो. कितली व्याकूळताय जातकच भगवंताचें दर्शन जाता तें तुका दाखोवन दितां.' अशें म्हणून तांणी ताका एका तळ्यार व्हेलो. आनी उदकांत ताची तकली दांबून धरली. भायर काडटकच गुरूदेवांनी ताका विचारलें, 'तुका कशें दिसलें?' शिश्यान म्हणलें, 'सामको हांव मरतां काय दिसलें. हांव स्वास घेवपाक तडफडटालों.'

**पंडीत शशधर:** हय, हय, तेंच खरें. आतां हांव समजलों.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचेर मोग करप हेंच सगल्याचें तत्व आसा. भक्तीचें तत्व. नारदान

रामाक म्हणलें, 'तुज्या चरणकमलां कडेन सदांच शुध्द भक्ती आसूं दी. आनी तुज्या भूल घालपी मायेन भुल्लुसून वचनासतना हांव उरूं दी. इतलेंच मागणें आसा. रामान म्हणलें, 'आनीक कितेंतरी वर मागात', नारदान म्हणलें, 'तुज्या चरणकमलां कडेन भक्ती उरूं दी. इतलीच म्हजी प्रार्थना, आनीक कांयच नाका.'

पंडीत शशधर आतां वचपाचे तयारेंत आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी एका भक्ताक पंडितां खातीर गाडी हाडपाक सांगली.

**शशधर:** महाराज तुमी त्रास घेवं नाकात. हांव चलत वतां.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आगा, तें कशें जातलें? ब्रह्मदेवाच्या1 ध्याना पलतडीं लेगीत तुमी आसात.

**शशधर:** आतांच वचपाची तशी कांय खाशेली गरज नाशिल्ली. पूण संध्या बी करपाची आसा.

## कर्मत्याग

**श्रीरामकृष्ण:** जगदंबेन म्हजी संध्या आनी हेर कर्मां काडून घेतल्यांत. संध्या आनी हेर कर्मांनी देह आनी मन शुध्द करपाचें आसता. आतां ती अवस्था उरूंक ना.

श्रीरामकृष्णांनी एका गीतांतलीं कांय कडवीं म्हणपाक सुरवात केली.

सुभागीपणाच्या धामांत, ए मना, विसावपाक तूं केन्ना शिकतलें,
शुद्धपण आनी म्हेळेपण तुज्या दोनीय कुशींनी घेवन?
फकत जेन्ना तुका मार्ग मेळटलो.
ह्या दोनूय इश्टिणींक एकाच पाख्या खाला धादोशी दवरूंक,
तुका श्यामा मातेच्या अनुपम रुपाचें दर्शन जातलें.

पंडीत शशधरान श्रीरामकृष्णांक नमस्कार केलो आनी तं गेले.

**राम:** हांव काल शशधरां कडेन गेल्लों. तुमी म्हाका थंय वच म्हणून सांगिल्लें न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें सांगिल्लें? म्हाका याद जायना. पूण तुमी गेले तें बरें जालें.

**राम:** एका खबरांपत्राचो (इंडियन एंपायर) संपादक तुमची निंदा करतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** समजा तांणी केली, तातूंत कितें जालें?

**राम:** फुडें आयकात. मागीर हांव संपादका कडेन तुमचे विशीं उलोवंक लागलों.

ताका तुमचे बद्दल चड आनी चड आयकुपाची इत्सा जाली आनी म्हाका कसोच सोडिना जालो.

तिनसांज जाली. श्रीरामकृष्ण जगन्मातेचें गोड नांव घेत आशिल्ले. रामनाम, कृष्णनाम, हरीनामय घेत आशिल्ले. भक्तजन शांतपणान आयकताले. तें नामसंकिर्तन इतलें गोड आनी म्होंवाळ आशिल्लें की भक्तांची काळजां सामकीं प्रेमान हाल्लीं. ते दीस बलरामाचें घर जशें कितें नवद्वीप जाल्लें जेन्ना चैतन्य थंय रावताले तशे, व्हरांडे नवद्वीप जाल्ले तर साल वृंदावन कशें जाल्लें. तेच राती श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाचे आशिल्ले. बलराम तांकां भितर घेवन गेलो. आनी तांकां अल्पहार दिलो. ताका लागून भितर बायलभक्तांक परत तांचें दर्शन घेवपाक मेळ्ळें.

हेवटेच्यान भायर भक्तजन सालांत तांची वाट पळयत आशिल्ले आनी सगले मेळून संकिर्तन करताले. श्रीरामकृष्ण भायर येतकच संकिर्तन चालू जालें.

श्रीरामकृष्णूय गावंक लागलेः

पळयात, म्हजो गोरा नाचता! भक्तां वांगडा
श्रीवासाच्या आंगणांत तो नाचता, किर्तन गायत.
गोरा सगल्यांक म्हणटा, ''हरीच्या नामाचो जप करात!''
तो गदाधरा कडेन पळयता, आनी ताच्या तांबड्या दोळ्यांतल्यान
ताच्या भांगराळ्या आंगाचेर प्रेमाचीं दुकां व्हांवतात.

श्रीरामकृष्णांनी त्या गिताक आपल्यो वळी जोडल्योः

किर्तनांत गोरा नाचता,
तो, सशीचो अपुरबायेचो, नाचता!
तो म्हजो गौरांग नाचता!
तो म्हज्या अंतरात्म्याचो मोगी नाचता!

# अध्याय : णव्वद

## अधराच्या घरा कडेन उत्सव
## दक्षिणेश्वराच्या देवळांत म, राखाल, लाटू, अधर
## शिवपूरच्या भक्तां सयत श्रीरामकृष्ण
## शिवपूर सावन आयिल्लया भक्तां वांगडा योगा संबंदीं उलोवप
## कुंडलिनी शटचक्रभेद

**ऑगस्ट 3, 1884. आयतार.** भगवान श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराच्या देवळाचे तांगेले कुडींत दनपारच्या जेवणा उपरात भक्तां सयत बशिल्ले. दनपारचीं दोन वरां जाल्लीं. शिवपूर सावन बौलांचो एक पंगड आनी भवानी साकून कांय भक्त आयिल्ले. राखाल, लाटू, हरीश, ह्या दिसांनी श्रीरामकृष्णां बराबरूच रावताले. कुडींत ते आनी बलराम आनी मय आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी शिवपूरच्या बौल भक्तां कडेन उलोवप सुरू केलें.

**श्रीरामकृष्ण:** कामिनी-कांचनांत मन आसल्यार योग जायना. संवसारी मनशाचें मन चड करून तीन सकयल्लया केंद्रां भोंवतणीं भोंवता. नाभी, कामवासनेचें लिंग आनी गुदद्वार. खूब साधना आनी अध्यात्मीक तपस्ये उपरांत कुंडलिनी जागृत जाता. फाटीच्या कण्याक तीन नाडयो आसतात. इडा, पिंगळा, आनी सुशुम्ना. सुशुम्ने मदीं स चक्रां आसात. तातूंत सगल्यांत सकयल आसता मुलाधार. ते उपरांत स्वाधिशठान, मणीपूर, अनाहत, विशुध्द आनी आज्ञा. हांकांच शटचक्र, स चक्रां म्हणटात. कुंडलिनी जागृत जातकच ती सकयल्या चक्रांतल्यान वचून अनाहत चक्रांत येता. अनाहत चक्र काळजांत आसता. थंय ती रावता. त्या वेळार साधकाचें मन तीन सकयल्लया केंद्रांतल्यान भायर सरता. आनी साधकांतलें चैतन्य जागृत जाता. आनी ताका ज्योतीचें दर्शन जाता. साधक चकीत जाता. ज्योतीची प्रभा पळोवन एकदम आड्डता, 'हें कितें? हें कितें?' सय चक्रांतल्या केंद्रांतल्यान वतकच कुंडलिनी सहस्त्रार चक्रार पावता आनी साधकाक थंय पावतकच समाधी लागता. वेदांत ह्या सगल्या चक्रांक भुमी वा पांवडे म्हणलां. वेदांच्या मतान, सप्तभुमी आसात. वेदां प्रमाण काळीज हो चवथो पांवडो वा चवथी भुमी. तंत्रा प्रमाण ह्या चक्रांत अनाहत कमळ आसा आनी ताका बारा पाकळ्यो आसात. विशुध्द चक्र ही पांचवी भुमी वा पांचवो पांवडो. हें चक्र कंठा कडेन आसा आनी हांगा जें कमळ आसा ताका सोळा पाकळ्यो आसात. जेन्ना कुंडलिनी हांगा पावता तेन्ना भक्त फक्त ईश्वरा विशींच गजाली

उलोवपाक आनी आयकुपा खातीर व्याकूळ जाता. ताचे मुखार विशयाच्यो गजाली, कामिनी-कांचनाच्यो गजाली आयल्यो जाल्यार ताका खूब त्रास जाता. असल्यो गजाली जंय उलयतात थंयच्यान तो उठून वता. मागीर येता सवो पांवडो. सवी भुमी. सवी भुमी म्हणचेच आज्ञाचक्र. हें चक्र दोन भुंवयां मदीं आसता. आनी ह्या चक्राक दोन पाकळ्यो आसतात. कुंडलिनी हांगा पावतकूच ईश्वराच्या रुपाचें दर्शन जाता. तरीपूण ईश्वर आनी साधक हांचे मदीं थोडीशी आडखळ उरता.जशें कितें लापयांवां भितरली ज्योत. दिसता की तुमी तिका स्पर्श करतात म्हूण. पूण खरें पळयल्यार तुमी तिका आफडूंक पावनात. कारण मदीं कंवची आडखळ हाडटा. ते उपरांत निमणो सातवो पांवडो येता. सप्तभुमी. तंत्रा प्रमाण हें चक्र एक हजार पाकळ्यांचें कमळ आसा. कुंडलिनी हांगा पावतकच समाधी लागता. ह्या कमळांत सच्चिदानंद शिव रावता. परम ब्रह्म हांगा कुंडलिनी जागृत शक्ती शिवा कडेन एकचार करता. हाकाच शिवशक्ती मिलन म्हणटात. जेन्ना कुंडलिनी सहस्त्रार पावता आनी मन समाधींत वता तेन्ना साधकाक भायल्या जगाचें भान उरना. साधक मागीर आनीक तागेलें शरीर दवरूंक शकना. तोंडांत दूद घाल्यार तें व्हांवून वता. हे अवस्थेंत एकवीस दिसां परस चड रावूंक पावना. ते उपरांत ताका मरण येता. एक खेपो दर्याच्या काळ्या उदकांत तारूं वतकच तें परत येना. ईश्वरकोटी जशे ईश्वरी अवतार समाधींतल्यान सकयल येवंक शकतात. ते ते उंचेल्या अवस्थेंतल्यान सकयल देवंक शकतात. कारण तांकां भक्ताच्या सांगातान रावपाक आवडटा आनी ईश्वराचे भक्तीचो ते आनंद घेतात. ईश्वर तांचे भितर 'विद्येचो अहं' वा 'भक्तीचो अहं' दवरता. लोकांक उपदेश करपा खातीर तांचें मन 'स'वो आनी 'सात'वो पांवडो हांचे मदीं भोंवत आसता. जशें कितें 'स'वो पांवडो आनी 'सात'वो पांवडो हांचे मदीं बोटीची येवपा वचपाची सर्त. समाधी मेळ्ळे उपरांत कांय महात्मे आपूण जावन ज्ञानाचो अहं राखून दवरतात. पूण ह्या अहंपणाक कसलीच आसक्ती नासता. उदकार काडिल्ली वळ कशी. हनुमानान साकार-निराकाराच्या साक्षात्कारा उपरांत 'दास अहं' हो भाव दवरिल्लो. तो स्वताक 'हांव देवाचो सेवक' समजतालो. व्हड रुशी जशे नारद, सनक, सनंद, सनातन, सनतकुमार ह्या सगल्यांनी ब्रह्मज्ञाना उपरांत 'दास हांव' 'भक्त हांव' हो भाव दवरिल्लो. हे तारवा भशेन आसतात. स्वताय दर्या पलतडीं वतात आनी हेर कितल्याश्या जाणांक आपले बराबर घेवन वतात.

### परमहंसाचे प्रकार

परमहंस दोन तरांचे आसतात. एक निराकार सत्याचेर खरपणान विश्वास दवरतात आनी दुसरे साकार देवाचेर विश्वास दवरतात. मैलंग स्वामी हे निराकार सत्याचेर विश्वास दवरताले. हांचे सारके स्वता पुरतेंच पळयतात. स्वताचें बरें जालें की जालें.

पूण जे परमहंस साकार ईश्वराचेर विश्वास दवरतात ते ब्रह्मज्ञान जाले उपरांतय. ईश्वरा विशीं भक्ती. लोकांक अध्यात्मीक भक्ती करपा खातीर देवा वयलें प्रेम तशेंच राखून दवरतात. उदकान कांठा मेरेन भरिल्लो कळसो कसो. हातूंतलें थोडें उदक दुसऱ्या रिकाम्या कळशांत ओतूं येता तशें हें आसता. हे पूर्णतायेक पाविल्ले महात्मे. जे अध्यात्मीक साधनेन तांणी ईश्वराचो लाव करून घेतलो, तो मार्ग ते लोकांक सांगतात. अध्यात्मीक जिणेंत दुसऱ्यांक उपदेश दिवपा खातिरूच ते हें करतात. पियेवपाच्या उदका खातीर खूब कश्ट करून बांय खणली. खोरें, खोंटले, कुदळ वापरून खणली. मागीर कोण कोण कुदळ आनी बाकीचीं सगळीं आवतां ते बांयतूच उडोवन दितात. तांची आतां कांय गरज ना म्हणून. पूण कांय जाण बांये म्हऱ्यांत दवरतात. दुसऱ्या लोकांक उपेगी पडचीं म्हूण. कांय-कांय लोक आंबे लिपोवन खातात आनी कांयच कुरू उरची न्हय म्हूण तुवाल्यान तोंड पुसून उडयतात. पूण कांय जाण बाकीच्यांक दिवन आंबे खातात; तर कांय रुशी ज्ञान जाले उपरांतय लोकांक उपदेश दिवपा खातीर काम करतात आनी स्वता लेगीत भक्तांच्या सांगातान ईश्वराचो आनंद भोगतात. म्हाका साकर खावंक जाय. म्हाका साकर जावपाची ना अशें तांकां दिसता. गोपींनी लेगीत ब्रह्मज्ञान मेळयिल्लें. पूण तांकां ब्रह्मज्ञान नाका आशिल्लें तर तांकां वात्सल्य भावान वा इश्टागत भावान वा ईश्वराचो दास म्हणून वा प्रेमभावान भगवंताचो आस्वाद घेवंक जाय आशिल्लो.

शिवपूरचे बौलभक्त एकतारी वाजयत गावंक लागले. पयल्या गिताची वळः

प्रभो, आमी पातकी आसात. आमचो उध्दार कर.

**श्रीरामकृष्णः** (भक्तांक) भंया खातीर देवाची पुजा करप हो साधना सुरू करपी लोकांचो भाव आसता. भगवंताचे प्राप्तीचो आनंद मेळिल्ल्याचें जातूंत वर्णन आसा असलीं पदां गायात. आनंदाचीं पदां. (राखालाक) नवीन नियोगाच्या घरा त्या दिसा कितलें सुंदर पद तांणी म्हणिल्लें न्हय. 'पियेवन मत्त जा मना. स्वर्गीय आनंदाचो सोरो पियेवन मत्त जा.' धर्मीक पदां गायतना एक सारकें चिंता हुसक्या विशीं उलोवप बरें न्हय. ईश्वराचें नाम घेतना भगवंताचो आनंद जावंक जाय. परमानंदांत मत्त जावंक जाय.

**एक भक्तः** महाराज, तुमी एकय पद म्हणचे नात?

**श्रीरामकृष्णः** हांव कितें गावं? बरें आसा. जेन्ना गायन दिसतलें तेन्ना गायतलों.

काय वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण गावंक लागले. गायतना तांची नदर वयर लागिल्ली. ते गावंक लागलेः

पळयात, गोराच्या अत्यानंदी प्रेमाचीं ल्हारां,
तांचे सकयल सगलें विश्व बुडून वता!

आनी ताच्या प्रेमांत हांवूय बी, बुडून वचूंक आंवडेतां.
ए इश्टा, गौरांगाच्या प्रेमान म्हाका गिळून उडयला,
गौरांगा भशेनची आमची दुर्दशा आनीक कोणाक कळटली,
संवसारीपणाच्या रेब्यांतल्यान आमकां ओडीत व्हरपी?

ते परत गांवक लागलेः

खोल बुडी मार, ए मना, परमेश्वराच्या सुंदरकायेच्या दर्यांत खोल बुडी मार,
सामके खराये मेरेन तूं देंवलें जाल्यार,
थंय तुका मेळटलीं प्रेमरत्नां...

उपरांत ते दिव्य माते संबंदीं गावंक लागलेः

श्यामेचें दर्शन कोणाकूय जावं येता? कालीचें धन कितें सगल्यां खातीर?
आरे, कितलें दुर्देव म्हज्या मूर्ख मनाक सत्य कितें ते समजना!...

## श्रीरामकृष्णांची समाधी आनी जगन्माते कडेन उलोवप, प्रेमरहस्य

हें गीत गायतना श्रीरामकृष्ण समाधींत गेले. भक्त सगले शांतपणान ते समाधीमुर्तीचें दर्शन घेताले. थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण मातशे भानार आयले आनी जगन्माते कडेन उलोवंक लागले, ''आई, मातशी थंयच्यान वयल्यान हांगा सकयल देंवून यो.'' श्रीरामकृष्णांचें मन कितें अजुनूय त्या सातव्या पांवड्यार, त्या सहस्रकमळांत घुटमळटालें काय? देखुनूच ते जगन्मातेक वयर म्हणलें ते प्रमाण म्हणटाले? तेच अवस्थेंत ते फुडें म्हणूंक लागले, ''यो, सकयल देंवून यो. कित्याक त्रास दिता म्हाका? ओगी राव माते. शांतपणान बस. आई, जांचे जशे संस्कार आसात तशेंच तांचें जातलें न्हय? हांव ह्या लोकांक आनीक कितें सांगतलों? विवेक, वैराग्य आसले बगर कांयच जायना.''

श्रीरामकृष्णांची आतां समाधी देंवली आनी ते भायल्या जगाच्या पुरायेन भानार आयले आनी भक्तांक लेखून उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्णः** (भक्तांक) वैराग्य खूब तरांचे आसता. एक तरा आसा, जाका मर्कट वैराग्य म्हणटात. हाका फटीचें वैराग्य म्हणटात. संवसाराच्या जंवजाळान नाकापुरो जाल्ल्यान येवपी वैराग्य. हें वैराग्य चड दीस उरना. आनी खरें-खरें वैराग्य म्हणल्यार

सगलें कितें आसा, कितेंच कमी ना आनी तरीय सगलें फटीचें दिसूंक लागता. वैराग्य एकदम येना. वेळ आयले बगर तें येना. तरीपूण एक खरें कीं मनशान तें एक खेपो आयकूंक जाय. जेन्ना योग्य वेळ येतलो तेन्ना स्वताच याद जातली. तेन्ना म्हणटलो, आरेच्या हांवें ते विशीं आयकलां. आनीक एक गजाल तुमी मतींत दवरूंक जाय. वैराग्या विशीं सदांच आयकून आयकून विशयवासना थोडी कमी जाता. सोऱ्याची धुंदी देंवपा खातीर तांदळाचें धुंवण थोडें थोडें पियेवंक जाय. जाका लागून ल्हव-ल्हव तर्रपण देंवता. ज्ञान प्राप्ती करून घेवपी खुबूच थोडे आसतात. गीतेंत म्हणलां, हजार-हजार लोकां भितर एक दोगच जाण भगवंताक जाणा जावपाची इत्सा करतात. परत जे लोक अशी भगवंताक जाणा जावपाची इत्सा धरतात असल्या हजार लोकां भितर एकदोगच देवाक जाणा जावंक पावतात.

तांणी गीतेंतलो श्लोक म्हणून दाखयलो.

**श्रीरामकृष्ण:** संवसाराची आसक्ती जितली कमी जातली तितलें- तितलें ज्ञान वाडटलें. संवसाराची आसक्ती म्हणचे कामिनी-कांचना वयली आसक्ती. सगल्यांकूच ईश्वरा विशीं प्रेम दिसना. चैत्यनान ताचो अणभव घेतला. सरसमान मनीस चड करून 'भाव'चो अणभव घेता इतलेंच. फकत ईश्वरकोटी जशे ईश्वरी अवतार, प्रेमाचो अणभव घेतात. प्रेम जागृत जातकच भक्तांक जग मिथ्या दिसता. इतलेंच न्हय तर देह लेगीत जो प्रत्येकाक आवडटा ताचो तांकां विसर पडटा. एका फार्सी पुस्तकांत अशें म्हणलां कीं काती भितर मांस आसता. मांसा भितर हाड आसता. हाडा भितर चरबी आनी तिचे भितर आनीक कितें कितें आसता, पूण सगल्यांत भितर आसता प्रेम. प्रेमान मनीस नाजूक आनी मोव जाता. प्रेमान कृष्ण त्रिभंग जालो म्हणचे तीन कडेन वांकडो जालो. (मान,कमर आनी धोंपरां) प्रेम ही एक दोरी. ईश्वराक बांदून दवरपी दोरी. जेन्ना तुका ईश्वराक पळोवपाची इत्सा जाता तेन्ना तुवें फक्त दोरी ओडपाची. भक्त जेन्ना देवाक आफयता तेन्ना भगवंत तुमचे मुखार येवन उबो रावता. भक्तीची परिपक्क अवस्था म्हणल्यार भाव. भाव प्राप्त जातकूच सच्चिदानंदाच्या विचारान मनीस स्तब्ध - कांय उलोवंक येना असो जाता. हांगा मेरेनूच वचूंक जिवाक जमता. परत भाव परिपक्क जातकच महाभावाची अवस्था प्राप्त जाता. प्रेम हें निमणें. कच्चो आंबो आनी पिकिल्लो आंबो हांचो फरक जाणाच तुमी. शुध्द भक्तीच खरें सारतत्व. बाकीचें सगलें मिथ्या.

एक खेपो नारदाच्या स्तवनान प्रसन्न जावन रामान म्हणलें, 'नारदा तुमी वर मागात'. नारदान मागलें. 'शुध्द भक्ती', आनी म्हणलें, 'ए रामा, म्हाका असो वर दी कीं तुजे भुवनमोहिनी मायेन हांव भुलून वच्चों न्हय..' रामान म्हणले, 'तें बरें आसा. तुमी आनीक कितें तरी वर मागात.' ताचेर नारदान म्हणलें, 'आनीक कांयच नाका. फक्त शुध्द भक्ती दी'. भक्ताच्यान अशें प्रेम कशें मेळोवंक येता? ते खातीर पयलीं साधूसंग करूंक जाय. साधूसंग करतकच ईश्वरा विशीं श्रध्दा उत्पन्न जाता. मागीर निश्ठा. मोख

जी मेळोवपाची आसा तिचेर सामकी भक्ती. हे अवस्थेंत भक्ताक ईश्वरा बगर दुसरी खंयचीच गजाल आयकुपाची इत्सा जायना. तो देवाक आवडटा तींच कामां करता. निश्ठे उपरांत भक्ती, ईश्वरा विशीं भक्ती. मागीर भाव आनी मागीर महाभाव. आनी मागीर प्रेम. आनी निमणें ईश्वराचोच लाव.

ईश्वरकोटी, जशे अवतार, हांकांच महाभावाचो वा प्रेमाचो लाव जावप शक्य आसा. संवसारी जिवांचें ज्ञान, भक्तांचें ज्ञान आनी अवतारांचें ज्ञान एकेच तरेचें केन्नाच नासता. संवसारी जिवाचें ज्ञान म्हणल्यार तेला दिव्याचो उजवाड कशें. जाका लागून फकत कुडी भितरलेंच दिश्टी पडटा. ह्या ज्ञानाच्या पालवान तो खाता, पियेता, घरचीं कामां करता, ताच्या शरिराची काळजी घेता, भुरग्यां बाळांचें पालन-पोशण करता, आनी हेर कामां करता. भक्ताचें ज्ञान चंद्रिमाचो उजवाड जाका लागून भितरलें आनी भायलें दोनूय कडलें दिसता. पूण ह्या उजवाडान तो पयसुल्लें वा खूब सामकी बारीक वस्त पळोवंक शकना. ईश्वराच्या अवताराचें ज्ञान म्हणल्यार सुर्याचो उजवाड कशें. ह्या उजवाडान अवताराक भितर आनी भायर मोट्यो आनी बारीक वस्तू सगलें कितें दिश्टी पडटा. संवसारी मनशाचें मन खोदोळ उदका भशेन आसा खरें, पूण तातूंत निवळण घाल्यार तें परत नितळ जावं येता. विवेक, वैराग्य म्हणचेच निवळण.

श्रीरामकृष्ण आतां शिवपूरच्या भक्तां कडेन उलोवपाक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमकां कितें विचारपाचें आसल्यार विचारात.

**भक्त:** महाराज, आमी सगलें आयकलां.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, असल्यो गजाली आयकप हें बरेंच, पूण वेळ आयले बगर कांयच जायना. जेन्ना खूब कुडकुडून जोर येता तेन्ना कोयनेल दिवन कितें उपेग? फिव्हर मिक्सर दिवन वा भायरी बी दिवन जोर तेन्ना देंवतलो. मागीर कोयनेल दिवपाचें आसता. तर कांय वायटकार अशे आसतात की ते आपसूक कोयनेल बी दिनासतना बरे जातात.

एका भुरग्यान न्हिदूंक वतना तागेले आवयक म्हणलें, 'आई, म्हाका जेन्ना परसा कडेन जातलें तेन्ना म्हाका उठय.' ताचेर आवयन म्हणलें, 'म्हज्या राया, म्हाका तुका उठोवचें पडचें ना. ताची तोंचणीच तुका उठयतली.' तरेतरेचे लोक हांगा येतात. कांय लोक भक्तां बराबर व्हड्यान येतात. भगवतकथा तांकां आवडना. सारके तांगेल्या त्या भक्ताक बोटान टोंचीत आसतात आनी फुतफुतत आसतात. या न्हय, केन्ना या, केन्ना वतलो? तो भक्त कसोच उठना तें पळोवन ते मागीर निमणें म्हणटात, 'बरेंतर, तुमचें जावं दी. आमी तों मेरेन वचून व्हड्यांत जागो धरून बसतात.' जांचो पयलो मनीस जल्म तांकां भोगाची गरज आसता. कांय-कांय कर्तव्यकर्मां केले बगर अध्यात्मीक चेतना जागृत जायना.

श्रीरामकृष्णांक सुरूच्या झाडां कडेन वचपाचें आसलें. ते म कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक हांसत) म्हज्या मनाचे अवस्थे विशीं तुका कितें दिसता?

**म:** वयल्यान तुमी सामके सादे. पूण भितरल्यान तुमी खोल, खूब खोल. तुमकां समजप खुबूच कठीण.
**श्रीरामकृष्ण:** खरेंच. घराची शिमिटाची जमीन कशी. लोकांक वयलेंच दिसता. जमनी सकयल कितें-कितें आसा, तें तांकां खबर नासता.

दनपारचीं चार वरां जाल्लीं. बलराम आनी हेर कितलेशेच भक्त कलकत्ताक परत वचपाक व्हड्यांत बशिल्ले. गंगेक सुकती आशिल्ली. दक्षिणे कडलो वारो व्हांवतालो. ताका लागून पवित्र न्हंयेचेर ल्हान ल्हारां उसळून येतालीं.

म बरोच वेळ त्या देख्याव्याक पळयतालो. कलकत्ता कडेन वता ते वाटेर व्हडें जशें दिसना जालें तसो म श्रीरामकृष्णां कडेन परत आयलो.

श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडां कडेन वचपाचे आशिल्ले. वायव्य दिशे कडेन मळबांत सुंदर काळीं पावसाकुपां दिश्टी पडटालीं. श्रीरामकृष्णांनी मक विचारलें, ''पावस येतलो अशें तुका दिसता? सत्री हाड पळोवया.'' मन सत्री हाडली. लाटूय तांचे बराबर गेलो. पंचवटींत पावतकच श्रीरामकृष्णांनी लाटूक म्हणलें, ''तूं असो मरतुकडो कित्याक दिसता?''
**लाटू:** कांयच खावंक शकना म्हणून.
**श्रीरामकृष्ण:** तितलेच खातीर? हे दिसूय बरे नात. तूं चड ध्यान करता काय कितें? (मक ) तुवें एक काम करपाचें .बाबूरामाक सांगपाचें की राखाल हांगा नासतलो तेन्ना ताणें हांगा एक दोन दीस म्हजे बराबर रावचें. नाजाल्यार म्हाका बरें दिसचें ना.
**म:** बरें आसा महाराज. हांव तशें सांगतां ताका.

श्रीरामकृष्णांनी मक बाबूराम सरळ मनीस आसा काय ना तें विचारलें.

## पंचवटींत भक्तांक भगवान श्रीरामकृष्णांच्या सुंदर रुपाचें दर्शन

श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडां कडच्यान दक्षिणे कडेन येताले. म आनी लाटू पंचवटींत उबे रावन श्रीरामकृष्णां कडेन पळयत आशिल्ले. तांचे फाटल्यान पावसा कुपांनी काळें जाल्लें मळब दिश्टी पडटालें. ताचें पडबिंब गंगेंत पडिल्लयान गंगेचें उदक काळें दिसतालें. शिश्यांक अशें दिसलें की खुद्द भगवानूच अवतार धारण करून श्रीरामकृष्णांच्या रुपान पांच वर्सांचें ईश्वरी भुरगेंच निरागस आनी शुध्द भावान हांसत आशिल्ले. तांचे भोंवतणीं पंचवटीचे पवित्र रूख आशिल्ले. त्या रुखां सकयलूच ताणी अध्यात्मीक साधना केल्ली आनी तांकां ईश्वराचें दर्शन जाल्लें. तांच्या पांयां कडेन पवित्र गंगा व्हांवताली, जी मनशाच्या पातकांचो नाश करता. खुद्द ह्या ईश्वरी मनाशाचे उपस्थितीनूच रुखांक, झोंपांक, फुलांक, वनस्पतींक आनी देवळांक अध्यात्मीक भावनेन आनी ईश्वरी आनंदान भारावन उडयिल्लें.

## नवाई चैतन्य, नरेंद्र, बाबूराम, लाटू, मणी, राखाल, निरंजन, अधर

श्रीरामकृष्ण स्वताचे कुडींत आयले आनी ल्हान पलंगाचेर बसले. एका ब्रह्मचाऱ्यान श्रीरामकृष्णां खातीर वखद हाडिल्लें. ताची श्रीरामकृष्ण तुस्त करताले. ह्या मनशा विशीं हाजरान म्हणिल्लें, 'तो आता संवसारांत पडला आनी चिंतेंत घुसपला. सामकी लज. कोन्नागरच्या नवाई चैतन्या कडेन पळयात. तो गृहस्थी जरी आसलो तरी तांबडें वस्त्र न्हेसला.'

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कितें म्हणूं? म्हाका सारकें दिसता की ईश्वरानूच खुद्द हीं सगलीं मनशांचीं रुपां धारण केल्यांत. देखून हांव कोणाक कांय उलोवंक शकना.

**हाजरा:** नरेंद्र परत देमांदांत घुसपला.

**श्रीरामकृष्ण:** तो शक्ती, जगन्माता मानिना. जर मनशान देहधारण केला तर तिका मानुंकूच जाय.

**हाजरा:** नरेंद्र म्हणटा, 'हांवें जर शक्तीक मानली तर सगलेच मानपाक लागतले म्हणून हांव मानिनां.'

**श्रीरामकृष्ण:** शक्ती न मानपा मेरेन अशें टोंकाक वचप बरें न्हय. आतां तो शक्तीच्याच प्रांतांत आसा. जुवीज लेगीत जेन्ना गवाय जाता तेन्ना ताका सकयल देंवून गवायाच्या पांजऱ्यांत येवन उबें रावचें पडटा. (मक) हालींसराक तूं नरेंद्राक मेळ्ळा?

**म:** ना महाराज, गेल्ल्या कांय दिसांत ताची भेट जावंक ना.

**श्रीरामकृष्ण:** एक खेपो ताका मेळ आनी गाडयेंतल्यान ताका हांगा घेवन यो. (हाजराक) बरें ताचो हाचे कडेन (म्हणचे स्वता श्रीरामकृष्णां कडेन) संबंद कितें?

**हाजरा:** तुमचो पालव मेळचो अशी ताची अपेक्षा आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** आनी भवनाथ? बरे संस्कार आसले बगर तो हांगा परत परत येतलो आशिल्लो? बरें हरीश, लाटू ते सदांच ध्यान करतात तें कित्याक?

**हाजरा:** तें बरोबर आसा. तांचो सगलो वेळ ध्यान करपांत तांणी कित्याक घालोवचो? तुमची सेवा करपाक ते हांगा रावतात ही गजाल वेगळी.

**श्रीरामकृष्ण:** तुजें बरोबर आसा. घडये तांच्या जाग्यार आतां दुसरे कोण येतीत.

### मक तरातरांचो उपदेश
### श्रीरामकृष्णांची सहजावस्था

हाजरा कुडींतल्यान भायर गेलो. श्रीरामकृष्ण कुडींत बसून एकांतांत म कडेन उलोवंक लागले:

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बरें हांव भावावस्थेंत जें उलयतां ताका लागून लोक आकृश्ट

जातात?

**म:** हय तर! खूब आकृश्ट जातात.

**श्रीरामकृष्ण:** लोकांक म्हजे विशीं कितें दिसता? म्हाका भावावस्थेंत पळोवन तांकां विशेशतायेन कितें दिसता?

**म:** आमकां तुमचे भितर एकाच वेळार ज्ञान, प्रेम आनी वैराग्य हांचो अजापीत संगम जाल्लो दिसता. आनी वयल्यान दिसता तुमचीं सभावीकपणां. तुमचे भितरले खोल चेतनेंत कितलींशींच ईश्वरी अनुभुतीचीं व्हडलीं व्हडलीं तारवां गेल्यांत आसतलीं. पूण वयल्यान तुमी सामके शांत, सभावीकपणान वावुरतात. तुमगेली ही अवस्था खूब लोकांक कळना पूण कांय लोक मात हेच खातीर तुमचे वटेन आकृश्ट जातात.

**श्रीरामकृष्ण:** घोशपाडा म्हणून वैशणवांचो एक संप्रदाय आसा, जो ईश्वराक 'सहज' म्हणून वर्णन करता. ते म्हणटात की तूं सहज - सादो जाले बगर तुका त्या 'सहज' ईश्वराक वळखूंक येवचें ना. (मक) बरें, म्हजे भितर 'अहंपण' आसा?

**म:** हय महाराज. शरीर राखपा खातीर आनी भक्तांच्या सांगातान ईश्वरी प्रेम भोगपा खातीर आनी भक्तांक ज्ञानाचो उपदेश करपा खातीर तुमी तो दवरला. तो अहंपणाचो लवलेश लेगीत जगन्मातेक प्रार्थना करून दवरला.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. हांवें दवरूंक ना तो. त्या ईश्वरानूच स्वता म्हजे भितर दवरला तो. ते समाधी अवस्थेंत हांव कसो दिसतां तें म्हाका सांगशात?

**म:** तुमीच थोड्या वेळा पयलीं म्हणिल्ले प्रमाण, जेन्ना तुमचें मन सातव्या पांवड्यार, सप्तभुमीचेर आसता तेन्ना तुमी ईश्वरी रुपाचें दर्शन घेतात. जेन्ना ते उपरांत तुमी उलयतात तेन्ना तुमचें मन सव्या पांवड्या सकयल येता.

**श्रीरामकृष्ण:** तोच परमेश्वर सगलें कितें करता. म्हाका कांयच खबर ना.

**म:** हेच खातीर महाराज तुमी लोकांक आकर्शून घेतात. म्हाका एक प्रस्न विचारूंक जाय. शास्त्रांत दोन मतां आसात. एका पुराणांत कृष्णाक चिदात्त्मो, परमतत्व, आनी राधेक चितशक्ती, ताची ईश्वरी शक्त. पूण दुसऱ्या एका पुराणांत कृष्ण खुद्द काली, आद्यशक्ती अशें म्हणलां, हें कशें?

**श्रीरामकृष्ण:** हें देवी पुराणाचें मत. ह्या मता प्रमाण कालीच कृष्ण जाल्ली आसा. पूण ताका लागून फरक कितें पडटा? भगवान अनंत आसा. आनी ताचे कडेन वचपाचे मार्गय अनंत आसात.

हें आयकून मक कांय खिणां पुरतें उतर फुटना जालें. आनी मागीर तांणी म्हणलें

**म:** हय. आतां म्हज्या लक्षांत आयलें. तुमी म्हणटात ते प्रमाण गच्चेर चडून वचप हें मुखेल. दोरयेन जावं वा बडयेन जावं, वयर पावपाची आमची मोख मेळयली म्हणटकच जालें.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका हें ईश्वराचे कृपेन समजलां. ईश्वराची कृपा जाले बगर दुबाव पयस जायना. मुखेल गजाल जावन आसा ती ही. कशेंय करून ईश्वरभक्ती आनी ताचे विशीं प्रेम उत्पन्न करपाक जाय. खूब गजाली समजून घेवपाची गरज कितें? खंयच्याय एका मार्गान वचून देवा विशीं प्रेम निर्माण जालें की जालें. ताचे विशीं प्रेम उत्पन्न जालें की ईश्वराचो लाव खात्रेन जातलो. ते उपरांत जर गरज आसत तर ईश्वरूच सगलें कितें समजावन सांगतलो. बाकीच्या सगल्या मार्गांची म्हायती दितलो. ईश्वरा विशीं प्रेम उत्पन्न जालें की जालें. तरातरांच्या मतांनी आनी वादांनी भितर सरपाची गरज ना. ओगीच विचार करपाची गरज ना. आंबे खावपाक गाळींत आयल्यार धादोशीत जाय मेरन आंबे खावपाचे. झाडाच्यो खांदयो आनी पानां मेजीत बसपाची गरज ना. हनुमानाचें अनुकरण करप शाणेपणाचें. हनुमान म्हणटालो, 'वार, तीथ, नखेत्र आनी हेर गजाली म्हाका कांयच खबर ना. हांव फक्त रामाचें चिंतन करतां.'

## संवसार त्याग आनी ईश्वर लाव

## भक्तांनी संचय करप, काय येता तो लाव घेवप

**म:** म्हजी आतां इत्सा आसा की कर्मां खूब कमी जावन वच्चीं. आनी ईश्वरा कडेन खूब मन लागचें.

**श्रीरामकृष्ण:** वा, वा. जातली तुजी ही इत्सा खात्रेन पूर्ण . पूण ज्ञानी अनासक्त जावन संवसारांत रावूं येता.

**म:** हय, महाराज. पूण अनासक्त जावपा खातीर खाशेली शक्त जाय.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, तेंय खरेंच. पूण घडये तुका संवसार जाय आसत. कृष्ण राधाच्या काळजांत आशिल्लो. पूण राधाक ताचे बराबर मनीसरुपान लिला करपाची इत्सा जाली. म्हणुनूच वृंदावनांत लिला घडल्यो. आतां प्रार्थना कर की तुजीं सगलीं संवसारांतलीं कामां जावन वचूं दी आनी मनांतल्यान त्याग केल्यार तूं तुजी मोख तडीक व्हरतलो.

**म:** पूण भायल्या जगाचो जे त्याग करूंक पावनात तांका मनान त्याग करपाक सांगलां. उच्च कोटीच्या भक्तांक पूर्णतायेन त्याग करपाक सांगलां. मनानय त्याग आनी भायल्यानय त्याग.

श्रीरामकृष्ण वोगी रावले. थोड्या वेळान परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** थोड्याच वेळा पयलीं हांव वैराग्या विशीं जें उलयलों तें तुका कशें आवडलें?

**म:** खूब बरें आवडलें महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** वैराग्य म्हणचे कितें तें म्हाका सांग पळोवया.

**म:** वैराग्य म्हणचे फक्त संवसारा विशीं विराग वा अनासक्ती न्हय. ईश्वरा विशीं प्रेम आनी व्याकूळताय बी.

**श्रीरामकृष्ण:** तुजें बरोबर आसा. संवसारांत पैशांची गरज लागता हें खरें, पूण ते खातीर चड चिंता करपाची गरज ना. शाणपणाचो मार्ग म्हणल्यार आपसूक जें येता ताचेर संतुश्ट रावचें. संचय करपा खातीर चड त्रास घेवं नाका. जे ईश्वराक आपलें काळीज, प्राण समर्पण करतात, जे देवाचे भक्त आसात आनी ताकाच शरण गेल्यात ते पयशां खातीर व्हडली चिंता करिनात. जशी पयशांची आवक तसो ते खर्च करतात. पयशे एके वटेच्यान येतात आनी दुसरे कडच्यान खर्च जातात. हाकाच गीतेंत म्हणलां, आपसूक जें येता ताचेर संतुश्ट रावचें.

## राखाल, बाबूराम, अधर आनी हेरां संबंदीं उलोवप

## श्रीरामकृष्ण, हरीपद विशीं उलयतात

**श्रीरामकृष्ण:** हरीपद त्या दिसा हांगा आयिल्लो.

**म:** हरीपद पुराणांतल्यो कथा बऱ्यो गावन दाखयता. प्रह्लादचरित्र, कृष्णाचो जल्म हें सगलें तो सुरान गावंक शकता.

**श्रीरामकृष्ण:** अशें! त्या दिसा हांवें ताचे दोळे पळयले. ते सामके भितर गेल्ले. नदर अंतर्मूख. तो चड ध्यान करता काय म्हूण हांवें विचारलें. पूण तो मान सकयल घालून बसलो. कांयच उलयलो ना. तेन्ना ताका हांवें म्हणलें, 'हें पळय. चड तकालस घेवं नाका.'

तिनसांज जाली. श्रीरामकृष्ण तांचे संवये प्रमाण ह्या वेळार ईश्वराचें नाम-जप आनी चिंतन करूंक लागले. मळबांत चंद्रिमा उदेलो. देवळां, आंगण आनी रूख रुपयाळ्या चान्न्यांत न्हावन गेले. मोडिल्ले लाखांनी चंद्रीम गंगेच्या खळखळपी ल्हारांचेर खेळटाले. श्रीरामकृष्ण तांगले कुडींत आशिल्ले. राखाल आनी मय तांचे बराबर आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बाबूराम म्हणटा, 'आवयस, ही संवसारी जीण , आरे देवा, नाका ही जीण.'

**म:** बाबूरामाचें संवसाराचें ज्ञान आयकीव गजालींचेर आधारीत. ताका संवसारांतलें कितें खबर आसा? तो सामको भुरगो आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** हय. तेंय खरें. तुवें निरंजनाक पळयला! तो सामको सादो भोळो.

**म:** हय महाराज. ताचें मुखामळूच लोकांक आकर्शून घेता आनी ताच्या दोळ्यांतले भाव कितले सुंदर !

**श्रीरामकृष्ण:** फक्त दोळेच कित्याक! ताचें सगलें व्यक्तीमत्वच सुंदर. ताचें लग्न करपाचें थारायलां. ताचेर ताणें म्हणलें, 'म्हाका तुमी कित्याक बुडयतात?' (हांसत) म्हाका सांग, लोक म्हणटात की काम करून पुरो जावन येतकच बायले सांगातांत खूब सुख मेळटा खंय.

**म:** दुबाव विरयत तें खरें, पूण जे जशे विचार करतात तशें तांकां तें सूख मेळटा. (राखालाक हांसत) आमची परिक्षा चल्लूया. सुचक प्रश्न विचारला.

राखाल आनी म दोगय जाण लग्न जाल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आवय म्हणटा, म्हज्या पुताक हांवें एक सावळेचें झाड मेळोवन दिलें की म्हाका सुशेग मेळटलो. संवसाराच्या वतान करपून वतकच तो झाडा सकयल वचून बसतालो बावडो.

**म:** खरें आसा महाराज, पूण आवय-बापूय वेगळे-वेगळे आसतात. ज्या बापायक अध्यात्मीक ज्ञान जालां तो तागेल्या भुरग्यांचीं लग्नां करपाचो ना. जर तो करीत तर ताची अध्यात्मिकता बरी म्हणपाची?

अधर कलकत्या सावन आयिल्ले. ते श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले. थोडो वेळ थंय बसून ते कालीमातेच्या दर्शनाक कालीच्या देवळांत गेले. मय कालीमातेच्या दर्शनाक तांचे फाटल्यान गेलो. मागीर ते गंगेच्या न्हावपाच्या घाटार येवन बसले. भरती आतांच

आयिल्ली. देगेर उदक येवन आपटतालें. तें आयकता आसतना श्रीरामकृष्णांच्या ईश्वरी जिणे विशीं कितलींशींच चित्रां ताच्या मना सामकार उबी रावलीं. श्रीरामकृष्णांची अदभूत समाधी अवस्था परत-परत जावपी आनंदमय भावावस्था, ईश्वरी प्रेमाचो तांचो आनंद, ईश्वरा विशीं सतत उलोवप, भक्तां विशीं अकृत्रीम प्रेम आनी सगल्यांत बरें म्हणल्यार बाळकां भशेन सरळ सभाव. हे कोण आसात? ईश्वर कितें भक्तां खातीर देह धारण करून धर्तरेर हांच्या रुपान आयला काय?

अधर आनी म श्रीरामकृष्णांचे कुडींत परत आयले. अधर उदेंत बंगालांतल्या चितगांवाक कचेरीच्या कामा खातीर गेल्ले. ते थंयच्या चंद्रनाथ तिर्था विशीं आनी सीताकुंड विशीं श्रीरामकृष्णांक सांगताले.

**अधर:** सीताकुंडा लागींच हांवें बांय पळयली. त्या उदकांत हांवें उजो पळयलो. उदकांत उज्याची ज्वाला जिबे भशेन वळवळटा.

**श्रीरामकृष्ण:** तें कशें कितें जाता काय?

**अधर:** उदकांत फास्फरस आसा.

राम चटर्जी कुडींत आयले. श्रीरामकृष्ण अधरां मुखार तांची तोखणाय करताले आनी म्हणटाले, 'राम आसा म्हणून आमकां चड अशी चिंता करपाची गरज लागना. जेवणा वेळार ते हरीश, लाटू आनी हेरांक सोदतात. खूब फावट ते खंयतरी कोनशाक एकांतांत ध्यान करीत बशिल्ले आसतात. राम तांकां सोदून हाडटा आनी तांकां खावंक घालता.

# अध्याय : एक्याणणव

## अधर सेनांच्या घरा
## नरेंद्र आनी हेर भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण

### नरेंद्र आनी हेर भक्तां वांगडा किर्तनानंद
### समाधी मंदिरांत

**सप्टेंबर 6, 1884. शेनवार.** दनपारचीं सुमार तीन वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण अधरांच्या घरा दुसरे माळये वयल्या सालांत बशिल्ले. नरेंद्र, मुखर्जी भाव, भवनाथ, म, हाजरा आनी हेर भक्त श्रीरामकृष्णां लागीं बशिल्ले.

नरेंद्र गावपाचो आशिल्लो. ताची तयारी चलताली. तंबोरो जुळयतना ताची तार तुटली. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''आरे ! हें कितें केलें !'' नरेंद्र मागीर तबलें सादोवंक लागलो. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''तुजें तबलें ठोकप म्हणल्यार जशें कितें कोण तरी म्हज्या गालार थापट मारता अशें दिसता.'' किर्तना विशीं उलयतना नरेंद्रान म्हणलें, ''संकिर्तनांत ताल, सम हें सगलें नासता. देखुनूच तें इतलें लोकांक आवडटा.''

**श्रीरामकृष्ण:** म्हणटा तरी कितें! किर्तनांत नाजूकपण आनी करूण रस आसता, म्हणून तें लोकांक इतलें आवडटा.

नरेंद्रनाथान गावपाक सुरवात केली.

तुजें नांव गोड, ए दीनांच्या आलाशिऱ्या!
तें आमच्या कानार गोडांतलें गोड अमृत कशें पडटा
आनी आमकां थाकाय दिता, आमच्या आत्म्यांच्या प्रियतमा!...

ताणें परतेंय गायलें:

ए भगवान, सगले म्हजे दीस अशे फुकट वचुंकूच जाय?
दीस आनी रात हांव आशेचे वाटेर नदर लावन आसां.

तूं आसा सगल्या विश्वांचो स्वामी, आनी हांव फकत एक भिकारी,
हांव कसो तुका सांगूं, तूं हांगा यो आनी म्हज्या काळजांत राव?
म्हज्या गरीब काळजाचे खोंपीचें दार सताड उकतें आसा,
कृपाळ जा, धनया, एकदां तरी थंय भितर सर, आनी ताची तान भागय!

**श्रीरामकृष्ण:** (हाजराक हांसत) सामकें हेंच पयलें गीत ताणें म्हजे खातीर म्हणिल्लें.

नरेंद्रान आनीक एक दोन गितां गायले उपरांत वैशणवचरण गावंक लागले. आपल्या वृंदावनांत रावपी कृष्णाक मथुरेचो राजा जाला तें पळोवन गोपींक जाल्लें दुख्ख त्या गितांत वर्णन केलां.

ए हरी, आमी तुका आतां वळखुचें कशें?
मथुरेच्या राजवैभवांत तुवें आमकां विसरून वच्चें...

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी तें गीत म्हणटात न्हय? 'ए विणे तूं हरिचें नाम घे.'

वैशणवचरण गावंक लागलेः

ए विणे, भगवान हरीचें नांव घे!
ताच्या चरणांच्या आशिर्वादा बगर
तुका कळचें ना अंतीम सत्य.
हरीनाम सगल्या दुख्खाचें संहारक,
हरीनाम घे! कृष्णनाम घे!
फकत हरीन कृपा केली जाल्यार,
हांव केन्नाच त्रासांत पडचों ना.
ए विणे, एकदां तरी हरीनाम गा,
धर्तरी वयलें खंयचेंच रत्न ताच्या अर्दान लेगीत ना.
गोविंद म्हणटा, फुकट म्हजे दीस
गेल्यात, आनिआनीक म्हज्यान जावचें ना
उफेवंक ह्या वाट नाशिल्ल्या संवसार दर्यांत!

आयकतां-आयकतां श्रीरामकृष्णांनी शून्यचित्त जावन म्हणलें, "वा! वा ! हरीचें नाम" अशें म्हणटां म्हणटां श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले. भक्त चोंय वटेन बसून आनंदभरीत दोळ्यांनी तांचें दर्शन घेताले. लोकांनी कूड गच्च भरून गेल्ली.

गायकान हें पद सोंपोवन श्रीचैतन्य म्हाप्रभू विशीं पद गावपाक सुरवात केली. गायक त्या पदाक तागेल्या दिव्य भगवत प्रेमा संबंदीं वळी जोडून गावंक लागले. हें आयकून श्रीरामकृष्ण उबे रावले आनी नाचूंक लागले. श्रीरामकृष्ण परत उबे रावले आनी नाचूंक लागले तें पळोवन भक्तांच्यांनी रावूं नजं जालें आनी तेय श्रीरामकृष्णां सांगातान नाचूंक लागले. नाचतां- नाचतां श्रीरामकृष्ण मदीं-मदीं समाधींत मग्न जाताले. जेन्ना ते समाधींत वताले तेन्ना तांच्या तोंडांतल्यान एक उतर फुटनाशिल्लें. पुराय शरीर सामकें थीर जातालें. भक्त तांकां रेवाडो घालून नाच करताले. थोड्या वेळान अर्दे भानार येतकच श्रीरामकृष्ण ते दिव्य धुंदीत शिंवाच्या बळग्यान नाच करूंक लागले. तेन्नाय तांच्या मुखांतल्यान एकय उतर फुटनाशिल्लें - जशे कितें भगवत प्रेमान उन्मत्त. थोड्या वेळान बरेच भानार येतकच पदांत स्वताच्यो वळी जोडून ते गावंक लागले.

आयज अधराची बसका दिव्य भावान भरून गेली. हरीनाम संकिर्तनाचो गजर कानार आयिल्ल्यान भायर रस्त्यार लोकांची खूब गर्दी जमली.

हे प्रमाण भक्तां सांगातान बरोच वेळ दिव्य भावांत नाच केले उपरांत श्रीरामकृष्ण तांच्या आसनार येवन बसले. दिव्य भाव समाधींत ते तशेच आशिल्ले. तेच अवस्थेंत तांणी नरेंद्राक म्हणलें, "तें पद म्हण, 'ए माते, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो करून उडय."

नरेंद्र गावंक लागलोः

ए माते, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो करून उडय!
ज्ञानाची वा तर्काची म्हाका कसली गरज?...

**श्रीरामकृष्णः** आनी तें पद 'ज्ञानाच्या चिदाकाशांत,' घडये तें खूब लांब आसतलें अशें दिसता तुका? बरें आसा. सवकासायेन गा.

नरेंद्र गावंक लागलोः

ज्ञानाच्या चिदाकाशाच्या दर्याचेर अत्यानंदी प्रेमाचीं ल्हारां उसळटात;
दैवी उन्माद! ईश्वरी आनंदाचो खेळ!
आ! कितलो मुग्धावणो!...

**श्रीरामकृष्ण:** आनी तें पद म्हणिना? 'त्या स्वर्गीय आनंदाचो सोरो.'

नरेंद्र गावंक लागलोः

बेबदें जा, ए मना, स्वर्गीय आनंदाचो सोरो पियेवन बेंबदें जा!
जमनीर लोळ आनी रड, हरीचें गोड नांव गावन!
भरून उडय कमानी स्वर्ग तुज्या शिंवाची गरड घालून,
हरीचें गोड नांव घेवन! तुजे दोनूय हात वयर उबारून,
हरीच्या नांवान नाच आनी दी सगल्यांक ताचें नांव.
रात आनी दीस हरीच्या प्रेमानंदांत पेंवत राव,
ताच्या नांवान इत्सा उडय मारून, आनी तुजी जीण धन्य जावं!

श्रीरामकृष्णान ह्या पदां फुडल्यो स्वता रचीत वळी जोडल्यो.

'प्रेमान उन्मत जावन हरी हरी म्हणीत रड आनी ईश्वर भावान पिसो जावन हरी हरी म्हणीत रड'

श्रीरामकृष्णांनी आनी भक्तांनी थोडो वेळ विसव घेतलो.

नरेंद्रान ल्हव आवाजांत श्रीरामकृष्णांक विचारलें, ''तुमी तें पद एक खेपो गावशात?''

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजो ताळो मातसो पडला.

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राक विचारलें, ''खंयचें पद?''

**नरेंद्र:** गौर, जाची सुंदरकाय विश्वाक सुखायता.

श्रीचैतन्यांची सुंदरताय वर्णून श्रीरामकृष्णांनी पद म्हणलें :

परतेंय तांणी गायलें, हे फावटी, चैतन्याच्या सोबीत काये विशीं.

गौराक कोणें हाडलो नादियांत
गौर- जाची सुंदराय संवसाराक सुखायता
ताचें मुखामळ, मुदयाळ्या केंसांनी
काळ्या कुपा मुखार वीज कशें चकचकता.

परतेंय तांणी गायलें, हे फावटी, कृष्णाच्या विरहाचें दुख्ख जाल्ले गोपीं विशीं.

सखे, म्हजो म्हाका कृष्ण मेळूंक ना! ताचे बगर म्हजें घर कितलें उदास!
आगो, कृष्ण फकत म्हजे तकले वयले केंस जाल्लो,
हांव जतनायेन तांची विणी घालपाचीं, आनी ओंवळां माळपाचीं.

जतनायेन हांव म्हज्या कृष्णकेंसाची विणी घालपाचीं.
कृष्ण काळो आनी काळे म्हजें केंस, काळ्यांत काळें भरसून वचपाचें.

आगो, फकत कृष्ण म्हज्या नाकांतली हांव घालतां ती पिली जाल्ली,
सद्दां म्हज्या नाकांतल्यान तो झेलपाचो,
आनी म्हजे दोन ओंठ ताका आफुडपाचे.

पूण आरेरे! अशें केन्नाच घडचें ना!
हांव कित्याक पळोवं फुकटचीं सपनां?
म्हज्या नाकांतली पिली जावपाची कसली गरज कृष्णाक?

आगो, कृष्ण फकत म्हज्या हातांतलीं कांकणां जाल्लो,
सद्दां तो म्हज्या मनगटांक दसून उरपाचो,
आनी मोट्या अभिमानान हांव चलपाचीं,
म्हजीं कांकणां हालोवन, तांचो करून किणकीण,
हालोवन दाखोवंक म्हजे हे हात,
घालून म्हजीं कृष्ण कांकणां. राजपथा वयल्यान हांव वचपाचीं.

पदां सोंपलीं. नरेंद्र, भवनाथ आनी हेर भक्तां बराबर श्रीरामकृष्ण उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत हांसत) हाजरा नाचिल्लो.

**नरेंद्र:** हय. मातसो.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) मातसोच?

**नरेंद्र:** हय. ताचे बराबर पोटय नाचतालें. (सगले हांसतात.)

शशधर जांचे कडेन राविल्ले ते श्रीरामकृष्णांक जेवपाचें आमंत्रण दिवपाचे आशिल्ले. ते विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें आयकलां, ताचो यजमान प्रामाणीक मनीस न्हय. तो सामको अनितीमान.

**नरेंद्र:** म्हणुनूच तुमची शशधरां कडेन पयली भेट जाली त्या दिसा तुमी त्या मालकान स्पर्श केल्लें उदक पियेले नात. कशें कितें वळखले त्या मनशाचो सभाव बरो न्हय म्हूण?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हाजराक आनीक एक गजाल खबर आसा. ती गजाल शिहाडाच्या ह्रदयाच्या घरा घडिल्ली.

**हाजरा:** हय. तो एक वैशणव आशिल्लो. तुमचें (श्रीरामकृष्णाचें) दर्शन घेवपा खातीर म्हजे बराबर आयिल्लो. तो येवन तुमचे मुखार बसले बराबर तुमी तांचे कडेन फाट करून बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** मागीर आयकलें की ताचे कोणा कडेन अनैतीक संबंद आसात म्हणून. (नरेंद्राक) पयलीं तूं ह्यो सगल्यो गजाली म्हज्या मनाचे भ्रम म्हणून समजतालो.

**नरेंद्र:** म्हाका कशें कळटलें? आतां म्हाका कळ्ळें की तुमी सदांच बरोबर आसतात.

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी
## भक्तांच्या जाती संबंदीं विचार

श्रीरामकृष्णांच्या आनी तांच्या बराबर आयिल्ल्या भक्तांच्या जेवणाची अधरांनी तयारी केल्ली. आतां ते त्या सगल्यांक जेवपा खातीर आफोवंक आयिल्ले. महेंद्र आनी प्रियनाथ ह्या दोन मुखर्जी भावांक श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘कितें? तुमी जेवंक

येनात?'' त्या दोगाय भावांनी नमळायेन म्हणलें, ''आमकां क्षमा करची महाराज.''

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तें कित्याक? बाकी सगलें चलता तुमकां आनी फकत जेवपाकूच इतलो संकोच?

अधर सकयले जातीचे हिंदू आशिल्ले म्हणून श्रीरामकृष्णांचे कांय ब्राह्मण भक्त तांच्या घरा जेवपाक अनमनताले. निमणें तांकां कळ्ळें की स्वता भगवान श्रीरामकृष्ण थंय जेवताले तेन्ना मागीर तांचो दुबाव पयस जालो.

रातचीं णव वरां जाल्लीं. नरेंद्र, भवनाथ आनी हेर भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण आनंदान जेवताले. जेवले उपरांत श्रीरामकृष्ण भक्तां वांगडा सालांत विसव घेताले. दक्षिणेश्वराक परत रोखडेच ते वचपाचे आशिल्ले.

श्रीरामकृष्णांचे खोशये खातीर मुखर्जी भावांनी दुसऱ्या दिसा संकिर्तनाची वेवस्था केल्ली. श्यामदास संकिर्तनकार संकिर्तन गायन करपाचो आशिल्लो. ह्या श्यामदासां खातीर राम तांगेल्या घरा संकिर्तन शिकतालो. श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राक फाल्यां दक्षिणेश्वराक येवपाक सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण :** (नरेंद्राक) फाल्यां यो. येता न्हय?

**नरेंद्र:** हय महाराज. प्रयत्न करतां.

**श्रीरामकृष्ण:** न्हांवप-जेवप सगलें थंयच करपाचें आनी (म कडेन बोट दाखोवन) हो लेगीत थंय जेवतलो फाल्यां. (मक) तूं आतां बरो जालो न्हय? आतां पथ्यबिथ्य कांय ना न्हय?

**म:** ना महाराज. हांवूय येतां थंय.

नित्यगोपाळ सद्याक वृंदावनांत आसतालो. चुनीलाल कांय दिसां पयलीं वृंदावना सावन परत आयिल्लो. श्रीरामकृष्ण ताचे कडेन नित्यगोपाळा विशीं वासपूस करताले. आतां श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाक भायर सरले. म तांच्या चरणांचेर तकली दवरून पांयां पडलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका मायेन म्हणलें, ''मागीर फाल्यां आमी मेळुया तर. नरेंद्र, भवनाथ तुमीय येयात आं फाल्यां.'' मागीर कितल्याश्याच भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाक गेले. हेर भक्त चंद्रिमाच्या चान्न्यांत तांचो संकिर्तनानंद आनी त्या वेळार भक्तां बराबर तांचें नृत्य आनी गाणें याद करीत आपापल्या घरा गेले.

# अध्याय : ब्याणणव

**सप्टेंबर 7, 1884. आयतार.** इकरा जाल्लीं आसतलीं. श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वर देवळांतले तांचे कुडींत बशिल्ले. अजून श्रीरामकृष्णांचें दनपारचें जेवण जावंक नाशिल्लें. आयज हांगा रामदासांचें संकिर्तन श्रीरामकृष्ण आनी भक्तां खातीर जावपाचें आशिल्लें. बाबूराम, म, मनोमोहन, भवनाथ, किशोर, चुनीलाल, हरीपद, मुखर्जी भाव, राम, सुरेंद्र, तारक, निरंजन आनी हेर भक्त देवळाचे बागेंत आयिल्ले. लाटू, हरीश, आनी हाजरा श्रीरामकृष्णां बराबर रावताले.

जेन्ना म श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो तेन्ना श्रीरामकृष्णांनी ताका विचारलें, ''नरेंद्र खंय आसा? तो येवंक ना?'' मन तांकां सांगलें, नरेंद्र येवंक पावचो ना म्हणून. श्रीरामपूरच्या ब्राह्मण भक्तान रामप्रसादाचें पुस्तक बराबर हाडिल्लें आनी तो त्या पुस्तकांतल्यान श्रीरामकृष्णांक वेंचीक पदां वाचून दाखयतालो.

**श्रीरामकृष्ण :** (ब्राह्मण भक्ताक) फुडें वाच.

ब्राह्मण भक्तान एक पद वाचून दाखयलें. त्या पदाचे पयलेच वळीचो भावार्थ आशिल्लो, ''जगन्माते, तूं आंगार वस्त्रां घाल.''

**श्रीरामकृष्ण:** राव, राव. वाचप बंद कर. हें जगा वेगळें आनी विचित्र अशें कितें वाचता? भक्ती जागृत जातली अशें कितेंय पूण वाच. ब्राह्मण भक्तान दुसरें पद वाचून दाखयलें.

ब्राह्मण भक्तान वाचलें:

> कालीमाता कशी आसा हें कोणाक कशें कळटलें?
> शडदर्शनांक लेगीत तिचें स्वरूप कळ्ळें ना.

**श्रीरामकृष्णः** (म) काल अधर सेनाच्या घरा समाधींत आसतना एकेच वटेच्यान भार पडिल्लयान पांय दुखलो म्हणून आता जेन्ना भक्तांच्या घरा वतलों तेन्ना बाबूरामाक घेवन वतलों. बाबूराम कणव आशिल्लो मनीस.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्ण गावंक लागलेः

सखे, म्हजें काळीज हांव उकतें कशें करूं?
उलोवपाची म्हजेर बंदी घाल्या.
हांव मरूंक तेंकल्यां, म्हजे मायेचें नाशिल्ल्यान
वळखूंक म्हजी विपत्ती.

फकत ताच्या दोळ्यांत पळोवन,
म्हज्या काळजाचो मोगी म्हाका मेळटा,
पूण असो जीव क्वचीत, जो अत्यानंदांत पेंवता
स्वर्गीय प्रेमाची भरती.

**श्रीरामकृष्णः** बौल संप्रदायाचे लोक असलीं पदां गायतात. तांचीं आनीक कांय पदां आसातः

मातसो राव, ए भ्रमंती योगी
थंय उबो राव हातांत घेवन भिक्षापात्र,
आनी म्हाका तुजें तेजाळ मुखामळ पळोवं दी.

शाक्त संप्रदायांतल्या सिध्द मनशाक म्हणटात, 'बौल' आनी वेदान्त संप्रदायांतल्या सिध्द पुरुशाक म्हणटात 'परमहंस.' वैशणवांच्या बौल संप्रदायांत सिध्दाक म्हणटात 'साई'. ते म्हणटात, साईचे वयर आनीक कोणूच ना. बौल जेन्ना सिध्द जाता तेन्ना तो साई जाता. साई म्हणचे पूर्णतायेक पाविल्लो मनीस. जगांत कांयच वेगळेपण दिसना. ताचे नदरेन सगलो अभेद. गळ्यांत जी माळ घालता तातूंत अर्दे मणी आसतात गायेच्या हाडाचे, आनी अर्दे तुळशीचे. साई अंतीम सत्याक म्हणटात 'अलेख'. अतर्क्य. वेद ताका म्हणटात 'ब्रह्म'. जिवां संबंदीं बौल म्हणटात – जीव अलेखांतल्यान येतात आनी अलेखांत वतात. म्हणचे जिवात्मे अव्यक्तांतल्यान येतात आनी तातुंतूच लय पावतात. बौल तुमकां विचारतले. 'तुमकां वाऱ्याची खबर आसा?' कुंडलिनी जागी

जातकच इडा, पिंगळा आनी सुशुम्ना हातूंतल्यान जो म्हावायू वयर सरता ताका ते म्हणटात, 'वारो'. त्या वाऱ्याची, हवेची तुमकां खबर आसा काय म्हणून ते तुमकां विचारतले. तशे ते तुमकां विचारतले, 'खंयच्या स्टेशनाचेर आसात?' तांच्या मता प्रमाण 'स' स्टेशनां आसात. म्हणल्यार योगांतलीं 'स' चक्रां. अमूक एकटो पांचव्या स्टेशनाचेर अशें जर ते म्हणीत तर ताचो अर्थ असो की त्या मनशाचें मन विशुध्द चक्रांत पावलां. (मक) त्या वेळार ताका निराकार दर्शन जाता.

श्रीरामकृष्ण गावंक लागलेः

ह्या फुलाच्या पाकळ्यां मदीं एक सुक्ष्म अवकाश लिपलां
ताचे पलतडीं वचून, आपूण पळयता
शेकानशेक अवकाशांत विश्व विरगळ्ळां.

## पयलींची जीण, बौल आनी घोशपाड्याच्या कर्ताभजांचें येवप

**श्रीरामकृष्ण:** एक खेपो हांगा एक बौल आयिल्लो. ताका हांवें विचारलें, 'तुमचें रोस शुध्द करपाचें काम सोंपलें व्हय? भट्टे वयल्यान आयदन तुमी सकयल दवरलें?' उसाचो रोस जितलो सळसळटा तितलो तो शुध्द जाता. सुरवेक सळसळटा तो आसता उसाचो रोस, मागीर जाता ताची काकय, मागीर गोड, मागीर साकर, मागीर खडीसाकर बी. सळसळटां सळसळटां रोस सवकासायेन चडचड शुध्द जायत वता. भट्टे वयल्यान आयदन मनीस केन्ना देंवयता? म्हणचेच साधनेचो शेवट केन्ना जाता? इंद्रियांचेर पुराय जैत जेन्ना मेळटा तेन्ना मनशाची साधना सोंपता. ताचीं इंद्रियां सामकीं सदळ आनी शक्तीहीन जातात. जळवेच्या तोंडार चुनो घालतकूच ती जळू आपसूक गळून पडटा तशें. तशेंच मागीर ताचीं इंद्रियां सदळ आनी शक्तीहीन जातात. ते अवस्थेंत मागीर तो अस्तुरेच्या सांगातांत रावलो तरी ताच्या मनांत तिचे विशीं वासना तयार जायना. कितलेशेच बौल लोक अध्यात्मीक साधना करतना उणाक पध्दतीचो वापर करतात. फाटल्या दारांतल्यान भंयान घरांत भितर सरपा भशेन.

एक दीस जेवता आसतना एक बौल भक्त आयलो. ताणें म्हाका विचारलें, 'तुमी स्वताच खातात काय आनीक कोणाक खावपाक घालतात?' हाचो अर्थ असो कीं जो सिध्द आसता तो मनशां भितरूच ईश्वराक पळयता. बौलां भितर जे सिध्द आसतात ते दुसऱ्या पंथांतल्या लोकां कडेन उलयनात. तांकां ते परकी मानतात. ते

लोक सिध्दावस्थेक म्हणटात 'सहज अवस्था', सैमीक अवस्था. त्या पंथा प्रमाण सहजावस्थेचीं लक्षणां आसात. पयलें म्हणचे सिध्द. तो कृष्णाचो वास दाखोवचो ना.दुसरें म्हणचे जसो कितें म्होंवामूस साळकाचेर बसतलो, पूण म्होंव चोखपाचो ना. पयलो म्हणचे आपलो ईश्वरी भाव सगलो आपले भितर दवरतलो. भायर ताची कांयच कुरू दिसपाची ना. हरीनाम लेगीत तोंडांत आसपाचें ना. दुसऱ्या लक्षणाचो अर्थ असो कीं ताची कामिनीचेर आसक्ती उरपाची ना. तो जितेंद्रीय जावन वतलो. बौल लोकांक देवपुजा, मुर्तीपुजा आवडना. तांकां जितो मनीस जाय म्हणून तर तांच्यांतल्या एका उपपंथीच्या लोकांक म्हणटात, करताभजा. करताभजा म्हणचे गुरूक ईश्वर समजून भजचें. ते गुरूची ईश्वर बोधान पुजा करतात.

## श्रीरामकृष्ण आनी धर्मसमन्वय
## सगलीं शास्त्रां आनी धर्म सत्य कित्याक?

**श्रीरामकृष्ण:** पळयलें न्हय, ईश्वरा विशीं कितल्या तरांची मतां आसात. एकेक मत म्हणल्यार एकेक पंथ. भगवतप्राप्तीचो मार्ग. अनंत मतां, अनंत मार्ग.
**भवनाथ:** अशें परिस्थितींत आमी कितें करपाचें?
**श्रीरामकृष्ण:** एक खंयचोय मार्ग घट्ट धरपाचो. गच्चेर वचपाचें आसत जाल्यार फातराच्या सोपणांनी वचूं येता. वा एकाद्रे निसणीन वचूं येता. वा राजवाची निसण करून वचूं येता वा फक्त राजवान वा कोंड्याची म्हेड करून वचूं येता. पूण एक खेपो हाचेर पांय, मागीर दुसऱ्याचेर पांय दीत गेल्यार मात गच्चेर पावपाचे नात. एक खंयचो तरी मार्ग घट्ट धरूंक जाय. तेच प्रमाण ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवपा खातीर मनशान सगले शक्तीन एकूच मार्ग आपणावंक जाय. बाकीच्या सगल्या मतांकय देवा कडेन वचपाचो एक-एक मार्ग म्हणून आपणें पळोवंक जाय. आपलोच मार्ग बरोबर आनी बाकी सगल्यांचे चुकीचे अशें समजुचें न्हय. कोणाचे विशीं दुस्वास बाळगुचो न्हय.

हांव खंयच्या मताचो? केशव सेन म्हाका म्हणटाले, 'तुमी आमच्या मताचे - ल्हव ल्हव तुमी ईश्वराचें निराकार रूप मानतात.' शशधर म्हणटात, 'हांव तांचोच मार्ग मानतां म्हूण.' विजय म्हणटा, 'हांव ताच्या मार्गान वतां म्हूण.'

श्रीरामकृष्ण पंचवटी कडेन म आनी हेर भक्तां सयत गेले. दनपार जाल्ली. गंगेक भरती येवपाची जाल्ली. भरतेचीं ल्हारां पळोवपाक श्रीरामकृष्ण आनी हेर वाट पळयत उबे राविल्ले.

## भाव, म्हाभावाचें गूढ तत्व. गंगेची भरती सुकती

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) भरती सुकती ही एक अजापीत गजाल. पूण एक पळयात. दर्या लागीं न्हंये भितर भरती–सुकती चलत आसता. पूण दर्या पसून खूब पयस अंतराचेर मात न्हंय एकेच तरेन, संथपणान व्हांवत आसता. हाचो अर्थ कितें? ताचें म्हत्व तुमचे अध्यात्मीक जिणेंत लावन पळयात. जे ईश्वराचे खूब लागीं आसात तांचे मदींच भक्ती, भाव बी खेळत आसता आनी ईश्वरी कोटींतले एका – दोगां भितर महाभाव, प्रेम दिश्टी पडटा. (मक) बरें, भरती, सुकती कित्याक जाता?
**म:** इंग्लीश खगोलशास्त्रा प्रमाण सूर्य आनी चंद्र हांच्या आकर्शणा खातीर भरती – –सुकती जाता.

अशें म्हूणन म जमनीचेर आकृती काडून धर्तरी, चंद्र आनी सूर्य हांच्यो गती समजावन सांगूंक लागलो. तें मातशें आयकून श्रीरामकृष्णांनी रोखडेंच म्हणलें, 'पुरो, हाणें म्हजी तकली सणसणटा.' तेन्नाच गंगेक भरती येवंक लागली. ल्हारां आपटतात तांचो आवाज तांकां आयकूंक येवंक लागलो. न्हंयचे देगेचेर ल्हारां आपटूंक लागलीं आनी उदेंते कडेन उदक व्हांवूंक लागलें. श्रीरामकृष्ण लक्ष दिवन सगलें पळयताले. पयस एक व्हडें पळोवन भुरग्या भशेन ते म्हणूंक लागले, 'पळय. पळय. त्या व्हड्याचें कितें जातलें कोण जाणा!'

श्रीरामकृष्ण आनी म पंचवटींत थोडो वेळ बसले. श्रीरामकृष्णांनी आपली सत्री शिमिटाच्या पारार दवरली. ते नारायणा विशीं उलोवंक लागले. नारायण शाळेंत शिकतालो. श्रीरामकृष्ण नारायणाक साक्षात भगवान नारायण समजताले. आनी तांचें ताचेर खूब प्रेम आशिल्लें.

## मक उपदेश
## पयशाचो बरो उपेग. नारायणा विशीं चिंता

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) नारनाचो (नारायणाचो) सभाव तुवें पळयला? सगल्यां मदीं भरसून रावंक शकता. भुरग्यां भितर, जाणट्यां भितर – सगल्या लोकां भितर, कांय खाशेली शक्त आसले बगर हें जमना. आनी सगल्यांक तो जाय जायसो दिसता. सगले जाण ताचेर प्रेम करतात. बरें तो कितें सामको सरळ आसा?

**म:** हय महाराज, खूब सरळ आसा अशें दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** तुजे कडेन येता खंय. खरें तें?

**म:** हय महाराज. एक दोन खेपो आयिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं ताका एक रुपया दिशी? काय कालीक सांगूं दिवपाक?

**म:** बरें आसा महाराज. हांवच दितां.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें आसा. जे ईश्वराक आंवडेतात तांकां पालव दिवप बरें. ताका लागून पयशांचो बरो उपेग जाता. सगलेच कुटुंबा खातीर खर्च करून कितें उपेग जातलो?

किशोरीक भुरगींबाळां आसलीं. संवसार करपाक पावना इतलो पगार.

श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''नारान म्हणटालो, किशोरीक एकाद्री बरीशी नोकरी मेळोवन दितलों म्हूण. एक खेपो नारानाक हाची याद करून दी.''

श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडां कडेन वचून आयले. परत येतकूच तांणी मक म्हणलें, ''कुडी भायर एक शेंदरी घालपाक सांग. थोड्या वेळान येतां. हांव मातसो आड पडटलों म्हणटां.''

थोड्या वेळान भितर येतकूच तांकां तांची सत्री दिसली ना. तेन्ना तांणी म्हणलें, ''तुमी सगले सत्री विसरले. गडबडींत मनशाक मुखा वयली वस्त लेगीत दिसना. एक मनीस एकट्याच्या घरा विडी ओडपा खातीर उजो मागपाक गेलो. पूण ताच्या स्वताच्या हातांत लापयांव आशिल्लो हें तो विसरलो. दुसरो एक मनीस तागेलो तुवालो खंय आसा म्हूण सोदतालो. निमणें ताका कळ्ळें की तो ताच्या खांदारूच आसा म्हूण.''

## श्रीरामकृष्णांचें दनपारचें जेवण
## बाबूराम आनी हेर अंतरंगांतले भक्त

दनपारचें एक वर जाल्लें. श्रीरामकृष्ण कालीमातेचो प्रसाद जेवले. तांकां थोडो वेळ विसव घेवपाक जाय आसलो. तरीपूण भक्तमंडळी अजून लेगीत कुडींतूच बसून आशिल्ली. तांणी तांकां सगल्यांक भायर वचपाक सांगलें. मागीर तांणी विसव घेतलो. तांणी बाबूरामाक म्हणलें, ''हांगा यो. म्हजे म्हऱ्यांत बस.'' बाबूरामान म्हणलें, ''हांव विडो करतां.''

**श्रीरामकृष्ण:** तुजो विडो थंयच आसूं दी.

भक्तलोक पंचवटी ओंवळीचे सकयल बशिल्ले. तारक वृंदावनांतल्यान हालींच परत आयिल्लो. ताणें तांकां वृंदावनातल्यो गजाली सांगल्यो.

## भक्तां वांगडा संकिर्तनानंद

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण तांच्या ल्हान पलंगाचेर बसले. भक्त जमनीर बसले. श्यामदास आपल्या सांगात्यांक घेवन गावंक लागले. कृष्ण विरहान गोपींक जाल्ल्या दुख्खा विशीं श्यामदास गायताले:

तें सुखावणें तळें तांकां
रेंवटा वरी दिसूंक लागलें.
चातक सुकणें
कुपां कडेन पळयत पळयत
तानेन मरून गेलें.

श्रीरामकृष्णांक मातशें गोंदळिल्ले वरी दिसूंक लागलें. संकिर्तनांत रंग भरना जालो. श्रीरामकृष्णांनी कोन्नागराच्या नवाई चैतन्याक संकिर्तन पद गावपाक सांगलें. नवाई हे मनोमोहनाचे काका. पेन्शन घेवन कोन्नागराक गंगेचे देगेर साधना करताले. सदांच श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक येताले. नवाई मोट्या स्वरांत संकिर्तन करूंक लागले. श्रीरामकृष्ण तांगेल्या जाग्या वयल्यान उठले आनी नाच करूंक लागले. रोखडेच नवाई आनी हेर भक्त तांचे भोंवतणीं जमून नाच आनी संकिर्तन करूंक लागले.

संकिर्तनाक आतां बरो रंग आयलो. वातावरणांत आतां नेट भरलो. संकिर्तन सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्ण तांच्या जाग्यार बसले. प्रेमभावान उन्मत जावन श्रीरामकृष्ण जगन्मातेचें नाम घेवंक लागले. नाम घेतना तांचे दोळे वयर लागले. ते गावंक लागले:

आई, तूं म्हजी आई आनंदमयी आसा.
ए माते, सदांच आनंदमयी अशी तूं,
तुज्या निरुपेगी बालकाक आनंदा पसून वळवळावं नाका!
तुजे चरणकमल सोडून म्हज्या मनाक कितेंच कळना.
दोळे मोटे करून यमराज म्हजे कडेन भयांकृतपणान पळयता,
सांग म्हाका माते, हांव ताका कितें सांगूं...?

ते परत गावंक लागलेः

जशें ध्यान मनशाचें, तशी ताची प्रेमजाणीव;
जशी मनशाची प्रेमजाणीव, तसो ताचो लाव;
आनी सगल्याचें मूळ, विश्वास

ते फुडें गावंक लागलेः

हो संवसार, माते, तुजें पिश्यांघर! सगल्या सद्गुणां विशीं तुज्या हांवें कितें सांगचें?
तुजो हती कुशीक दवरून, तूं पांयांनी सगल्याक भोंवता,
तुजीं रत्नां आनी मोतयां कुशीक दवरून, ए स्वइच्छिणी माते,
तूं तुजी सोबीत मान मुंडक्यांच्या झेल्यान सजयता.
संवसाराच्या ह्या रानांतल्यान रामप्रसादाक तुवें आतां वाटावंकूच जाय.

परत ते गावंक लागलेः

काली काली म्हणीत
जर म्हजो प्राण वचपाचो आसत
तर मागीर गया, गंगा, काशी, कांची वा प्रभास
हांव वचूं कित्याक?

आनी परत ते गावंक लागलेः

मना, तूं तुजे भितरूच राव,
कोणाच्या घरा वचूं नाका.
थंयच तुवें सोदलें जाल्यार
सोदता तें सगलें तुका थंयच मेळटलें

आनी परतः

म्हज्या मनाचो काळो घुंगुल्लो
श्यामा मातेच्या निळ्या चरणपद्मांक लुभावता..

आनी मागीरः

मना, म्हजे मोलादीक श्यामा मातेक
तूं आपले गर्भकुडींत ल्हुवान वेंगाय
फकत तुवें आनी हांवेंच तिका पळोवची,
कोणाकूच भितर सरूंक दिनासतना...

हें पद गायतां गायतां श्रीरामकृष्ण उठून उबे रावले. जगन्मातेच्या प्रेमान ते उन्मत जाल्ले वरी जाल्ले. भोवन भोवन तांणी भक्तांक सांगलें, ''म्हजे मोलादीक श्यामा मातेक तूं आपले गर्भकुडींत ल्हुवान वेंगाय.'' ते धुंदींत ते नाचूंक लागले. आनी नाच करतां करतां गावंक लागलेः

आरे, म्हजी आवय, खऱ्यानीच काळी?
ती विंगळी कृष्णवर्णी आसून
काळजाचें पर्जळायता साळीक...

गायता आसतना श्रीरामकृष्णांचो तोल वता अशें दिशिल्ल्यान निरंजन तांकां धरपाक गेलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका ल्हव आवाजान सांगलें, ''म्हाका आफडूं नाका, फटिंगा.'' श्रीरामकृष्ण नाचतात ते पळोवन भक्त उठून उबे रावले. रामकृष्णांनी मचो हात धरलो आनी म्हणलें, ''मूर्ख जावं नाका, नाच.''

## वेदान्तवादी महिमाचरणांचें प्रभू श्रीरामकृष्णां बराबर संकिर्तन वेळार नृत्य. आनी ते खातीर श्रीराकृष्णांक जाल्लो आनंद

श्रीरामकृष्ण स्वताच्या जाग्यार बसले. समाधी मातशी देंवले उपरांत तांणी म्हणलें, ''ओम, ओम, ओम, ओम, ओम काली.'' परत तांणी म्हणलें, ''एक झुरको घेवूं

दी म्हाका.'' कितलेशेच भक्त भोंवतणीं उबे आशिल्ले. महिमाचरण तांकां पंख्यान वारो घालताले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां बसपाक सांगलें. आनी शास्त्रांतले श्लोक वाचून दाखोवपाक सांगलें. महिमाचरणांनी महानिर्वाण तंत्रांतले श्लोक म्हणून दाखयले.

ॐ. म्हजें तुका नमन, तूं विश्वाचें चिरस्थायी तत्व,
हांव तुका नमन करतां, शुद्ध चेतनशक्ती, सगलें विश्व
हांव तुका नमन करतां, तूं जो आसा अद्वैत, जो मुक्ती दिता,
हांव तुका नमन करतां, ब्रह्म, सगल्याक व्यापपी गुणातीत सत्यताय.

तूंच एकलो फकत आलाशिरो, पुजेक योग्य असो तूं एकूच
तूंच एकलो फकत विश्वाचें कारणतत्व, सगल्या अस्तित्वाचो आत्मो,
तूंच एकलो फकत विश्वाचो करतो, तूंच ताचो तिगोवणो आनी विनाशक
तूं आसा निर्विकार अत्युच्च स्वामी, पूर्ण धनी, तूं आसा बदलनाशिल्ली चेतनशक्त.

भिरांकुळाची भिरांत! भयांकृतांचो आतंक!
सगल्या जिवांचो आलाशिरो!! शुद्धीकरांची शुद्धी!
फकत तूंच उंचेल्या पदवेदारांचेर सत्ता गाजयता,
अत्युच्चांचोय अत्युच्च, राखणदारांचो राखणदार.

सर्वशक्तीमान स्वामी, जो सगल्या रुपांचें रूप,
तरी सगल्यां पसून अलिप्त आनी शाश्वत,
तूं जो इंद्रियांक अगम्य, तरी सामकें सत्य,
गहन, अविनाशी, सर्वव्यापी, सुप्त आनी निराकार,
ए स्वामी! ए विश्वाच्या पर्जळा! आमकां हानी पसून राख.

फकत त्या एकाचेंच आमी ध्यान करतात,
तो एकूच आमचे सगले पुजेचें लक्ष्य.
फकत ताकाच, विश्वाच्या अद्वैत गवायाक, आमी नमन करतात.
फकत तो जो एकलोच आनी तो आमचो सासणाचो पालव, ताच्यांत आमी आलाशिरो सोदतात,
स्वाधीन स्वामी, भवसागरांतल्यान तरून व्हरपी तारूं.

श्रीरामकृष्ण दोनूय हात जोडून श्लोक आयकताले. श्लोक आयकले उपरांत तांणी भक्ती भावान नमस्कार केलो. भक्तांनीय नमस्कार केलो. अधर कलकत्ता सावन आयले. ते श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) आयज खूब आनंद जालो. हरिनामान कितलो आनंद जालो न्हय?

**म:** हय महाराज.

महिमाचरण तत्वज्ञानाचे अभ्यासू. तांणी आयज हरिनाम संकिर्तन केलें आनी संकिर्तना वेळार ते नाचले. ते खातीर श्रीरामकृष्णांक आनंद जालो. तिनसांज जाली. कितल्याश्याच भक्तांनी श्रीरामकृष्णांक नमस्कार करून तांचो निरोप घेतलो.

## प्रवृत्ती काय निवृत्ती

श्रीरामकृष्णांचे कुडींत दिवो लायलो. आनी धुपूय घालो. थोड्या वेळान चंद्रीम उदेलो. देवूळ, देवळाचें आंगण, बाग, गंगेचो तट, पंचवटी, सगलें कितें चान्न्यांत फुलून गेल्लें. श्रीरामकृष्ण स्वताचे सुवातेर बसून समाधीमग्न जावन जगन्मातेचें नामस्मरण आनी चिंतन करताले. अधर येवन बसले. कुडींत म आनी निरंजनय आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण अधरां कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें हो? तुमी आतांच आयल्यात. हांगा संकिर्तन नाच खूब खूब जालो. श्यामदासान संकिर्तन सुरू केल्लें. ते रामाचे संगीत शिक्षक. पूण म्हाका तांगेलें गावप चडशें आवडलें ना. म्हाका नाचनशेंय दिसलें ना. मागीर हांवें तांचे विशीं बरेंच कितें आयकलें. मनशाचे तकलेर जितले केंस आसतात तितल्यो खंय तांच्यो रखेल्यो आसल्यो. तुमकां ती नोकरी मेळ्ळी ना?

अधर डेप्युटी मेजिस्ट्रेट आशिल्ले. ह्या सरकारी जाग्याक खूब मान आशिल्लो. तीनशें रुपया दर म्हयन्याक पगार मेळटालो. कलकत्ता म्युनिसीपालटीच्या व्हायस चेअरमेनच्या जाग्या खातीर तांणी अर्ज केल्लो. ते नोकरेक पगार हजार रुपया आसलो. ते नोकरे खातीर अधर कलकत्तांतल्या व्हड-व्हड मनशांक मेळिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक आनी निरंजनाक) हाजरा म्हणटालो, 'अधराक ही नोकरी मेळची म्हूण, तुमी जगन्मातेक सांगात, तिचे कडेन प्रार्थना करात.' अधरय म्हाका तशेंच म्हणटाले. हांवें आईक सांगलें, 'आई, हे अधर तुजे कडेन येतात वतात. तुजी जर

इत्सा आसत तर तांकां हो जागो मेळूं.' पूण तेच बराबर आईक सांगलें, 'आई, कितें हांची हीन बुद्द. भक्ती, ज्ञान मागचें सोडून तुजे कडेन हें सगलें मागतात. (अधरांक) तुमी ह्या हीन बुद्दीच्या लोकां कडेन इतले खेपो कित्याक वतात? इतलें पळयलें, इतलें आयकलें तरी परत हेंच. येदें व्हडलें रामायण आयकून सीता रामाची कोण हें विचारपा भशेन जालें.

**अधर:** संवसार करपाचो म्हणल्यार हें सगलें केले बगर जायना. तुमी तर मना करूंक ना, अशें न्हय?

## पयलींची जीण

**श्रीरामकृष्ण:** निवृत्तीच बरी. प्रवृत्ती बरी न्हय. म्हाका ही ईश्वरी समाधी अवस्था जाल्या. उपरांत म्हाका पगार मेळ्ळा म्हूण पावतीचेर सय करपाक आफयलो. सगले जाण भांडारी कडेन वचून सय करून येताले. म्हाकाय तशी सय करपाक आफयलो. हांवें ताका सांगलें, 'म्हाका तें शक्य ना.' हांव काय तुमचे कडेन पगार मागिना. तुमची इत्सा आसल्यार तुमी तो दुसऱ्या कोणाकय दिवं येता. हांव फक्त ईश्वराचो दास आसां. आनीक कोणाचो दास जावं?

म्हाका जेवपाक उशीर जाता तें पळोवन मल्लीकान एका रांदप्याची वेवस्था केली. तशेंच एका म्हयन्या खातीर ताणें म्हाका खर्चाक म्हूण एक रुपया दिलो. म्हाका सामकी लज दिसूंक लागली. ताणें आफयल्यार म्हाका वच्चें पडटालें. स्वताचे इत्शेन वचप वेगळें आनी आफयतकूच वच्चें पडप वेगळें.

हीन बुद्दीच्या लोकांची खुशामत करची लागता. संवसारांत हीं असलीं कितलीं तरी कामां करचीं पडटात.

म्हजे हे अशे उन्मत अवस्थे उपरांत भोंवतणचो हो सगलो प्रकार पळोवन हांवें जगन्मातेक म्हणलें, 'आई, आतांच म्हज्या मनाची गती बदलून उडय. जाका लागून म्हजेर गिरेस्तांची खुशामत करपाची पाळी येवं नाका.'

## भुरगेपण. कामारपुकूरची घडणूक

(अधरांक) आसा तेच नोकरेंत समाधानी रावात. लोक पन्नास वा शंबर रुपयांचे नोकरे खातीर आशेतात. तुमकां तीनशें रुपया म्हयन्याक मेळटात. तुमी डेप्युटी मेजिस्ट्रेट. आमचे थंय कामारपुकूराक हांवें एक डेप्युटी मेजिस्ट्रेट पळयला. ईश्वर

घोशाल ताचें नांव. माथ्याक फेटो. सगले सामके थर्त भियेताले. म्हज्या भुरगेपणांत ताका पळयिल्ल्याची म्हाका अजून याद जाता. डेप्युटी मेजिस्ट्रेट म्हणचे कितें ल्हान न्हय. जाची चाकरी करता ताचीच चाकरी करात. एकल्याचीच चाकरी केल्यार मन म्हेळें जाता. मागीर पांच जाणांची चाकरी करतकच आनीक कितें जातलें?

## चाकरी, शंभू आनी मथूर हांची धना विशीं कल्पना

एक बायल एका मुसलमानाचेर भाळ्ळी. तिणें त्या मुसलमानाक तिगेल्या घरा आफयलो. मुसलमान सज्जन आशिल्लो. साधू आशिल्लो. ताणें तिका म्हणलें, 'तुजे कडेन मागीर उलयतां. पयलीं टोयलेटींत वचूंक जाय. घरा वचून पयलीं हांव तांबयो घेवन येतां.' ताचेर ते बाईन म्हणलें, 'तेच खातीर घरा परत कित्याक वचूंक जाय? हांव दितां तांबयो.' तेन्ना ताणें म्हणलें, 'ना, ना तें जावपाचें ना. हांवें ज्या तांबया मुखार लज सोडल्या तोच तांबयो हांव वापरतलों. परत नव्या तांबया मुखार लज सोडपाची म्हजी तयारी ना.' अशें म्हणून तो थंयच्यान गेलो. ताचें तें उलोवणें आयकून ते बाईक अक्कल आयली. तांबयो म्हणचे 'जार' हो त्या मुसलमानाचो अर्थ तिच्या लक्षांत आयलो.

अचकीत वडिलांच्या मरणा उपरांत नरेंद्रनाथ खूब अडचणींत सांपडिल्लो. आवय आनी भावभयणी हांच्या पालनपोशणा खातीर तो नोकरी सोदूंक लागलो. पं. ईश्वर चंद्र विद्यासागर हांचे बाजारांतले शाळेंत ताणें कांय दीस मुख्याध्यापकाचें काम केलें.

**अधर:** बरें, नरेंद्र नोकरी करतलो न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** हय तो करतलो. आवय आसा, भाव आसात, भयणी आसात. तांकां पळोवंक जाय.

**अधर:** बरें, नरेंद्रालें पन्नास वा शंभर रुपयांतय भागतालें. नरेंद्र शंभर रुपयां खातीर यत्न करतालो न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** संवसारी मनीस पयशांक तकलेर घेवन नाचतात. पयशां बगर आनीक गजाली नात अशें ते समजतात. शंभून म्हणिल्लें, 'ही सगली संपत ईश्वर-चरणीं अर्पण करपाची इत्सा आसा.' पूण ईश्वराक कितें संपत जाय? भक्तां कडच्यान ताका जाय ज्ञान, भक्ती, विवेक, वैराग्य.

राधाकांतच्या देवळांतले दागिने चोरयेक गेले. त्या वेळार मथूरबाबून म्हणलें, 'आरेरे, देवा, तुज्यान वस्तींची राखण करूंक जाली ना न्हय, कितें हें?'

## संन्याश्यांचे कठीण नेम

कांय इश्टेट म्हज्या नांवान बरोवन दिवपाची अशें मथूरबाबू म्हणटाले. ते आनी हृदू ते संबंदीं भासाभास करताले. हांव कालीमंदिरांतल्यान तांचें सगलें उलोवणें आयकतालों. हें सगलें आयकून थंय वचून हांवें मथूरबाबूंक म्हणलें, 'हें पळयात, असले कसलेच विचार मनांत हाडूं नाकात. ताका लागून म्हजें खूब लुकसाण जातलें.'

**अधर:** महाराज, हांव खरें सांगतां. सृश्टी जायत पसून आयज मेरेन तुमचे सारके स वा सात जाण जाल्यात आसतले.

**श्रीरामकृष्ण:** अशें कशें म्हणटा? ईश्वरा खातीर सर्वस्वाचो त्याग करपी मनशां आसातच. पूण आपली सगली संपत सोडून दितकच लोकांक ताची खबर कळटा. ताका प्रसिध्दी मेळटा. पूण लोकांक खबर ना, प्रसिध्दी ना अशींय त्यागी मनशां आसात. असलीं मनशां उत्तर हिंदुस्तानांत नात काय?

**अधर:** कलकत्तांत म्हाका फक्त एक जाण खबर आसा– देवेंद्रनाथ टागोर

**श्रीरामकृष्ण:** कितें म्हणलें? ताणें जितलो जगाचो भोग घेतला तितलो आनीक कोणें घेतला व्हय? मथूरबाबू सांगातान एक खेपो हांव ताच्या घरा गेल्लों. थंय ल्हान-ल्हान कितलींशींच तांगेलीं भुरगीं पळयलीं. दोतोर आयिल्लो, वखदां बरोवन दितालो. ताका आठ भुरगीं आसून लेगीत जर तो ईश्वराचें चिंतन करचो ना तर कोण करतलो? इतल्या ऐश्वर्याचो उपभोग घेतले उपरांतय जर देवेंद्रनाथान ईश्वर चिंतन केल्लें नासत तर लोक ताची छी थू करतले आसले.

**निरंजन:** पूण तांणी ताच्या बापायचें सगलें कर्ज फारीक केलें.

**श्रीरामकृष्ण:** आसूं त्यो गजाली. वोगीच त्रास दिवं नाका म्हाका. सक्षम आसुनूय जो बापायचें कर्ज फारीक करिना ताका कितें मनीस म्हणपाचो? तरीपूण हेर संवसारी लोक संवसारांत सामके बुडिल्ले आसतात. तांच्या मानान देवेंद्रनाथ कितलोसोच व्हड मनीस. बाकीच्या संवसारी लोकांनी ताचे पसून शिकपा सारकें खूब आसा. खरोखरो त्यागी भक्त आनी संवसारी भक्त हांचे मदीं खूब अंतर आसा. खरोखरो संन्याशी, खरोखरो त्यागी भक्त, म्होंवामुसा भशेन आसता. तो मिठायेचेर बसता आनी पुलेणा भरिल्ल्या फोडाचेरूय बसता. एका वेळार ईश्वरीय भावांत आसता. तर दुसऱ्या वेळार कामिनी-कांचनांतय बुडून वता. खरोखरो त्यागी भक्त चातक सुकण्या भशेन आसता. चातक स्वाती नखेत्राच्या कुपाच्या उदका बगर आनीक कांय पियेवपाचो ना. सात दर्या आनी न्हंयो तुडूंब भरिल्ल्यो आसूं, पूण तो दुसरें खंयचेंय उदक पियेवपाचो

ना. कामिनी-कांचनाक आफुडपाचो ना. एकाद्र्या वेळार आसक्ती जायत म्हणून तो कामिनी-कांचन म्हऱ्यांत दवरपाचो ना.

## चैतन्य महाप्रभू; भगवान श्रीरामकृष्ण आनी नांवलोकीक

**अधर:** चैतन्यांनी जगाचो भोग घेतिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (अजापीत जावन) कितें? कसलो भोग घेतिल्लो?

**अधर:** कितली विद्वत्ता, कितलो मानसन्मान.

**श्रीरामकृष्ण:** मानसन्मान दुसऱ्यांचे नदरेन. तांचे स्वताचे नदरेन कांयच न्हय.

तुमी, डेप्युटी मेजीस्ट्रेट, वा हो तरणाटो निरंजन म्हजो मान करतात, म्हाका सगलें सारकेंच. आनी हांव तुमकां खऱ्यानीच सांगतां, गिरेस्त मनशाक आपल्या हातांत दवरपाचें म्हज्या मनांत केन्नाच येना. सुरेंद्रान एकदां म्हाका म्हणलें, राखालाक तुमी तुमचे म्हऱ्यांत दवरतात म्हणून राखालाचो बापूय तुमचेर केश करतलो. मनोमोहना कडल्यान हांवें जेन्ना हें आयकलें तेन्ना हांवें म्हणलें, 'हो सुरेंद्र कोण? अशें म्हणूंक तो धजताच कसो? ताची शेंदरी आनी उशें हांगा पडिल्लेंच आसता. तो म्हाका थोडे पयशे दिता म्हणून अशें उध्दटा भशेन उलोवंक धजता काय कितें?'

**अधर:** तो हांगा म्हयन्याक धा रुपये दीत आसता खंय?

**श्रीरामकृष्ण:** धा रुपयांनी दोन म्हयन्याचें भागता. भक्त हांगा रावतात. तो त्या भक्तांचे सेवे खातीर दिता. ताका लागून ताकाच पुण्य लागतलें. म्हाका ताचें कितें? हांव जें राखाल, नरेंद्र आनी हेरांचेर प्रेम करतां तें कितें म्हज्या स्वताच्या फायद्या खातीर?

**म:** तुमचें तांचे वयलें प्रेम म्हणचे आवयच्या प्रेमा सारकें.

**श्रीरामकृष्ण:** आवय लेगीत भुरगीं आपल्याक फुडें पोसतलीं असो उद्देश ताचे फाटल्यान आसता. हांव जे हांचेर प्रेम करतां तें तांचे भितर म्हाका साक्षात नारायण दिसता म्हणून. आनी हें म्हणचे फकत म्हणपाचें म्हणून न्हय, फक्त शब्द न्हय -सत्य.

## खऱ्या खऱ्या त्यागाचो भार ईश्वर घेता

**श्रीरामकृष्ण:** (अधरांक) आयक, दिवो लायले उपरांत मागीर पिसोळ्यांचो उणाव ना. ईश्वराचो साक्षात्कार जाले उपरांत तो स्वताच सगलें कितें मेळपाची वेवस्था करता. कित्याचोच उणाव पडूंक दिना. ईश्वर काळजांत स्थापन जातकूच तुमची सेवा करपाक

खूब मनीस फुडे येतले. एक बालसंन्याशी एका गृहस्थीच्या घरा भिक्षा मागपाक गेलो. तो अजप संन्याशी आशिल्लो. संवसाराची ताका कांयच खबर नाशिल्ली. त्या घरचे एके तरणाटे चलयेन भायर येवन त्या बालसंन्याश्याक भिक्षा घाली. तिका पळोवन ताणें तिचे आवयक विचारलें, 'आई, हिचे छातयेक कितें मोटे फोड आयल्यात काय कितें?' तेन्ना चलयेचे आवयन म्हणलें, 'ना बाबा, फोडबीड कांय येवंक ना. हिच्या पोटांत फुडें भुरगें जातलें तेन्ना ईश्वरान त्या भुरग्यांच्या दुदा खातीर हिका हीं थानां दिल्यांत', तें आयकून त्या संन्याश्यान म्हणलें, 'तर मागीर म्हाका चिंता कसली? मागीर हांवें भिक्षे खातीर कित्याक भोंवपाचें? जाणी म्हाका निर्माण केला तो म्हाका खावंक घालतलो.' आयलें लक्षांत? जी आपल्या जारा खातीर सगलें सोडून आयल्या ती वेळ पडल्यार ताका म्हणटली, 'फटिंगा, तुजे छातयेचेर बसतलीं आनी खातलीं.'

## तोतापुरीची गोश्ट. एका राजाची साधूसेवा
## भक्त आनी भक्ती

न्यांगटान (तोतापुरी) एक खेपो म्हाका सांगलें, 'एका राजान भांगराच्या ताटांनी आनी वाटयांनी साधूंक जेवण घालें.' हांवें काशीच्या मठांत पळयलां - मठाधिशांक केदो व्हडलो मानसन्मान दितात तें. व्हडले-व्हडले गिरेस्त लोक हात जोडून तांचे मुखार उबे रावन म्हणटात. 'कितें आज्ञा आसा म्हाराज?' पूण खऱ्याखऱ्या साधूक, खऱ्याखऱ्या त्यागी साधूक भांगराचें ताटय नाका आनी मानसन्मानय नाका आसता. पूण ईश्वर तांकां कितेंच कमी पडूंक दिना. ईश्वराचे प्राप्ती खातीर जें जें म्हूण गरज लागता तें तें तो सगलें दिता.

**श्रीरामकृष्ण:** (अधरांक) तुमी अधिकारी आसात. तुमकां आनी हांवें कितें सांगपाचें? जें तुमकां बरें दिसता तें करात. हांव तर अडाणी मनीस.

**अधर:** (हांसत भक्तांक) हे म्हजी परिक्षा घेतात.

**श्रीरामकृष्ण:** वैराग्यच फक्त बरें. पळय न्हय, हांवें पगाराचेर सय केली ना. ईश्वरूच फक्त सत्य. बाकी सगलें भ्रामक.

हाजरा येवन भक्तां लागीं जमनीर बसलो. हाजरा मदीं-मदीं 'सोहं, सोहं,' 'हांव तोच आसां, हांव तोच आसां' अशें म्हणीत आसतालो. लाटू बी हांकां तो म्हणटालो, 'ईश्वराची पुजा करून, ताका निवेद्य दाखोवपांत कितें अर्थ आसा? ताचीच वस्त ताकाच दिवपाची.' एक दीस नरेंद्राकय ताणें हें सांगिल्लें.

श्रीरामकृष्ण हाजरा कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** भक्त जाची भक्ती करता त्या भगवंताचें स्वरूप कशें आसा हें हांवें लाटूक समजावन सांगलें.

**हाजरा:** भक्त खरें म्हणचे ताची स्वताचीच उपासना, प्रार्थना करीत आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** हीच तर खूब वयली गजाल. खूब वयले अवस्थेंतली. तूं म्हणटा ती वयली अवस्था मेळोवपा खातिरूच तर साधना करपाची आसता. भगवंताचें नामगूण संकिर्तन करपाचें आसता. स्वंता भितर स्वताक स्वताच्या खऱ्या आत्म्याक पळयतकच तर सगलें कितें मनशाक मेळटा. साधनेचो हेतूच तो. आनी अशी साधना करपा खातिरूच हो देह. हो मनीस जल्म. भांगराची मूर्त जों मेरेन सांच्यांत ओतूंक ना तों मेरेनच मातयेच्या सांच्याची गरज आसता. मूर्त ओतून जाले उपरांत मातयेचो सांचो भायर उडोवं येता. ईश्वराचें दर्शन जाले उपरांत शरीर सोडून दिवं येता. ईश्वर फकत आमचे भितरूच आसा अशें न्हय तर तो भितरय आसा आनी भायरय आसा. कालीच्या देवळांत जगन्मातेन म्हाका दाखोवन दिलां, सगलेंच चिन्मय आसा - चैतन्याचें रुपूच आसा - जगन्माताच सगलें कितें जाल्या - मूर्त, हांव, ताट, चिपट, पंचपात्र, दाराची चौकट, संगमरवरी फरशी - सगलें चिन्मय. हो साक्षात्कार दाखोवपा खातिरूच भगवंताक आळोवपाचें आसता. साधना करपाची आसता. ताच्या नामगुणाचें संकिर्तन करपाचें आसता. तेच खातीर ईश्वराची भक्ती करपाची आसता. हे तरणाटे भुरगे (लाटू आनी हेर) हांचो पांवडो सकयल्लो आसा. अजून तितले वयले अवस्थेंत पावूंक नात. ते भक्तीचो आलाशिरो घेवन आसात. तांकां तें तसलें - सोहंम - हांव तोच बी सांगूं नाका.

पक्षीण जशी तिगेल्या पांखांनी धांपून तिगेल्या पिलांची राखण करता तसोच दयामय भगवान श्रीरामकृष्णय तांगेल्या भक्तांचें जागरूकतायेन राखण करीत आसतात. अधर आनी निरंजन अल्पोहारा खातीर पडवेर गेले. फराळ करून ते कुडींत परत आयले. म श्रीरामकृष्णां लागीं जमनीर बसलो.

**अधर**: (हांसत) आमी कितल्याश्याच विशयांचेर उलयले. पूण हांच्या तोंडांतल्यान एक उतर लेगीत आयलें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** केशवाच्या ब्राह्मसमाजांत चार विश्वविद्यालयाच्यो पदव्यो आशिल्लो एक तरणाटो आशिल्लो. सगले जाण म्हजे कडेन भासाभास करतात तें पळोवन तो

फकत हांसतालो आनी म्हणटालो, 'हांचे कडेन आनी भासाभास करपाची?' केशव सेना कडेन तो परत एक खेपो दिशिल्लो. पूण त्या वेळार ताच्या मुखामळाचेर पयलीं सारकें तेज नाशिल्लें.

## श्रीरामकृष्णांचें रातचें जेवण

श्रीरामकृष्ण रातचे जेवणा खातीर बसले. श्रीरामकृष्णांचें जेवण म्हणचे कालीमातेच्या प्रसादांतल्यो एक-दोन पुरयो आनी थोडोसो सांजो. म्हऱ्यांत म बशिल्लो. लाटूय कुडींत आशिल्लो. भक्तांनी संदेश आनी हेर मिठाय हाडिल्ली. एका संदेशाक स्पर्श केले बराबर तांणी लाटूक म्हणलें, ''खंयच्या फटिंगान हो संदेश हाडला?'' अशें म्हणून तांणी ताटांतलो काडून जमनीर दवरलो. तांणी लाटूक आनी मक म्हणलें, ''ताचे विशीं म्हाका सगलें खबर आसा. तो वायट चालीचो मनीस.''

**लाटू:** ही मिठाय दिवं?

**श्रीरामकृष्ण :** किशोरान हाडल्या ती.

**लाटू:** ती तुमकां चलतली?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हय.

म इंग्लीश शिक्षण घेतिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका सांगलें, ''सगल्यांनी दिल्ले जिनस म्हज्यान खावं नजं. तुजो हाचेर विश्वास आसा?''

**म:** हय महाराज, ल्हव-ल्हव हें मानचेंच पडटलें. विश्वास दवरचोच पडटलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, तशेंच तें.

जेवले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी तोंड धुलें. तांणी मक म्हणलें, ''मागीर तूं नारायणाक एक रुपया दिता न्हय?'' मन म्हणलें, ''हय, महाराज. खात्रेन दितां.''

शरद रुतूचे दीस. नितळ मळबांत चंद्रीम उदेतकूच न्हयेंत ताचें प्रतिबिंब दिसूंक लागलें. उदक चकचकूंक लागलें. सुकती सुरू जाली. गंगा दक्षिणे कडेन व्हांवूंक लागली. चान्न्यांत लकलकत दर्या कडेन तोंड भरून व्हांवूंक लागली.

# अध्याय : त्र्याण्णव

## दक्षिणेश्वर देवळांत
## नरेंद्र आनी हेर भक्तां सयत श्रीरामकृष्ण

### ज्ञान अज्ञानाच्या पलतडीं वचात
### शशधरांचे सुकें ज्ञान

**सप्टेंबर 14, 1884. आयतार.** भगवान श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वर देवळांत तांगेले कुडींत विसव घेताले. तांचे बराबर नरेंद्र, भवनाथ, मुखर्जी भाव, आनी हेर भक्त आशिल्ले. राखाल बलरामा बराबर वृंदावनांत आशिल्लो. ताका थंय जोर आयिल्लो. नरेंद्र कायद्याचे परिक्षेची तयारी करतालो. सुमार इकरा वरांचेर ज्ञानबाबू आयले. ते सरकारी नोकरेंत आशिल्ले. ते विद्यापिठाच्यो चार परिक्षा पास जाल्ले.

**श्रीरामकृष्ण**: (ज्ञानबाबूंक पळोवन) कितें हो, अचकीत ज्ञानाची जागृतायशी जाली?

**ज्ञानबाबू:** (हांसत) पूण महाराज मोट्या भाग्यान ही ज्ञान जागृताय जाता न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी तर ज्ञान. मागीर तुमचे भितर अज्ञान कशें? आं, आयलें ध्यानांत. जंय ज्ञान थंय अज्ञान आसतलेंच. वसिश्ठदेव इतले ज्ञानी पूण पुत्रशोकान रडिल्ले. म्हूण तुमी ज्ञान आनी अज्ञान ह्या दोनांचेय पलतडीं वचूंक जाय. अज्ञानरुपी कांटो पांयांत गेला. तो काडपा खातीर ज्ञानरुपी कांट्याची गरज आसा. ते उपरांत त्या ज्ञानरुपी कांट्यान तो अज्ञानरुपी कांटो काडून उडयतात. उपरांत ते दोनय कांटे भायर उडोवपाचे आसतात.

### निर्लिप्त गृहस्थी; कामारपुकूराक पळयलें
### मेस्ताचे बायलेचे काम

**श्रीरामकृष्ण:** हो संवसार म्हणचे मयसभा आसा, भ्रामक आसा अशें ज्ञानी म्हणटात. जो ज्ञान आनी अज्ञान ह्या दोनांचेय पलतडीं वता तो म्हणटा, हो संवसार म्हणचे 'आनंदाची पेठ' आसा. ताका दिसता की तो सच्चिदानंद प्रभूच जीव, जगत, चोवीस

तत्वां, सगलें कितें जाला. ईश्वराचो लाव जाले उपरांत मनशान संवसारांत रावूं येता. तेन्ना मागीर मनीस अलिप्तपणान रावूंक शकता. हांवें गांवांत मेस्ता बायलो पळयल्यात. त्यो वानांत मुसळान फोव कांडटात. एका हातान त्यो वानांतले फोव परतितात आनी दुसऱ्या हातान भुरग्यांक दुदाक धरतात. त्याच वेळार त्यो गिरायका कडेन उलयतात. 'तुमचे कडल्यान दोन आणे येवपाचे आसात. तुमी वच्चे पयलीं ते दियात.' पूण बायलांचें सत्तर टक्के मन वानांत घाल्ल्या हातां कडेन आसता. चुकून मुसळ हाताचेर पडून चेंचलो जाल्यार? पंचात्तर टक्के मन ईश्वरा कडेन दवरून फक्त पंचवीस टक्के मनान संवसारांतलीं कामां करूंक जाय.

पंडीत शशधरां विशीं उलयतना श्रीरामकृष्णांनी भक्तांक सांगलें, "म्हाका ते सामके एकांगी दिसले. फक्त शुश्क ज्ञान विचारांत दंग आशिल्ले. जो नित्य अवस्थेंत, निमणें सत्य अवस्थेंत पावला तोच परत लिलेंत, संवसारांत पावं येता. आनी परत लिलेंतल्यान नित्यांत वचूं येता. ताकाच पक्कें ज्ञान, पक्की भक्ती प्राप्त जाल्या अशें म्हणपाचें. नारद बी ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत भक्तींत विसावले. हाकाच म्हणटात विज्ञान. फक्त शुश्क ज्ञान म्हणचे सट करून जळपी नारगां भशेन. थोडो वेळ उज्याकिटी दिश्टी पडटात. मागीर जळून नाच जातात. नारद, शुकदेव हांचें ज्ञान म्हणल्यार व्हड रोकेट कशें. तातूंतल्यान थोडो वेळ कारंजें कशें वयर सरता. थोडो वेळ बंद जाता, परत मागीर फुलांचे कारंजें सुरू जाता. बंद जाता. परत तें सुरू जाता आनी अशे रितीन सुरूच आसता. रुशीं कडेन ईश्वरा विशीं आशिल्लें हें प्रेम. म्हणचे त्या सच्चिदानंदाक बांदपाची दोरीच कशें.

## ओंवळीच्या तळा श्रीरामकृष्णांची अनपेक्षीत भावसमाधी

दनपारच्च्या जेवणा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी थोडो वेळ विसव घेतलो. भवनाथ, म, मुखर्जी भाव, हाजरा आनी हेर कितलेशेच भक्त ओंवळी सकयल बशिल्ले. आनी एकामेकां कडेन उलयताले. सुरूच्या झाडां कडेन वतना श्रीरामकृष्ण थंय थोडो वेळ रावले.

**हाजरा:** (तरणाट्या गोपाळाक) मातशी तांकां (श्रीरामकृष्णांक) ओडपा खातीर गुडगुडेची तयारी कर पळोवया.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तुका जाय अशें तूं कित्याक म्हणिना? (सगले हांसतात).

**मुखर्जी:** (हांसत) तुमी हांचे पसून (श्रीरामकृष्णां पसून) खूबखूब शिकल्यात आसतले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ना आं, सामक्या भुरग़ेपणा पसून हो असो शाणो आसा. (सग़ले हांसतात.)

श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडा कडच्यान परत आयले. भक्तांक दिसलें कीं श्रीराम कृष्ण समाधीश्ट जाल्यात. एकाद्रे नशेंत आशिल्लूया मनशा भशेन ते चलताले. कुडींत पावतकच ते परत सदां भशेन भानार आयले.

## नारायणा संबंदीं श्रीरामकृष्णांचो हुसको. कोन्नगरची भक्तमंडळी श्रीरामकृष्णांची समाधी

श्रीरामकृष्णांचे कुडींत खूब भक्त जमिल्ले. कोन्नगराच्या भक्तां बराबर एक साधक नव्यानूच आयिल्लो. साधकाचें वय आसत पन्नासांचे वयर. पळयतकच दिसतालें, ताचे भितर पंडीतपणाचो खूब गर्व आसा. श्रीरामकृष्ण कुडींत उबे रावले आनी तांणी अचकीत मक म्हणलें, ‘‘तो आयला हांगा – नारन.’’

नरेंद्र पडवेर हाजरा आनी हेरां बराबर उलयतालो. ताचे भासाभाशेचो आवाज श्रीरामकृष्णांचे कुडींत आयकूंक येतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक लेखून) खूब बडबडटा. सध्या घरचो ताका खूब हुसको जाला.

**म:** हय महाराज, खरें आसा तें.

**श्रीरामकृष्ण:** संकटाक तो बरें नशीब समजतालो. अशें ताणें एक खेपो म्हणिल्लें, अशें न्हय तें?

**म:** हय महाराज, ताचे कडेन मनाची शक्त मोटी आसा.

**एक भक्त:** खंयचे बाबतींत ताचे कडेन शक्त कमी आसा?

कोन्नागराच्या साधकाक लेखून एका भक्तान श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ‘‘महाराज, हे साधक तुमचे भेटेक आयल्यात. हांकां तुमकां कांय प्रश्न विचारपाचे आसात. सामके फाट आनी तकली ताठ करून बसल्यात.’’

**साधक:** महाराज उपाय कितें?

## ईश्वरदर्शनाचो उपाय गुरूवाक्याचेर विश्वास

**श्रीरामकृष्ण:** गुरूवाक्याचेर विश्वास. तांच्या उपदेशा प्रमाण गेल्यार भगवंताचो लाव जावं येता. दोरयेचो माग काडीत फुडें फुडें गेल्यार तिच्या दुसऱ्या टोंकाक आशिल्लो जिनस मेळटा – तशें हें.

**साधक:** ईश्वराचें दर्शन जावं येता?

**श्रीरामकृष्ण:** विशय बुद्दीक, संवसार आसक्त मनांक, अज्ञात आसा. कामिनी–

–कांचनाचे आसक्तीचो लवलेश लेगीत आसल्यार ईश्वर मेळप शक्य ना. पूण तो शुध्द मनाक, शुध्द बुद्‌दीक ज्ञात आसा. ज्या मनांत, जे बुद्‌दींत आसक्तीचो लवलेश नासता, त्या मनाक, ते बुद्‌दीक. शुध्द मन, शुध्द बुद्‌द आनी शुध्द आत्मो एकच गजाल.

**साधक:** पूण शास्त्र तर म्हणटा ईश्वरा कडेन पावतकच उतरां आनी मन गोंदळून परत येतात. तो वाणी आनी मनाक अज्ञात आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** पुरो, पुरो. साधना केले बगर शास्त्राचो अर्थ समजना. फक्त भांग, भांग अशें आड्डून कितें जातलें? पंडीत लोक श्लोक खूब पाठ म्हणून दाखयतात. पूण ताणें कितें जाता? भांग आंगाक लावन नशा येना. ती पियेवची पडटा. दुदांत लोणी आसा, दुदांत लोणी आसा अशें परत परत म्हणून कितें उपेग? दुदाचें विरजण करून ताचें धंय करूंक जाय आनी घुसळावंक जाय. मागिरूच तुका लोणी मेळटलें.

**साधक:** तुमी धंय घुसळावन लोणी काडपा विशीं उलयतात पूण तुमीय शास्त्रवचनच उलोवन दाखयतात.

**श्रीरामकृष्ण:** शास्त्राचीं वचनां फक्त तोंडान म्हणून वा आयकून कितें जातलें? तांची धारणा जावपाक जाय. तीं आत्मसात करपाक जाय. पंचांगांत भविश्य बरयिल्लें आसता की वीस इंच पावस पडटलो. म्हूण तें पंचांग पिळ्ळ्यार एक थेंब लेगीत पडपाचो ना.

**साधक:** तुमी धंय घुसळावन लोणी काडपा विशीं उलयले. तुमी तशें लोणी काडलां?

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें कितें केलां आनी कितें ना तें कुशीक दवरात, आनी ह्यो सगल्यो गजाली दुसऱ्यांक समजावन सांगप खूब कठीण आसा. कोणेंय जर विचारलें, तुपाची रूच कशी? तर ताची जाप हीच की तुपाची रूच तर तुपा सारकीच. हें सगलें समजून घेवपाचें जाल्यार साधूसंगाची गरज आसा. कफाची नाडी खंयची, पित्ताची नाडी खंयची, वायूची नाडी खंयची, हें समजून घेवपाचें आसत जाल्यार वैजा सांगातान रावपाची गरज आसा.

**साधक:** कोणाकोणाक दुसऱ्या बराबर रावपाचो वीट येता.

**श्रीरामकृष्ण:** तें जाता. ज्ञान मेळ्ळे उपरांत, ईश्वराच्या साक्षात्कारा उपरांत, ते खातीर पयलीं साधूसंग नाका?

साधक कांय उलयनासतना थोडो वेळ वोगी बसलो.

**साधक:** (थोड्या वेळान मातसो तिडकल्ले भशेन जावन) तुमी ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेतला आसत. प्रत्यक्ष रितीन वा अणभवांतल्यान आसूं. तुमकां शक्य आसल्यार सांगात. तुमची इत्सा नासल्यार तुमी सांगू नाकात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) कितें सांगपाचें? हे बाबतींत फक्त संकेत दिवं येता.

**साधक:** मागीर तेंच करात.

नरेंद्राक गावपाक जाय आसलें. ताणें म्हणलें, ‘‘पखवाज कोणेंच हाडलो ना.’’
**धाकलो गोपाळ:** महिमाचरणां कडेन आसा एक.
**श्रीरामकृष्ण:** नाका. हांगा आमकां तागेली कसलीच वस्त नाका.

कोन्नागरच्या एका भक्तान एक गीत म्हणलें, मदीं-मदीं श्रीरामकृष्ण त्या साधकाक पळयताले. गावपी आनी नरेंद्र संगिताच्या तंत्रा विशीं किंवाट्यान भासाभास करताले. साधकान गावप्यांक म्हणलें, ‘‘असले भासाभाशेची कितें गरज आसा?’’ आनीक एका मनशान भासाभाशेंत तोंड घालें. ताका लेखून श्रीरामकृष्णांनी साधकाक म्हणलें, ‘‘हाकाय तुमी बरो तापयनात कित्याक?’’ अशें दिसतालें की साधकाचें कोन्नागराच्या सांगात्यां कडेन बरे इश्टागतीचे संबंद नाशिल्ले.

नरेंद्र गावपाक लागलो:

ए नाथ, म्हज्या आयुश्याचे सगले दीस अशेच निर्फळ जावन वतले?
हांव कितले आशेन तुजे वाटे कडेन लावन बसलां दोळे.

तो साधक गाणें आयकतां आयकतां ध्यानस्त जावन गेलो. दनपारचीं तीन चार जाल्लीं. अस्तंते कडेन वत त्या साधकाच्या आंगार पडिल्लें. श्रीरामकृष्णांनी बेगीनबेगीन एक सत्री उगडली आनी दारा कडेन दवरली. कित्याक साधकाक वताचो त्रास जावचो न्हय म्हणून.

नरेंद्र परत गावंक लागलो:

ए प्रभो, हांव ह्या म्हेळ्या आनी संवसारी मनान तुका कसो घालूं साद?
धडधडपी उज्यांत तणाची काडी सुखरूप उरूं येता?
तूं, पूर्ण पुण्यवान, उजो, आनी हांव पूर्ण पापमय, फकत एक तणाकाडी
हांवें तुजी पुजा करची कशी?
तुज्या नामाचो म्हयमो, अशें म्हणटात,
भोगसवणे भायल्यांकूय बी भोगशिता;
तरी, तुजें पवित्र नाम जेन्ना हांव गायतां, आरेरे!
म्हजें काळीज बावडें भंयान थरथरता.
पातकांचो गुलाम जावन हांव म्हजी जीण सारतां,

म्हाका आलाशिरो मेळटलो कसो
ए स्वामी, तुज्या पवित्र मार्गांत?

तुज्या उपाट बरेपणान, ह्या पातकी दळिद्र्याक वाटाय;
म्हजे तकलेच्या केंसांक धरून म्हाका
ओडून काड आनी तुज्या चरणां कडेन म्हाका आलाशिराय.

नरेंद्र परत गावंक लागलोः

गोड तुजें नाम, ए नमळायेच्यांच्या आलाशिऱ्या!
सामकें गोड म्होंव कशें तें आमच्या कानार पडटा.
आनी आमकां थाकायता, आमच्या आत्म्यांचो मोगी!
तुज्या नामाचें अनमोल धनूच अमरत्वाचें धाम आसा,
आनी जो कोण तुजें नाम गायता, तो अमर जाता.
आमच्या कानांचेर तुजें पवित्र नांव पडून
खिणा भितर चिरता आमच्या काळजांची व्यथा.
तूं आत्म्यांचो आत्मो, आनी आमचीं काळजां
आनंदान भरून उडयता!

'तुजें जो नाम घेता तो अमर जाता' ह्या भावार्थाची वळ नरेंद्रान गायतकच श्रीरामकृष्ण समाधींत मग्न जाले. समाधीचे सुरवेक तांचे चड करून आखाणे थरथरूंक लागले. कोन्नागराच्या भक्तांनी श्रीरामकृष्णांची समाधी अवस्था हाचे पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली. श्रीरामकृष्णांक हे प्रमाण स्तब्ध जाल्ले पळोवन ते कुडी भायर वचपाक उठले. तें पळोवन भवनाथान तांकां म्हणलें, तुमी लोक बसात. ही श्रीरामकृष्णांची समाधी अवस्था आसा. तेन्ना ते कोन्नागरचे भक्त परत सकयल बसले.

नरेंद्र गावंक लागलोः

हांवें रातदीस काम केलां
म्हज्या काळजांत तुजी बसका करूंक;
तूं म्हजेर दया करचो ना
ए विश्वेश्वरा, आनी थंय भितर सरचो ना?

श्रीरामकृष्ण भावसमाधींत आसतना सकयल देंवून जमनीचेर नरेंद्रा म्हऱ्यांत येवन बसले.

नरेंद्र गावंक लागलोः

ज्ञानाच्या अवकाशांत प्रेमाचो पुनवचंद्र उदेता,
आनी प्रेमाची पूरभरती, उसळपी ल्हारांनी सगले कडेन व्हांवता.
ए स्वामी, तूं कितलो आनंदभरीत! तुजो जय जावं!

हें आयकून श्रीरामकृष्ण उबे रावले आनी परत समाधीमग्न जाले. बऱ्याच वेळा उपरांत ते मातशे भानार आयले आनी जमनीर शेंदरेर बसले.

नरेंद्राचें गावन जाल्लें आनी ताणें तंबोरो जाग्यार दवरलो. श्रीरामकृष्ण अजून समाधी अवस्थेंत आशिल्ले. आनी ते अवस्थेंत तांणी म्हणलें, "आई, हें कितें तें तूंच सांग पळोवया. लोणी काडून तांच्या सामकें तोंडांत घालूंक जाय. हे स्वता कांयच करपाक तयार नात. हे तळयेंत हांयस उडोवचे नात. गरी घेवन बसचे नात. कोणेंतरी नुस्तें धरून आयतें हांच्या हातांत दिवंक जाय. कितें त्रास हो , आई, हांव ओगीच तर्कवितर्क आयकुपाक तयार ना. फटींग म्हजेर लादूंक पळयतात. कितें त्रास हो. हांव सगलें मोखून भायर उडयतलों. ईश्वर, वेदांचे, विधीनेमांचे पलतडीं आसा. वेदवेदान्त आनी शास्त्रां वाचून कितें ईश्वरी साक्षात्कार जावं येता?" (नरेंद्राक) "तुका समजलें न्हय? वेद फक्त संकेत दितात." नरेंद्रान परत तंबोरो हाडपाक सांगलो. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "हांव गायतां." अजून लेगीत ते समाधी अवस्थेंत आसले. ते गावंक लागलेः

माते, हाचीच म्हज्या काळजाक खूब खंत भोगता
तूं म्हजी आवय आसून लेगीत, आनी हांव सामको जागो आसून लेगीत
म्हज्या घरांत चोरी घडटा...

पद सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "आई, तूं म्हाका भासाभास करपाक कित्याक लायता?" इतलें म्हणून ते परत गावपाक लागलेः

ह्या वेळार सदां खातीर, हांव पुरायेन,

जाका तें सारकें बरें कळटा ताचे कडल्यान
भावाचें गुपीत शिकलां...

श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘हांव आतां सामको भानार आयलों.’’ पूण ते अजून दिव्य समाधी अवस्थेंतच आशिल्ले. ते परत गावपाक लागलेः

सोरो सादो, पूण सोरो सासणाच्या आनंदाचो
पियेता हांव
म्हजे काली मातेचें नाम घेतां घेतां,
हांव जातां इतलो तर्र, समजतात लोक म्हाका
हांव बेबदो जालां!...

पद जातकच श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘जगन्माते, हांव हे फुडें भासाभास आनी तर्कवितर्क आयकुपाक तयार ना.’’

आतां नरेंद्र गावंक लागलोः

ए माते, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो कर!
म्हाका ज्ञानाची वा तर्काची कसली गरज?...

श्रीरामकृष्णांनी मातशें हांसत म्हणलें, ‘‘आई, म्हाका पिसो करून उडय. ज्ञान विचारान, शास्त्र वचनान ईश्वर मेळूंक शकना. पळयात आनंदमयी मातेचें नाम आशिल्लें एक पद म्हणात. फक्त एकूच पद.’’

**गायकः** महाराज, माफी आसची.

**श्रीरामकृष्णः** (गायकाक हात जोडून नमस्कार करीत) ना, महाराज हांव तुमचेर बळजबरी करूंक शकतां.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्ण एका संकिर्तन गाण्यांतले एके गोपीच्या भावान गावंक लागले.

कृष्णाक अशें उलोवपाक फक्त एके राधेकूच अधिकार आसा.
ती कृष्णा खातीर जागी आसा सगली रात दोळ्यांत तेल घालून.

रागार जावपाचो अधिकार फकत तिकाच आसा.

पद सोंपले उपरांत तांणी त्या गायकाक म्हणलें, ''हें पळयात, तुमी ब्रह्ममयीचे संतान. ती प्रत्येक घरांत, सगल्या प्राण्यांत आसा. हांव तुमकां बळजबरेन पद म्हणपाक लावंक शकतां. एका शेतकामतीन गुरूक म्हणलें, ''गरज पडल्यार हांव तुमकां मारून तुमचे कडच्यान मंत्र घेतलों.''

**गायक:** (हांसत) जोतें मारून.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ना, थंय मेरेन हांव वचपाचों ना.

परत समाधी अवस्थेंत श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''प्रवर्तक साधक, सिध्द, सिध्दांतले सिध्द, तुमी कोण, सिध्द काय सिध्दांतले सिध्द? बरें आसा. आमचे खातीर एक पद म्हणात.'' मागीर गायकान एक गोड पद म्हणलें.

**श्रीरामकृष्ण:** पळय महाराज, ह्या पदान लेगीत म्हाका खूब आनंद जालो.

पद सोंपले उपरांत कोन्नागराचे भक्त श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी तांणी तांचो निरोप घेतलो. साधकान हात जोडून प्रणाम करीत म्हणलें, ''गोसायजी, येतां तर हांव.'' श्रीरामकृष्ण अजून समाधींत आशिल्ले. तेच अवस्थेंत ते जगन्माते कडेन उलयले. ''आई, हांव काय तूं? हांव कितेंतरी करतां काय? ना, ना हो सगलो वेळ मुद्दे आयकताली ती तूं काय हांव? ना, ना, हांव न्हय. तूंच ती.''

श्रीरामकृष्ण आतां पुरायेन भानार आयले. आतां ते नरेंद्र, भवनाथ आनी हेर भक्तां कडेन उलोवंक लागले. ते त्या साधका विशीं उलयताले.

**भवनाथ:** (हांसत) कसले तरेचो मनीस हो?

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें एक खेपो एकट्याक एका साधू विशीं म्हणलें, तो रजोगुणी साधू आसा. ताका शिदोबिदो कित्याक दिवपाचो. तें आयकून एका साधून म्हाका उपदेश केलो. अशें उलोवं नये. साधू तीन तरांचे आसतात. सत्वगूणी, रजोगूणी आनी तमोगूणी. त्या दिसा पसून हांव सगल्याच तरांच्या साधूंक मानतां.

**नरेंद्र:** (हांसत) म्हणचे त्या 'हती-नारायण' चे गजाली भशेन. सगलेच नारायण आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तो परमेश्वरूच विद्या आनी अविद्या ह्या दोन रुपांनी लिला करीत आसा. म्हणून हांव दोगांकय नमस्कार करतां. 'चंडी'त आसा. ती जगन्माताच भाग्यवंताचें भाग्य आनी हतभाग्यांचें दुर्भाग्य आसा. (भवनाथाक) हें कितें विष्णूपुराणांत आसा?

**भवनाथ:** (हांसत) तें म्हाका खबर ना. महाराज, कोन्नागराचे भक्त तुमगेली समाधी

अवस्था वळखूंक येवंनाशिल्ल्यान सरळ उठून वचूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** मागीर तांकां परत रावपाक कोणें सांगलें?

**भवनाथ:** (हांसत) हांवेंच सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें आसा. तुमी लोकांक हांगा हाडपाकय तयार आनी हांगच्यान धांवडावपाकय तयार. गायका कडेन नरेंद्राचो वाद जाल्लो.

ते विशीं उलोवणीं सुरू जालीं.

## अप्रतिकाराचें तत्व आनी श्रीरामकृष्ण
## नरेंद्राक उपदेश. सत्वांतलो तमोगूण.
## हरीनामाचें महात्म्य

**मुखर्जी:** नरेंद्रान सोडलो ना ताका.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें केलें. अशीच जिद्द जाय. हाका म्हणटात सत्वगुणा मदलो तमोगूण. तमोगुणाचो सत्वगुणाचेर प्रभाव. लोक जें म्हणटात तें सगलेंच कितें आयकून घेवपाचें? वेश्येक कितें म्हणपाचें की बरें आसा, तुका जाय तशें कर. तिचेंय आयकुपाचें काय कितें? एक खेपो राधेक मान आयलो. तें पळोवन तिची एक सखी म्हणूंक लागली की राधेक अहंकार जाला. ताचेर वृंदा नांवाची आनीक एके सखीन म्हणलें, हो अहं कोणाचो? हो तर कृष्णाचो अहं आसा. राधेक स्वताचो अहं आसा खंय, की ती अहंकार करतली. कृष्णाच्या गर्वानूच तिका गर्व जाला.

आतां हरीनामाच्या महात्म्या संबंदीं उलोवणीं सुरू जालीं.

**भवनाथ:** हरीनामान म्हाका सामको सुशेग मेळटा.

**श्रीरामकृष्ण:** जो पापहरण करता तो हरी. तो त्रिताप हरण करता. चैतन्यमहाप्रभूंनी हरीनामाचो प्रचार केल्लो. मागीर तें बरें आसुंकूच जाय. पळय न्हय, चैतन्यदेव केदे व्हडले विद्वान. तशेच ते अवतार. तांणी जेन्ना ह्या नामाचो प्रचार केला तेन्ना तें बरें आसतलेंच आसतलें. (हांसत) एक खेपो कांय शेतकामत्यांक जेवपाक आफयले. जेवतना तांकां विचारलें , 'तुमी लोक आंबाड्याचें आंबट रायतें खातले?' तांणी म्हणलें, 'जर शारी लोकांनी खाल्लें आसत तर तें बरें आसुंकूच जाय.' (सगले हांसतात.)

## श्रीरामकृष्णांची शिवनाथांक मेळपाची इत्सा

श्रीरामकृष्णांक शिवनाथ शास्त्रींक मेळपाची इत्सा जाली म्हूण तांणी मुखर्जी भावांक म्हणलें, ''एक दीस शिवनाथाक मेळन म्हणटां. तुमचे गाडयेंतल्यान गेल्यार वेगळें भाडें दिवपाचें लागचें ना.''

**मुकर्जी:** बरें आसा महाराज. तुमकां जमता तशे एक दीस वचुया.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) बरें. हें सांगात, त्या ब्राह्मभक्तांक हांव आवडटलों? जे लोक देवाक साकार रुपांत मानतात तांची ते निंदा करतात म्हूण म्हणटां.

महेंद्र मुखर्जीक तिर्थयात्रेक वचपाचें आसलें. तांणी श्रीरामकृष्णांक ते विशीं सागलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हें कशें? भक्तीप्रेमाचो आंकूर फुट्टलो. मागीर झाड जातलें. ते उपरांत फळ लागतलें. हांगा तुमी येतात, उलयतात तें आमकां खूब बरें दिसता.

**महेंद्र:** थोडींशीं तिर्थस्थळां पळोवचीं अशी इत्सा जाल्या. रोखडोच परतो येतलों.

सांजेचीं सुमार ́पांच वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण कुडींतल्यान भायर आयले. भक्तमंडळी बागेंत भोंवताली. तातूंतले बरेच जाण आपापल्या घरा परतुपाचे आसले. श्रीरामकृष्ण उत्तरे कडले पडवेर हाजरा बराबर उलयताले. नरेंद्रनाथ हालीं दिसांनी गुहाचो व्हडलो पूत अन्नदा कडेन वतालो.

**हाजरा:** अशें आयकल्लें की गुहांचो चलो अन्नदा ह्या दिसांनी खूब कडक तप करता. इल्लेंशें कितेंतरी खावन रावता. चार चार दिसांनी जेवता.

**श्रीरामकृष्ण:** खरें काय कितें? कोणें सांगचें? फक्त भायल्या धर्मीक भेसान लेगीत ईश्वर मेळप शक्य आसा.

**हाजरा:** नरेंद्रान आगमनी* गायली.

**श्रीरामकृष्ण:** (उत्सूकतायेन) ताणें कशी गायली ती?**

किशोरी लागींच उबो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका विचारलें, ''तूं बरो आसा न्हय?'' थोड्या वेळान श्रीरामकृष्ण अस्तंते कडले गोल पडवेर गेले. शरद रुतूचे दीस. भगवो रंग आशिल्लो. तांणी एक फ्लानेलाचो सदरो घाल्लो. नरेंद्रनाथाक तांणी विचारलें,

---

* दुर्गा कुळारा आयल्या म्हणून तिचे आवयन आनी कुळारच्या बायलांनी तिका लेखून गायिल्ल्या पदांक आगमनी म्हणटात. बंगालांत दुर्गापुजेचे पयलीं हीं पदां चड करून बायलो खूब म्हणटात. तातूंतली भावना खूब गोड आनी नाजूक आसता.

** नरेंद्रनाथ त्या वेळार निराकारवादी ब्राह्मसमाजाचो सभासद आशिल्लो. ते खातीर सगूण साकार देवदेवीचेर त्या काळांत ताचो विश्वास नाशिल्लो म्हूण श्रीरामकृष्णांचो हो प्रश्न.

'तुवें आगमनी म्हणली खंय?'

गोल पडवे वयल्यान सकयल देंवून श्रीरामकृष्ण नरेंद्रा बराबर गंगेचे बांदिल्ले देगेर आयले. तांचे बराबर म आशिल्लो. नरेंद्रनाथ आगमनी गावंक लागलोः

उमा, बाय तूं परक्याच्या घरा, एकलेंच, कशें रावता?
घरा आमचे विशीं लोक कितलेंच वायट उलयतात!
आरेरे ! हांव लजेन मरतां!
म्हजो जांवय चितेच्या गोबरान आपलें आंग सारयता
आनी मोट्या आनंदान हेवटेन तेवटेन भोंवता,
तूंय बी, ताचे वांगडा तुजी भांगराळी कात गोबरान सारयता
तो भीक मागून अन्न खाता! तुजी आवय हांव, हें कशें सोंसतलें म्हाका?
हे फावटी हांव ताका म्हणटलीं, तुका व्हरूंक तो येतलो तेन्ना,
'म्हजी धूव उमा घरा ना.'

श्रीरामकृष्ण उबे रावनूच तें पद आयकताले. आयकतां आयकतां ते समाधींत गेले. सूर्य अजून अस्ताक वचूंक नासलो. समाधी अवस्थेंतूच न्हंयचे देगेर ते उबे आशिल्ले. तांचे एके वटेच्यान गंगा न्हंय भरती येवन उत्तरे वटेच्यान व्हांवताली. तांचे फाटल्यान फुलांची बाग आशिल्ली. तांचे उजवे वटेन नबतखानो आनी पंचवटी दिसताली. तांचे म्हऱ्यांत नरेंद्रनाथ उबो रावन गायतालो. ल्हव ल्हव धर्तरेचेर काळोख पातळ्ळो. नरेंद्रान आनी हेर भक्तांनी श्रीरामकृष्णांक नमस्कार केलो. आनी ते कलकत्ताक वचपाक भायर सरले.

श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत आयले आनी ते जगन्मातेच्या चिंतनांत मग्न जाले आनी तिच्या नामाचो जप करीत रावले. यदू मल्लीक देवळा लागींच आशिल्ल्या स्वताचे बागेंत पाविल्ले. तांणी थंय श्रीरामकृष्णांक व्हरपाक मनीस धाडलो. अधर लेगीत कलकत्ता सावन आयिल्ले. आनी येतकच तांणी श्रीरामकृष्णांक नमस्कार केलो.

## भक्तां वांगडा यदू मल्लीकांचे बागेंत

श्रीरामकृष्ण यदू मल्लीकांचे बागेंत वचपाक भायर सरले. तांणी लाटूक म्हणलें, ''लापयांव पेटय पळोवया आनी यदू मल्लीकांचे बागेंत म्हजे बराबर यो.''

**श्रीरामकृष्णः** (मक) तूं नारनाक तुजे बराबर कित्याक हाडिना?

**म:** हांव तुमचे बराबर येवं?

**श्रीरामकृष्ण :** तूं बराबर येता? अधर आनी हेर सगले हांगा आसात. बरें आसा. यो. मुखर्जी आमचे बराबर येतले. (मुखर्जींक) तुमीय चलात. म्हणचे निदान यदू मल्लीकां कडच्यान बेगीन भायर सरूंक मेळटलें.

## चैतन्य म्हाप्रभूंची लिला. अधरांचे नोकरी संबंदीं यदू मल्लीकां कडेन उलोवणें

श्रीरामकृष्ण यदू मल्लीकांच्या बसपा सालांत आयले. साल बरें सजयिल्लें. भितर आनी भायर व्हरांड्यांत दिवे लायिल्ले. यदू इश्टां वांगडा बशिल्ले. आनी भुरग्यां बराबर खेळटाले. नोकर थंय उबे आशिल्ले. यदूबाबूंनी हांसत-हांसत तांचें स्वागत केलें. पूण ते उबे रावले नात. ते श्रीरामकृष्णां क़डेन खूब दिसांची पोन्नी वळख आशिल्ल्या इश्टा भशेन वागपाक लागले. यदूबाब चैतन्य म्हाप्रभूचे भक्त आशिल्ले. ते स्टार थेटरांत चैतन्यलिला पळोवपाक गेल्ले. श्रीरामकृष्णांक ते विशीं सांगूंक लागले.

श्रीरामकृष्ण आनंदान चैतन्यलिले विशीं आयकताले. मदीं-मदीं यदूबाबूंच्या भुरग्यां बराबर खेळटाले. म आनी मुखर्जी भाव तांचे म्हऱ्यांत बशिल्ले. उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्णांनी यदू मल्लीकांक सांगलें, ''अधरान कलकत्ता म्युनिसिपालटींत व्हायस चेअरमन नोकरे खातीर अर्ज केल्लो. ती ताका मेळूंक ना.'' यदून सांगलें, ''अधर अजून ल्हान आसा आनी ताच्यान परत प्रयत्न करून पळोवं येता.'' तांचे विनंती वयल्यान श्रीरामकृष्णांनी गौरांगा विशीं कांय पदां म्हणून दाखयलीं.

## राखाला विशीं हुसको

पद सोंपतकच दोगय मुखर्जी भाव वचपाक उठले. श्रीरामकृष्णय तांचे बराबर उठले. पूण ते समाधीचे अवस्थेंत आशिल्लें. दरवट्या कडेन पावतकच ते समाधीमग्न जाले.

बागेच्या घरचो द्वारपाळ सज्जन मनीस आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांक तो मदीं मदीं स्वताच्या घरा आफोवन व्हरून तांची सेवा करतालो. श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न अवस्थेंत उबे आशिल्ले पळोवन, द्वारपाळान येवन तांकां पंख्यान वारो घालपाक सुरवात केली. हातपंखो व्हडलो आशिल्लो. इतल्यांत बागेचे कारभारी रतनान येवन श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो.

श्रीरामकृष्ण इतले म्हणसर भानार आयले. श्रीरामकृष्णांनी कारभाऱ्यांक आनी द्वारपाळाक, ‘‘नारायण, नारायण’’ म्हणून ते तांचे कडेन उलोवंक लागले.

श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत कालीदेवळाच्या व्हडल्या दरवट्या कडेन पावले. मुखर्जी भाव पयलींच थंय येवन श्रीरामकृष्णांची वाट पळयताले.

**श्रीरामकृष्णः** (मुखर्जींक म कडेन बोट दाखोवन) हांकां तुमी सदांच मेळात आनी तांचे कडेन उलयात.

**मुखर्जीः** (हांसत) हय, हाचेफुडें हे आमचे शिक्षक जातले.

**श्रीरामकृष्णः** गांजेकाराचो सभावच असो आसता की दुसऱ्या गांजो ओडप्याक पळोवन ताका आनंद जाता. एकाद्रो गिरेस्त मनीस आसल्यार गांजो ओडपी ताचे कडेन मात्तूय पळोवचो ना. पूण तोच जर एकाद्रो भिकाड्डो गांजो ओडपी आयलो तर ताका वेंग मारतलो. (सगले जाण हांसतात.)

रातचीं णव जाल्लीं. मुखर्जी भावांनी श्रीरामकृष्णांक नमस्कार केलो आनी ते गेले. अधर आनी म श्रीरामकृष्णांचे कुडींत जमनीर बसले. श्रीरामकृष्ण अधरां कडेन राखाला संबंदीं उलयताले. राखाल सध्या बलरामा बराबर वृंदावनांत रावतालो. थंयच्यान पत्र आयिल्लें, दोन तीन दीस जाले राखाल बरो ना. श्रीरामकृष्ण, राखाल बरो ना म्हणपाचें आयकून इतले चिंतेस्त जाले की दनपारच्या जेवणा वेळार कशें जातलें म्हणून ते हाजरा कडेन एकाद्र्या भुरग्या भशेन रडले. अधरांनी राखालाक रजिस्टर करून पत्र धाडिल्लें. पूण अजून लेगीत जाप येवंक नाशिल्ली.

**श्रीरामकृष्णः** (अधरांक) नारनाक वृंदावनांतल्यान जाप आयली आनी तुज्या पत्राची जाप अजून तुका कित्याक मेळ्ळी ना?

**अधरः** ना महाराज. अजून पत्राची जाप येवंक ना.

**श्रीरामकृष्णः** आनी मकूय वृंदावनांतल्यान एक पत्र आयलां.

श्रीरामकृष्ण चैतन्यलिला पळोवपाक स्टार थेटरांत वचपाचे आशिल्ले. ते विशीं उलोवप सुरू जालें.

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत हांसत भक्तांक) यदू म्हणटाले, एका रुपयाच्या जाग्या वयल्यान नाटक बरें दिसूं येता म्हूण. सामकें सवाय. एक खेपो आमकां लोकांक पानिहाटीक घेवन वचपाचें थारतालें. यदू आमकां भाड्याच्या व्हड्यान घेवन वचूंक सोदताले. सगल्या प्रवाश्यांचे गर्दे सकट (सगले हांसतात.) पयलीं ईश्वरा विशीं थोडें भोव आयकुपाची तांकां आवड आशिल्ली. पूण हालीं दिसांनी ते हांगा चड दिसनात. कांय खुशमुस्करे सदांच तांचे भोंवतणीं घुटमळत आसतात. ताणी तांकां चडच इबाडून उडयल्यात.

सामके हिशोबी. तांच्या घरांत पांय दवरले बराबर पयलो प्रश्न, 'गाडीभाडें कितलें थारायलां?' हांव म्हणटालों, 'तुमकां हें सगलें कांयच लागना. तुमी अडेज रुपया दियात पळोवया.' हें आयकून ते ओग्गी रावताले आनी मेजून अडेज रुपया दिताले. (सगले जाण हांसतात.)

रात जाली. अधर घरा वचपाक भायर सरले. श्रीरामकृष्णांनी मक ताचे बराबर नारनाक हाडपाक सांगलें.

हांगा पयलो खंड सोंपता.



माणिकराव
गावणेकार

मूळ बंगाली भाशेंत 'श्री श्री रामकृष्ण कथामृत' ह्या नांवान ही दीसपटी ग्रंथरुपान उजवाडाक आयली. तातूंत स्वता महेंद्रनाथ गुप्त 'म' ह्या नांवान तिसरो पुरुशी जावन अध्यात्माचो हो विशय आमचे मुखार हाडटा. हो सुमार देड हजार पानी ग्रंथ स्वामी निखलानंदांनी इंग्लीशींत The Gospel of Shri Ramakrishna ह्या नांवान अनुवादीत करून संवसारा मुखार हाडलो.

ताचेंच हें कोंकणी रूप.

भौ. माणिकराव गावणेकारांनी आपल्या जाण्टेपणांत मोटे कश्ट घेवन हो ग्रंथ कोंकणींत अनुवादीत केला. कोंकणी वाचकांक हें अध्यात्मधन ह्या ग्रंथावरवीं उपलब्ध जालां.

भौ. माणिकरावांनी हो येदो व्हड वावर केल्ले खातीर ÷अध्यात्माची भूक लागिल्ले म्हजे सारके तांचे रिणी आसात.

- सुरेश जयवंत बोरकार
परवरी-गोंय

माणिकपद्म
प्रकाशन
बांदोडें, फोंडें-गोंय

Price: 50/-